# साहित्य नियाळ :
# अंतरंग आनी कायारुपां

डॉ. किरण बुडकुले

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

साहित्य नियाळ : अंतरंग आनी कायारुपां
डॉ. किरण बुडकुले

Sahitya Niyal : Antarang Ani Kayaroopan
(Collection of articles on literary criticism)
Dr. Kiran Budkuley

प्रकाशन क्र. ९



पयली आवृत्ती : ४ फेब्रुवारी १९९८

प्रकाशक
मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त पद्‌मजा प्रकाशन
श्रीस्थळ-काणकोण, गोंय ४०३ ७०२

अक्षर जुळणी
राजेश भाटीकार
तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव, गोंय

मुद्रक
फा. फ्रॅडी द कॉस्ता
न्यू एज प्रिंटर्स
पणजी, गोंय.

मुखचित्र : प्रा. वासुदेव दिवकार

मोल : ७५/- रुपया

ISBN 81-900808-8-1

प्रती : १००० (एक हजार)

---

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'पयलो चंवर अनुदान येवजण' सकयल छापलां.

॥ ॐ ॥

अखंड एक आराध्य देवुली।
मनभुयेंत श्री ज्ञानमाऊली॥
धन्य ती गुरुकृपा सावुली।
पांगुरली कृतज्ञ मनान॥

जांणी म्हगेल्या पयल्या कोंकणी बरपाक

उजवाड दाखयलो

ते

**सत** चे संपादपी

भौ. फेलिक्सबाब कार्दोज

हांकां

व्हडा आदरान अर्पण

# ॥ उपकारांपोसो ॥

दर एक पुस्तक जल्मा येतना कांय रस्मी अनुबंध जल्मा घालता. **साहित्य नियाळ : अंतरंग आनी कायारुपां**'य हाका आडवाद ना. ह्या पुस्तकान कोंकणी साहित्य-संवसारांत दोळे उगडचे म्हूण कांय व्यक्तींनी मनासावन हातभार लायला. तांचे उपकार आठवप हो एक आनंदपुराय अणभव. हांचेमदीं ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनाचे श्री. मिलींद कमलाकर म्हाळशी, तन्वी ग्राफिक्सचे श्री. राजेश भाटीकार, न्यू एज प्रिंटर्सचे फा. फ्रॅडी द कॉस्ता, मुखचित्र साकार करपी श्री. वासुदेव दिवकार हांचो आनी तांगेल्या सांगात्यांचो आस्पाव जाता. तांकां काळजाथावन देव बरें करूं म्हणटां. तेखेरीज, ह्या पुस्तकाच्या पुराय मजकुराचेर मायेचो हात ओडपी भौ. कमलाकर द. म्हाळशी, मुखचित्राविशीं मोलादीक सुचोवण्यो करपी गोवा कॉलेज ऑफ आर्टचे प्रिं. दत्ताबाब नावेलकार आनी प्रा. सद्गुरू चेंदवणकर हांच्या उपकारांत सदांच रावंक म्हाका आवडटलें.

पुस्तकरुपान उजवाडा येवचे आदीं हातुंतलें थोडेंभोव बरप लेख, भाशण वा परिचर्चा हांचेवरवीं लोकांमेरेन पावोवपांत **राष्ट्रमत, सुनापरान्त, कोंकणी, कुळागर** आनी **जाग** ह्या नेमाळ्यांचे संपादपी, तशेंच **साहित्य सांगाती**, गोंय विद्यापिठाचें **अस्तुरी अभ्यास केंद्र**, आनी **कोंकणी विभाग; आकाशवाणी** पणजी आनी **१३वें अखिल भारतीय कोंकणी सम्मेलन**, कोची, हांचे जाळवणदार हांचो हातभार लागला. ह्या सगल्यांचे मनस्पूर्वेक उपकार आठयता आसतनाच रसिकाकूय आठयतां.

*आद्य नमन रसिक राया*
*राख निरंतर छत्रछाया*
*तुज्या शीण-मोगाची मोहमाया*
*जल्मा घालूं पुस्तका ह्या*
*जालीं निमित्यमात्र।*

*प्रणाम दुसरो मानादिकां*
*गुणग्राही समेस्त संपादकां*
*जिज्ञासू आनी वाचकां*
*जांच्या अनुग्रहा विणें*
*बरपा ना सार्थक!*

*नमन तिचें साथीसांगात्यांक*
*आप्तमित्र आदारदित्यांक*
*जतनायेन ग्रंथ साकारत्यांक*
*आनी दोनी जल्मदात्यांक*
*सर्वथा जे गुरुठांय।*

*त्रिवेणी ही उपकारधारणा*
*त्यापेली गा मोनी भावना*
*जी बोलांक भेदूंक गावना*
*अंतर्मनाच्या भायर पावना*
*जरी कृतार्थ... कृतज्ञ...*

— **बरोवपी**

# मांडावळ

# काळजाथावन...

सगल्या कलामोगी, पुस्तकप्रिय व्यक्तींच्या काळजांत एक रसिक आस्वादक लिपला असो एक भोव काव्यपुराय आनी मनभुलोवणो समज रूढ आसा. म्हाका ही म्हींवी कल्पना भावता. पूण तेचवरी आनीक एक थोडीशी गंभीर आनी बरीच गद्य अशी धारणा आसा की पुस्तक वाचून तें नियाळपी हो एक अभ्यासू समीक्षक आसूंक जाय. हो थोडोसो रूक्ष समज मात म्हाका मानवना.

म्हजेपुरतें उलोवचेलें जाल्यार, म्हाका पुस्तकांचो सोस... मात म्हज्यांत खंयतरी एक रसिक दडला जाल्यार कोण जाणा! पुस्तकांचेर नियाळ बरोवप ही म्हजी आवड आनी आंतरीक गरज, पूण म्हूण समिक्षकाकूय हांवें काळजांत सुवात दिल्या अशें म्हणप कितलें बरोबर? अजून जाप सोदतां...

मात म्हजेठांय एक जिज्ञासू बाळक आनी एक उत्सुक विद्यार्थिनी मोटे उमेदीन वावुरतात. रात-दीस काळजा-मनांत भायर-भितर करतात. हांव बरयतां; पूण घडये हांव पिंडान (म्हळ्यार कितें काय देवा?) लेखक नासनय. एक जागरूक नियाळपी जावचेलो प्रामाणीक यत्न मात सतत म्हजेकडसून घडत आयला, घडत उरतलो.

बरें पुस्तक वाचलें की ताचेर जमल्यार पान-दोन पानां – किमान पंदरा वीस वळी – बरोवन त्यो दस्तनांत दवरचेली शाळेंतसून खोड. आजूय खासा आवडिल्ल्या पुस्तकावेलो नियाळ हांव सपसप उजवाडावंक धाडिना. ताका आस्वादाचें मीठ मारून, खर भाश्याच्यो तिखशो मिरसांगो घालून विसरायेच्या दोणांत करमेवंक दवरतां.

पूण बरयल्लो नियाळ विसरायेर घालो तरी नियाळ ही संकल्पना म्हगेल्या चित्तांत सतत जागीच रावता. किल्लत घाल्ल्या बियांवरी...

हालींच कोचीक जाल्ल्या १३व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या आयोजकां वतीन **साहित्य नियाळ : तत्त्वां आनी प्रयोग** ह्या विशयाचेर प्रपत्र वाचचेलें आमंत्रण आयलें आनी किल्लत घाल्ल्या बियांक कोमरी फुटली. प्रपत्र सादर करतना म्हजेवरीच हेरांकूय साहित्य-नियाळ ह्या गजालीविशीं आस्था आसा, उत्सुकताय आसा हें जाणवलें. वांगडाच ह्या आस्थेफाटल्यान आशिल्ली विचारीक तशी सिद्धांतीक घुस्पटय होलमली. हातुंतल्यान नियाळाविशींच्या कितल्याशाच प्रस्नांची कल्पना आयली. हें सगलें पेपराच्या कक्षेंत येनाशिल्लें, पूण तांकां जापो सोदप भोव गरजेचें आशिल्लें. म्हजेखातीर... कोंकणी खातीरूय.

ह्यो सगल्यो जापो पुस्तकांनी सांपडपासारक्यो नासल्यो; बऱ्योच मनांत देंवन सोदूंक

जाय आसल्यो. भुरगेपणांत वाचिल्लें कवीवचन याद जालें – 'Fool! Look in thy heart and write' ('पिश्या ! काळजांत पळय आनी बरय.') तेंच केलें. तातुंतल्यान आज **साहित्य नियाळ : अंतरंग आनी कायारुपां** ह्या पुस्तक-अर्भकान जल्म घेतला. तें कशें उतरतलें तें फुडार सांगतलो. अजून ताचीं जायतीं 'उदकां' उरल्यांत.

मात, ताचें नांव अशें कित्याक दवरीन दिसलें, हें सांगप गरजेचें. हाचे फाटल्यान एक अंतस्थ कारण आसा. साहित्य-नियाळ ही संज्ञा अमूर्त जाल्ल्यान, ताचे फाटले संकल्पनेची उकल करतना उतरांची फोडाफोड करून तत्वीक भासाभाशेचो कीस काडलेबगर सुटकावाट ना. पूण इतलेंय करून हे संकल्पनेचें अनंग रूपच सामकारावता. ताका वाचप्याच्या समादानाखातीर थोडेंभोव मूर्त रूप दिवंक तत्वीक भासाभास उणी पडटा.

वाचप्याक जाय जाल्यार ताणें आपणाल्या अभ्यासांतल्यान, अणभवांतल्यान, उगडासांतल्यान वा कल्पनाशक्तीवरवीं साहित्य-नियाळाचीं कायारुपां सोदून काडचीं पडटलीं. जरी चिकित्सक वाचप्याचे नदरेन हें क्षम्य आसलें तरी नीज बरोवप्याक – शिक्षक आसलो जाल्यार अदीक करून – हातूंत धादोसकाय लाबना. ताका आपणें खंयचीय संकल्पना अक्षरबद्ध करतनाच तिका फकत अर्थबद्धच न्हय तर रूपबद्धय करची अशें दिसता. हांवूय हाका आडवाद ना.

देखुनूच ह्या पुस्तकाच्या पयल्या अर्दांत निखटी संकल्पनेची सिद्धांतीक नदरेन, जमता थंय देखी दिवन, फोडणिशी करचेलो यत्न केला. साहित्य-नियाळ हे साहित्य-प्रक्रियेची प्रकृती, स्वरूप, पद्धत आनी प्रकार हांचेवरवीं वाचप्याक, ते संकल्पनेचें अंतरंग होलमतलें अशी आस्त आसा आनी अशी समजणी ताणें आत्मसात केली जाल्यार ताका आपणाले समजणेच्या नाड्यार आपलेपुरतीं साहित्य-नियाळाचीं कायारुपां थारावंक मेळचीं, अशी माण्णी पुस्तकाच्या दुसऱ्या अर्दांत केल्या.

साहित्य-नियाळाच्या विविध पर्तींवरवीं वाचप्याक आपलेपुरतीं नियाळाचीं रुपां वळखूंक उत्तेजन मेळचें असो हावेस हे माण्णेफाटल्यान आसा. हातासरशीं नियाळाच्यो देखी आसल्यो जाल्यार वाचपी तांकां तत्वीक भासाभाशेंतले वेंचीक मुद्दे लावन त्यो पडताळूंक शकता. ते मुद्दे फावो थंय लागू जाले जाल्यार ताका प्रत्यक्ष नियाळाचें आकलन अदीक बरें जातलें. जर एखाद्रया अभ्यासू वाचप्याक दिल्ल्या पर्तींनी खंयच्याय मुद्द्यांक पाळो दिल्लो ना हें जाणवलें जाल्यारूय ताका पर्तींतलें उणेंपण तर कळटलेंच, खेरीज नियाळाविशींची ताची जाणय अदीक प्रगल्भ जातली. नकळटां वाचपी स्वता मज घेवन प्रत्यक्ष नियाळ करूंक प्रवृत्त जातलो. नियाळापर्तींतलीं उणीं आनी शक्तिस्थळां वळखतां वळखतां घडये ताका आपणाभितरूय जागो जावपी एक सक्षम नियाळपी सांपडुंयेत. हातूंत नियाळाचो तर लाव आसाच, कोंकणीच्या भावी सिद्धीच्या भाकिताची

प्रगटावणीय आसा.

वतां वतां भावी नियाळप्यांखातीर एक नमळायेचें निवेदन : नियाळ हो मुदलांतच साहित्याच्या मोगान घडचो. हेर सगल्यो सिद्धांतीक चर्चा आनी वेव्हारीक गरजो ह्यो आलायदा गजाली. नीज सर्जनशीळ बरोवप्याक नियाळप्याकडल्यान ना अवाजवी तोखणायेची अपेक्षा आसता, ना अवास्तव टिकेची भिरांत. ताका अपेक्षीत आसता एक नितळ नदर आनी निवळ अभिप्राय, जी फकत सर्जनाचो निखळ मोगच दिवंक शकता. म्हणून तर निजाचो कवी रसिक नियाळप्याक म्हणटा :

*मानलो तुका काव्यसखया*
*सत्‌शिवाच्या उपासका*
*सुंदराचीय अप्रुपता*
*आंवडेतां तुज्या अनुग्रहा.*
*सर्जनप्रेमी रसिकवरा*
*तुका खरीच ना गा तुळा... !*
*तरी लेगीत सांग इश्टा,*
*कवीली तरी सर खंय गा ?*
*देखून अजापित नदरेन म्हाका*
*किस्कूट लेखून देखूं नाका.*
*आपसुवातेर मोगाळ भावा*
*कण लेगीत आसता सुर्या !*
*दोळ्यांत माये वात पेट्टां*
*कणांत जिवाक शिव भेट्टा !*

अशीच एक मायेची नदर ह्या पुस्तकाचेरय पडची हेंच मागणें.

पर्वरी-गोंय.

**किरण बुडकुले**

# साहित्य नियाळ : प्रकृती आनी स्वरूप

कोंकणीच्या साहित्याच्या सर्जनान रसरसपी वालीक हालीं चिकित्सक बरपाचेंय फळ धरलां. हाचोच परिपाक म्हळ्यार सर्जनशीळ बरपाच्या खांदाक खांद लावन आज *साहित्य नियाळ* ही संकल्पना कोंकणी साहित्य संवसारांत मोट्या दिमाखान वावुरता. पुडव्याची देग वा कापडाचो कांठ जाल्लेवरी हें जोड-उतर साहित्याचो शेव (पदर) धरून रावलां. हे जोडणेक लागूनच साहित्य नियाळ ह्या शब्दाक अर्थाचीं विवीध तासां फावो जाल्यांत. तशें पळेल्यार *साहित्य* आनी *नियाळ* हीं उतरां एकामेकासावन कडेक काडल्यार, एकटोशीं तांचो अर्थ वेगळोच जावं येता. पूण जेन्ना तीं एकठांय नंदतात तेन्ना दुभावाचो (ambivalence) वत-पावशी खेळ तांचेर भोवार्थीपणाची म्होर मारता. *साहित्य* हाचो रूढ अर्थ 'सर्जनात्मक बरप' असो घेतलो आनी *नियाळ* ह्या उतराक 'बारकायेन पळोवप', 'पारखप', 'तिजप' हे आनी हेरय अर्थाचे तिबे लायले जाल्यार अजापीत करपासारकी भौताशी संकल्पना एका 'साहित्य नियाळ' ह्या उतरांतल्यान उकती जाता.

हे शब्दीक विस्कटावणेसंबंदान कसलोच संदेह (doubt) वा दुवार्थीपण (ambiguity) उरनये म्हूण सुरवेकच एक गजाल सुस्पश्ट करूंक जाय. *साहित्य नियाळ* ह्या उतराचो चालंत अर्थ आजकाल तरी सरसकटपणान 'साहित्यकृतीचें परीक्षण' (review) ह्या मोटव्या संदर्भांत वापरपाचेर भौतेक साहित्य-संबंदीत व्यक्ती-संस्था-नेमाळीं हांचो कल जाल्लो आसा. पूण *नियाळ* ह्या उतरा फाटलें भोवार्थीपण आनी *साहित्य* हे संकल्पनेफाटले भावार्थ (implied meaning) जावं दुभाव (ambivalence) लक्षांत घेतल्यार *साहित्य नियाळ* ह्या जोड-उतरांतलो गर्भितार्थ वा तातुंतल्यो पुराय सांकेतीक अर्थाच्यो छटा आपशींच उक्तावतात. खेरीज *नियाळ* हें उतर फकत 'साहित्य कृतीक लेखूनच' वापरचेलें बंधन *साहित्य नियाळ* हे संकल्पनेंत ना. जाल्यार तें उतर *साहित्य* ह्या सर्वसमावेशक अर्थान पुराय सर्जनशीळ बरपाकय लागू पडटा हेंवूय लक्षांत घेसारकें आसा.

अशे तरेन 'साहित्य नियाळ' ह्या शब्दाक समानार्थी उतरां म्हूण साबार तरेच्या चिकित्सक, अभ्यासपुराय, संक्षिप्त वा विस्तृत साहित्यविशयक बरपाखातीर वापरांत येवपी संज्ञा (terms) कडेक काडूंक जातात. हातूंत सुक्षीम टीका-टिपणणी करून

समतोल पारखणी करपी *समालोचन* वा *मिमांसा* (critique) येता; सम्यक निरीक्षण करपी *परीक्षण* (review) येता, बारीकसाणेन विस्कटावणी करपी *दखल* (notice) येता, सर्वआस्पावणी गणना/पारखणी करपी *आढावो* (survey/overview) येता, जथापथ मत मांडपी *अभिप्राय* (opinion/assessment) येता, विद्वत्तापूर्वक विवेचन करपी *विश्लेशण* (analysis) येता. पूण विशेश म्हळ्यार, ह्या सगल्या बिरुदांआड लिपून बशिल्ली साहित्यविशयक *आस्था,* सर्जनाची *जाण* आनी अभ्यासू *दिश्टीकोण* ही त्रिसुत्री आडवाटेन साहित्य नियाळाक एक साहित्य-केंद्रीत अभिव्यक्ती अशी आगळीच वळख फावो करता. हाका लागून 'साहित्य नियाळाची चिकित्सा करतना साहित्याक विसरूं नजो. खरें साहित्य, साहित्य नियाळाक नदरे आड करूंक शकना. म्हणून तर कवीराय सरदेसाय जेन्ना म्हणटात, 'उतर भितर शिजले बगर गीत पानार वाडचें न्हय', तेन्ना ते एकेवटेन सर्जनाची *मिमांसा*च करतात, साहित्याविशींचो आपलो *अभिप्राय* उक्तायतात, अशें म्हणचें पडटा.

फाटकुळेन जोडिल्ल्या आंवळ्या-जुंवळ्या अर्भकांवरीच साहित्य आनी साहित्य नियाळ हांचेमदलें नातें जल्मसिद्ध, एकजीव आनी अतूट आसा हातूंत दुभाव ना. पूण जेपरीन मानवी जुंवळ्यांक स्वतंत्र आनी संपूर्ण जिवीत सारतले जाल्यार शल्यविशारदाचे धारदार सुरयेन पूण ल्हवपीक हातान वेगळावचेच पडटात, तेच परीन साहित्य आनी साहित्य नियाळ हांचो शास्त्रीय अभ्यास करूंक सोदतल्याक तांगेल्या अखंड एकचाराक तत्वत: विखंड केलेबगर पर्याय ना. मात साहित्य आनी साहित्य नियाळ हांचे सैमीक सोयरिकेची दखल घेतना फकत गिन्यानाची बसका आसून उपकारना, जिज्ञासेची ओलसाणय जाय, समजिकायेची ऊब जाय. पूण ह्या सगल्यां परसय अदीक सर्जनामुखार बागवुपी विनय आनी साहित्याफाटल्या व्यक्तीक तेळतना निपक्षपाती वृत्ती जाय. ही पंचखाद्य साहित्य नियाळांत आसल्यार ताचेर साहित्य-सरस्पत प्रसन्न जाताच जाता.

हांगा एक प्रस्न उप्रासूंक शकता: साहित्य नियाळाचो अभ्यास करूंक पळेतना, साहित्य आनी साहित्य नियाळ हांची एकशिवडी चिकित्सा करचेलो अट्टाहास जायच कित्याक? कोणूय म्हणूंक शकता: तशें पळेल्यार साहित्य आनी साहित्य नियाळ ह्यो दोनूय बरपाच्यो खेरीत तरा. दरेकाचो आंगलोट वेगळो, नुरा वेगळी, सभाव आनी गुणधर्म लेगीत वेगवेगळेच. तांच्यो लेखनाच्यो पद्दती वेगळ्यो आनी बरोवपाफाटलीं ध्येयांय वेगळीं. तांकां बरीं जुवळीं म्हळ्ळीं म्हूण साहित्य आनी साहित्य नियाळ एका कुळाचे न्हयच. मागीर तांची आंवाळ्या-कुंवाळ्यांची मोवळी कित्याक वळप? वयलेवयर पळेल्यार, ह्या सगल्या मुद्द्यांनी तथ्य आसाशें दिसता खरें, पूण तें उखलापेंच आसा.

साहित्य आनी साहित्य नियाळ हांचें कूळ वेगळें वेगळें आसूं, पूण बरपाचो सुप्त

मोग, प्रतिभेची वळख, सर्जनाची जाणविकाय आनी अनुभूतीची प्रचिती आसलेखेरीज ह्या दोनूय लेखन-प्रकारांची निरोगी पोसवण जायना. वयल्या चौगुणी चरवाचेरच ह्या दोनय तरांच्या बरपांची वाड जाता – मागीर ती एकाच लेखकाचे लिखणेंतल्यान जावं वा विंगड विंगड लेखकां हस्तुकीं जावं! म्हूण, तत्वीक नदरेन जरी साहित्य आनी साहित्य नियाळाचें कूळ वेगळें म्हळ्ळें तरी प्रत्यक्षांत तांचें मूळ एकूच आसता. हाचें उदाहरण म्हूण १८व्या शेंकड्यांतल्या इंग्लिश कवी ऍलेक्झांडर पोप हाचे नामनेच्या समिक्षा-काव्याची **(एसे ऑन क्रिटीसीजम)** देख घेवं येता. ह्या बरपाक साहित्य म्हूण तोखेवचें काय साहित्यावेली मिमांसा म्हूण वाखाणचें हेंच कळना.

साहित्य आनी साहित्य नियाळ ह्या दोगांय मदल्या कालसिद्ध आनी कृतीबद्ध नात्याचें वर्णन अशे रितीन देखी दिवन वा उपमांवरवीं करपाफाटल्यान एक अंतस्थ कारण आसा. आधुनिक काळार साहित्य आनी साहित्य नियाळ ह्या दोनूय तरांच्या बरपाक दोन साप्प वेगळ्यो खणबंद अशो लेखन-प्रक्रिया लेखपाचेर भर दिल्लो दिसून येता. तशेंच, तांचेर अनुक्रमान व्यक्तीनिश्ठताय आनी वस्तुनिश्ठतायेचो छाप सोयिस्करपणान मारून तांकां एकामेकांपासून पयसावपाचो यत्न वेवसायीक परीक्षण-लेखनाच्या नांवाखाला आनी झटपट जायरातबाजीच्या निबाखाला आज वितरणाच्या क्षेत्रांत जायत आसा. घडये हे गजालीक हातभार लावचेखातीर जायत, पूण साहित्याचो तथाकथित कलात्मक पांवडो आनी अंतर्दिश्ट हांची साहित्य नियाळाच्या 'शास्त्रीय अभ्यास आनी विज्ञाननिश्ठ नदर' हांचे वांगडा फारकत करून, तटस्थतायेच्या नांवाखाला साहित्य नियाळाक साहित्यावेल्यां भाश्यापरस एक प्रतिक्रिया वा प्रक्रिया म्हूण वरजावपाची हालींसराक एक धाम पातळ्ळ्या.

घडये हेरां भासांक ही धाम मारक थारचीना, कित्याक तांचेकडेन पूर्वसुरींच्या चिकित्सक अभ्यासपुराय बरपाचो उणाव ना. मात कोंकणी भाशेक अशे तरेचो धांवतो नियाळ आनी निसट्टो अभिप्राय भावी काळार खूब म्हारग पडूं येता. कोंकणीचो खरोखुरो अभ्यासक – समग्रायेन कोंकणीचेर पोसवल्लो आनी कोंकणीखातीर वावुरपी – घडत आसा. ताका घडोवपांत आज साहित्या इतलोच, कदाचित कांकणभर मायजच, हातभार 'साहित्यविशयक' बरपाचो (हातूंत शिंवाचो वांटो साहित्य नियाळाचो आसतलो) आसूंक जाय. अशा वेळार *साहित्य* आनी *साहित्य नियाळ* हांचेमदली अडेची वणत आनी परिणामस्वरूप साहित्य नियाळाक फावो जावपी सवती वांटो वा वेवसायीक दिश्टीकोण दोगांय खातीर परस्पर लुकसानकारक थारूंक शकता. कोंकणीन तरी हो उड्टो दिश्टीकोण चार हात पयस दवरूंक जाय.

हो दूषित दिश्टीकोण नियाळावन, साहित्य आनी साहित्य नियाळामदीं परस्पर संबंद समरसतायेचो जावचो हेच खातीर ह्या पुस्तकाचो प्रपंच केला. हातूंत साहित्याच्या

– खासा करून कोंकणी साहित्याच्या संदर्भांत साहित्य नियाळ हे लेखन-प्रक्रियेविशीं सुक्षीम आनी चिकित्सक विचार मांडचेलो यत्न केला. हेवरवीं साहित्य नियाळाचीं तत्वां आनी प्रत्यक्ष प्रयोग हांचें साहित्याच्या फास्केंत विश्लेशण करपाचोय प्रामाणिक हेत आसा. अशे तरेन, कोंकणी लेखक तशेंच अभ्यासकांक सम्यक चर्चा करूंक उकती संद आनी नेमको संदर्भ लाबतलो. अशा विचारमंथनांतल्यान भावी लेखकांक आनी अभ्यासकांकय लाव जातलो. लेखकाक सर्वमान्य अशा साहित्यविशयक मुद्द्यांची वळख मेळटली आनी समिक्षकाक नियाळविशयक मार्गदर्शक तत्वां हाताक लागतलीं अशी एकमेव आस्त ह्या प्रयत्नाफाटल्यान आसा.

म्हणून, फुडें वचचे आदीं पर्थून एकवार मुजरत धोरायतां – साहित्य आनी साहित्य नियाळ हांचेमदलो संबंद लवचीक, रस्मी पासावरी आसा. मुद्दाम तोडले खेरीज तो आपशीं तुटना. तागेलें नातें, रुपकावरवीं सांगचें जाल्यार, न्हंय-पात्रासारकें एकजीव आसा. जेन्ना सर्जनाची गंगोत्री फुडाराचो साहित्य-सागर जावंचेले दिकेन पयलें पावल फुडें घालता तेन्नाच तिचें पात्र निश्चीत जाल्लें आसता. कित्याक काय म्हळ्यार, ज्या खिणाक प्रतिभेचो साहित्यांत जल्म जाल्लो आसता, नेमक्या त्याच खिणाक साहित्य नियाळान लेखकाच्या मानस-भुयेंत जल्म घेतिल्लो आसता. फकत, ती मानसभूंय म्हळ्यार एखाद्रया सुपीक प्रतिभावंतांची फळटी-फुलती जाणविकाय आसूंक जाय, खंयच्याय बरोवप्याच्या कोत्या मनाची – समजिकायेचें जोत लागूंक नाशिल्ली, आत्मतुश्टीच्या सावटाक पडिल्ली – पडंग जमीन न्हय. वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, साहित्य निर्माण जातनाच ताची मनाक 'जाण' येवप म्हणचे कवीच्या मनांत साहित्य नियाळान मूळ धरप.

देखीक, श्रीवाल्मिकी रुशीसारक्या आद्यकवीन जेन्ना रामायणासारक्या म्हाकाव्याची रचना केली तेन्ना तागेली दैवी प्रतिभा साहित्यरुपान धतरेर अवतरली, हें सगल्यांक मान्य आसा. पूण खासा वाल्मिकी रुशीक ते आदीं आपणा भितरलो कवी एका आगळ्या खिणाक सांपडलो ही आख्यायिका कितल्या जाणांक मान्य आसा? जेन्ना क्रौंच पक्षाचे जोडयेमदल्या एकाक वेधपी बाणान वाल्मिकी रुशी स्वता कळवळ्ळो, तेन्नाच ताची सुप्त प्रतिभा काव्याच्या साजान ताच्या वोंठार देंवली. तातुंतल्यान नकळटां ताका आपले सर्जनशीळतेची जाणविकाय जाली. जेन्ना ही जाणविकाय बरोवप्याकच न्हय तर वाचप्याकय जाता, तेन्नाच साहित्य-समजणी जल्मता. हे साहित्य-समजणेक खासा आपणाल्या 'भाश्या'च्या रुपान उतरांत बांदप हेंच साहित्य नियाळांतलें आद्य आनी जिवें तत्त्व. हें तत्त्व आस्पावल्यारूच साहित्य नियाळ प्रामाणिकपणान आनी समग्रतायेन साहित्याक तिजूंक पावता. पूण जर हें प्राथमिक तत्त्व, कितल्याय तज्ञ आनी विद्वान अभ्यासकाक आफडूंक पावलें ना, जाल्यार ताचो साहित्य नियाळ हो एक निर्जीव,

अडेचो वावर जातलो. कशें हें फुडें पळोवया. पूण ते आदीं साहित्य नियाळाची परिभाशा नियाळिल्ली बरी.

साहित्य नियाळ हे संकल्पनेची व्याख्या कशी करची? ताचे नदरेंत भरसारके गूण खंयचे आसुंयेतात? साहित्य नियाळाचो हेतू कितें आसुंयेता? ताचे फाटलीं तत्त्वां खंयचीं आनी ताचे सामकारा कसलीं मुल्यां आसूं शकतात? विशेश गजाल म्हळ्यार, साहित्याक साहित्य नियाळावरवीं कसलें योगदान मेळूंक शकता? ह्या साबार प्रस्नांच्यो वांगडाच जापो दिवंक सोदप म्हळ्यार साहित्य नियाळाची शास्त्रशुद्ध परिभाशा मांडूंक पळोवप. साहित्य नियाळाची परिभाशा करची जाली जाल्यार हांव म्हणन, 'साहित्याचेर वा खंयचेय साहित्य-कृतीचेर एखाद्रया संवेदनशीळ व्यक्तीन प्रगल्भ मतीन (बुद्दीन) आनी चिकित्सक वृत्तीन केल्लें सूत्रबद्ध आनी समग्र भाश्य म्हळ्यार साहित्य नियाळ. हें भाश्य मागीर संक्षिप्त आसूं वा विस्तृत, संकीर्ण आसूं वा सहजगम्य.'

हे परिभाशेंतल्यान उकते जावपी साहित्य नियाळाचे गूण म्हळ्यार तातूंत वर्तुपी (१) साहित्य/साहित्यकृती वांगडची एकरुपताय, (२) परिपक्व मुद्देसूद विस्कटावणी, (३) सुक्षीम निरीक्षण-शक्त, (४) सोंपी, मेकळी मांडणी, (५) साहित्याचो वा साहित्यकृतीचो पुरायेन 'माग' काडप. म्हणजेच, खंयचोय 'खरो' साहित्य नियाळ, साहित्य वा साहित्य-कृतीच्या विविध आंगांचो (सदांच सगल्या आंगांचो न्हय) विविध दिश्टीकोणांतल्यान विचार करून ताची पारखणी करूंक चुकना. तशेंच साहित्य/साहित्यकृतीच्या म्हत्वाचो वा योगदानाचो वेगवेगळ्या आयामांतल्यान परामर्श घेवंकय विसरना. प्रामाणिक आनी तांकीवंत साहित्यनियाळ साहित्याचीं शक्तिस्थळां तर सोदताच, पूण तातुंतलीं उणेपणां, कुरुपतायो आनी फ्राकेजी लेगीत भीड-मुर्वत बाळगीनासतना उक्तायता. अशे तरेच्या परखड विश्लेशणाची देख भौ. पांडुरंगबाब भांगी हांणी **साहित्य शिल्प** ह्या पुस्तकाक बरयल्ल्या प्रस्तावनारुपी आढावो-वजा-मिमांसेंत सांपडटा.

बऱ्या नियाळाचें एक खाशेलेपण म्हळ्यार ताची वाचनीयता. ही वाचनीयता साहित्य नियाळांत केळयतलो जाल्यार लेखकाकडेन नीज विचारसरणी, नेटकी बांदावळ आनी नेमको शास्त्रीय दिश्टीकोण आसूंक जाय. दरेका कृतीवांगडा हाचें त्रैराशीक बदलूंक जाय. जाल्यारच दरेक नियाळ नित्य नवें अशें कितेंय दिवंक पावता. वांगडाच बरोवप्याकडेन *विपुल वाचन, जोखती उतरावळ, संशोधकी वृत्ती* आनी *कलात्मक नदर* आसची. ह्या सगल्यांच्या सांगाताक जर *भाशेची गिरेस्तकाय* आनी नियाळाच्या वेगवेगळ्या प्रकारांक सोबसारकी *आकर्शक शैली* हांचो हात धरून, *मेजको आटाप* आनी *चिंतनशील विश्लेशण* हिंवूय जर साहित्य नियाळांत देंवलीं जाल्यार वाचप्याक गिन्यानावांगडा धादोसकाय लेगीत मेळटा. अशे तरेच्या साहित्य नियाळाचें साहित्यीक मोल तर वाडटाच,

ताचो समिक्षकी दर्जोय स्रेश्ठ थारता. त्या नियाळाचो वाचपी आदरच न्हय, तर मोगय करूंक लागता. अशा साहित्य नियाळाचें वाचन मागीर फकत साहित्य-समजणेक लागून वा गिन्याना खातीर जायना, मन-रमवणे खातीरूय वाचपी ताचीं पारायणां करता.

साहित्य नियाळाचें स्वरूप फकत गद्य वा रूक्ष वा नीरस अशेंच नासचें. तातूंत काव्य, कल्पना-विलास आनी प्रतिभा हांचोय संचार जावंक शकता आनी त्रो शक्य तेन्ना जावचो. हाची देख म्हूण आमी २० आगश्ट १९९६च्या 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत उजवाडायिल्ल्या, श्री. गोकुलदास प्रभू हांच्या 'एम. टी. वासुदेवन नायर हांचें साहित्य-विश्व' हो आढावोरुपी साहित्य नियाळ घेवंक शकतात. एके सुवातेर एम.टी.चे शैलीविशीं प्रभू म्हणटात, "उत्कट अणभव, कडयिल्ली भास, भावबिंबां ह्या गुणांक लागून एम.टी.ची कथा-कादंबरी वाचतना कविता स्वादनाचो अणभवय जाता. तांच्या कथा आनी कादंबरींक गद्य कविता अथवा भाव-गीतां म्हळ्यार चूक ना." (पा. २-३). ही कवीसुलभ अभिव्यक्ती नियाळाक एक खेरीत रूपकार प्रदान करता.

सगल्याच साहित्य नियाळांनी हें शक्य जायना. पूण जेन्ना जाता, तेन्ना साहित्य नियाळाच्यो कक्षा विस्तारत वतात. चालंत अशे जे *अभ्यासपुराय समीक्षा, संपूर्ण आढावो, सखोल भाश्य, जड विवेचन, क्लिश्ट नियाळ* इत्यादी भारदस्त प्रकार आसात, ते एकदम ल्हव जातात. तांचें रुपांतर *सुडसुडीत टांचण, सुघड टिप्पणी, भोवांगी परीक्षण, देखणें भाश्य-काव्य, गेय साहित्य-अभिप्राय* आनी *नीटस समालोचन* अशा तरेकवार प्रकारांनी जायत वता. मागीर साहित्य नियाळ ही निखटी साहित्याक अनुलक्षून घडपी उप-क्रिया जावन उरना; ती ताचेय फुडें वचून एक स्वतंत्र, खोसदिणी सर्जनात्मक प्रक्रिया लेगीत जावंक पावता. हांगा वाट वांकडी करून एक गजाल मुजरत सांगूंक जाय. कांय वेळा सर्जनशील बरोवपी सर्जनात्मक कृतींतल्यान मुद्दम साहित्य नियाळ तर करतातच, खेरीज कांय वेळा कळटां-नकळटां तांगेली साहित्य-सर्जनविशयक भावमग्नता वा सचेत वृत्ती तांच्या सर्जनांतल्यान सैमीक रितीन उदेता.

अशे तरेच्यो देखी कोंकणी काव्यांत आनी कथेंतय मेळटात. पूण कथेंतल्यो पती गद्य आनी सहज आकळपासारक्यो जाल्ल्यान हातासूंक बऱ्यो पडटात. कथेंत अशी स्पश्ट-अस्पश्ट सर्जनाची चेतना जाणोवपी/जागोवपी लेखक म्हज्या मतान आयचे तरणे पिळगेंत दोग-तीग आसात. पुंडलीक नायक, गजानन जोग आनी गोकुलदास प्रभू हांचीं नांवां पट्‌दिशीं येवजतात. पुंडलीक नायकांचे **आडवण** हे सुंदर कथेंत सर्जनाचें भोव मनभुलोवणें चित्ररूप आसा: "साहित्याची ओढ, बरोवपाची उमेद, गांवांतलें अणभवल्लें जीवन सैमीक कशें सगळें आपसूक जुळून आयलें. दोंगरावयल्यान व्हांवपी व्हाळ निमाणेकडेन न्हंयेक मेळटा तशें साहित्य निर्मणेचे जोडप्रवाह एकठांय

येवन साहित्य-निर्मणी जाली. हांवें फकत उतरांची सांगड घालून दिली इतलेंच.'' (**स्वतंत्र गोंयांतली कोंकणी कथा,** संपा. अना म्हांबरो, पा. १२८).

आतांमेरेन साहित्य नियाळाचो विचार करतना, तातूंत आसपी वा अपेक्षित गुणांचो आढावो घेवचेलो यत्न केला. पूण जायते खेपो इश्ट गुणांक लागून जसो नियाळाचो पांवडो वाडटा, तसोच अनिश्ट प्रथांक, नश्ट्या प्रवृत्तींक वा हीण मनोवृत्तींक लागून तो खालावताय बी ! हाका लागून साहित्य नियाळांतल्यान मुजरत टाळपासारक्यो गजाली म्हळ्यार : (१) व्यक्तीगत शेरो मारप (२) पूर्वग्रह दूशित मतां उक्तावप (३) सिद्ध करूंक जायना अशे निश्कर्श काडप (४) साहित्यिकाची वैयक्तीक तुस्त वा टीका साहित्य-कृतीच्या संदर्भाभायर वचून करप (५) औचित्याची चाड बाळगिनासतना मतां मांडप (६) प्रक्षोभक वा आक्षेपार्ह मुद्दे गरज नासतना नियाळांत घुसडप (७) तटस्थ भुमिकेचो (नियाळ करतल्यान) त्याग करप (८) फावना थंय तुळा करप आनी (९) व्यक्ती-सापेक्ष वा पक्षपाती सूर आपणावप वा प्रथा-मतांचो पुरस्कार जावं निशेध करप. हें सगलें जाणीवपूर्वक टाळूंक जाय. हाच्यो पती जायत्यो सांपडत. पूण त्यो दिवप हेंच चूक जातलें.

वतां वतां, कोंकणी साहित्यांत ठळकपणान आपणाली सुवात सुगूर केल्ल्या थोड्या भौ साहित्य नियाळांचीं कांय भौरंगी-भौढंगी रुपां आठयलेबगर साहित्य नियाळावेलो हो नियाळ पुराय जावचोना. कोंकणी साहित्यांतल्यान सुर्वेच्या नियाळांची मोख नव्या बरपाचें स्वागत, उमेदी लेखनाची तोखणाय आनी इच्छुक बरोवप्याक उत्तेजन/प्रेरणा दिवप हीच आशिल्ली. हाचीं कारणां कोंकणी अस्मिता वर्धन, कोंकणी भाशेक गिरेस्त करपाची निकड, कोंकणी साहित्याची भुरगी पिराय आनी कोंकणीच्या मूळपीठाचो राजकी फुडार हीं जावन आशिल्लीं. ह्या सुरवेच्या नियाळांत जरी तुस्त आनी उत्फर्के हांचो सदळ हातान उपेग केल्लो दिसलो तरी, तातूंत आंतरीक समजिकाय आनी घरगुती एकवटाचेंय दर्शन घडटा.

अनुपचारीक आसलो तरी सूज्ञ साहित्य-समजणेचो आपरोस ह्या सुरवेच्या नियाळांनी मेळटा. ह्या काळावेल्या लागींलागीं सगल्या साहित्य नियाळांचें स्वरूप वळख, दखल, अभिप्राय अशेंच चडावत प्रमाणांत आशिल्लें. हातूंत व्यक्तीगत संग्रहांक बरयिल्ल्यो प्रस्तावना म्हत्वाच्यो थारतात. देखीक, 'पुडो सोडोवचे पयलीं...' ही जायो-जुयो ह्या संग्रहाक स. बाकीबाबान बरयल्ली प्रस्तावना एक घमघमीत झलक म्हूण घेवंक येता.

ल्हवू ल्हवू साहित्य अकादेमीतर्फे प्रातिनिधीक साहित्य-झेले उजवाडा येवंक आरंब जालो. तांकां प्रस्तावना म्हूण बरयल्ल्या लेखांनी साहित्य नियाळाच्यो कांय दर्जेदार – तरिकूय अनुपचारीक – पती मेळटात. हातूंत कोंकणी कथेवेलें स. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचें अणभवपिकें पकदस्त भाश्य वा विश्लेशण आसा. तेजिश्ट रुपक आनी

खेरीज शैलीन बरयल्ली बाकीबाबांची कोंकणी कवितेच्या संग्रहाची प्रस्तावना हिवूय अर्थगर्भित भाश्याची सोबीत देख. चंद्रकांत केणी हांचें 'कोंकणी कथेचें पडबिंब' हें *आढावो* ह्या प्रकाराची survey आनी overview ह्या दोनूय रुपांनी अतिशय नेटकी आनी सुडसुडीत पत म्हणूं येता. कोंकणी कथांच्या (हिंदी अणकारीत) संग्रहाक बरयल्ली श्री. कमलेश्वर हांची प्रस्तावना हिवूय साहित्य नियाळाची एक अनुकरणीय देख जावन आसा.

ह्याच काळार नवोदितांच्या पयल्या संग्रहाक प्रस्तावना बरोवप हें सगल्या मान्यवर लेखकांक साहित्य नियाळ बरोवपाचें आमंत्रण थारलें. तशेंच आयच्या काळार नव्या पुस्तकांक/नव्या आवृत्तींक पोरण्या पुस्तकांक येवकार दिवपाक उदेत्या समिक्षकांक साहित्य नियाळाचें आपोवणें आसता. ह्या नियाळांचें श्रेय समिक्षकांइतलेंच दिसाळीं-नेमाळ्यांच्या संपादप्यांक वता. दिवाळी अंक आनी वर्साळीं, तशेंच परिसंवाद/चर्चा, कार्यशाळा हांकां लागून उजवाडा आयिल्ल्या संग्रहांचेंय कोंकणी साहित्य नियाळाच्या वाडट्या क्षेत्राक विसरूं नजो इतलें योगदान आसा.

पूण हाचो अर्थ साहित्य नियाळाच्या क्षेत्रांत कोंकणी लेखकान आत्मतुश्ट जावचें न्हय. स. र.वि. पंडितासारक्या म्हादिग्गज कवीक धादोशी करीसारको नीज नियाळ – पुराय, दिश्टावो-दिणो, समरसून केल्लो – अजून कोंकणींत पावचो आसा. ह्या आनी हेरय जायत्या मान्यवर बरोवप्यांच्या साहित्याक लागिल्लो खंतीचो वा उपेक्षेचो दाग फुडाराच्या साहित्य नियाळान धुवन काडूंक जाय. ते मेरेन नियाळाच्या नांवाखाला जें जल्मता ताका श्री. रवीन्द्रबाब केळेकारांचें उतर उश्णें घेवन 'मखलाशी' म्हणचें पडटलें. तांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार 'गाय जशी पाडकाक चाटून निवळ करता' तश्शी साहित्य नियाळावेलीं जळमटां, घयरांव, किल्मिशां आनी किजिलांय आमकां कडसरावंक जाय. तातुंतल्यान नदर आदीं निवळ जातली. मागीर नियाळय नितळ आनी निरोगी जातलो. हे खातीर साहित्य नियाळ हे प्रक्रियेकच न्हय तर ते संकल्पनेकच 'पुनश्च हरी ओम्' म्हणून पर्थून एकवार नवे नदरेन मनांत किल्लत घालुंया. वेवसायीक नियाळाचें घुस्मटावपी वेटोळें कोंकणी साहित्याक अंद्दूं लागचे आदीं ह्या नवे नदरेच्या नियाळाक फागूर फुट्टले अशी आस्त आसा.



# साहित्य नियाळ:
# पद्धती आनी प्रकार

साहित्य नियाळाविशीं उलयतना सरसकटपणान एक ऐसपैस समज (काय अपसमज) गृहीत धरिल्लो दिसून येता. तो म्हळ्यार, साहित्य नियाळाची वर्गवारी करतना ताचीं रुपां, ताचे प्रकार आनी पद्धती हांकां, अदीक चिकित्सा करिनासतना एक वा समानार्थी संज्ञा लेखपाची संश्लिष्ट (लिगाद/घुस्पल्ली) धारणा. हाकाच लागून जायते खेपे कसलेच तरेचीं मार्गदर्शक तत्त्वां वा स्पश्ट निकश वापरलेबगर पुस्तक-वळख, परीक्षण, इतिहासीक नियाळ, चरित्रात्मक बरप, कलेची स्वायत्तता मानपी बरप ह्या सगल्यांची कांय अंशी कुड्डी वर्गवारी करूंक आमी प्रवृत्त जातात. अशे तरेची विभागणी असमतोल आनी तर्कदुश्ट थारपाची शक्यताय आसता. आनी म्हणून वाचप्याचो विचारीक गोंदळ जावप सभावीक आसता.

एका काळार जरी, साहित्य नियाळाचें विश्लेशण करतना वा ताच्यो तरा वेगळायतना रुपां, प्रकार आनी पद्धती ह्या खेरीज आंगांक परंपरेन एकाच गोठ्यांत आमुडिल्लीं आसलीं तरी आयच्या काळार तशें करप चूक थारतलें. कित्याक काय म्हळ्यार, आज साहित्य-विचार अदीक प्रगत, शास्त्रशुद्ध आनी स्पश्ट जावंक आंवडेता. कसलीय साहित्य-विशयक भासाभास नेमके निकश, पटपासारकीं प्रमाणकां आनी मार्गदर्शक तत्त्वां सांगाता घेतलेबगर चांट मारिना. मत, तर्क आनी शास्त्र हांकां पाळो दिलेबगर निश्कर्श काडूंक सोदिना. हाका लागून साहित्य नियाळाची वर्गवारी करतना रुपां, प्रकार आनी पद्धती हांचो वेगवेगळीं आंगां म्हूण विचार जावंक जाय.

प्रस्तुत भासाभाशेंत असो विचार करचेलो प्रामाणीक यत्न केला. अर्थात आदल्या लेखांत 'साहित्य नियाळ : प्रकृती आनी स्वरूप' ह्या माथाळ्याखाला, साहित्य नियाळाच्या मूळ तत्त्वां वांगडा आनी गुणांवांगडा तांच्या रुपांचो विचारय जाल्लो आशिल्ल्यान हांगा फकत नियाळाचे प्रकार आनी पद्धती हांचोच विचार करप समा जातलें.

साहित्य नियाळ म्हळें की तीन मुखेल आनी मुळाव्या घटकांचें भान दवरूंक जाय. ते *बुन्यादी घटक* म्हळ्यार: *साहित्य* (कृती/संहिता), *साहित्यीक* (कर्तो/सर्जक) आनी *साहित्य विचार* (तत्त्वां/सिद्धांत). ह्या तिनूय घटकांक अनुलक्षून नियाळप्याच्या

मनांत एक *आंतरक्रिया* (interaction) घडटा. हे आंतरक्रियेवरवींच ताका साहित्याची *जाण* वा *समजणी* लाभता. आदीं सांगलां तेप्रमाण ही जाण वा समजणी साहित्य नियाळ हे साहित्यकेंद्रीत प्रक्रियेचें मूळ तत्त्व जावन आसा. जेन्ना नियाळपी ही जाण शब्दांतल्यान अभिव्यक्त करूंक पळयता तेन्ना साहित्य नियाळ अक्षरबद्ध जाता. म्हणटकूच साहित्य नियाळाचे *प्रकार* वा *पद्धती* थारायतलो जाल्यार आदीं वयर उल्लेखिल्ले तिनूय *बुनयादी घटक* आनी खासा *नियाळपी* हांचेमदलो *परस्पर संबंध* वेगवेगळ्या थरार समजून घेवप आवश्यक आसा.

साहित्य नियाळाचे प्रकार वेगळायतना ह्या तिनूय बुनयादी घटकांक *मध्यवर्ती सुवात* दिवन मागीर तांकां विवीध *निकश* लावन, विंगड विंगड *संदर्भांच्या* (context) परिघांत तांकां उबे करून नियाळाची वर्गवारी करप बरी. मात अशें करतना, नियाळपी ह्या घटकांक एकसणीं वा एकटोशीं हाताळूंक शकता हें लक्षांत घेवंक जाय. तशेंच वेगवेगळ्या *सिद्धांतीक बसकां*चेर आदारून तो नियाळ बरोवंक शकता. म्हणून, नियाळाच्या प्रकारांचो सोद घेतना ह्या सगल्या मुद्द्यांचेर बारीक लक्ष दवरचें पडटा. कशें तें फुडें पळोवया.

साहित्य नियाळाच्यो *पद्धती* मात वयर उल्लेखिल्ल्या तिनूय बुनयादी घटकांकडेन पळोवचेले नियाळप्याचे *सुवाते*चेर, तागेल्या *दिश्टीकोणा*चेर आदारून उरतात. नियाळप्याची सुवात वा दिश्टीकोण थारपाक तागेल्यो *धारणा/विचारसरणी, प्रवृत्ती/वृत्ती* वा *अपेक्षा/प्रयोजनां* कारणीभूत थारतात. कांय वेळा तर नियाळप्याक नकळटां लेगीत हातुंतल्यो एक वा अदीक गजाली तागेल्या नियाळाचेर प्रभुत्व गाजयतात. हांकांच लागून नियाळाची दिका, ताचो सूर आनी इरादो निश्चित जाता. आनी अशे तरेन नियाळा फाटली पद्धत सादारणपणान वळखूंक मजत जाता.

जर नियाळपी बुद्धिनिश्ठ, प्रमाणनिश्ठ, तर्कनिश्ठ आसलो तर तागेली नियाळाची पद्धतय फावो तशी *विशय/वस्तू/कृती* निश्ठ आसता. हाचे उरफाटें जर तो आत्मनिश्ठ, व्यक्तीनिश्ठ, पंथनिश्ठ, तत्त्वनिश्ठ आसलो जाल्यार नियाळाची पद्धतय आत्मनिश्ठ, व्यक्तीनिश्ठ थारूंक शकता. चड करून असो नियाळ *साहित्यीक-केंद्रीत* जावपाची शक्यताय अदीक आसता. कृतीचो उपेग तो अवश्य करता. पूण तागेलो दिश्टीकोण साहित्याचें स्वतंत्र आस्तेंपण वा स्वायत्तता हो नासून लेखकदर्शी आसप साहजीक आसता. एक याद दवरूंक जाय की वयल्या दोनूय पद्धतींनी नियाळपी साहित्य-विचाराक सामको कडसरायना; पूण ताका मज घेवन मध्यवर्ती सुवातय दिना. जाय-जायतशें एक साधन म्हूण ताचो उपेग करता.

कांय वेळा नियाळपी आद्य वा मान्य नमुन्यांचेर पातयेवन तशेंच *प्रमाणसिद्ध* वा *काळसिद्ध निकशां*चेर आदारून आपणालो नियाळ बरयता. हाचीं दोन कारणां आसूंक

शकतात : एक म्हळ्यार, चालंत साहित्यीक/समिक्षात्मक मानदंडाचे फास्केंत वावुरप तागेले अभिजात वृत्तीक मानवता. दुसरें कारण म्हळ्यार, अशे तरेचे मान्य मुल्यांचे चौकटींत रावन केल्लो नियाळ सुरक्षीत आनी विश्वासार्ह थारपाची शक्यताय अदीक आसता. मात अशा वेळार, नियाळप्यान लायिल्ले निकशच अचूक आसून भागना, ताणें केल्ली फोडणिशी लेगीत तर्क आनी देखींच्या आदारार उबी रावंक जाय. जाल्यार तागेले निश्कर्श आपशेच पातयेवण्यासारके थारतात. अशे तरेन केल्लो नियाळ ठांयच्या (established) निकशांचेर तशेंच भूतकाळांतल्या प्रमाणकांचेर उबो रावन वर्तमान कृतीची चिकित्सा करता आनी तिच्या भवितव्याविशीं आराखडे बांदूंक शकता. अशे पद्धतीच्या नियाळाची अशे आराखडे बांदपाची क्षमता अदीक आसता. कारण, ताचे फाटल्यान आद्य नमुन्यांचें बळगें, मान्य तत्त्वांचें फाटबळ आनी पूर्वसूरींच्या अणभवाचें दायज आसता. ही पद्धत देखुनूच सोंपेपणान स्विकारार्ह थारता. तिका अभिजात नियाळ पद्धत अशें सोयिस्करपणान म्हणूंक जाता.

पूण हाचे सांगाताक आनिकूय एक पद्धत आसूंक शकता. जी फाटले निकश काळसिद्ध आसुनूय – जशातशे उखलनासतना, वर्तमान संदर्भाच्या परिघांत बसतात तितलेच निकश आपणावन, समकालीन संशोधन/सिद्धांतांचे कसवटेर वर्तमान परिस्थितीक अनुरूप अशे तरेन कृतीची तांक पारखिता. ही नियाळाची पद्धत कालानुरूप नियाळ करूंक पळयता म्हूण ती समाजाभिमुख पद्धत जावंक पावता. आनी नियाळांतल्यान कृतीच्या भवितव्याची वर्तवणी करतना आपणाले स्वतंत्र निश्कर्श काडूंक ही पद्धत बांदून उरता. हाचोच एक वांटो म्हळ्यार, हे निश्कर्श जतनायेन आनी जापसालदारकेन घेवपाकय ती पद्धत बांदिल्ली उरूंक जाय. हे जतनायेफाटलें कारण हे निश्कर्श फाल्यां काळाभायरे जायत हो भंय न्हय, जाल्यार फाल्यां परिस्थितीक धरून नवे निकश घडचे आनी तांचेर आयचे निश्कर्श तिजून मागीरच ते तिगचे अशी साधारण अपेक्षा आसची. ह्या स्वच्छंद पूण आशावादी थरूंक शकपी नियाळाचें एक खाशेलेपण म्हळ्यार फुडाराक येवपी निकशांतल्या परिवर्तनांत एके तरेन साहित्याचें, समाजाचें आनी म्हूण नियाळाचें जिवेंपण लिपलां ही फळदायी जाणविकाय तातूंत आसता. निदान आसची.

बारीकसाणेन पळयल्यार वयले भासाभाशेंतल्यान साहित्य नियाळाच्यो ज्यो ढोबळ पद्धती सामकारावल्यात तांकां (१) आत्मनिश्ठ/व्यक्तीनिश्ठ आनी विशय/वस्तुनिश्ठ, तशेंच (२) अभिजात आनी स्वच्छंद अशें मुद्द्यांनिशीं म्हणूंक जाता. पूण अशे तरेची निवळ वांटणी फकत (सध्या हांगा चल्ल्या तशे तरेच्या) तात्वीक भासाभाशेंतच करप शक्य आसता. प्रत्यक्ष नियाळ करतना खंयचोय नियाळपी हांचे भितरली एक वा अदीक पद्धती जाणीवपूर्वक आपणावंक वा टाळूंक अपवादानच शकत. उरफाटें, प्रत्यक्ष नियाळांत हातुंतल्या एखाद्र्या, कांय वा सगल्या पद्धतींक कळटां नकळटां थोडीभोव

सुवात अवश्य मेळूंक पावता. मात हांचेमदले एके पद्धतीक लक्षांत येसारकें प्राधान्य नक्कीच मेळिल्लें आसता आनी ह्या (मुजरत दिल्ल्या वा अनवधानान मेळिल्ल्या) प्राधान्याच्या आदारार साहित्य नियाळाचो प्रधान सूर निश्चित करूंक तशेंच नियाळाफाटली पद्धत वळखूंक जाता.

नियाळांत दिसून येवपी एक विशिश्ट सूर वा एके पद्धतीक मेळिल्ली निर्विवाद प्रधान सुवात समजून घेवचेखातीर त्या विशिश्ट नियाळ-लेखनांत उकती जाल्ली नियाळप्याची *धारणा* आमकां उपेगी पडटा. मुखेलपणान ही धारणा विचारीक, भावनीक, अध्यात्मीक आनी हेर तरांची आसूंक शकता. देखीक, जर नियाळप्याची धारणा आधिभौतीक आसली जाल्यार नियाळप्याचो हावेस एखाद्रे कृतीचें अध्यात्मीक, प्रतिकात्मक आयाम सोदचेलो आसुंयेता. हेखातीर मागीर नियाळपी कृतींतल्या बुद्धीक वा सेंद्रीय अणभवांच्या पेल्यान वचून आंतरीक अनुभूतींक धुंडाळचेलो यत्न करतलो. अर्थातच अशा यत्नांकडेन सुसंगत अशी आत्मनिश्ठताय नियाळांत दुभावाविरयत उदेतली. हांगा एक ध्यानांत घेवंक जाय, तें म्हळ्यार नियाळांतल्यान उकत्यो जावपी आनी कृतींतल्यान उक्तायिल्ल्यो लेखकाच्यो धारणा समदर्शी आसल्यो जाल्यार नियाळ अदीक परिणामकारक आनी पातयेवण्यासारको जाता. पूण कांय वेळा मात ह्यो धारणा समान नासुनूय नियाळप्याच्या अचूक निरीक्षणाक लागून तशेंच तागेल्या अभ्यासू विश्लेशणाक लागून तागेल्या नियाळांतल्यान प्रभावी आनी विश्वासार्ह चिकित्सा हाताक लागता. जेन्ना अशे तरेचे गूण नियाळप्याकडेन फावोशा प्रमाणांत नासतात, तेन्ना अभावानच नियाळ पातयेवण्यासारको जाता. अदीक करून ताचें स्वरूप एखाद्रया काळखांत मारिल्ल्या फारावरी अनिश्चित जाता आनी खंयचीय पद्धत ताचेफाटल्यान आसली तरी निष्प्रभ थारता.

नियाळाची पद्धत वळखुपांत, नियाळप्याच्या धारणांवरीच, तागेल्या प्रवृत्ती आनी प्रयोजनांचोय उपेग जावंक शकता. नियाळपी हो एक व्यक्ती जाल्ल्यान ताचेभितरूय आपछंदीपण, अनुकरणप्रियता, समाजाभिमुखता हांचो अदीक-उणो अंश आसप सभावीक आसा. हांचेवरवीं तागेल्या नियाळपाचे पद्धतीचेर परिणाम जावपय समा आसा. कारण तागेल्यो प्रवृत्ती आपशींच ताचो दिश्टीकोण थारायतात आनी विशिश्ट दिश्टीकोणांतल्यान पळेतना ताणें विशिश्ट तरेचे निश्कर्श काडूंक पळोवप सभावीक आसा. अर्थांत जो सक्षम नियाळपी आसा तो हे निश्कर्श साहित्यकृतीच्या वा तातुंतल्या देखींच्या ठोस बुन्यादींचेर उबे करता. अशे तरेन फावोसो कृतीजन्य पुरावो नियाळाफाटल्यान आसलो की नियाळ सबळ आनी सफळ जाता; नाजाल्यार फकत उश्णीं प्रमेयां वा मनसोक्त विधानांचेर पातयेवपी नियाळ उथळ आनी असफळ थारता. कांय वेळा असो नियाळ नियाळप्याच्यो (स्वताविशीं/कृतीविशीं /लेखकाविशीं) अवास्तव अपेक्षा, सिद्धांतीक

दुराग्रह वा फावोशीं तत्वां नियाळांतल्या विधानांक लागू करूंक आयिल्लें अपेस वा लेखकाविशींचे ताचे पूर्वग्रह (बरे तशे वायट) हांकां लागून अपेशी वा मारक थारता.

निमाणें एक मान्य करचें पडटा की नियाळाच्यो पद्धती निर्धारीत करपांत अदीक भर नियाळप्याचो पवित्रो आनी तागेलो दिश्टीकोण हांचेरूच दिवचो पडटा. हाचें उकतें कारण म्हळ्यार नियाळाची पद्धत ही बऱ्याच अंशी नियाळप्यान आपल्याय नकळटां आपणायिल्लें एक नियाळ करचेलें शस्त्र वा साधन आसता. हांचेवरवींच तो नियाळाच्या आदीं सांगिल्ल्या तिनूय बुनयादी घटकांक सामकारा वता, तांकां आपले तरेन आपणायता आनी साहित्य समजणी वा जाण मेळयता. हें करपाक जशे तरेचें साधन तो आपणायता तशे तशे तागेल्या साध्याचे प्रकार बदलतात. विशेश म्हळ्यार जशीं हीं साधनां हवाबंद खणांनी वांटूंक येनात, तशेंच साध्य म्हणजे नियाळाचे प्रकारय पुरायेन खणबंद (compartmentalise) करूंक जायनात. मात्त, जिज्ञासूंचे सुविधेखातीर तांची तत्वत: चर्चा करून ते कशे तरेचे आसूंक शकतात आनी अगणित कित्याक हें सांगप शक्य आसा.

### साहित्यनियाळाचे प्रकार

तात्विक चर्चेपुरते ढोबळपणान साहित्य नियाळाचे दोन सोयिस्कर वांटे करूं येतात: एक *मौलिक* (मुळावो/fundamental) साहित्य नियाळ आनी दुसरो, *प्रत्यक्ष* (वेव्हारीक/applied) साहित्य नियाळ. हातुंतलो पयलो प्रकार म्हळ्यार मौलिक साहित्य नियाळ साहित्याचो मुखेलपणान सिद्धांतीक नदरेंतल्यान विचार करता आनी असो विचार करतना सरसकटपणान साहित्य आनी 'साहित्यविशयक' साहित्य असो भेदभाव करिना. मौलिक साहित्य नियाळ, साहित्याक समग्रतायेन वा कांय आंगांनी नियाळून वा समजून ठोस समिक्षात्मक निश्कर्ष काडपाचें ध्येय बाळगिता आनी म्हणून अशे तरेच्या नियाळाचें ध्येय स्पश्टपणान सिद्धांतीक भासाभास आनी बुन्यादी प्रस्नांची उस्तवारी हें आसता.

अशे तरेचो विचार, साहजिकपणान साहित्याकडेन पळेतना ती एक मुळावी, विश्वीक आंवाठाची, भौ-आयामी उतरजन्य अभिव्यक्ती म्हूण पळेता. त्या विचारालेखीं ही उतरजन्य अभिव्यक्ती लिखीत (अक्षरबद्ध) तशेंच मौखीक (oral) आसूं शकता. तिचेकडेन पळोवचेली मौलिक साहित्य नियाळाची नदर सुक्षीम वा विशाळ आसूं शकता; तशेंच ताचो दिश्टीकोण पुराय साहित्याक आस्पावपी, विशिश्ट साहित्य-प्रकारांक (literary genres) आफुडपी वा विंगड विंगड साहित्य-विचारांच्या (literary theories) प्रभावाखाला वावरून विवीध मानवशास्त्रांच्या आयामांतल्यान साहित्याक समजूंक पळोवपी असो आसूं शकता. समकालीन समीक्षा चडांत चड प्रमाणांत हे वाटेन वचूंक लागल्या.

पूण ह्या पुस्तकापुरतें उलयतले जाल्यार, तत्वत: ह्या दोनूय प्रकारच्या साहित्य नियाळांक गृहीत धरून तांचो नांवानिशीं उल्लेख केलो तरी हांगाच्या भासाभाशेचें एकमात्र लक्ष्य साहित्यकृती-केंद्रीत नियाळाचेर म्हणजेच प्रत्यक्ष नियाळाचेर आसा. खेरीज, ह्या दोनूय प्रकारांक लागू जावपी निकश (criteria), बुन्यादी घटक (basic components) आनी तांचे आयाम (dimensions) हीं सगलीं कलमां लागीं-लागीं सारकीं आसात. देखून, निखट्या प्रत्यक्ष साहित्य नियाळाचो विस्तृतायेन विचार केल्यार तीं दोनूय प्रकारांच्या नियाळांक कशे तरेन लागू जावंक शकतात, हें आपशींच उकतें जातलें. म्हणटकूच फुडले भासाभाशेची सर्वांगीण मोख प्रत्यक्ष-नियाळाची विस्कटावणीच आसतली.

प्रत्यक्ष साहित्य नियाळाचो रोख पूर्णतायेन नासलो तरी मुखेलपणान सर्जनशील बरपाचेर आसता आनी ह्या प्रकारचो नियाळ साहित्यकृतीच्या खोलायेन केल्ल्या अभ्यासांत निस्तता. पूण साहित्यकृतीचो असो अभ्यास, आदीं म्हळ्ळां तेप्रमाण, समिक्षात्मक गिन्यान आनी बरोवप्याविशीं फावोशी जाणविकाय दवरुनूच शक्य आसता. पुरायपणान समिक्षात्मक गिन्यानाची पोकळी आशिल्ल्या वातावरणांत साहित्य नियाळाक प्रत्यक्ष कृतीक भिडप अशक्य आसता. तशेंच, लेखकाविशीं अवास्तव म्हायती नासली तरी, सर्जक ह्या नात्यान तागेली किमान दखल तरी घेवप प्रत्यक्ष नियाळाक चुकना. अर्थात, नियाळपी ह्या तिनूय गजालींचें – संहिता/सर्जक/समीक्षा – आपलेपुरतें एक वेगळें समीकरण दरवेळा प्रत्यक्ष नियाळ बरयतना अवश्य करता. तशें करप ताका भाग आसता.

देखून प्रत्यक्ष नियाळाक आमी, खंयचीय साहित्यीक कृती वा संहिता आत्मसात केले उपरांत नियाळप्यान उक्तायल्ली तिचेविशींची आपणाली खासा समजणी अशेंच म्हणूंक जाय. प्रत्यक्ष नियाळाक (सुरवेक सावन आमी मानीत आयल्यात तेप्रमाण) तीन बुन्यादी घटक आवश्यक आसात. ही बुन्यादी घटकत्रयी नियाळप्यांत जी आंतरक्रिया घडयता ती प्रत्यक्ष नियाळाचे प्रकार समजूंक पळयतल्यांखातीर मध्यवर्ती थारता. हे आंतरक्रियेंत जरी तिनूय बुन्यादी घटक आस्पावले तरी दर एका नियाळावेळार ह्या घटकांचो नियाळप्याच्या मनांत घडपी आंतरक्रियेंतलो सहभाग अदीक-उण्या प्रमाणांत बदलत रावता. कांय वेळा तर हांचे मदलो एखादो घटक लागींलागीं भायरावता. पुरायेन संहितानिश्ठ (textual) नियाळ आसल्यार लेखक (सर्जक म्हूण) सामको कडसरावता; अशें समकालीन समिक्षाविचारांत जायते खेपो घडटा. कांय वेळा नियाळप्याच्या अज्ञानाक लागून समिक्षात्मक तास नियाळांत देंवचना. तर कांय वेळा नियाळप्याच्या अवधानाक लागून वा तागेल्या हेर खंयच्याय प्राथमिकतांक (priorities) अग्रक्रम मेळिल्ल्यान नियाळांत साहित्यिकाचो उदो-उदो जावनय, कृतीचो उल्लेख

'कुकमाक आदार' इतलोच उरता.

म्हणटकूच प्रत्यक्ष नियाळाचे प्रकार सोदूंक वतना *पयलो निकश* आसूंक जाय: नियाळांत *बुन्यादी घटकांक मेळिल्ली प्रधानता/सुवात.* हो निकश लावन, नियाळ *कृतीनिश्ठ/संहितानिश्ठ, सर्जकनिश्ठ* काय *समिक्षानिश्ठ* आसा हें थारावंक मेळटा. अशे तरेन प्रत्यक्ष नियाळांचे बुन्यादी घटकांक फावो जाल्ल्या अग्रक्रमाच्या आदारार तीन प्रकार करूं येतात.

हे तीन फकफकीत प्रकार फकत वाचप्याचे सुविधेखातीर आवश्यक आसात. कारण फुडें नियाळाचे आनीक प्रकार सोदतना, ताका फुडलो निकश लागू करूंक हे सुर्वेचे प्रकार खुंटयाळें म्हूण उपेगी पडटात. हो *दुसरो निकश* जावन आसा: *नियाळप्यान लागू केल्ले संदर्भ.* वयर म्हळ्ळां तशें, समजा गृहीत धरलें की नियाळप्यान संहिता/सर्जक/समीक्षा हांचे मदल्या एकाक वा दोगांक मुखेल सुवात दिल्या, जाल्यार ताणें ही सुवात दितना ह्या घटकांक (उदा. संहिता/लेखक) खंयच्या संदर्भांतल्यान मुखेलपणान समुजपाचो यत्न केला. हाचेवेल्यान प्रत्यक्ष नियाळाचे वेगवेगळे प्रकार घालूं येतात. जितले संदर्भ तितले प्रकार आसूं शकतात. देखीक, जर नियाळप्यान काळाचो संदर्भ कृतीक लायलो जाल्यार इतिहासीक नियाळ पदरांत पडुं येता आनी जर तोच संदर्भ बरोवप्याक लायलो जाल्यार नियाळ अदीक चरित्रात्मक जावपाची शक्यताय न्हयकारूंक येना. अशेच तरेन व्यक्तीगत संदर्भ लायल्यार पुराय नियाळाचें चित्र बदलूंक येता. तशेंच, प्रासंगिक, परिस्थितीजन्य अशे संदर्भ लागू केल्यार ते ते प्रमाण नियाळय प्रसंगनिश्ठ वा परिस्थितीनिश्ठ जावंक शकता. उदाहरण दिवचें जाल्यार, बलात्कारासारक्यो घडणुको वा म्हाझुजासारकी परिस्थिती अशे तरेचे नियाळ-प्रकार जल्माक घालूंक शकता.

पूण नियाळाचे खंयचेच प्रकार पुरायेन स्वतंत्र वा स्वयंभू अशे उरूंक पावनात. कित्याक, वयलो एक वा दोनूय निकश लावनच नियाळपी नियाळ करीत हाची खात्री कोणूच दिवंक शकना. खासा तो आपूण लेगीत अशी खात्री दिवचो ना. बऱ्याच वेळा ताका नियाळ करतना बरपाफाटलें प्रयोजन खंयचें हाची चिकित्सा करीन दिसता. मागीर नियाळपी अशा वेळार *प्रयोजनसापेक्षता* हो निकश नियाळपाखातीर वापरता. हांगा मागीर प्रस्न उबो जाता: प्रयोजन कृतींत *आपशींच* उदेलां वा तें बरोवप्यान *मुजरत* केळयलां वा तें बरोवप्याच्या *नकळटां* कृतींत खेळटना नियाळप्याचे सिद्धांतीक नदरेक पडलां ? हे सगले उपनिकश प्रयोजन ह्या एका निकशाखाला वावुरतात. जशेजशे ते नियाळाक लागू करूं जातात, तशे तशे नियाळाचे प्रकार वेगळावंक जातात. देखीक, जर हें प्रयोजन लेखकनिश्ठ नदरेन नियाळपी सोदीत जाल्यार ताका कृतीकणकणीं कितलिंशींच प्रयोजनां सांपडूंक शकतात: प्रबोधन, प्रक्षोभन, परिवर्तन, निखटी

प्रयोगशीलता, प्रचार-प्रसार आनी हेर अशींच. पूण हीं प्रयोजनां खंयच्या तरी संदर्भाबगर नियाळपी कशीं सामकारायतलो ? म्हूण ताका एक वा अदीक संदर्भ घेतलेबगर सुटकावाट ना. हे संदर्भ जायते खेपो तो जाणून बुजून घेना, ते आडवाटेन त्या त्या प्रयोजनाचे शेंपडेक धरून नियाळांत भितर सरतात. देखीक, प्रबोधन हें बरपाचें वा बरोवप्याचें प्रयोजन आसलें जाल्यार ताचेवांगडा समाजविज्ञानीक (दलित, देशी, अस्तुरी, इतिहासीक इत्यादी) संदर्भ भितर सरतात. परिवर्तन हें प्रयोजन नियाळप्याक जर सांपडलें जाल्यारूय ताका तो अशेच साबार संदर्भ लावंक शकता. तेंच प्रायोगिकतेक वा प्रचार-प्रसाराकूय लागू जाता. अशे तरेन कितलेशेच संदर्भ (मनोविज्ञानीक, भासविज्ञानीक, संस्कृतीशास्त्रीय, राजनितीक, अर्थशास्त्रीय) प्रयोजनांच्या हातांत हात घालून नियाळाचे प्रकार घडोवंक शकतात.

पूण इतल्यानच जालें ना. खासा नियाळप्याच्या वाचन, मनन वा चिंतनाक लागून वा तागेल्या भोव-श्रुतपणाक लागून तागेली एक विशिश्ट अशी सिद्धांतीक मनोभूंय घडिल्ली आसता. तिचेर एक वा अदीक समिक्षासरणी शेक गाजयतात. सदांकाळार एकच समिक्षाविचार कोणाचेरय आपणालो छाप कायम दवरतलो हें नक्कीं ना. पूण खंयचीय विचारप्रणाली आपणायली की ती आपशींच थोडेभोव प्रमाणांत खंयचेय व्यक्तीच्या बरपांतल्यान उदेता. कांय वेळा कळून, कांय वेळा नकळटां, कांय वेळा नाका आसतना लेगीत. अशे तरेन राजनितीक, धर्मशास्त्रीय, नितीक, वसाहतवादी, वि-वसाहतवादी, नव-वसाहतवादी, आध्यात्मिक, आधिभौतीक अशो मेजूंक जायनात इतल्यो प्रणाली वेळावेळार नियाळाक आपल्या रंगांत काडटात. म्हणटकूच *नियाळप्याची सिद्धांतीक बसका* हो एक निकशय नियाळाचे प्रकार वेगळायतना विसरूंक जायना.

आनी निमाणें: समजा नियाळप्यान सभावीक रितीन वा मुजरत वयले कसलेच निकश लायनासतना फकत एक स्वतंत्र, स्वावलंबी कृती म्हूण जर बरपाक नियाळपाचें केलें तरी तागेल्या नियाळाक प्रकारांत वांटूंक वाट आसाच. जर ताणें कृतीचे तांकीक उक्तायतना कृतीचें एक तास वा साबार तासां होलमांत घेतलीं जाल्यार तेप्रमाण नियाळाचें वर्गीकरण करूंक जातलें. देखीक, कृतींतल्या कलात्मक आविष्काराक प्रतिसाद दिवन जर ताणें कलेक अग्रक्रम दिलो जाल्यार स्वायत्ततावादी, कलावादी इत्यादी वांटे पडटात. जर रचनेक अग्रक्रम दिलो जाल्यार रुपवादी, संरचनावादी, उत्तर-संरचनावादी अशे प्रकार जातात. जर कृतींतल्या मानवी अणभवांक अग्रस्थळार हाडले जाल्यार मानववादी, वास्तववादी, अतीवास्तववादी अशे जातात. जर शैलीक अग्रक्रम दिलो जाल्यार ते प्रमाण, जर भाशेक प्रधानक्रम दिलो जाल्यार ते ते प्रमाण, जर दिश्टाव्याक दिलो जाल्यार ते ते प्रमाण विशिश्ट सुत्राकडेन सुसंगत अशे खोंटांनी प्रकार जावंक पावतात. पूण अशे प्रकार मेजूंक जशे कठीण तशे वळखुंकूय सोपें

न्हय. मात वळखूंक येनात म्हूण तशे प्रकार करप (निदान तत्वीक भासाभाशेंत तरी) शक्य ना अशें म्हणूंक जावचेंना.

वाचप्याक ह्या तत्वीक वर्गीकरणाफाटली घुस्पावणी बांदावळ कळचेखातीर खाला दिल्ल्या मांडावळ/आलेखाचो आदार जातलो अशी आस्त आसा. हांतूंत *नियाळप्याच्या मनांत घडपी आंतरक्रिया*, ते आंतरक्रियेंत वांटेकार जावपी तीन मुखेल घटक आनी ज्या विंगड विंगड *आयामां*तल्यान नियाळपी ही आंतरक्रिया समजून तिची फोडणिशी करूंक पळेता तें सकयल्या आकृतींत (क्र. १) दाखयलां.




नियाळांत ही फोडणिशी/समजणी जेन्ना अक्षरबद्ध जाता, तेन्ना तातुंतल्यो पद्धती उक्तावतात.

ह्यो पद्धती समजूंक येवच्यो म्हूण आकृती (क्र. २)चो उपेग करूं येता. पद्धतींत *नियाळप्याची सुवात* म्हत्वाची आसता, हें लक्षांत घेसारकें.

वयल्या दोनूय आकृतींतलो दरेक आयाम थीर वा चित्रासारको नासून, तो गतिशील आनी जिवो आसा. तशेंच, दर आयामाचो घेर ताका तेंकून आशिल्ल्या आयामाच्या घेरापरस विरुद्ध दिकेन घुंवता हें गृहीत धरल्यार *पद्धतींचें अदमासपंचेपण* (tentative-ness) आनी *प्रकारांचीं अगणित तासां* रोखडींच होलमांत येतलीं.




आनी निमाणें: साहित्य नियाळ हे साहित्य-प्रक्रियेची एक संकल्पना म्हणून तिच्या पुराय रुपां, प्रकार आनी पद्धतीवांगडा वळख पटची म्हूण सकयल दिल्ले आकृतीचो उपेग करूं येता. (आ. ३).

संदर्भ

| | व्यक्ती | काळ | समाज | प्रसंग | परिस्थिती | |
|---|---|---|---|---|---|---|
| भासविज्ञानीक | | | | | | प्रयोग |
| इतिहास | | | | | | प्रचार |
| राजनितीक | | | | | | प्रक्षोभन |
| मनोविज्ञान | | | | | | परिवर्तन |
| | संरचना | कलात्मकता | रुपशैली | मूल्य | दिश्टावो | प्रबोधन |

सिध्दांत

प्रयोजन

साहित्य कृती/संहिता

साहित्य नियाळाविशीं कसलेय ठोस आराखडे मनांत बांदून पळोवपी वाचप्याक वयल्या आलेखाच्या चारय भुजांतल्यान फावो ते तरेन जाणविकाय मेळोवची पडटली. हें कठीण नासलें तरी सोपेंय न्हय. कारण आकृती समजूंक सुविधा जावची म्हूण दिल्ली आसा. तिचेवरवीं पुरायेन शास्त्रशुद्ध असो आनी संपूर्ण डाटा (मुळावी म्हायती) मेळोवप शक्य ना. कारण, साहित्य नियाळ ही संकल्पना जितली अनंग आनी अमूर्त आसा तितलोच आलेखांतलो एकानएक घटकय अमूर्त आसा. नेमकी संख्या वा ठोस मेजमाप हांच्या अभावाक लागून जिज्ञासू वाचप्याक खासा आपणाली *कल्पनाशक्त* आनी *प्रज्ञा* हांचो सांगड घालुनूच जायती समजणी मेळोवची पडटली.

चत्राय: वयले आकृतायेंत चारी भुजांनी जे उपघटक मांडल्यात, ते फकत उदाहरणाखातीर. दर भुजांत जाय जाल्यार आनीक एक दोन घटकय आस्पावंक मेळटले. तशेंच, ह्या दर उपघटकांक आनीक साबार उप-उपघटक आसात, ते वाचप्याक कल्पकतायेन आकळचे पडटले. देखीक, वयल्या आकृतींत *संदर्भ* ह्या घटकाअंतर्गत एक उपघटक व्यक्ती हो आसा. हाचे खाला कितल्याशाच उप-उपघटकांचो आस्पाव करप शक्य आसा. देखीक, लेखक, पात्र, अनुपस्थित निवेदक आनी हेर जायते.



# साहित्य नियाळ : अंतरंगांकडल्यान कायारुपांकडेन

ह्या पुस्तकाचो बुन्यादी हावेस साहित्य नियाळ हे संकल्पनेची शक्य तितली सर्वांगीण फोडणिशी करप हो आशिल्ल्यान, पुस्तकाच्या पयल्या भागांत तत्वीक भासाभाशेवरवीं साहित्य नियाळाचें अंतरंग उखलापें करचेलो यथाशक्ती यत्न जाला. पूण हातासरशीं आशिल्ल्या नियाळाच्या देखीनिशीं प्रत्यक्ष साहित्य नियाळाचेर फावोसो उजवाड घालोना जाल्यार साहित्य नियाळाच्या अंतरंगामेरेन पावनय घडये वाचप्याखातीर नियाळाचो विविधांगी रुपकार अनवळखी उरूयेत ही भिरांत उप्रासता. हाका लागून पुस्तकाच्या ह्या उत्तरार्धांत वाचप्याखातीर प्रत्यक्ष नियाळाच्यो वेगवेगळ्या प्रसंगार आनी वेगवेगळ्या प्रयोजनानिशीं बरयल्ल्यो – प्रस्तुत लेखकाच्योच आदीं उजवाडायिल्ल्यो – कांय नियाळाच्यो पती मुजरत सादर केल्यात.

नियाळाच्या पतींचें अशे तरेन सादरीकरण करपाफाटल्यान एक अंतस्थ कारणय आसा. तें म्हळ्यार, नियाळाचे संकल्पनेविशीं विस्तारान भासाभास करतल्याक लेगीत त्या चर्चेतल्या मुद्द्यांकडेन सुसंगत आनी प्रामाणीक असो नियाळ बरोवप *कितपत शक्य आसा* हें वाचप्याकच न्हय तर खुद्द नियाळप्याकय कळचें! वेगळ्या उतरांनी सांगचें जाल्यार, साहित्य नियाळाच्या मूळ तत्त्वांक केथवोर पाळो दिला हें तपासून पळोवंक गावचें. तशेंच, बऱ्याच नियाळाचे थोडेभोव तरी गूण प्रत्यक्ष नियाळांत नियाळपी केळोवंक शकला व्हय, हेंवूय थारावंक मेळचें. हें करतां करतांच वाचप्याक प्रस्तुत पतींवरवीं नियाळाच्या कायारुपांविशींय आपलेपुरते कांय आराखडे बांदूंक मेळटले अशी आस्त आसा.

अंतरंगाकडल्यान कायारुपांमेरेन वाचप्यावांगडा हो द्राविडी प्राणायाम करपांत एक नियाळपी म्हूण खासा म्हजोय थोडोभोव लाव आसा. ते-ते साहित्यकृतीचो नियाळ करतना जीं मार्गदर्शक तत्त्वां वा जे निकश त्या-त्या वेळार नियाळाच्या त्या त्या पतींक लायिल्ले तांचो आज पुनर्नियाळ करून त्या नियाळाचें येस-अपेस कितलें हें तटस्थपणान आपशींच समजूंक बरें जातलें. विशेश म्हळ्यार, त्यो नियाळाच्यो पती ह्या पुस्तकांतलो हो सिद्धांतीक भासाभाशेचो आटाप उखलचे आदीं जल्मा आयिल्ल्यो आशिल्ल्यान, नियाळप्याची ही एका अर्थान स्वपरीक्षा आसा. तिचो भावी बरपाकय मोलादीक हातभार लागतलोसो दिसता.



साहित्य नियाळाच्या कायारुपांचे हे मांडावळीखातीर नियाळाच्यो वट्ट पंदरा पती वेंचून काडिल्ल्यो आसात. हातुंतल्यो तेरा पती सर्जनशील साहित्यकृतींवेल्या नियाळाच्यो आसात, जाल्यार उरिल्ल्यांतली एकेक अनुक्रमान अणकारीत बरपाविशीं आनी समिक्षात्मक बरपाविशींची आसा. सर्जनशील साहित्यावेल्या नियाळांची सुडसुडीत अशी वांटणी गद्य आनी काव्य हांचेमदीं करूं येता. ह्या पंदराय नियाळांचें स्वरूप त्या-या पतीफाटल्या प्रयोजनाक सोबसारकें घडत गेल्ल्यान दरेका नियाळासंबंदीचें प्रयोजन हांगा स्पश्ट करप योग्य धरलां. चडांत चड नियाळ संहितानिश्ठ नदरेन केल्ल्यान चडावत खेपो ते कृतीकेंद्रित जाल्यात. जंय नियाळ लेखक-केंद्रित नदरेन वा साहित्य-प्रकारनिश्ठ दिश्टीकोणांतल्यान केल्लो आसा थंय तसो उल्लेख करप गरजेचें लेखलां.

ह्या नियाळांमदले पांच नियाळ (अणकारविशयक, अस्तुरी-प्रतिमासंबंदी, महाकाव्यावेले दोनय आनी कथेवेलो) चर्चासत्रां वा भासाभास अशा प्रसंगांक लागून बरयिल्ल्यान तांचें स्वरूप थोडेंशें प्रासंगीक आनी वेळ/विशय/लांबाय हांचे फास्केंत मर्यादीत उरलां. हो दोश वाचप्यान मुजरत लक्षांत घेवचो. तशेंच, कादंबरीवेलो एक नियाळ सोडल्यार, हेर सगले संपादपी-लेखक-संबंदितांच्या आग्र्याक मान दिवन बरयल्यात. हाका लागून तांचेर एके तरेच्या साहित्यीक औचित्याची सया वाचप्याक घडये दिसुंये. तशेंच, उत्स्फूर्तपणाचो उणावय ताका सांपडूंयेत. मात हे सगले नियाळ जतनायेन, मनाथावन आनी साहित्याच्या निखळ मोगान बरयल्यात हें दुभावाविरयत.

गद्य साहित्य नियाळांमदीं कथा, कादंबरी, निबंद (लघु/ललित/विचारीक), व्यक्तीचित्रणां, विनोदी बरप, भौ-आयामी निवेदनां अशा विवीध तरेच्या साहित्यप्रकारांचो आस्पाव जाल्लो आसा. हांचेमदीं आस्वादक चिकित्सा, विश्लेशण, वळख, परीक्षण, अभिप्राय, भाश्य, दखल/पुनर्दखल अशीं नियाळाचीं साबार कायारुपां उलगडत गेल्यांत. काव्यासंबंदीच्या नियाळांमदीं, महाकाव्यावेलो एक प्रकारनिश्ठ जाल्यार दुसरो तुळात्मक आसा. अस्तुरी-प्रतिमेवेलो विशयकेंद्रित जाल्यार, गजलेवेलो प्रकारनिश्ठ आसा. अणकारावेलो नियाळ म्हायती आनी विसकावणी हांचेमदीं झेलकावपी आढावो कसो आसा. कथेवेलो नियाळ दसकांतले कथेक अनुलक्षून बरयल्ल्यान तो मात्सो आत्मनिश्ठ दिश्टीकोण आपणायता आनी म्हूण आढाव्याक फावो ती तटस्थताय वातूंत हाडप जमना. कथेवेल्या नियाळांतलो *आढावो,* **overview** ह्या स्वरुपाचो जाल्यार अणकारावेलो **survey** ह्या स्वरुपाचो अशें म्हणूंक जागो आसा. विनोदी बरपावेलो नियाळ चड करून लेखक-केंद्रीत आसा, कादंबरीवेलो प्रकारनिश्ठ जावनय कृती केंद्रीतय आसा. हें कशें हें फुडले विस्कावणेंत स्पश्ट जातलें.

'चालू दसकांतले कोंकणी कथेची आस्वादक चिकित्सा' हो लेख जरी माथाळ्यांत काळाचें बिरूद मिरयता आसलो तरी तो नेमको कालनिश्ठ आलेख न्हय वा इतिहासीक

आढावोय न्हय. हाचें कारण नियाळांतच विशद केलां. ह्या नियाळाफाटलीं दोन प्रयोजनां *आस्वादन* आनी *चिकित्सा* हिंवूय माथाळ्यांत उकतीं जाल्यांत, तशेंच लेखाचें प्रस्तुत स्वरुपय ह्याच उतरांतल्यान स्पश्ट जालां.

पुराय दसकांतल्या 'कथा' ह्या कोंकणींत तरी भौ-पसवण्या प्रकाराचो विचार करतना नियाळप्याचेर अवाढव्य अशा आवांठाचें बंधन येता. अगणित कथा हातासरशीं आशिल्ल्यान पतींचो वेंचीक विचार करप कठीणच न्हय तर वाचप्याखातीरय सत्वताळें कर्म थारूं येता. हो विचार करून कथेचे चिकित्सेंत कथाकार केंद्रित असो दिश्टीकोण बाळगिला. मात तो चरित्रात्मक वा इतिहासीक जावचो न्हय हाची कटाक्षान जतनाय घेतल्या. वेंचीक कथाकार जे चालू दसकांत आपणाली बसका थिरावन तिगल्यात तांगेल्या कथांचो रासवळ नदरेन विचार केला. हें करतना कालची कथा हें आयचें दायज आनी आयची कथा ही फाल्यांची मार्गदर्शिका आसतली ही सार्थ अपेक्षा बाळगिल्या.

नियाळ आस्वादक चिकित्सा (critical appreciation) करूंक पळयता जाल्ल्यान तातूंत नियाळप्याक मनाविरूद्धय थोडेंभोव आत्मनिश्ठ विवेचन करचें पडलां. तरिकूय आस्वादनांतल्यान जे कथाकारांचे विशिश्ट गूण उकते जाल्यात ते वाचप्याक आपापणाल्या निरीक्षणावरवीं तिजून पळोवंक मेळटात. अशे तरेचें विवेचन व्यक्तीनिश्ठ आसता, हें नियाळांत स्पश्ट केल्ल्यान हे तरेच्या दिश्टीकोणाक नियाळप्याची त्रुटी म्हणूंक जावचें ना. ह्या लेखाची घटाय म्हज्या मतान तातुंतले कथेच्या 'व्याख्या-सापेक्ष' अशा विस्कटावणेंत आसा. दुसरे भाशेंतल्या वा परकी देसांतल्या कथेच्या संदर्भाबगर ही चिकित्सा केल्ल्यान ती अदीक प्रामाणीक, उत्स्फूर्त आनी घरावी दिसता. भावी समिक्षकी बरपाखातीर हो नियाळ थोडोभोव उपेगी पडटलो अशें दिसता.



'दोन वाटचिऱ्यांच्या संदर्भांत कोंकणी कादंबरी' ह्या लेखाक हांगा आयिल्ल्या नियाळावेल्या हेर लेखांमदीं नियाळ म्हूण मात्शी वयली सुवात दिवंक फावो. हातूंत कोंकणी कादंबरीचो विचार करचेखातीर कोंकणींतल्या दोन नामनेच्या वाटचिऱ्यांचो चिकित्सापुराय नियाळ करचेलो यत्न जाला. हो नियाळ सामान्य वाचप्यांवांगडाच कोंकणी कादंबरीचो अभ्यास करतल्या विद्यार्थ्यांकय उपेगी पडूंक जाय ह्या नेमक्या प्रयोजनाखाला बरयला.

ह्या नियाळाचीं शक्तीस्थळां म्हळ्यार, कादंबरी-बरपाच्या वैशिश्ट्यांचो विचार, **कार्मेलीन** आनी **अच्छेव** ह्या दोन कादंबऱ्यांचो वेगवेगळ्या समिक्षा-आयामांतल्यान जाल्लो विचार आनी दोनय कादंबऱ्यांच्या म्हत्वाच्या आंगांचो उल्लेख, हीं जावन आसात. ह्या नियाळाक चिकित्सात्मक अभ्यासाचें स्वरूप आयलां. पुरायेन संहिता-केंद्रित नदरेन

दोनय साहित्यकृतींक नियाळपांत, नियाळप्याक धादोस जायसारकें येस आयलां. मात ह्या नियाळाक 'पुरवणी' म्हूण कोंकणींतल्या हेर दोन-तीन कादंबऱ्यांवेली समिक्षात्मक चिकित्सा जाता तितले बेगीन येवंक जाय. जाल्यारच कोंकणी कादंबरीचेर उपेगी समीक्षा निर्माण जाल्लेवरी जायत. तें अजून साध्य जाल्लें ना ही भोव खंतीची गजाल जावन आसा.

ह्या नियाळांत विद्यार्थी-वाचप्यांखातीर एक खासा जोडणी येवंक जाय आसली. ती म्हळ्यार दोन कादंबऱ्यांतले विस्तृत अशे सुयोग्य उतारे. अशे उतारे वाचतल्याक निरीक्षणात्मक विधानां कसाक लावंक उपेगी पडटात. हें करतना लेखाचे लांबायेचो विचार करून, नियाळपी म्हूण हात मात्सो मोटवो दवरचो पडला. निखटे कादंबरीवेल्या फुडल्या पुस्तकांत खंयच्याय नियाळप्यान हो उणाव भरून काडचो.



एखाद्रो सफल लेखक वा लेखिका आपणालो हात बशिल्ल्या साहित्य प्रकाराभायर पावल घालून जेन्ना नव्या बरपा-प्रकाराक आपणायता तेन्ना साहित्य नियाळाक तें एक मनमेकळें भाश्य करचेलें आमंत्रण थारता. ह्या नव्या प्रयोगाची मुद्दम दखल घेवन त्या लेखकाच्या सदच्या वाचप्यामेरेन तागेल्या यत्नाची सार्थ दाद पावोवप म्हत्वाचें तर आसताच, खेरीज खासा त्या लेखकाकय ताणें 'बदलिल्लो सांदो' कितपत सादला हाची पावती दिवंक जाय आसता. हें करतना पुस्तकाच्या गुण-दोशांचेंच न्हय तर नव्या साहित्य-प्रकाराचेंय लेखका हस्तुकीं कितपत 'चीज' जालां हाची मोलावणी करूंक वचप नियाळप्याक चुकना.

अशे तरेचें चिकित्सक भाश्य **भुंयचार्फी** ह्या शीला कोळंबकार हांच्या व्यक्तीचित्र संग्रहाचेर केल्लें आसा. प्रथितयश बरोवप्याचें नव्या प्रकारचें पुस्तक नियाळप हें भोव जतनायेचें काम. कारण तें अजूनमेरेन वाचप्याक भेटिल्लें नासता आनी सिद्धहस्त बरोवप्याचो एक खाशेलो वाचकवर्ग आसता, जाचेर नश्टप्रभाव घालीनासतना ह्या पुस्तकाचेर तुस्त-टीका करचेली जापसालदारकी नियाळप्याची थारता. शिवाय नवें पुस्तक नियाळटना आस्वादन आनी अभ्यास हांचो सांगड घालेबगर चिकित्सापुराय भाश्य करप शक्य नासता. ह्या सगल्या मुद्द्यांचो सारांश मनांत दवरून **भुंयचार्फी**चेर भाश्य केलां. हातूंत टीकेचे कांय ठळक मुद्देय मांडल्यात, तांचो उल्लेख गरजेचो आसा. एक मुद्दो वस्तुनिश्ठ निरीक्षणांतल्यान सांपडसारको आसा. तो म्हळ्यार, पुस्तकांतल्या उताऱ्यांमदीं उरिल्ल्यो कांय त्रुटी. दुसरो मुद्दो थोडोसो व्यक्तीनिश्ठ असो शेरो जावन आसा, जो 'मंदा' ह्या व्यक्तीचित्राविशीं निवेदिकेचें मत लक्षांत घेवन मारिल्लो आसा. नव्या लेखकाचें पुस्तक आसल्यार असलो शेरो टाळूंक फावो, पूण

शीलाबाय सारके प्रस्थापित लेखिकेच्यान हे तरेचो समिक्षात्मक शेरो सहज पचोवंक जातलो हे रास्त जाणिवेंतल्यान असो अस्तुरीनिश्ठ शेरो मारला. भावी काळार ह्या व्यक्तीचित्रांचो अभ्यास जावन तांकां अशेच तरेन विवीध समिक्षा-आयामांतल्यान अभ्यासक नियाळटले अशी आस्त आसा.

पूण सकारात्मक टीकेवांगडाच प्रस्तुत भाश्य पुस्तकांतली आशयाची सुप्त तांक उक्तावंक फाटीं राविल्लें ना. सामान्य वाचप्याक हेवरवीं आशयगर्भी आस्वादन करपांत आदार जावन अदीक धादोसकाय मेळटली, हें प्रयोजन आशिल्लें. **भुंयचार्फीचें** मुखपृष्ठ हो एक असोच भोव आशयगर्भी घटक जावन आसा, जाचो नियाळांत मुजरत विस्तारान उल्लेख आयला. तो आतां लेगीत परतून नियाळल्यार सूचक आनी उपेगी आसासो दिसता. तशेंच, ह्या नियाळांतलें एक खाशेलें निरीक्षण म्हळ्यार 'निवेदिकेचो घोव' ह्या भोव करून गैरहजर वा आड-उल्लेखित पात्राविशींचें विधान जावन आसा. ह्या पात्रावरवीं व्यक्तीचित्रणांत एका अलिप्त व्यक्तीवरवीं मतप्रदर्शन 'करवप' लेखिकेक शक्य जालां, हातुंतल्यान व्यक्तीचित्रांक अदीक उठाव येता. शिवाय, निवेदिके वांगडा तिका एक तटस्थ पूण समंजस तसोच संवेदनशील आनी पातयेवण्याजोगो समालोचकय केळोवंक मेळटा.



**'गोंय - ५० वर्सां फाटलें :** पांच दसकां उपरांतची वळख' हो नियाळ एका जाणट्या आनी वृत्तपत्रवेवसायाकडेन निगडीत आशिल्ल्या बरोवप्याच्या भौरुपी निवेदनांच्या संकलीत पुस्तकाविशीं आसा. पांच दसकांच्या लांबलचक काळांत गोंयांत जाल्ले बदल, स्थित्यंतरां हांची झलक ह्या बरपांतल्यान मेळटा. देखून नियाळ करतना पुस्तकाचें *इतिहासीक दस्तावेज* म्हूण आशिल्लें म्हत्व अधोरेखित करचो यत्न केला. ह्या पुस्तकाच्या रूप आनी शैलीचेर विशेश उजवाड घालप खासा गरजेचें इतलेच खातीर दिसलें की लेखकाची उतरावळ तशेंच भास समकालीन वाचप्याच्या संवकळीचीं न्हयत. तशेंच, ह्या जोड-पुस्तकांतल्या गद्य-निवेदनांचें स्वरुपूय आधुनिक समिक्षेक अभिप्रेत अशा जायत्या साहित्यप्रकारांक आफुडटा पूण पुरायेन वेंगायना. देखून ताचेरय उजवाड घालीन दिसलो. ह्या नियाळाचें एक उणेपण म्हळ्यार 'कथानक नाखयां आपटलां' हो कांय अंशी खर असो शेरो विशिश्ट कथात्मक निवेदनाविशीं मारला. तो खरो आसलो तरी लेखकाच्या संवेदनशीलतेक दुखोवपाइतलो कठोर आसा अशें आतां दिसता.



अ. ना. म्हांबरो हांगेल्या **गोंयची अस्मिताय** ह्या उत्कृष्ट विनोदी बरपावेलो लेख निदान कोंकणींत तरी मणिकांचनाभाशेन भोव दुर्मिळ अशा पुस्तकाच्या पुनर्उजवाडावणे योगाक लेखून बरयला. कोंकणींत मुदलांतच अल्प आशिल्ल्या विनोदी बरपाच्या एका उल्लेखनीय अशा वाटचिऱ्याची *पुनर्दखल* घेवचेखातीर बरयिल्ल्यान ह्या नियाळाफाटलीं प्रयोजनां सुस्पश्ट आसप सभावीक आसा. एक म्हळ्यार, विनोदी साहित्याच्या संदर्भांत **गोंयची अस्मिताय**चो विचार करप, आनी हें करतनाच कोंकणी विद्यार्थ्यांक ह्या साहित्य प्रकाराविशीं अचळय कांय उपेगी म्हायती हातासरशीं मेळोवन दिवप. दुसरें, विनोदी बरपाचीं प्रयोजनां सामकारायतनाच, पुस्तकाच्या दर्जेदारपणाचेर उजवाड घालप. हें करचे खातीर, तातुंतल्या भास, शैली आनी हेतूंची थोडेभितर पतींसयत विस्कटावणी करप हें अपेक्षितच न्हय, जाल्यार अपरिहार्य थारता. ह्या नियाळाची एक जमेची वट म्हळ्यार जमता तशा ल्हवपीक हातान नियाळप्यान आपणाल्या बरपाची धाटणी पुस्तकाच्या प्रकृतीक सोबसारकी दवरचेलो यत्न केला. बाकी, ह्या नियाळाचें जें थोडेंभोव येस आसा ताचें स्रय मूळ पुस्तकाच्या वाचकप्रियतेक आनी विनोदी पिंडाक घसघशीत हातान फावो जाता, अशेंच म्हणूंक जाय. प्रासंगिकताय आनी कालबाह्यता हांकां पुरून उरपी मेजक्या पुस्तकांतलें हें एक आसा, ही कोंकणीची गिरेस्तकाय!



'**वळेसरां**तलो 'पारजती' आविश्कार' हो नियाळ मुकेश थळी हांगेल्या तेन्ना नव्या आशिल्ल्या पुस्तकाची अनवळखी वाचप्यांवांगडा भेट घडोवन हाडची ह्या हेतान बरयल्लो. हाका लागून तो लेख *पुस्तक-वळख* ह्या संवकळीच्या रुपान अवतरला. वळख हातूंत नव्या आनी पयल्या पुस्तकाच्या बाबतींत तरी बरपावांगडाच बरोवप्याच्याय खाशेल्या गुणांकडेन लक्ष वेधूंक जाय, हाची ह्या नियाळांत चतराय बाळगिल्या. पूण हें पुस्तक नवें आसलें तरी तातुंतलें बरप आदीं नेमाळ्यांतल्या स्तंभावरवीं वाचप्यामेरेन पाविल्लें हाचोय उल्लेख माथाळ्यांतल्या 'पारजती' ह्या दुवार्थी विशेशणावरवीं करचेली जतनाय घेतल्या. पुस्तकाची वळख करून दितना, ताची वाचनीयता ह्या घटकाकडेन खासा लक्ष वेधूंक जाय, हें लक्षांत घेवन **वळेसर**च्या नियाळांत ह्या संबंदांतय आवश्यक तो उल्लेख केला. भास शैली, तशेंच आशय-विशय वा दिश्टावो ह्या पुस्तकाअंतर्गत गुणांवरीच, पुस्तकाच्या भायित्कारी रुपाचेर आनी छापणावळीच्या येसाचेरय ताची वाचनीयता निंबून उरता. हाका लागून वाचनीयतेक उठाव हाडूंक अनुकूल आशिल्ल्या हांचेमदल्या लक्षणीय गुणांचेर लक्ष वेधपाचो यत्न ह्या नियाळांतय दिसून येता. जमता थंय तो देखीनिशीं केला. मात पुस्तक-वळख हो लांबलचक नियाळ आसुंनये हें ध्यानांत घेवन ताचेर कांय मर्यादा घाल्यात. **वळेसरां**ल्या उतरांच्या उपेगाक अनुलक्षून पूण

त्या पुस्तकाभायल्या पारजतांसंदर्भांत एक विधान आयलां, तें मात पुस्तक वळख हातूंत येना जाल्यार जातालें. मात ती लेखकाक आपुलकेन – वस्तुनिश्ठ निरीक्षणा उपरांत आनी ताचो सर्जक म्हूण अहं दुखचो न्हय हाची जतनाय घेवन – दिल्ली चतराय आशिल्ल्यान ताका नकळटां तागेल्या भावी बरपांत ताचो उपेग जावं येत, ही ह्या अनुचीत भासपी विधानाफाटली जमेची वट आसा.

* * *

'**जिवीतयात्रा :** जिणेची सुफळ आनी सुलभ प्रदक्षिणा' हो लेख बरयतना एका वयस्कर, चिंतनशील बरोवप्याच्या पिक्या पिरायेवेल्या विचारांचो आपरोस नियाळटां हाचें भान आशिल्लें. ह्या सखोल अशा गद्य पूण संकलित बरपाची वळख वाचप्याक करून दितना, निखट्या उपचारीक *पुस्तक-वळख* ह्या चालंत नियाळा नमुन्यापेल्यान वचून, ताचेर आपापलो *अभिप्राय* मांडप अदीक न्याय्य आनी योग्य जातलें अशें दिसलें. अचळय पुस्तकाचें सार आनी स्रय वाचप्याच्या पोशांत सोडपाचो तो एक राजमार्ग. तोच हांगा आपणायला. हें करतना, पुस्तकाचे मांडावळीचेर खासा लक्ष दिलां आनी मुखपृष्ठाचे प्रतीकात्मकतेचो उल्लेखय आवश्यक दिसला म्हूण केला.

* * *

जयमाला दणायत हांगेल्या **करबट** ह्या ललित-निबंदांझेल्यावेलो नियाळय असोच वेगळ्या साहित्य-प्रकारांत घाल्लें लेखिकेलें प्रायोगीक पावल समजूंक पळोवपी चिकित्सक भाश्य जावंक शकतालो. पूण योगायोगान ह्या पुस्तकाबाबतींत तशें जावंक पाविल्लें ना. विशेश म्हळ्यार, हो नियाळ वाचून पुस्तकाची रूच घेतां घेतां घडिल्लो एक उत्स्फूर्त लेख म्हूण जल्मला. ताका लागून तातूंत एक नियाळप्याक नकळटां आयिल्ली सहजसुलभ अशी सभाविकताय लाबल्या. ह्या लेखाक स्पश्ट प्रयोजन नासलें, निदान नियाळप्याक तरी तशी जाणविकाय नासली. हाका लागून घडये ह्या लेखाक रसग्रहणात्मक परीक्षणाचें स्वरूप फावो जालां. *परीक्षण* ह्या नियाळाच्या रुपाक हो लेख बऱ्यांपैकीं पाळो दिता. विवीध निबंदांतल्यो सटीक सुरबूस देखी वेगळावन, पुस्तकाचे विशयविविधतायेची वळख करून दिवपांत हो नियाळ अपेक्षीत येस गांठीक बांदूक पावला. बरपाच्या विंगडविंगड गुणांच्या रोसायणाचोय सुवाद हाचेवरवीं वाचप्याक मेळटा काय दिसता. विशेश म्हळ्यार, निबंदांचे शैलीचो विचार करतना, आपशेंच लेखिकेचें व्यक्तीमत्व ह्या नियाळांत उदेता. नकळटां बरोवन जाल्ल्या ह्या परिक्षणाचेर अभिप्राय उकतावपाचो पयलो अधिकार वाचप्याचो...!

* * *

सगल्या नियाळांमदीं, जाणविकायेन आनी सुक्षीम नदरेन विश्लेशण करचेलो यत्न **साहित्य शिल्प** ह्या कोंकणींतल्या नामवंतांनी बरयिल्ल्या समिक्षात्मक बरपावेल्या नियाळांत जाला. समिक्षेवेली समीक्षा म्हूण तो नियाळ वायट नासलो तरी तातूंत अभ्यासपूर्ण चड आनी सभावीक मतप्रदर्शन उणें आसा, हाका लागून तो मात्सो अडेचो कसो दिसता. हरशीं, त्या नियाळांत बारीकसाणेन केल्लें मूळ कृतीचें वाचन, जतनायेन केल्लीं विधानां, नेमकीं निरीक्षणां जावं प्रामाणिक मतां आसुनूय बऱ्यांतल्या बऱ्या समिक्षात्मक बरपाक जीवसाण हाडपी आकर्शक शैली, चैतन्यपुराय भास आनी खेळटी उतरावळ ना. तो अभ्यासकाक विश्लेशण म्हूण उपेगी आसुनूय सामान्य वाचप्याक समिक्षेच्या पुस्तकामेरेन ओडपांत कितलो येसस्वी जाला जायत, हाची जाप दिवप सोपें न्हय. नियाळ म्हूण तागेली वाचनीयता आनी विश्लेशण म्हूण ताची सफलता थारावपी निमणो जुवीज वाचपी हेंच खरें!

* * *

'हेर भासो आनी अणकारीत कोंकणी साहित्य' ह्या आढावोरुपी लेखाफाटल्यान दोन प्रयोजनां वावुरतालीं: पयलें म्हळ्यार, कोंकणींतल्यान हेर भासांनी अणकारीत साहित्याचो तेच परीन हेर भासांतल्यान कोंकणींत अणकारीत साहित्याचो *आलेख* मांडप. पूण अशा नियाळाचो आवांठ आकांताळो आशिल्ल्यान ह्या लेखांत म्हायतीविशयक फावो ती परिपूर्णताय येवंक पावली ना. पुराय अणकारीत साहित्याची वळेरी हाचेवांगडा दिवंक जायत जाल्यार हो लेख फुडाराच्या अभ्यासकाक एक म्हायती-निधी (data bank) म्हूण तशेंच संदर्भसूची म्हुणय उपेगी पडूं येत. ही त्रुटी उरिल्ल्यान तो फावो तितलो समग्र जावंक पावलो ना. म्हूण ताका चिकित्सात्मक *आढावो* (overview ह्या अर्थान) म्हणूंक जावचें ना. तो कांय अंशी गणनात्मक आशिल्ल्यान हातूंत अणकारांच्या गुणात्मक दर्जापरस अणकारीत कृतींच्या संख्यात्मक योगदानाचेर अदीक भर दिल्या. हाका लागून, ह्या नियाळांत अणकारविशयक मोलादीक अशीं निरीक्षणां तशेंच कांय सूचक अशीं विधानां आसुनूय अणकारासंबंदीं खोलायेन निश्कर्श काडप शक्य जाल्लें ना. मात हो लेख अणकारीत साहित्याच्या कोंकणी भाशेंतल्या उदेवाविशींची उपेगी कारणमिमांसा करूंक पळेता, ही ताची येसाची बाजू जावन आसा. तशेंच, फुडाराक 'कोंकणींतलो तशेंच कोंकणींतल्यान अणकार' ह्या क्षेत्रांत अदीक पुराय आनी भक्कम म्हायती संकलीत करचेल्या वावराक ह्या नियाळाचोय थोडोभोव आदाव जावं येता. भावी काळांतल्या अणकार-विशयक अभ्यासू बरपांत ह्या नियाळाचोय चानयेचो वांटो आसूं शकत, अशी आस्त बाळगूंक हरकत नासची.

* * *

*महाकाव्य* ह्या पुरातन आनी खंयचेय भाशेक संवसारीक प्रतिष्ठा मेळोवन दिवपी काव्यप्रकाराक अनुलक्षून हो लेख दोन वांट्यांनी बरयला. हाचें फाटलें एकमेव प्रयोजन म्हळ्यार महाकाव्याचो अभ्यास करतल्या विद्यार्थ्याक संदर्भाखातीर शक्य तितली विस्तृत म्हायती आनी सुक्षीम टिपण्णी हातासरशीं मेळोवन दिवची. हे नदरेन, लेखाचो पयलो वांटो महाकाव्य ह्या साहित्यप्रकाराची विस्तारान *वर्णनात्मक चिकित्सा* करता. तशेंच, संवसारीक थरार, महाकाव्यविशयक प्रचलीत अशा पश्चिमी आनी भारतीय संकल्पनांचो धांवतो *आढावो* घेवंकय पळेता. शिवाय, साहित्यविश्वांतल्या वेंचीक तशेंच पुर्विल्ल्या महाकाव्यकृतींचो थोडेभितर *आलेख* मांडचेलो यत्न करता. अशे तरेन हो लेख तिट्टी रुपांनी सामकारावता.

लेखाच्या उत्तरार्धांत **एव आनी मरी** हें महाकाव्य पश्चिमी काव्यकृतींच्या संदर्भांत तुळात्मक दिश्टीकोणांतल्यान नियाळलां. ही *तुळात्मक पारखणी* दांतेच्या, तशेंच मिल्टनाच्या महाकाव्यांक नदरेसामकार दवरून केल्या. कित्याक काय म्हळ्यार, **एव आनी मरी**ची संरचना वयलेवयर नियाळल्यार दांतेच्या कृतीक लागींची आसा, जाल्यार ताची आशयाची धार मिल्टनाचे काव्याचे जातीची आसा. ह्या जोड-लेखांचें उणेपण म्हळ्यार, हांगा नियाळप्याक **एव आनी मरी**ची पुरोशी *संहितानिश्ठ* नियाळणी करूंक जाय तितली संद मेळ्ळी ना. तुळेचे तागडेंत घुस्पल्ल्या ह्या नियाळाक कवीचें भाशीक, साहित्यीक योगदान थोडेभितर तोखेवन समादान मानचें पडलां. लेखांची लांबाय अवाढव्य जाल्यान सुडसुडीतपण आनी धांवती शैली हे नियाळाक आवश्यक अशे गूण हातूंत अभावानच आयल्यात. आटाप आनी आंवाठ वाडिल्ल्यान हे नियाळ जड आनी चैतन्यहीण जाल्यात आनी म्हणूनच सामान्य वाचप्याक भेटूंक ते उणे पडल्यात काय दिसता.



'नवोदीत कवितेच्या उदरगती'चो फाटलाव करचेलो विश्लेशणात्मक यत्न परीक्षणाच्या वस्त्रगाळ नदरेंतल्यान नियाळप्याच्या आजवेरच्या सगल्या परिक्षणात्मक नियाळांपरस अदीक तटस्थपणान – आनी कांय अंशी निश्ठुर त्रयस्थपणान – केल्लो नियाळ जावन आसा. हाचें कारण तो नियाळपी/समीक्षक ह्याच दिश्टीकोणांतल्यानच न्हय तर नियाळप्यान परीक्षक ह्या दूरस्थ नात्यान तपाशिल्ल्या नवोदित कवितेसंबंदीच्या मताचो परीपाक जावन आसा. खेरीज, ह्या नियाळाक एक विस्तृत अशें परिमाण आसा. तें म्हळ्यार, तो एकटुक्या कवीविशींचो वा एकदोन संग्रहांविशींचो नियाळ न्हय, जाल्यार साबार तरणाट्या कवी-कवयित्रींच्या संदर्भांत केल्लो नियाळ. ह्या लेखांचें प्रयोजन नवोदितांक आत्मतुश्टी वा आत्महीणतायेच्या नश्ट प्रभावांतल्यान मेकळे करप हें आसलें.

हाका लागून त्या-त्या कवीचे गूण ताचे भितरले आत्महीणतायेक पयसावतले आनी ताचे-ताचे दोश ताचे भितरले आत्मतुश्टीक शह दिवंक पावतले, अशी आस्त बाळगून त्या नियाळांत नवोदितांच्या गुण-दोशांचो जमाखर्च मांडचेलो यत्न केल्लो. मात हें करतना, समिक्षकान बरोवप्याच्यो तांकी वा त्रुटी दाखयतना बाळगूंक फावो त्या आवश्यक पथांक नियाळांत वेवस्थीत पाळो दिल्लो आसा. कवी-कवयित्रींच्या सर्जनशील संवेदनेक धपको दीसारकें खर विधान हो नियाळ कटाक्षान टाळूंक येसस्वी थारला. हरशीं, हें वस्त्रगाळ नदरेन केल्लें परीक्षण कितपत 'सादलां' हें वाचप्यान थारावचें.

✻ ✻ ✻

'कोंकणी कवितेच्या मळबार गज़ल उदेता : **गज़लप्रभा**' हो एका कवितासंग्रहाचो नियाळ. पूण हो नियाळ आशयकेंद्रीत वा कृतीकेंद्रीत उणो आनी साहित्य-प्रकार केंद्रीत अदीक जाला. ताचें स्वरूपय विश्लेशणात्मक आसा. गज़ल ह्या कोंकणींत उणावान आशिल्ल्या कविताप्रकाराची फोडणिशी ह्या नियाळांत शक्य तितले बारीकसाणेन केल्या. मात ती थोडेभितर केल्ली आसा, कारण पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत तेविशीं प्रस्तावनाकारान चर्चा केल्ली आसा. गज़ल हो मुळांत फारसी-अरबी साहित्यांत किल्लल्लो आनी उर्दू साहित्यान पोशिल्लो प्रकार. म्हणटरीच नियाळाचे धाटणेंतूय नकळटां थोडोसो गज़लेच्या रूपरंगाक सोबसारको भास-शैलीचो शिरशिरो आयला. आपशींच उतरावळ फावो ते तरेन मेटत गेली हें वाचप्यांक सांगसारकें आसा. ताका लागून नियाळांतली सभावीक उत्स्फूर्तताय तिगल्या काय दिसता.

✻ ✻ ✻

'कोंकणी कवितेंतली **अस्तुरी-प्रतिमा**' हें एक कोंकणी कवितेवेलें विशय-केंद्रीत अशें भाश्य जावन आसा. ह्या नियाळाचें प्रयोजन जरी अस्तुरी प्रतिमेचो सोद अशें भायित्काराक भासलें, तरी नियाळांत अस्तुरी-प्रतिमेच्या बदलत्या स्वरुपाविशीं चिकित्सा करप योग्य दिसलें. तशेंच, कोंकणी कविता हें भोव विशाळ क्षेत्र आशिल्ल्यान निरीक्षणाचेरच न्हय तर पती वेंचपाचेरय आपशींच मर्यादा पडल्या. फाटीं वळून पळेतना हो लेख बऱ्याच वांट्यांनी सक्षम आनी नितळ नदरेन निश्कर्श काडूंक पावला. मात ह्या लेखाचो पसारो विशाळ आशिल्ल्यान, लेखाचो उत्तरार्ध मात्सो आटापून घेतिल्ल्यान आक्रशिल्लेवरी जाला. हातुंतलीं कांय वेंचीक विधानां अदीक सुक्षीम आनी विस्तृत भासाभाशेवरवीं अदीक सबळ करूं येतालीं. तो मात्सो अपुरो आसा अशें आज दिसता.

✻ ✻ ✻

नियाळाच्या अंतरंगाविशींच्या भासाभाशेंत नियाळप्याच्यो धारणा, तागेलो दिश्टीकोण हांकां प्रयोजना वांगडाच म्हत्वाची सुवात दिल्ली. पूण नियाळाच्या कायारुपांक नियाळटना नियाळप्याच्यो धारणा वा प्रवृत्ती हांचो उल्लेख जाल्लो ना. हाचें कारण ह्यो नियाळाच्यो पती खुद्द ह्या पुस्तकाच्या बरोवप्यानच बरयिल्ल्यान, नियाळप्याविशीं विशयनिश्ठ वा पातयेवण्याजोगें मत बरोवपी उक्तावंक शकत जाल्यार दुभाव आसा, म्हूण तें टाळप योग्य दिसलां.



# चालू दसकांतले कोंकणी कथेची आस्वादक चिकित्सा

लळीत बरपांत भौरंगी, भौढंगी, वाचकप्रिय आनी 'सदाबहार' प्रकार खंयचो हें सांगूंक खंयच्याच विद्वानाची वा विदुषीची गरज ना. कविता, कादंबरी, नाटक वा निबंद ह्या हेर मुखेल साहित्यप्रकारांवांगडा बरपाच्या अटंग्या रानांत खासा आपणालो एक मनभुलोवणो वाठार मिरोवपी प्रकार म्हळ्यार कथा. हेर लळीत बरपाक जायते खेपो खणबंद असो वाचकवर्ग मेळटा. कारणां साहित्यीक आसूं वा असाहित्यीक. पूण चड करून कथा हे गजालीकडेन – हे गजालींतच कथेचें सार आस्पावलां – फाट परतुपी वाचपी अपवादानच मेळटलो. हाचीं कारणां तशीं आपउपलापीं आसात. पूण तीं स्पश्टपणान फुडें हाडिल्लीं बरीं, म्हूण तांचो धांवतो उल्लेख करतां.

मनीसमनांत आकांताची उत्सुकताय आनी सैमीक कथन-क्षमता दडल्या. ह्या दोनय मनीस-सभावांक लागून दर एके व्यक्तीभितर एक आयकुपी/वाचपी आनी एक सांगपी/बरोवपी हातांत हात घालून वावुरतात. कथा हो प्रकार ह्या दोनूय गुणांक वा गरजांक पोसवण दिता. वेंचीक अणभव, मेजकींच पात्रां, सुघड रूप आनी मर्यादित आंवांठ हाका लागून ती वाचप्याक भावता. तशेंच बरोवप्याभितरले सुक्षीम निरीक्षण शक्तीक, खेरीज निवेदनशैलींक कथा खुणायता, सुपुल्या जुस्ताजुस्त फास्केंतल्यान जिणेचें आगळेंच चित्र पितारपाचें निरंतर आव्हान दीत रावता म्हूण ती बरोवप्याक भाळयता.

खंयचेय भाशेंतल्या ललित बरपाची पेट उगडल्यार, एक दुभावाविरयत दिसतलें: तातुंतली कथेची सुवात, तिचो परमळ, नखरो आनी साज वेगळोच. ह्या प्रकारावटेन धुंवपी साहित्यूय हेरां प्रकारांवटेन वचपी बरोवप्यांपरस चड – अगणित म्हणपाइतलें साहित्यीक. पूण एक खरें: कथेच्या बासनांत सासणाच्यो तिगिल्ल्यो घडयो थोड्योच! उगडासाच्या ल्हवपीक हातान सांसपून, परतून एकदां धांवत्या वाचनाचें वोत लावन आसा तश्यो यादीच्या दस्तनांत दवरिल्ल्यो कथा हाताबोटार मेजपाइतल्योच आसत. हाका लागून जेन्ना कोणय समीक्षक कोंकणी कथेची आस्वादक चिकित्सा करूंक उगडासाचें पेटूल उगडटा, तेन्ना वाचप्यांनी खासा आपणाल्या यादींचें बासन अळंग हातान सोडिल्लें आसता. खंयी एक भरजरीत पामरी, एक झिरझिरिल्लें कापड, विटको सिल्की स्कार्फ, रस्मी झब्बो, मोवमोवशी गोजडी, पिनकरें कपयाळें, आटिल्ली जीन, नवेंताल्ल मुंडाशें

एक आनी दोन. हें दायज, ही गिरेस्तकाय तोखेता तितली थोडी! फाटल्या धायेक वर्सांतल्या कोंकणी कथांचोय एक आस्वादक नियाळ घेवचेलो यत्न केल्यार हे गिरेस्तकायेच्यो थोड्योश्यो पती हाताक लागतल्यो. अर्थात, हांचे भितरल्यो खंयच्यो कथा उगडासाच्या पेटलांत पावतल्यो हें काळच थारायतलो.

फुडें वचचे आदीं ह्या नियाळा फाटलें प्रयोजन नियाळूंक जाय. पयलीं म्हळ्यार कथा ह्या सगल्यांच्या जिव्हाळ्याच्या विशयाचेर वाचपी-बरोवपी-शिकपी-शिकोवपी ह्या नात्यान बोलको विचार करचो हेत अशे तरेन सादतलो. हेवरवीं वाचप्यांक तशेंच बरोवप्यांक, फाटल्या तशेंच फुडल्या पिळग्यांक कथाकाराचें मनोगत कळटलें आनी हातुंतल्यान कोंकणी कथा खंयचे दिकेन आनी कितल्या नेटान पावली मारता हें दरेकल्याक आपलेपुरतें थारावंक मेळटलें. हो नियाळ एक निमित्त्य जावन आसा. हातूंत academic असो सूर येवचो न्हय असो कटाक्षान यत्न केला. पूण एक प्रामाणिक यत्न असोय केला की जमता तितल्या कथाकारांचो उल्लेख हातूंत येवचो. हेवरवीं वाचपी आपल्याक जायत्या कथाकारांच्या कथांविशींचीं मतां उक्तावंक फाटीं रावचो ना असो म्हजो विश्वास आसा. एक सामान्य आनी कांय अंशीं शिस्त नाशिल्लो वाचपी ह्या नात्यान म्हजे विचार हांव मांडटां.

सुरवेकच कांय विधानां करप म्हाका गरजेचें दिसता :

(१) बऱ्यो कोंकणी कथा आदीं उजवाडा येवन आतां संग्रहरुपान वा नेमाळ्यांवरवीं पर्थून उजवाडा आयिल्ल्यो आसात वा येत आसात.

(२) दसकां आदीं प्रसिद्ध जाल्ल्यो जायत्यो कथा आयज लेगीत पाठ्यपुस्तकां जावं क्रमिक पुस्तकांवरवीं वाचप्यांमेरेन – चड करून शिकपी भुरग्यांचे नवे पिळगेमेरेन – पावत आसात. ह्या कथांचें खाशेलें म्हत्व म्हळ्यार त्यो एकटुक्या वाचप्यामेरेन न्हय जाल्यार वाचप्यांच्या व्हड समुदायामेरेन – भावी वाचपी-बरोवप्यांमेरेन – पावतात. शिवाय निखट्यो वाचपाच्योच कृती न्हय तर शास्त्रशुद्ध रितीन शिकपाच्यो पती म्हूणय तांचो विचार जाता.

(३) बऱ्योच आदल्यो कथा अणकारांच्या माध्यमांतल्यान वाचप्यांच्या नव्यानव्या भौसाक आज लेगीत भुलयत आसात.

ह्या सगल्या कथांची दायकीच न्हय तर आज जावपी घोळटीक, तांचो आज जावपी स्पश्ट आनी परिणामकारक विनियोग पळेल्यार त्या कथांक ह्या दसकाभायली वाट दाखोवप पिशेपणाचें थारतलें. म्हूण फकत फाटल्या धा वर्सांत पयले फावट उजवाडा आयिल्ली कथा हाताकडेन धरून चालू दसकांतले कोंकणी कथेची चिकित्सा करप अडेचें जातलें. हेरां भासांनी हो प्रस्न इतलो बिकट जायना जायत, पूण कोंकणीचो खाशेलो आनी खरेलो वाचपी अजूनय घडत आसा. ताचेर शाळा-कॉलेजींतल्यान 'आज'

प्रभाव घालपी कथेक आमी ह्या दसकांतलीच लेखूंक जाय. हीं कोंकणी कथेचीं मुळां आनी तीं आज वयर फांकारल्यांत. कोंकणी कथा आज तरी अश्वत्थ रुखावरी जाल्ली आसा. पाळां वयर आनी खांद्यो भोंवतणें पातळत गेल्लो हो रूख खऱ्या अर्थान लागीं येतलो जाल्यार आमकां 'आजय जिवी आशिल्ली आदली कथा' आनी 'फुडल्या शेंकड्याच्या हुमरार पाविल्ली आयची कथा' हांकां फावोसो जागो दिवप चुकपाचें ना. हांगा जागो दिवप म्हळ्यार फकत कथांची जंत्री लावप वा कथाकारांची नामावळ वाचप अशें म्हणपाचें ना. जाल्यार तांकता तशीं त्या-त्या काळावेल्या कथाकारांचे लिखणेचीं लक्षणां ध्यानांत घेवपाचो यत्न करून आयचे कथेचीं वैशिश्ट्यां, तांकी आनी वेगळेंपण समजून घेवप.

पूण फाटल्या कथांचे वेंचीक रासवळ संग्रह पळेल्यार तांतुतल्यो कांय देखी कथा काय न्हय, असो प्रस्न उप्रासूं येता. खेरीज अशो कांय वादग्रस्त पती फाटल्यान दवरपी कथाकारांनी उपरांत आनीक चड कथा बरयल्ल्यो नात. म्हणटकूच तांचे कथेक 'कथा' म्हणची वा ना हो वाद टाळपाखातीर एक सुडसुडीत अशी परिभाशा कथेखातीर वेगळायल्या. एस्. जी. ॲल्वी हांणी कथेचें वर्णन 'आरपार दिश्टीक्षेप' अशें केलां जाल्यार ग्रिदो आगोस्तिनी हांणी 'वाचप्याक आपुणूय जिविताच्या वा संवसाराच्या (प्रपंच) हालचालींत आस्पावलां अशी अनुभूति मेळोवन दिवपी आनी शब्दांतल्यान साकार जावपी एक भावनीक वा नाट्यमय असो प्रभावी आविश्कार' अशें कथेचें वर्णन केलां [**द मॉडेस्ट आर्ट** (न्यूयॉर्क: ओ. यु. पी. १९६८), पा. २६०.] म्हगेली कथेविशींची समजणी ह्या दोनय मत्तांच्या अदीं-मदीं वाकुळटा. म्हणजेच, जो कथाकार अणभवाक आरपार तिजूंक पावला आनी जाचेकडेन उतरांचें फावोशें भांगर (निखटें भांडवल न्हय) आसा तोच अणभवांचे मुशींत उतरांचें भांगर कडोवन कथेचें चीज करता. वाचप्याक एका आगळ्याच अणभव-विश्वाचो वांगडी करता. वाचप्याचें जाय-जायतें समजुपाचें, पळोवपाचें आनी अणभवपाचें स्वातंत्र्य तो मान्य करता. आनी ताका लागून नकळटां, ताचेकडल्यान आशय आनी तंत्र हांचे मदीं अचळय समतोल सादपाचें काम जाता.

असो कथाकार वाचप्याक आपणालें गिनीपिग समजना. बोमान दूद पियेवपी देड म्हयन्याचें बाळक समजना आनी अणभवाक हापापिल्लो घाण्याचो बैलय समजना. तो वाचपी म्हळ्यार एक वयावेलो, उमेदी, 'चित्र काडूंक नजो' असो (unpredictable) साथीदार अशेंच धरता आनी अनुभूतिच्या अंधुक संवसारांत संवेदनशीलतेची मिणमिणटी पणटी घेवन तो वाचप्याक खुणायता. व्यक्तीरेखा, घडणुको हांचो माग घेत ताका फुडें वचूंक दिता. अदींमदीं निवेदनाचो हयन्हयसो हात दिता. ऐसपैस वर्णनांची, समग्र भासाभाशेची, वादग्रस्त मुद्द्यांचे फोडणेची सत्री तो वापरना. हातूंत ताका

वाचप्याचे समजिकायेचो आनी आपणाले सर्जनात्मक जाणिवेचो अपमान दिसता. वाचप्याकय अशा कथाकारावांगडा अनुभूतिचीं रानां-वनां माड्डूंक आवडटा. तो ताच्यो कथा वाचिना, अणभवता. कथेंतल्या पात्रांवांगडा कथाकाराचे अस्वडीं वळख काडटा, एक भावनीक नातें जोडटा, तांचें अंतर्मन सांसपिता, घडणुकांची खोलाय पारखिता. थोडेभितर सांगचें जाल्यार कथेंतल्या अणभवविश्वांत वांटेकार जावचेलो प्रामाणिक यत्न आपशींच वाचप्याकडेन घडटा. हें करप जे कथेंत सादलां, ते कथेपुरतो तो कथाकार वाचप्याक भेटलो अशें म्हाका दिसता.

कोंकणींत ही कमाविशी साध्य करपी जायते कथालेखक आसात. पूण सदांच तांकां हें जमलां अशें ना. कांय जाणांक तें सादलां जायतय; पूण हाची दुसरी बाजू आसा. दरेका वाचप्याक दरेका कथाकारावांगडा असो 'उत्कट सहभाग' सदांच सादोवप शक्य ना काय दिसता. हाका कथाकारावांगडा वाचपीय जापसालदार थारता. जशीं कथाकारांचीं वैशिश्ट्यां कथेवांगडा वाचप्याची 'गांठ' घालून दितात, तशेपरी कथेंतल्या आशय-शैली-तंत्राच्या खाशेल्या मेळावणाकडेन एकरूप जावंचेली वाचप्याची इत्सा-कुवत आनी भावनीक-मानसीक फाटभूंय हिंवूय ताका कथेच्या आपरोसामेरेन पावपाक आदारभूत थारतात. म्हणून, कथाविश्वांत अदींमदीं पुरायेन देंवुनूय तो सदांकाळ तांचेवांगडा अर्थपूर्ण नातें जोडूंक असमर्थ थारता. जर ही त्रुटी मानली जाल्यार ती वाचप्याचीय तितलीच आसा जितली कथाकाराची. हाका लागून जायत्या कथाकारांकडेन वेळोवेळा सम सादुनूय, वाचप्याची खेरीज लय एखाद्रयाच कथाकारा वांगडा जुळटा. म्हजेपुरतें उलोवचें जाल्यार चडांत चड खेपो हांव ज्या लेखकांसांगातान रावंक शकलां तें म्हळ्यार मीना काकोडकार आनी पुंडलीक नायक. हाचो अर्थ हेच म्हजे आवडीचे कथाकार असो न्हय. तर तांगेल्या कथांतलो अनुभूतिचो आविश्कार म्हजेपुरतो चडावत खेपो प्रभावी रितीन सादर जाला, जायत आसा.

आधुनिक कोंकणी कथेचें गिरेस्त पूण विशाळ न्हय अशें दायज जेन्ना दोळ्यांमुखार येता, तेन्ना असो परिणामकारक आविश्कार साध्य करपी जायत्या बरोवप्यांचीं नांवां येवजतात. हातूंत चंद्रकांत केणी, दामोदर मावजो, शीला कोळंबकार, महाबळेश्वर सैल, गजानन जोग, एन्. शिवदान, गोकुळदास प्रभू हांचेसारक्या संवकळीच्या सिद्धहस्त कथाकारांवांगडाच म्हजे वळखीचे पूण सामके संवकळीचे न्हय अशेय जबरदस्त तांकीचे कथाकार आसात. ते जावन आसात: जयमाला दणायत, अच्युत तोटेकार, शांता कंटक, हेमा नायक आनी हेरय जायते बरोवपी. खेरीज, हालींहालीं कथेमळार उदेल्ले आनी कथेच्या वाठारांत खासा आपाणालो ठसो उठयल्ले जे कथाकार आसात ते म्हळ्यार वसंत भगवंत सावंत, देविदास बाबय, शशांक सीताराम, जयंती नायक, प्रकाश पर्येकार, ज्योती कुंकळकार, रामनाथ गावडे, सुरेश पिळर्णकार, गुरूदास बांबोळकार, माया

शेल्डेकार.

पूण थोड्योच कथा बरोवन वाचप्यांक चुटपूट लावन हेर बरपाफाटल्यान दडिल्लेय कितलेशेच कथाकार आसात. हे परत गंभिरतायेन कथालेखना वटेन परतले जाल्यार कोंकणी कथेक अदीक जोम येतलो. मुजरत सांगपासारकें म्हळ्यार हातुंतले थोडे लेखक अनुवाद वा संग्रहांवरवीं कोंकणीच न्हय तर देसभरच्या वाचप्यांमेरेन आज लेगीत पावत आसात म्हूण तांचोय खासा उल्लेख करुंकूच जाय. हे आसात: अना म्हांबरो, उदय भेंब्रे, सुरेश काकोडकार, नागेश करमली, प्रो. अ. शां. हेदो, तानाजी हळर्णकार, फेलिस्यु कार्दोज आनी दत्ता नायक. हांच्या सांगाताक आनिकूय जायतीं नांवां आसात. अरूण सिंगबाळ, सुभाष भोबो, अनिल बोरकार, नारायण बोरकार, अभयकुमार वेलिंगकार, पांडुरंग भांगी, मनोहरराय सरदेसाय, शाम वेरेंकार, जेस फेर्नांडिस, सी.एफ्. डिकॉस्ता, वा.ल.वझे, ओलिव्हीन्यू गोमिश, महाबळेश्वर सरदेसाय, ख्रि. इव्हाग्रियु जॉर्ज, प्रकाश थळी, युसूफ शेख, सुमन्त केळेकार ! कितलीं नांवां घेवचीं ? ह्या बरोवप्यांनी कोंकणी कथेचेर दुर्लक्ष करून कितलो अन्याय केला हे येवजून मन खंती जातासर कथेमळार नेटान भोंवर मारपी लेखक-लेखिकांचें भिरेंच दिसता आनी मनाक थाकाय येता. देविदास कदम, तुकाराम शेट, ज्यो क्वाद्रूश, मिलींद केळेकार, रमेश घ. लाड, जे. एल्. गोयश, विन्सी, मुक्ता शास्त्री, सुशिला भट, कला जोशी, सुनिता प्रभुगांवकार, अमीता नगर्शेकार, रेषा नार्वेकार, कल्याणी भगत, विजया पै धुंगट, रजनी भेंब्रे, हर्षल दळवी, सुरेखा तोटेकार आनी हेर कितलिंशींच. हातूंत एक नांव मुजरत जोडीसारकें आसा रमेश वेळुस्कार हांचें. ह्या कथाकारांची दखल घेवपाचें भावी समीक्षकाक चुकचें ना. पूण आजच तांचेविशीं थिरायेन निश्कर्ष काडप मात इल्लें धाडसाचें आनी हुतहुतेपणाचें जातलें. म्हणून समकालीन कथेक आंकरी धरसर वाट पळोवंक जाय. इतल्यान काळाचोय धुल्ल बसतलो आनी यादींच्या रेंवेंपटार आयच्या कथाकारांची पावलट कशेतरेन तिगल्या हें अदीक स्पस्टपणान होलमतलें. आजच तांची तोंड फुटसर तुस्त (फावो जाल्यार लेगीत) करप अन्यायाचें जातलें. तशेंच, आयचे घटकेक ह्या कथांचीं नुकां काडप म्हळ्यारय धान्य किल्लून येवचे आदींच नडणी हुमटावंक सुरू केल्लेवरी मारक थरतलें.

पूण फाटल्या कितल्याश्याच वर्सां-दसकांसावन बरयत येवनूय, नव्वदांत लेगीत आपापले कथेची बसका थीर दवरिल्ल्या कथाकारांचो मात मुजरत विचार करुंकूच जाय. विशेश करून अशा लेखकांचो विचार जावंक जाय, जांणी कथा ह्या प्रकाराचेर जावं सर्जनाचे प्रक्रियेचेर खास विचार केला. अशेतरेन मुलाखती, हेरांच्या बरपाक बरयिल्ल्यो प्रस्तावना, स्वतंत्र ललित आनी समिक्षात्मक लेख हांच्या माध्यमांतल्यान कथेचेर उलोवपी कथाकार आसात चंद्रकांत केणी, मीना काकोडकार, उदय भेंब्रे, अ.ना. म्हांबरो आनी हेरय जायते नामनेचे लेखक.

पूण कथेच्याच माध्यमांतल्यान हयन्हयसो उजवाड आपल्या सर्जनात्मक बरपाचेर, कथेच्या खाशेल्या स्वरुपाचेर, वैशिश्ट्यांचेर आनी निर्मणे फाटल्या वेणांचेरय घालपी कथाकारय आसात. हालींच्या लेखकांमदीं कथेंतच कथेची कथा केळोवपाची कमाविशी पुंडलीक नायक, गोकुळदास प्रभू आनी गजानन जोग हांणी केल्या.

कथेविशीं उलयतना मीनाबाय म्हणटा, 'कथेंतलीं पात्रां जेन्ना वाचप्यांक वांगडा घेवन फुडें वतात, तेन्नाच ती कथा जैतिवंत थारता. बरोवपी अलिप्त रावन साहित्य निर्मूंक शकता. पूण वाचप्याक तातूंत involve करचेली तांक तांतूंत आसची पडटा.'

खासा मीना काकोडकारांचे कथेंत हीं कांय वैशिश्ट्यां बेस बरीं दिसतात. जाका तांणी 'अलिप्त रावप' म्हळां तें तांगेल्या अ-व्यक्तिगत अशे निवेदनशैलींतल्यान तांकां जमलां. 'पात्रां वाचप्यांक वांगडा व्हरतात' म्हणचेच लेखिका वाचप्याचे संवेदनशीलतेक आफुडटा आनी ताका पात्रांच्या अणभवांत कांठोकांठ भिजयता आनी वाचपी involve इतलेखातीर जाता की ताका कथेंतले 'ते' अणभव 'ह्या' अणभवांपासून वेगळे काडूंक जमना. ही लेखिका 'तथाकथित' वयल्या वर्गांतली, धवाड्या वा उच्चभ्रू समाजांतली जावनय ज्या ल्हवपीकपणान, जे जाणविकायेन आनी जितले विश्वासार्हतेन आपणाल्या कथांतलीं खरींखुरीं पात्रां आनी तांगेले तिगपासारकें भावविश्व निर्मिता ताका म्हज्या मतान तरी कोंकणी कथेंत तोड ना.

तांगेली आपणाल्या कथाविश्वावांगडा जुळिल्ली संवेदनशीलतेची तार खंयतरी वाचप्यांतले संवेदनशीलतेकडेन जुस्ताजुस्त जुळटा अशें म्हाका दिसता. अजाप म्हळ्यार, तांगेल्या पात्रांक तोडीक तोड अशे मनीस, तश्शे अणभव इतलेंच न्हय तर 'सपनफुलां'चे प्रस्तावनेंत तांणी उल्लेखिल्ल्यो 'जावा'सारक्यो खऱ्यो व्यक्ती तांगेल्या भावविश्वांतल्यान फुट्ट करून उब्यो जावन ताकाच अजापीत करतात. ही credibility – authenticity हेंच तांगेले कथेचें सार. नव्वदांतले कथेचो विचार करतना हे कथालेखिकेच्या कथांचो एक खाशेलो वाटचिरो म्हूण उल्लेख करचो पडटलो.

चंद्रकांत केणी हांचें कथाविश्व म्हळ्यार व्यक्तीरेखांच्यो येवजूं नजो इतल्यो परी आनी अणभवाच्यो दिशींमाशीं वाडत वचपी पती हांणी शेकानशेक भरिल्लें पोरसूं. तितलेंच जिवें, रंगयाळें, संवकळीचें पूण तरी आगळें. ह्या कथाकाराची बारीकांतल्या बारीक अणभवाची रेशेन रेशा वेंचपाची कळाशी तशेंच समाजीक नदरेन इतिहासाक पारखुपाची निरीक्षणशक्त पळोवन मन तटास जाता. सोपी भास, सलग, जोखतें निवेदन, सुक्षीम भाव टिपून घेवचेली कला, सामान्यांतल्या सामान्य वाचप्याक लेगीत 'आपलोचसो' दिसपाजोगो पूण तरी थळाकाळापेलो अणभव हांच्या नेटक्या साजान तांच्यो कथा आनी कथिका ओडलायण्यो थारतात. कथिकांतल्यान तर फस्का काडयेची कीट तोखेतां-तोखेतां बोटाक चुरको बसचो इतले सहजतायेन तातुंतलो अणभवपट उलगता

आनी वाचपी कितें गवसलें आनी कितें गमचें आसा ह्या कळ-नकळ्या खेळांत घुस्पूनच उरता. जिणेच्या सताचेर हाचेपरस बरो शेरो खंयचो आसुयेत ? कुतूहल आनी मनकवडेपण हें चंद्रकांतबाबांचे कथेचे स्थायीभाव आसात. हाकाच लागून कांय वेळा पारंपारीकशी भासपी तांगेली निवेदनशैली नित्य नवी जावन दरेके कथा-कथिकेंतल्यान पालेत रावता. नव्वदांचे कथेंत ह्या चंवराचो रंग आनी वास भरसल्लो आसा हें दुभावाविरयत.

जिविताच्या वता-पावसांत जून जाल्लें, खासा आपलें अशें एक झाडपिकें अणभवविश्व पुंडलीक नायक हांचे कथेंत मेळटा. चालू दसकांतले कथेसंदर्भांत विचार करतना तांगेली कथा जायत्या अर्थांनी देख घेवपाजोगी कथा म्हूण नवोदितांनी पळोवची काय दिसता. एक म्हळ्यार तांचे कथेंत गांवगिरे जिणेचें चैतन्यशील, जिवें चित्र उदेता. भास, व्यक्तीरेखा, संवाद हांकां फकत तंत्राचे तंतू म्हूण वापरपाचें तांणी कटाक्षान टाळलां. अ-व्यक्तीगत निवेदन, फावो थंय एखाद्रें निबर उतर, मध्यमवर्गीय बोटचेप्या अभिरुचीच्या दाडवणांत घुस्पण्याजोगें पूण अडेचें दिसना अशें शब्दांकन हो लेखक कांय न्हय करून केळयता. मन खुंदळावपी अणभव आनी सहजासहजीं न भेटपी व्यक्तीरेखांक वाचप्याचे सुवादीन करचेली तांगेली धाटणी लक्षणीय. मानवी विकारांचें इतलें प्रभावी दर्शन पुंडलीकबाबांइतल्या सातत्यान एक दोनच कथाकार करूंक शकतीत अशें म्हळ्यार वावगें थारूनये. सुस्पश्ट आनी नेमको संदर्भ लाभुनूय तांगेलो आशय जिवे नागिणीवरी मानवी अणभवांच्या कवाश्या भोंवतणें सळसळत रावता. थीर, खणबंद चित्र जावन मोनो यथार्थ कसो मर्मीफाय जायना. मातय अश्लील वा हेंगाडी वा अडेची भासना अशी हांगेली कथा सगल्या तरांच्या इंद्रियजन्य अणभवांक एक आगळोच कलात्मक आविश्कार मेळोवन दिता. खासा उल्लेख करीसारकी गजाल म्हळ्यार 'अपेक्षित घडणुकां'चो कांय वेळा खुबयेन उपेग करुनूय लेखक वाचप्याक अंतर्मुख करचेलें आव्हान यशस्वीपणान स्विकारता. देखीक 'बळजबरी.' पूण तेच वांगडा अकस्मात उक्त्या घडणुकांक अनपेक्षित कलाटणी दिवन कथेंतल्या अणभवांक वाचप्याच्या काळजांत धुंवरेत दवरता. उदाहरण म्हूण 'कांसव', 'अग्निदिव्य' ह्यो कथा घेवं येतात.

दामोदर मावजो हांचे कथेचो बाज मनोविश्लेशणात्मक आसा, हाची **रुमडफूल** ही गवाय आसा. तिका समाजीक यथार्थाची आनी ताच्या खर झळपाची जाणविकाय आसा. साश्टीचे दयदिगेवेलो वाठार, थंयची लोकजीण, थंयचे प्रस्न आनी थंयची भास नदरेंत भरसारके तरेन तांगेल्या कथांतल्यान पालेतात. पूण हेर समाजीक-मानसीक संदर्भ वा लागणुको तांणी कडायल्यात असो मात्त हाचो निखालस अर्थ न्हय. 'मरण येना म्हूण' हे कथेंतलो तांगेलो विशय खासा उल्लेखनीय. तंत्राची जाण आनी भाशेचें भान हांकां लागून तांगेल्या आशयाक एक खाशेलें परिमाण फावो जाता. कनिश्ठ आनी मध्यमवर्गी समाजाच्या थरावांगडा तांगेलो एक रस्मी अनुबंध आसा हें कळून

येता. कथेंतल्या पात्रांची मानसीक घडण, ती तशी थारपाक कारणीभूत आशिल्ली फाटभूंय हांच्या मेळावणांतल्यान हो लेखक कथेंतल्या व्यक्तीरेखांची मनोभूमी सोबितायेन उपलापी करता. वाचप्याक मागीर असुदाय पात्रांच्या अंतर्मनाचो थाव घेवंक जमता. नव्वदांतले कथेपुरतें उलयतना ह्या कथाकाराची नवोदितांनी आपणावपाजोगी एक सहजवृत्ती आसा. ती म्हळ्यार कथाविश्वापसून अळंग रावपाची. उच्चवर्गीय लेखक हेरा समाजघटकांविशीं उलयतना वा समाजाच्या सकयल्या थराचें प्रतिनिधित्व करपी लेखक वयल्या थरांतल्या घटकांविशीं उलयतना एक नश्टप्रवृत्ती नकळटां कथेंत तोंड दाखयता. कथा आनी लेखक हांचे भितर एक अदृश्य पूण जाणीव जावपासारकी मानसिकता उबी जाता. ही मानसिकता केन्ना व्हडविकायेची, केन्ना न्यूनगंडाची जाल्यार केन्ना अपराधीपणाची वा केन्ना दुराग्रहाची सया धारण करता. ताका लागून पात्रांच्या मुखामळार, उलोवपांत, वागणुकेंत एक अडेचें बळ संचारिल्लें दिसता तें कथेचे जिवसाणेक आनी स्विकारार्हतेक मारक थरता. हें मावजोबाबांच्या कथांनी चडशें दिसना. नवोदीत बरोवप्यांनी ह्या गुणाचो वसो मुजरत घेवचो.

महाबळेश्वर सैल हांचे कथेक सदांच एकशिवडी बांदावळ आसता. नकली सभ्यता आनी भाडोत्री अणभव हांचेपसून हो कथाकार चार आंगळां पयसच रावता. कृत्रिम शुचितेच्या पात्श्याक लागून सैल खंयचोच अणभव कथेंत कडोवपाक फाटीं रावनात. शीलभ्रश्टतेचो विशय जावं वा संभोगाचो, ते त्या-त्या अणभवांक मेकळेपणान सामकारा वतात. सादारण नितीक अस्तर आशिल्ले विशय जालेच, पूण रगताच्या नात्यांमदलो शारिरीक संबंद हो मान्य मुल्यांचे चौकटेक मातयेभरवण करपी विशय – देखीक 'कोलसुणें' सारकी कथा – सैल कांचवेनासतना उखलतात. तांगेले कथेचो एक गूण म्हळ्यार तांगेल्या कथानकांतल्यान जिणेचें पडबिंब न्हय तर पडबिंबाचीं छकलां-छकलां जाल्लीं दिसतात. तांच्या निवेदनाचो सूर कांय अंशी तांगेलें जिविताविशींचें तत्त्वगिन्यान उक्तावपी आसता अशें म्हाका तरी दिसता. पूण वाचप्याच्या मनाची झुप्प करून पकड घेवप तांकां बेस बरें जमलां. तांगेली धिटाय आनी बिंधास वृत्ती आयच्या दसकांतले कथेक पूरक थारू येता. पूण ती उणे तांकीच्या कथाकाराच्या हातांत पडल्यार मात अवास्तव आनी मारून मुटकून घडयल्ली कथा वा provocative कथा वाचप्याचे होंटयेंत पडुंयेता, ही चत्राय नव्या बरोवप्यान बाळगप गरजेचें.

आतां मेरेन म्हज्या सुरावेल्यान हांव पुरायेन नव्वदांतले कथेमेरेन पावचें आसा अशें दिसप समा आसा. हो समज पयसावपाखातीर गोकुळदास प्रभूंचो **आंतर आयामी,** वसंत भगवंत सावंतांचो **निवलकाणयो** आनी गजानन जोगांचो **सोद** हांचो वांगडाच उल्लेख करतां. **अंतरआयामी** हो आंतरशैलीचो मनभुलोवणो संगम. हातुंतल्यो 'लाशें', 'घाय' आनी 'अपेक्षा' ह्यो कोणाकूय आवडपासारक्यो कथा. 'मर्णाचें सांवट' ही म्हाका

खास आवडिल्ली कथा. ती वाचतना रॉबर्ट फ्रोस्टाची 'होम बॅरीयल' ही कविता मनांत जिवी जाली. प्रभुंचे कथाकारी नदरेक परिपक्वता तर आसाच, वांगडाच एक अगम्य, आधिभौतिकाचो ओडोय आसा. 'हुंवार' हे कथेंतली इंद्रियबोधापेली जाणविकाय तांणी समर्थपणान उक्तायल्या. ह्या तरुण कथाकाराकडेन तोखेवपासारकी समजिकाय आसा. निवेदनाचेर आकांताचो ताबो आनी लिखणेचेर कितली जबरदस्त मर्यादा ते दवरूंक शकतात हें 'घाय' ह्या बलात्काराचें सावज थारिल्ले अल्पपिरायेचे चलयेची कथा सांगता.

वसंत सावंताची कथा फुडाराक कशी बळटली हें सांगूंक तांगेलो 'एकोलयो', तशेंच 'नागपंचम' आनी 'डॉल्फी' ह्यो एकदोनच कथा पुरो. सरभोंवतणच्या वातावरणाकडेन समरस जावन, तें कथेंत पितारप ह्या कथाकाराक बेस बरें जमलां. शशांक सीताराम आनी देविदास बाबय हांच्या कथांचो विचार करतना कोंकणी कथेच्या लुकसाणाचो विचार मन हालयता. **नबत**कार शशांक सीताराम हांकां आपल्या समवयस्क कथाकारांमदीं एक खाशेली सुवात फावो जाता. वाचप्याक अचळय हालोवन उडोवपी तांगेली खुबी लक्षणीय. तशेंच तंत्रांकडेन खेळ मांडचेलो तांगेलो हावेस भोव आशादायी थारूंक शकतालो! समकालीन प्रस्न आनी उतळताप हांचेर ज्यूस्त फोक घालप तांकां जमतालें. 'ख्यास्त', 'जोर जुल्म के टक्कर में संघर्ष हमारा नारा है' ह्यो तांगेल्यो मुजरत नांव घेसारक्यो कथा. कथा विचारप्रवर्तक जावनय प्रचारकी जावनये कशी हें तांचेकडल्यान शिकपासारकें आसा.

'मावशेभाव' फेम महारुद्रकार गजानन जोग हांचे कथेक उज्ज्वल फुडार आसा हें सांगूंक म्हजेसारकिलो सामान्य ज्योतिशी नाका. गंभीर आनी खुसखुशीत ह्यो दोनूय शैली तांकां वश आसात. अच्युत तोटेकारावरी भटी वातावरण आनी भटपणाविशींची लोकांची धारणा तांणी अचळय सामकारायल्या हें विशेश. चडशे लेखक भट आनी तांचें विश्व हांकां एकतर आफुडनात वा तांकां न्याय दिनात. ते खेरीज जोगांची खोलाय तांगेल्या कथेंत जाग्याजाग्यांनी दिसता. **सोद** ह्या संग्रहाच्या नांवाकडल्यान लेखकाचो कलात्मक सोद आनी वाचप्याचो लेखकाखातीरचो सोद निरंतर सुरू जाता. भोव अंतर्मुख जावन हो लेखक जिविताकडेन पळयता. विशेश उल्लेख करपासारकी गजाल म्हळ्यार जोगांक हें करतना रुक्षतेचें खोळ ओडून विनोदाकडेन फारकत घेवची पडना. अना फाटोफाट वाचप्याक नकळटां हांसूंक लावप तांकांच बेसबरें जमता अशें म्हाका दिसता.

नव्वदाचें सरतें दसक कितल्याश्याच लेखक-लेखिकांक वाचप्याकडेन सुपुर्द करून फुडें सरता. संग्रह प्रसिद्ध जाल्ल्यांमदीं रामनाथ गावडे (**सावळ्यो**), जयंती नायक (**गर्जन**), देविदास कदम (**कांदळां**), रजनी भेंब्रे (**घुस्पट**), ज्योती कुंकळकार (**चित्रांतलें**

**वादळ**) हांचो विशेश उल्लेख करूंक जाय. ते खेरीज नांवांसयत उल्लेख जायसारक्यो एक दोन तरी कथा जांच्या नांवार लागू जातात ते फुडाराचे आदारस्तंभ म्हळ्यार प्रकाश पर्येकार, माया खरंगटे (हालींच्यो कथा), रमेश लाड ('मामा खंय गेलो' सारकी कथा), सुरेश पिळर्णकार. पर्येकारांकडल्यान तर भावी वाचप्यांच्यो खूब अपेक्षा आसात.

ह्या बरोवप्यांची कथा चालू दसकाची पावलट जावन आसा. ती कितलेमेरेन वाचप्यांक आकृश्ट करूंक शकतली आनी तिची सुलूस फुडार केदेवेर घेत रावतलो, हाचें अचूक भाकीत काळच करतलो. पूण तांगेले आयचे वाटचालीचे बुन्यादीचेर पातयेवन इतलें सांगप शक्य आसा : कथेचीं हीं समकालीन तशेंच नवोदीत पावलां दमदार, प्रागतीक आनी खेरीज आसात. तांचे भितर भास वा शैलीची कृत्रिमताय, तंत्राचें नेण्टेंपण हांची हयन्हयशी सया अदींमदीं जाणवता. पूण तो तांचो दोश अशें म्हणूंक जायना. वयार येवपी तांगेले कथेची ती सैमीक वाडीची पावती आसा. सर्वांगीण वाड अपेक्षीत आसली तरी ती थोडेभोव आंगांनी फाटींफुडें जाता. फुडल्या शतमानांत पावल घालतना हीं पावलां अदीक आत्मविस्वासपुराय आनी जाणविकायेन पडटलीं अशी म्हाका तरी आस्त आसा. ते मेरेनची कथा शिस्तीन आनी रस्तीन वाचून आमी तिका न्याय दिवप गरजेचें!



# दोन वाटचिऱ्यांच्या संदर्भांत कोंकणी कादंबरी

कोंकणी साहित्य संवसारांतली कादंबरी (वा कादंबरिका) ह्या प्रकाराची हय-न्हयशी घोळटीक पळयल्यार तिणें आज लेगीत फावो तशें आंग धरिल्लें ना हें जाणवता. पूण हाजो अर्थ कोंकणी साहित्यिकांमदीं कादंबरी लेखनाक फावोशा सृजन-शक्तीचो जावं कल्पनाविलासाचो वा कलात्मक तांकीचो आनी प्रगल्भतायेचो उणाव आसा असो लावचेली गरज ना. हाजें कारण सोदतना, कोंकणी वाचप्याची अभिरुची अजुनूय फावो तशी परीपक्व जाल्ली ना काय कितें, असोय हुस्को करचेली गरज ना.

कोंकणी कादंबरीचे वर्तमान स्थितीचेर प्रामाणिक भाश्य करूंक सोदतल्यांक जरी वयर उल्लेख केल्ल्या 'साहित्यीक' कारणांकडेन पुरायेन आडनदर करप शक्य नासलें, तरी हे स्थितीफाटल्यान तितलींच खर 'अ-साहित्यीक' कारणांय आसात हाजेकडेनूय दुर्लक्ष करूंक मेळचें ना. हाका लागून सुरवेक अशा 'अ-साहित्यीक' भासपी कारणांवटेन नदर मारप समा जातलें. कथा, ललित निबंद वा कविता ह्या प्रकारांकडेन तुळा केल्यार कादंबरी हो मात्सो आंवाठान आनी आकृतायेन वेगळो प्रकार. ताका जरी जीव तोडून बरोवप्यान जल्माक घालो, जाल्यारूय वाचप्यांमुखार पावोवप सोपें न्हय. छापणावळीच्या मागविलीं आडमेळीं, खपाचे नदरेन कोंकणीचें मर्यादित क्षेत्र, वितरणाच्यो फावो तशो विस्तारीत न जाल्ल्यो कक्षा, खर्चाचें दिशींमाशीं वाडत वचपी हनुमान-पुच्छ आनी अनवळखी बरोवप्याक मेळपी 'थंड' प्रतिसाद. ह्या सगल्या आडंबरांचेर मात करतलों म्हूण खंयचोय बरोवपी-छापपी फुडें सरलो जाल्यार इतल्यान जाता?

नवें नवें वाचपाविशीं (शिस्तीन वाचपाविशीं) सर्वसादारण वाचप्यामदीं आजुनूय फावोशी जाग्रुताय जाल्ली ना. विशेश दुख्खाची गजाल म्हळ्यार, शिकिल्लो-सवरिल्लो वाचपी लेगीत नेमान दुडू मोडून 'नवें' पुस्तक घेवपाविशीं निरुत्साही दिसता. तातुंतूय जर पुस्तक प्रस्थापित लेखकाचें आसलें जाल्यार ताका मात्सो बरो प्रतिसाद मेळटा. अशे परिस्थितींत जर नव्या बरोवप्यान आदीं हेर तरेच्या बरपावरी नांव जावंदी, मागीरच कादंबरीक हात घालुंया असो वेव्हारी विचार केलो जाल्यार तातूंत नवल तें कितें? पूण हाका एक दुसरीय वाट आसा: सर्जनाची कीट तशी धांपुनूय उरना; कांय वेळा कादंबरी बरोवन ती वाचप्याक सादर करून ताचो कल-अभिप्राय लाबचो अशेंय बरोवप्याक दिसता. हो अभिप्राय सर्वसादारण वाचप्याकडल्यान मेळचो अशें

मनस्पूर्वक दिसता. तेन्ना कादंबरीकार धारावाही स्वरुपांत तिका नेमाळ्यांतल्यान उजवाडायता. आनी अशे कादंबरीक फावोसो प्रतिसादय वाचपी दिता, अशें म्हणपाक जागो आसा. नाजाल्यार महाबळेश्वर सैल हांचेसारको प्रथितयश बरोवपी जावं देविदास कदमासारको भावी अपेक्षा निर्माण करपी कथाकार आपणाली कादंबरी खिर्स्तींनी उजवाडावचे नासले. आनी ज्या सातत्यान **काळघुंवडी** वा **चक्रव्यूह** सारक्यो कृती सप्तकानसप्तक वाचप्यान उमेदीन रस घेवन वाचल्यात, ताचेवेल्यान सामान्य कोंकणी वाचप्याचे बळत वचपी अभिरुचीची वळख मेळटा. हांचेमदीं सुशिक्षित कोंकणी विद्यार्थ्यांचो आस्पाव आसा. हाका लागून हे अभिरुचीच्या उल्लेखाक खासा म्हत्व आसा. अशा वाचप्याची अभिरुची फकत स्वच्छंद वाचनांतल्यान भागना, ताका आपूण जें वाचतां ताचेविशीं थोडीशी पद्धतशीर भासाभासय जायजायशी दिसता. ती सिद्धांतीक बसका आशिल्ली वा अभिजात भाश्याचे मुशींत ओतिल्ली नेमस्त आनी बंदिस्त मिमांसा नासल्यार ताका उपकारता. पूण ती निदान मनमेकळी, तर्काक पटसारकी आनी शक्य तितली शास्त्रपुराय चर्चा आसची अशें ताका मुजरत दिसता.

अशा अभिरुचीपूर्ण वाचप्यांखातीरच कादंबरी ह्या साहित्य-प्रकाराचो बारीकसाणेन विचार करप गरजेचें थारता. ह्या चिकित्सक वाचप्याक सरसकटपणान कितलींय पकदस्त आसलीं तरी 'कोंकणींत कादंबरी आजुनूय भरघोस स्वरुपांत कित्याक अवतरूक पावची आसा' हाची निखटी अ-साहित्यीक कारणां दिवन भागचें ना. जाल्यार एकंदरीत पळयल्यार, अभावानूच जावपी कादंबरीच्या उदेवाक कसलें साहित्यीक रजांव लागू जाता, हें ताका पटोवन दिवप अपरिहार्य जावन बसलां. हेखातीर प्रस्तुत लेखांत कादंबरीविशीं चर्चा करप, तिवूय कोंकणी कादंबरीच्या दोन भरभक्कम वाटचिऱ्यांच्या संदर्भांत, गरजेचें जावन बसलां. हेखातीर श्री. दामोदर मावजो हांची **कार्मेलीन** (१९८१) आनी श्री. पुंडलीक नायक हांची **अच्छेव** (१९७७) ह्यो दोन आधुनिक कथावस्तू-तंत्र आनी दिश्टीकोण केळोवपी कादंबऱ्यो घेवप उचित थारतलें. पूण ते आदीं थोडेंशें कादंबरीविशीं.

## II

कादंबरी हो प्रकार मुळांतच निवेदनरुपी आशिल्ल्यान तातूंत उत्सुकताय आनी उत्कंठा ह्या मानवसुलभ प्रवृत्तींक धादोशी करचेली सभावीक शक्त केळोवपाक भोव वाव आसता. गद्य जावनूय तातूंत कथानकाचें सुरबूस सूत्र, पात्रांचें मनभुलोवणें रूप, संघर्शाची प्रभावी कीट, घडणुकांचो फावोसो ओघ, क्रम-विमुक्त कथन हांचो शिरशिरो आसल्यार कादंबरीक सोंपेपणी मरण ना. मात लांबावळ लावपी, रूक्ष, क्रमबद्ध, प्रचारकी जावं थारीव वा सांचीव निवेदनांत घुस्पल्ली कादंबरी मात चड काळ तड मारूक पावना.

तिचें जिवीत मागीर ग्रंथालयाचे आलमारींत, छापखान्याच्या गुदावांत वा समीक्षकाच्या प्रपत्रांनी सरता. पूण जो द्रश्टो कादंबरीकार समकालीन वाचप्याचे अभिरुचीक, समाजपुरसाच्या अपेक्षांक आनी साहित्यविश्वाच्या निकशांक बटूवामन कसो वांगडाच व्यापता, तागेली गजालच वेगळी. ताचेकडेन प्रेरणा, कल्पनाशक्त, शैली आनी तंत्र हांचो पोटलो भरला हें आनी कितें सांगूंक जाय ?

लेखकाच्या मनांत कादंबरी बीं कशें किल्लून येवन, ती कृतीच्या पूर्ण रुपान वाचप्याच्या हातार पडसर, तीन अदृश्य घटक भोव म्हत्वाचे थारतात – विशय, प्रयोजन आनी तंत्र. खंयच्याय बरोवप्यावरी कादंबरीकाराकय विशय सरभोंवतणीच सांपडटा. पूण ताचेर प्रक्रिया करचेलें काम कादंबरीकाराची प्रगल्भ विचारीक कुवत करता. विशाल दिश्टीकोण आशिल्ल्या लेखकाकडसूनच त्या विशयाच्या फातराक तंत्राची छिन्नी आनी दिश्टाव्याचो परीस आफडूंक पावता. हातुंतल्यान सुघड आकृतीबंध आशिल्लें शिल्प आनी तातूंत जीवसाण ओतपी आशय परगट्टा. अशी कृती वाचतल्याकूय तातुंतल्यान अभिजात आनंद आनी आगळोच साक्षात्कार घडटा. हें घडचे खातीर बरोवप्यान कादंबरीच्या परंपरांक/मर्यादांक कुड्डेपणान पाळो दिवंक जाय अशें ना. प्रयोगशील, नवलायपूर्ण, अनपेक्षित स्वरुपाची कादंबरीय हें करूंक शकता. पूण हे खातीर लेखकाकडेन बरो विशय आसून जायना; त्या विशयाक प्रभावीपणान सामकारावचे खातीर ताणें (आपलेपुरतें तरी) आपणालें सुस्पश्ट प्रयोजन थारावंक जाय. विशय घेवपाफाटलो आपलो हेतू कितें हाची ताका जाण नासल्यार तो विशयाक भिडूंक उणो पडटा, मागीर ताचें सादरीकरण सर्वांगीण म्हणपासारकें जायना. खंयच्या ना खंयच्या आंगान कादंबरी उणी पडटा. ती बाह्य आंगान कमी कुवतीची थारल्यार तिचे मांडावळींत आमकां त्रुटी दिसता. आंतरीक एकचाराक उणी पडल्यार तिच्या आशयाची झोंपय मोटवी जाता. जेन्ना विशय, प्रयोजन आनी तंत्र हांचें त्रैराशिक जुस्तच सुटावें जाता तेन्नाच एक परिपूर्ण अशी कादंबरी जल्मता. ती मागीर समकालीन अपेक्षांक पाळो तर दिताच, सरभोंवतणच्या संदर्भांकूय पुरायेन मेट्टून घेता; मानवी अणभवांक जितेजीवे साकार करतनाच ती आपशींच विचार प्रवर्तन घडयता. व्यक्तीचे मानसभुंयेकडेन प्रामाणीक रावतनाच ती वैश्विकतेच्या थरार पावता. तिची प्रादेशिकता, देशीयता वा समाजिकता ही अडेचो दागिनो कसो उरना तर ती तिगेल्या चैतन्यमयी दिश्टाव्याचेर मारपी शैलीची कांत थारता. अशे कादंबरींत दरेकल्या वाचप्याक आपणाक जाय तें देखूंक मेळटा. पूण वास्तवाचें तें निश्प्राण पडबिंब नासता, जिविताचो भगभगीत अणभव आसता. जर अशे कादंबरींत वाचप्याक आपल्यापुरते दोशय मेळ्ळे वा तातूंत समिक्षकान त्रुटी सोदल्यो जाल्यार ते दोश वा त्रुटी सोबीत मुखामळावेलो तीळ वा जल्मकुरवो कश्यो भासतात. तत्वत: अशा तथाकथित उणावांतल्यान कादंबरीची परिपूर्णताय कमी जाताशें

दिसलें तरी तिचें कलात्मक मोल तातुंतल्यान वाडुंकूय शकता. कित्याक काय म्हळ्यार कादंबरीचे लेखीं आयचें तंत्राचें उणेंपण हें फाल्यांच्या कादंबरीकाराच्या तंत्राची जमा आसता. खेरीज असल्या वेगळ्या तंत्रांतल्यान लेखक आपणाले नीज कुवतीची तशेंच आगळेपणाची कुरू साहित्याच्या पटार सदांखातीर अंकित करून दवरता.

हाका लागून कादंबरीचेर विचार करतना सगल्यांत अग्रस्थान तातुंतल्या तंत्राचे अभिव्यक्तीक दिवंक फावो. विशेश म्हळ्यार, तंत्राचो झोत कादंबरीच्या सगल्या आंगांक आफडुनूय परमळाच्या संचारावरी सोंपेपणीं समिक्षेचे मुठींत येना. चडावत खेपो कादंबरीचीं बाह्य आंगलींच नियाळपांत समीक्षक गुल्ल जाता. आज **अच्छेव** (१९७७) आनी **कार्मेलीन** (१९८१) ह्या कोंकणींतल्या दोन स्रेश्ठ कादंबरींतल्या तंत्राच्यो कळाशो नियाळतना, कादंबरीच्या खंयच्या खंयच्या आंगांनी तंत्राच्या तंतुंचो माग घेवंक जाय हें थारायल्लें बरें.

(१) कादंबरी हो निवेदनप्रधान साहित्य-प्रकार जाल्ल्यान मुखेलपणान निवेदनाचें तंत्र पारखप म्हत्वाचें आसा. हांगा काळ आनी क्रम हांची दखल गरजेची. व्यक्तीसापेक्षता आनी दिश्टीकोण हांकांय विसरूं नजो.

(२) विशाळ आंवाठ आनी भौ-पोडी कथानक केळोवपी कादंबरी ही महाकाव्यावरी मांडावळीन गिरेस्त आसता. म्हणून तिचे विविधांगी संरचनेचें तंत्र कशें साधलां हें पळोवंक जाय. हें करतना विशेश करून शिल्पाची व्हडविकाय आकळटा.

(३) नाटकावरीच कादंबरीय घटनाप्रधान आनी नाट्यमय आसूंक शकता. पात्रांची निर्मणी तिका नाटकापरस अदीक प्रभावीपणान करची लागता. कित्याक काय म्हळ्यार, कादंबरींतल्या पात्रांचो संचार थेट वाचप्याचे मना-माचयेरच जाता. थंय मदलो दुवो जावन पात्रां-वाचपी हांचेमदीं सुसंवाद सादोवंक नेपथ्य, दिग्दर्शन, ध्वनी, उजवाड ह्या आलायदा घटकांचो आस्पाव घडना. म्हणून पात्रांभितरलो संघर्श, विशिश्ट पात्रांचें अंतरंग वा पात्रां-पात्रांतली आंतरक्रिया प्रभावी करूंक वापरिल्ल्या तंत्राचोय सोद घेवचो पडटा. पात्र आनी घडणुको हांचे मदली लय कितपत सादल्या हें लेगीत पळोवचें पडटा.

(४) ह्या तिनूय आंगांचो विचार करतना आपसोच पुराय कादंबरीच्या शैली-तंत्राचो विचार जावन वता. शैलीचो हो विचार भास-संदर्भ-प्रतिभा हांकां लागींच्यान आफुडटा. नुलयतां हे सगले घटक दिश्टाव्याक बोट दाखयतात.

आतां **अच्छेव** आनी **कार्मेलीन** हांचो वांगडाच विचार कित्याक, हें थारावंक जाय. ह्यो दोनय समकालीन कादंबऱ्यो ५-६ वर्सांच्या अंतरान पुस्तकरुपान उजवाडा आयल्यात. दोनांय मदीं समाजीक वास्तवाकडेन आपलेतरेन एकनिश्ठ रावचेलो यत्न

दिसून येता. गोंयच्या लोकां-जिणेचीं दोन वेगवेगळीं तासां उक्तायतनाच ह्यो कादंबऱ्यो गोंयच्या भौ-ताशी (pluralistic) संस्कृतायेची अभिव्यक्तीय अचळय परगटायतात. खेरीज, ह्या कादंबरींतल्यान जावपी समाजीक चित्रांकनाचे आनी संस्कृतीदर्शनाचें खाशेलेपण म्हळ्यार ह्यो कादंबऱ्यो गोंयच्या अर्वाचीन इतिहासीक वाटचालींतलीं दोन वेगळीं पेर्णीं आपापले रितीन कळटां-नकळटां सामकारायतात. मेजक्योच व्यक्तीरेखा आनी आटापशीर घडणुकांचो व्याप सांबाळून ह्यो दोनूय कृती वेंचीक विशयाच्या मोस्त्राभोंवतणें आशयाची भौरंगी प्रभावळ प्रगटायतात. शक्य तितलें जोखतें आनी तटस्थ निवेदन केळोवनूय दोनूय कादंबरीकारांचो जिविताविशींचो 'नदरियो' ल्हवूच उदेता. हे सगले गूण दोनूय कृतींमदीं आशिल्ल्यान एके कादंबरीचें दुसरेसावन खेरीतपण सोदतना ताचो भोव उपेग जाता. आनी अशे तरेन बोटां तोपनासतनाय दरेके कृतींतलीं शक्तिस्थळां आनी उणाव आपलेपुरते वळखुंकूय वाचप्याक मोलादीक आदार मेळटा.

## III

आतां मेरेन केल्ले विस्कटावणेची चत्राय मनांत बाळगून आतां ह्यो कादंबऱ्यो एकटोशीं नियाळीत जाल्यार कितें होलमता, ताची सुलूस घेवंया. आदीं कनिश्ट-मध्यमवर्गीय समाजाच्या प्रस्नांचेर आनी तांगेल्या जाळांचेर नदर मारपी **कार्मेलीन** घेवंया. श्री. दामोदर मावजो हांची **कार्मेलीन** ही कादंबरी मुखेलपणान कार्मेलीन हे मध्यवर्ती व्यक्तीरेखेभोंवतणें घुंवता. तिका पात्र-केंद्रित कादंबरी म्हणप योग्य दिसता. कादंबरीचो काळ सरसकटपणान गोंय मुक्तीआदलीं दोन दसकां आनी उपरांतचें देडेक दसक मानूंक कार्मेलीनांत आदार मेळटा. कार्मेलीनाचो इतिहासीक, समाजीक वा प्रादेशीक संदर्भ सोदतल्याक हे कृतींत जायते म्हत्वाचे आनी अचूक धागेदोरे मेळटात. कथानकाचो काळ धुंडाळटल्याक जोरयेचो तेंप, आवलांतल्या मस्त्या जड्ड्याचें जयहिंदाखातीर प्रेजांव, कार्मेलीनाचें काजार, मेट्रिकेक फेल जाल्लें तागेलें १६ वर्सांचें चेडूं हे काळ-निर्देशक सांपडटात.

**कार्मेलीन** पात्र-केंद्रीत म्हणपाफाटल्यान खासा कारण आसा. कादंबरीचो सगलो घडणूक-विस्तार, संघर्शाचो उद्भव आनी आंतरक्रिया मध्यवर्ती पात्रावरवीं उदेतात आनी वाडटात. हेर पात्रां आनी ताचेकडेन असंबंदीत घडणुको अदींमदीं कादंबरीक हातभार लायतात. पूण मुखेलपणान कादंबरीची पुराय उदरगत कार्मेलीन-सापेक्ष आसा. कादंबरीचो विशय कार्मेलीन हे व्यक्तीच्या भोग-भोगनाळांची मन खवदळावपी, दुखेस्त काणी. अर्थांतच हातूंत आशयाचीं साबार आयामां उदेतात. पूण ह्या सगल्या आयामांची निर्मणी एका भोंवऱ्यांतल्यान उदेवपी ल्हारांवरी कार्मेलीनाच्या विविध रुपांतल्यान जाता.

सुरवेक कार्मेलीन मोगाक आशेल्ली एक निष्पाप, अनाथ बालिका म्हूण; उपरांत काळजाथावन मोग्याक जीण ओंपपी मोगिका म्हूण; ते उपरांत परिस्थितीन फटोवनूय उपकार आनी मायेच्या वज्याखाला दपटल्ली तरणाटी म्हूण; फुडें उपाय नासून उंवाळिल्ल्या घोवाची, संवसाराच्या जंवजाळांची आनी भुरग्यांच्या पोट-पाणयाची जापसालदारकी पेलपी बायल म्हूण; उपरांत सर्वार्थान आपूण नागवुनूय चेडवाचो फुडार उज्वल आनी निश्कलंक दवरचेल्या हावेसान तगमगपी आवय म्हूण. खेरीज, देरा-जावेच्या निसुवार्थी आदाराक मायेन स्मरून तांगेल्या उपकाराचें वजें ल्हव करूंक धडपडपी व्यक्ती म्हूण; शिवाय देशांतराक वचून खिणखिणाक 'शिळाची नोट' वाटावची पडुनूय रेश्पेतान जगूंक आंवडेवपी कनिश्ट-मध्यमवर्गी बायल/समाज-घटक म्हूण; आनी निमाणें, इतलेंय करून सवरून शेवटाक जिविताचें मूळ ध्येयच शेणटा काय कितें हें येवजून विफलतायेच्या तेंमकार हुमकळपी एक संघर्शरत जीण म्हूण कार्मेलीन समाजपुरसाच्या वेगवेगळ्या प्रस्नांचें, व्यक्तींचें, जाती-वर्गांचें, थरांचें आनी खणांचें प्रतिनिधित्व करता.

खेरीज, एक व्यक्ती म्हूण ती सगल्या मनीसजातींतल्या पुराय मनीसकुळयेच्या दुबळ्या, शोषित, एकटोशी, कडसरायिल्ल्या घटकाचे पिचपी आनी झुजपी ह्या दोनय आंगांनी प्रतिनिधी जाल्ली आसा. बायल म्हूण तर ती पिडिल्ली, नाडिल्ली, भेश्टायल्ली, दपटिल्ली, भोगिल्ली आनी वळवळायिल्ली कलंकिता म्हूण पुरूषप्रधान संस्कृतायेची आनी पितृसत्ताक समाजवेवस्थेची बळी थारता. तिचे जिणेंत/नदरेंत भरसारकी बरी-वायट भूमिका वठोवपी बायलोच अदीक करून ह्या एकतर्फी संस्कृती-समाजाची 'आवतिकाय' दाखोवन दितात. आकांची निश्ठुरताय, मांय-नण्डेचो जांच, नोरियाची तटस्थताय, बेलिंदाचो आवयचें कुड्डें अनुकरण करूंक सोदपी हावेस हें सगलें दादलेप्रधान संस्कृतायेन बायलमनशेच्या मनोविश्वाचेर घाल्ले घुरयेच्यो कुरवो जावन आसात. इजाबेलाचो मोग ही बायलेची स्व-क वळखूंक शकपी तांक जावन आसा. ही तांक हीच अस्तुरेंतली शक्त आनी ही शक्तच कार्मेलीनाक धिटाय दिवन जिणेकडेन झुजूंक बळगें दिता.

हे कादंबरींतल्या झुजाचें वर्णन करतना ताका 'असहायतेची आप-बचावात्मक चाल' वा 'कलंकितेन आपणाल्या कलंकाची मेढ घेवन आत्म-सन्मानाची उबारिल्ली गुढी' अशें करचें पडटा. हें झूज जिवीतभर मोगाक आशेल्ल्या एका जिवाचें, आपणाल्या एकल्या एकसुऱ्या मोगाचे व्यक्तीचें जिवीत सांबाळूंक केल्लें आत्मसमर्पण अशें म्हणूंक जाता. हांगा आडवाद फकत जुआंव फिलिपाच्या निसुवार्थी मायेचो आसा. पूण हीच माया कार्मेलीनाक नकळटां मोनें, असहाय आनी शक्तीहीण करता. त्या मोगाक लागुनूच तिगेलो प्रतिकाराचो वा विरोधाचो हावेस उबो जावंक पावना, हेंवूय लक्षांत घेवंक जाय.

ह्या पात्र केंद्रित निवेदनांत लेखकान तटस्थ असो सर्वसाक्षी पूण तिरायत आनी

अव्यक्तीगत असो निवेदक वापरला. हो निवेदक कादंबरींत स्वंयच पात्र म्हूण वावुरनाशिल्ल्यान हें निवेदन शक्य तितलें निपक्षपाती आनी पातयेवण्याजोगें थारलां. पात्रांचे अस्वडीं हो निवेदक वाचप्याख़ातीर तांगेल्यो क्रिया-आंतरक्रिया-प्रतिक्रिया उक्तायता. इतलेंच न्हय, जाल्यार, तो दरेका पात्राची मानसिक फाटभूंय आनी वृत्ती-प्रवृत्ती समजुंकूय आदार करता. ह्या निवेदनाक तपशील आनी बारीक निरीक्षण हांचो फावोसो आदार आसा. तृतीय पुरुशी भासपी ह्या निवेदनाक जागोजाग वर्णनां, संवाद आनी अंतर्मनाची उक्तावणी हांचो लाव मेळटा.

निवेदनाची सुरवात (म्हाकाव्यावरी आनी आधुनिक कादंबरीच्या प्रथांक पाळो दिवन) कथानकाच्या मदेंताक केल्ल्यान लेखकाक काळक्रम आनी घडणुकांचो अनुक्रम फावो ते प्रमाण खेळोवपाक ज्युस्त वाव मेळ्ळो. कार्मेलीनाची निसाराल्या घरांत वाचप्याकडेन भेट जाता. तिवूय तागेल्या घोवाच्या मर्णासारक्या प्रसंगार आनी योगायोगान ताच्या वाडदिसाच. हातुंतल्यान कार्मेलीनाचे मनोभूमीचे परस्पर विरोधी आनी परस्पर पूरक रंगांनी सादरीकरण करप शक्य जाता. परक्या गांवांत, पात्रांवाच्या घरच्या बंदेपणाखाला, आपले कुडींत एकटोशीं भेटपी हें कार्मेलीन वाचप्यांलागीं अनुपचारीक, खाजगी, मेकळेपणाचें आनी उपचारीक, नकली, रविशेचें अशीं दोन नातीं जोडटा. ताचे जिणेंत, मनांत आनी वागणुकेंत कायम अशी जी असुरक्षितताय, एकटेंपण, तणाव आनी ओढाताण चलता ताची झलक हांगाच मेळटा.

फ्लॅशबॅक तंत्राचो निवेदनांत पुरेपूर वापर केल्ल्यान कार्मेलीनाच्या मानसिक संघर्शाचें मूळ आनी वाड, तागेल्या मोग-तेढ, मर्ण-जिवीत हांचे रस्सीखेचींतल्यान जल्मल्ल्या कुटुंबीक-समाजीक भूतकाळांत मेळटा. ह्या भूतकाळाचें चित्रण करतना कादंबरीकारान ताका जाय तसो वर्तमानकाळांतल्या प्रसंग आनी व्यक्तींच्या चित्रणाचोय आदार दिला. अदींमदीं कार्मेलीनाच्या भावी काळावेल्या हावेस-अपेक्षांक भूतकाळांतल्या अपेक्षाभंग आनी अपेसां सामकारा मांडिल्ल्यान तागेली वर्तमान स्थिती समजूंक मजत मेळटा. घडणुकांचो अनुक्रम आरतो परतो केल्ल्यान, एखाद्या प्रसंगांतल्यान कार्मेलीनाक फाटले घडणुकेचो उगडास जावप वा एखाद्या अणभवांतल्यान ताणें कोडू यादींचो घोंट गिळप, हो निवेदनांतलो सुसंगती हाडपी गूण कादंबरींत प्रभावीपणान दिसून येता.

ताका अनाथ करपी जोरयेची धाम, आग्नेलावेलो आंकवार अमुरपिको मोग, जुझेचो सुवार्थी भिवकुरो आनी फटकिरो सांगात, रुझारीचो तागेल्या अध:पतनांतलो वांटो, निसारालो कुडीक जायसो दिसपी पूण अनितीक भोग आनी बेलिंदावरवीं जाल्लो अपेक्षाभंग हो जालो तागेल्या अणभवांचो एक वांटो. जुवांव फिलीपाली बापायसमान माया, इजाबेलालो मोगाळ आदार, नोरिया-निसाराली आपलेपणाची चलणूक आनी बेलिंदाली ताका आंतरीक तांक दिवपी ओढ हो ताचो दुसरो वांटो. ह्या दोन कांठांमदल्यान

कार्मेलीनाली जीण व्हांवता. ह्या दोनूय कांठांवटेन नदर मारल्यार जिविताच्या पेण्या-पेण्यार कार्मेलीनाचे जिणेक फुलोवपी-पिसुडपी जावं ताच्या कुडी-मनाच्यो विदर्णा करपी वा तांचेर वखद-विरसद करपी व्यक्तीरेखांची मांडणी लक्षांत येता. ह्यो व्यक्तीरेखा जुआंव फिलीप-आग्नेल-जुझे-रुजार - कामिल शावियेर-निसार-इन्स्पेक्टर आनी कार्मेलीनाची आवय-शेजान्न-आका-मांयनणंद -इजाबेल-बेलिंदा-नोरिया अशा दादलो/बायल पंक्तींनी बसोवं येतात. अशे तरेन कार्मेलीनाक बरे/वायटाचो मेळिल्लो अणभवाचो कांटो वयर-सकयल कसो घुंवता हें दिसून येता. पूण तेपरस आग्नेल आनी जुझे हांकां कार्मेलीनाच्या जिणे प्रवाहाच्यो दोन धडो कशो लेखल्यार, तागेल्या जिविताचें मोडण कितें जावं येतालें ह्या बिंदू वेल्यान 'कितें जावन पडलें' ह्या बिंदू मेरेन कशें झेलकावता आनी तशें करपांत हेर खंयच्या खंयच्या पात्रांनी कसो कसो हातभार लायला हें कळटा. हातूंत विशेश नदरेंत भरसारक्यो व्यक्तीरेखा कार्मेलीनाचें आका आनी ताजो घोव जुआंव फिलीप, रुझार आनी इजाबेल, निसार आनी बेलिंदा ह्यो आसात. पात्रांचे मांडावळी संबंदान उलयतना तांकां कार्मेलीना भोंवतणची प्रभावळ अशें म्हणचें पडटा. कित्याक, तेंच सगल्यांचो केंद्रबिंदू जावन उरता. पात्रांमदली पुराय आंतरक्रिया एकतर केंद्रबिंदू वटेन धांवता वा ताचे विरुद्ध वटेन धांवता. आपापसांत तांचें कोणाचेंच एकामेकांकडेन कांय एक देणेंघेणें नाशिल्लेवरी दिसता.

जी तरा पात्र-मांडणेची आसा तीच तरा नाट्यमयतेची आनी ताका जल्माक घालपी संघर्शाची आसा. ह्या मुखेल-पात्र-केंद्रित कादंबरींत संघर्श पुराय आंतरीक जाल्लो आसा आनी तो सगलो कार्मेलीनाच्या मनांत घडटा. आडवादानच कांय वेळा असो संघर्श पात्रांमदले आंतरक्रियेवरवीं जाल्लो दिसता. हाचें एक उदाहरण म्हूण कार्मेलीनान जुझेक 'दाखयल्ली' तागेली सुवात म्हणूं येता. पूण कादंबरींतल्या आंतरीक संघर्शाक कारण आसा : कार्मेलीन हे कादंबरींत लेखकान मनोविज्ञानीक वास्तविकताय उपलापी करचेलो यत्न केला. हाका लागून भायल्या संघर्शापरस पात्राचो मानसीक घुस्मटमार, आंतरीक ओढाताण दाखोवप चड संयुक्तिक दिसता. शिवाय अशा अंतरंग ढवळपी चित्रांकनाक लागून कादंबरीचें कार्य सपक जायना. कारण साबार समाजीक, कुटुंबीक, संस्कृतीक, राजकी घटना-प्रसंगांवरवीं कादंबरींतल्या कार्यवाहनाक चालना मेळत रावता. मीस, काजरा दांस, सांज्यांव, पात्रांमदले दाट संबंद, कुडीव्यापार वा कामवासनेची मेकळीं वर्णनां, गोंय मुक्तीचें चित्र हांकां लागून आनी पात्रांभितरल्या सहज अशा संवाद-संभाशणांक लागून कादंबरी गोठेना. सतत वाचप्याची उत्सुकताय जिवी दवरपांत ती येशस्वी थारता.

वर्णनां आनी संवाद जेन्ना निवेदनाक आदार दितात तेन्ना तांची बुन्याद, भाशेची थळावी तांक, फाटभुंयेची प्रादेशिकता, उलोवण्यांतलें संवकळीचें उतर, पात्रांचें आनी

वातावरणाचें एकजिनशीपण आनी एकंदर कथानकांतल्या अणभवाची व्यक्तीगत-समाजीक-विश्वीक थरावेली विश्वासार्हता हांचेर आसता. हें लेखकान लक्षांत दवरलां. तागेली भास व्हांवती, शैली पुरायेन संदर्भ-साजरी आनी वर्णन/उलोवणें जथापथ आसता. तरीपूण कांयकडेन थोड्या गजालींचो फावो ताचेपरस चड खेपो उल्लेख येता. तो येवंनज आशिल्लो. हातुंतली मुखेल गजाल म्हळ्यार कार्मेलीनाचें आपणाल्या सोबीतपणाविशींचें भोंवन भोंवन चिंतप. पूण हेंच चिंतप जेन्ना बेलिंदा-केंद्रीत आसता तेन्ना तें सोबून दिसता. कित्याक काय म्हळ्यार बेलिंदा होच तागेले जिणेचो ध्यास आसता. कांयकडेन संभोगविशयक वर्णनां धिटायेन आनी मेकळेपणान साकारल्यांत. पूण सदांच तांचेवेली कार्मेलीनाची प्रतिक्रिया प्रभावी थारना. मात्त निसारावांगडच्या तागेल्या संबंदाउपरांत तागेली अपराधीपणाची आनी तरीय कुडीसुखाक आंवडेवपाची चलबिचल बरे तरेन उक्ती जाता. बाळंटेराचें वर्णन लेखकान दादलो जावन लेगीत ल्हवपीक हातान आनी समरसून केलां. खासगी संभाशणाचो खुबयेन केल्लो उपेगय उल्लेखनीय. रुझारी वांगडच्या कार्मेलीनाच्या प्रतिसादाक सैमीक परिमाण फावोशें ना काय दिसता.

निमाणें: निवेदन, कथानकाची मांडावळ, व्यक्तीरेखा आनी अणभव हांकां आमने-सामने मांडल्यार एक स्पश्ट जाता. कळटां नकळटां प्रयोजन व्यक्तीच्या शोशणावांगडाच, समाजांतल्या किडेल्ल्या प्रथा-प्रवृत्तींचेर, ज्वलंत समस्यांचेर, पित्तृसत्ताक वेवस्थेंत अळंग जावपी दपडशायेचेर, 'बायलमनशेच्या विपश्टांचो उपेग करून' उजवाड घालचेलें आसलें. हातुंतल्यान व्यक्तीचेर व्यक्ती/समाज/संस्थांकडल्यान जावपी अन्याय उक्तो जाता आनी लेखकाचो मनशाक आदीं मनीस म्हूण पळोवचेलो दिश्टीकोणय होलमता. शेवटाक कार्मेलीन वैफल्यग्रस्त जाताशें दिसलें तरी तागेलें बेलिंदाल्या पोल्यार उदेवपी थापट हें खासा ताचेखातीर, समाजीक नितीक मुल्यां तिगपाखातीर आनी न्याय-नितीमत्तेचे चलणुकेखातीर भोव आश्वासक आसा. म्हाका तरी तातूंत लेखकाची नितीक चाड आनी तागेल्या आशावादी वृत्तीची झलक दिसल्या. ज्या समाजाची वास्तव फाटभूंय घेवन पुराय कादंबरी उबी जाल्या त्या समाजाक हेवरवीं कलात्मक न्याय दिवपांत ही कृती उणी पडना हें विशेश करून नमूद करी सारकें.

## IV

**अच्छेव** हे कादंबरींत श्री. पुंडलीक नायक हांच्या एका आटीव, कांतीव आनी रेखीव कथानकाचो मनभुलोवणो रुपकार साकारला. ह्या भौ-केंद्रीत आनी मानसिकतायप्रधान कथानकांत पुरायेन नदरेआड उरिल्ल्या निवेदकावरवीं, अ-व्यक्तीगत

निवेदन केळयलां. अच्छेवचो निवेदक तटस्थ, अल्पभाशी आनी आप-उपलापेंपण टाळपी असो आसा. स्पश्ट जावं अस्पश्ट रितीन, जावं उतरांनी वा कुरवांनी तो खंयच आपणालें नीज मनोगत, आपणाल्यो जिविताविशींच्यो धारणा वा आपणाल्यो संवेदनशील प्रतिक्रिया उक्तायना. हाका लागून सर्वार्थान वाचप्याक जायतें समजून घेवंक दिवपी आनी ताची स्वतंत्र संवेदनशीलता मानून घेवपी, एक आगळें कथानक कोंकणी कादंबरींत उदेलां. अशें घडपांत कादंबरींतल्या अस्पश्ट मानसिक वातावरणाचो, सुप्त कार्य-कारणभावाचो, सूचक प्रसंग घडणुकांचो आनी झपाट्यान बदलपी अर्थीक-समाजीक परिस्थितीचो म्हत्वाचो सहभाग आसा. सगल्या कथानकाची फास्की हय-न्हयशे मानसीक फाटभुंयेचेर उदेता. ते फाटभुंयेचो व्यक्तीरेखां वांगडा, तांच्या क्रिया-प्रतिक्रियां वांगडा अर्थ लावपाची वा ते फाटभुंयेचेर पात्रांमदली आंतरक्रिया सोदून घेवपाची मानसीक तांक आनी नितीक कुवत वाचप्याकडेन आसूंक जाय. जाल्यार, कादंबरीचें भावविश्व ताका पुरायेन वश जाता. आनी **अच्छेव** ही फकत समाजीक वास्तव ढुंढाळपी कृती न्हय, जाल्यार मानसीक यथार्थाचो – जावं व्यक्तीच्या जावं भौसाच्या – सोद घेवपी कलाकृती आसा, हें ताका होलमता.

ह्या निवेदनांत, हाकाच लागून घडये, लेखकान काळ आनी क्रम ह्या निवेदकाक आवश्यक घटकांचो उपेगय कादंबरीच्या वातावरणाक, घडणुकांक आनी व्यक्तीमनाच्या छटांक सोबसारकोच केला. मीनाचो चडटेर आशिल्लो धंदो, मिनाक लागून बदलपी गोंयची समाजीक वस्तुस्थिती, अर्थकारणाची कूस परतुपी सांदो आनी तेवरवीं येवपी आकांताळें परिवर्तन, समाजीक बदलावरवीं घडपी मानसिक पतन, नितीक अधोगती, शारिरीक शोषण, संस्कृतीक भांकरूटपण – ह्या सगल्या समाजपुरसाक लागींच्यान आफुडपी विशयांक वेंगावपी हें कथानक काळाच्या संदर्भांत मांडूंक कठीण न्हय.

पूण खासा निवेदक मात काळाच्यो उकत्यो कुरवो दिवन हें करूंक सोदिना. अर्थांत, ज्या समाजीक संदर्भांत हें क़थानक परगट्टा, तातुंतल्या समाजाकडेन चिकित्सक नदरेन पळेल्यार, कथानकाचो काळ समजूंक सोंपें जाता. कथानकांतल्यान उकत्यो जावपी समाजाच्यो बदलत्यो अपेक्षा, ताच्यो प्रगतीच्यो कल्पना, परिवर्तनाफाटले ताचे हावेस आनी ह्या सगल्यांक आपले तरेन दिका दिवंक पळोवपी सुदारकी बाण्याचे, पूण परंपरेंत वाडिल्ले, आबू जावं सावळो मास्तर हांचे सारके थळावे मनीस. हांकां जर इतिहासाचे फास्केंत बसोवपाचो यत्न केलो जाल्यार **अच्छेव**चें कथानक मुक्त गोंय घडटा अशें म्हणपाक जागो आसा. निवेदनांतल्या कांय आड वाटेन जावपी उल्लेखांतल्यान (देखीक, नोटी म्हळ्यार 'अॅक्ट्रेस') हें, गोंयांत सामान्य तरणाट्याची इंग्लिशीकडेन वळख जातकीर घडिल्लें कथानक म्हूण समजता. तशेंच तरणाट्या पात्रांचें चित्रण (शंकर, पणजे कॉलेज शिकपी नरशिंव, नानू आनी मानुयेल) आनी तांगेली वागणूक, उलोवप, भेस (केसराची

मोटवी साय, फाटल्यान बुतांवांचें पोल्क), हांचेवल्यान तांकां आधुनीक मुक्त गोंयांतली नवी पिळगी म्हूण वळखूंक येता. अशेय रितीन कादंबरीचो काळ थारावंक मजत जाता. काळावांगडा घडणुकांचो क्रमय वाचप्याक खुणायता. मात **अच्छेवां**त घडणुको आनी पात्रां हांची मांडावळ मुजरत 'क्रमरहित' भासपा सारके तरेन केल्या. प्रसंगांची मांडणी तिजुल्यांचे जमनीवेले 'माण्णी नाशिल्ले माण्णे' वरी चित्तवेधक, सोबीत आनी रंगयाळी आसा. कादंबरींतल्या मानसिक वास्तववादाक ही रचणूक अदीक उठाव दिता आनी आशयाक अर्थाच्यो अनपेक्षीत कळा मेळोवन दिता.

पुंडलीकबाबांच्या निवेदनाचो एक मुजरत लक्ष दिवपासारको वांटो म्हळ्यार, तातुंतलें सैमाचें चित्रांकन. हें चित्रांकन निखटें एक निर्जीव वर्णन न्हय वा चैतन्यान परिपूर्ण सैमाचो आभासय न्हय. तें कादंबरीच्या निवेदन-तंत्राचो एक खासा ढंग म्हूण याद उरता. **अच्छेवा**सारक्या, गांवगिऱ्या वाठारांत प्रगटपी कथानकाक निसर्गाच्या निर्भेळ वातावरणाची पोशक साथ जाय. ती आसल्यारच तातुंतलो प्रादेशीक वा थळावो आशय जिवो तिगतलो आनी हेर संदर्भांचीं वेगळींवेगळीं रुपां कुशळतायेन धारण करूंक शकतलो हाची कादंबरीकाराक पुरेपूर जाणविकाय आसा. म्हणून तो सगल्यांत आदीं थळावे मातयेचो सौम्य-उग्र वास आनी सैमाचो सर्वांगीण रुपकार परगटायता. मागीरच फावो तसो विशयाचो रोव घालता. तागेलीं पात्रां ह्या सैमीक फाटभुंयेचेर कळसुत्री बावल्यो जावचेपरस, जितेजीवे मनीस कशे वावुरतात. उलोवण्यांतल्यान, वागणुकेंतल्यान आनी दिसपांतल्यान तीं आपणाले हावेस-वान्सा आनी वासना-विकार उकतायतात. हे अभिव्यक्तीक सैमसदृश्यताय दिवपांत लेखकाच्या प्राकृतीक वर्णनाचो/गांव-जिणेच्या चित्रणाचो उत्कृश्ट सहभाग लाभला.

पूण निखट्या प्राकृतीक वर्णनाचेर निवेदन थांबना : पुंडलीकबाबांचे लिखणेक गांवगिऱ्या जिणेच्या खंयच्याच आंगाची उपेक्षा करीन दिसना. सण-परबो, रीत-रविसो, विश्वास-अंधविश्वास, व्यसनां-लती, पूजा-पनस्कार, गाळी-फस्ती, होरावण्यो-उकलास, देव-देंवचार, सांगण्यो-कागाळ्यो, घाडी-भगत, खेळ-नाटकां अशा असंख्य तासांनी गांवचें संस्कृतीक दायज तर तांणी वाचप्याक पेश केलांच, पूण हेवरवीं कश्टकरी समाजमनाचो सूर सांपडावपाचोय यत्न केला. ह्या संस्कृतीक तासांचो समाजावेलो खोल प्रभाव, वाचप्याक थंयच्या समाजमानसाकडेन वळख करूंक आनी ताचेवटेन समजिकायेन पळोवंक मजत करता. अशेतरेन त्या समाजांत घडून येवपी स्थित्यंतरां तो सर्वार्थान समजूंक पावता आनी तांचे परिणाम आकळूंकूय पावता.

निवेदनाची आनीक एक कळाशी म्हळ्यार लेखक व्यक्तीमानसाचीय दाट वळख व्यक्तीरेखेचे अस्वडीं (थेट निवेदनाबगर) वाचप्याकडेन करून दिवपांत यशस्वी जाला. हेखातीर ताणें पात्रांमदलें संभाशण-वादावादी, कुचाळ्यो-ढवळे, धालो-गाराणीं,

ओंपारी-गितां, शिगम्यांतलीं कवनां, नाटकांतलीं सवंगां, पावणी-रोवणी, लुंवणी-मळणी, भोगावळी-भोगनाळ ह्या भौ विश्वासाई, सैमिक आनी सहजसुलभ अशा विविधांगी माध्यमांतल्यान वाचप्याक तांचेमेरेन पावयला. अशेतरेन **अच्छेव**चें निवेदन तर रंगतदार जालांच. लेखकाचे 'सहृदय तटस्थताय' पांगुरपी कवीमनय अचळय वाचप्याच्या अंतर्मनाक आफडूंक पावलां. अशेतरेन, कादंबरींतलें वास्तव कितलें पटपासारकें आसा हाचे परसय लेखक ताणें चितारिल्ल्या वास्तवांत कितलो करमेला हाचो विचार करूंक वाचप्याचें मन प्रवृत्त जाता. ही कादंबरी एक व्हड जोड! हे जोडीचें अदीक म्हत्व इतलेच खातीर आसा की ज्या दिसपट्ट्या वास्तवांत एखाद्रो लेखक एकरूप जाल्लो आसता तें तो आपशींच 'गृहीत' धरता. ताचें खासा निरीक्षण करूंक तो अभावानच पावता. पूण **अच्छेवा**चो लेखक ह्या सरसकट नेमाक आडवाद कसो दिसता, हें लक्षणीय.

निवेदनाच्या तंत्राचो विचार करतना, लेखकान आपणायल्ल्या परिणामकारक भाशेचोय विचार करूंक जाय. जी भास पात्रांच्या तोंडांत घोळटा ती मात्शी कार्रेगाद दिसल्यारूय ती ते ते व्यक्तीरेखेची आसता. तिगेलें (पात्र जावनय) अभिव्यक्ती-स्वातंत्र्य अबाधित दवरूंक लेखकाक मेकळीक आसची आनी आसाय. ताका योग्य दिसता तितपत ताणें पात्रांच्या उलोवण्याक सूट दिवची. सूज्ञ आनी अभिरुचीपूर्ण वाचपीय न्हय थंय श्लील-अश्लिलाचो प्रस्न काडून कलाकृतीचें मोल देंवोवचो ना, मात खासा निवेदक (जेन्ना तो पात्र नासता) मात कांय तथ्यां पाळटलो अशी सामान्य वाचप्याची अपेक्षा आसता. सरसकटपणान जरी पुंडलीकबाबान तांकां पाळो दिल्लो आसलो तरी कांयकडेन दुबावाक जागो उरला. देखीक 'दुदाच्या भुरग्याक उगडासान' जीव वयर सकयल जावपी लुंवणेकान्न आवयचो (पा. ६३) वेलो उल्लेख खटकलो. तो उल्लेख अदीक कलात्मक जावनय वास्तव दिसूंक शकतालो काय दिसता. हरशीं तांगेली भास मुदयेर थीक कशी उतरांचेर अर्थाचीं थिकां चडयता.

कथानकांत जिणेचीं साबार आयामां उक्तावतात, तांचेवरवीं समाजपुरसाचें भौशीक-मानस (collective consciousness) सोंपेपणीं होलमता. त्या समाजाच्यो अपेक्षा आनी कल, ताचें कुचिंद्रीपण आनी भावार्तो मन, पातका-पुण्यायेचो वेंचो, नितीकतायेच्यो कल्पना, वान्सा-वासनांमदली फारकत, हावेस आनी विकार हांची घुस्पट, आदर्श आनी यथार्थामदली कसरत, परंपरा आनी सुदारणा हांचेमदली रस्सीखेच, पुरोगामित्व आनी प्रतिगामित्व हांच्यो बदलत्यो शिमो आनी ताका लागून प्रगती आनी अधोगती हांचेमदीं तोल सांबाळूंक केल्लो यत्न – हें सगलें यथास्थित सामकारावता. एकेकदां इल्लें भडक जावन, एकेकदां मात्शें मोनें रावन – पूण लिपून कांय उरना. पळोवपाची नदर मात आसूंक जाय.

आधुनिक कांदबरीच्या प्रथांक पुरायेन पाळो दिवपी **अच्छेव** संरचनेचें एक लक्षणीय

तंत्र आपणायता. **अच्छेवां**त खंयच्याच पात्राक, घडणुकेक वा संघर्शाक मध्यवर्ति अशी सुवात ना. कादंबरींतली पात्र-प्रसंगाची मांडावळच अशी आसा की ताका भौ-केंद्रित, प्रसंगनिश्ठ कथानक म्हणप योग्य दिसता. वयलेवयर पळेल्यार ह्या प्रसंगांमदीं स्पश्ट सूत्र ना अशें दिसता. पूण निवेदनांतली सुचकता आनी ताची प्रतिकात्मक भास हें सूत्र समजूंक आदार दिता. ल्हान ल्हान दिसपी प्रसंगांचो परिणाम कादंबरीच्या पुराय परिणामकारकतेक कितलो पोशक थारला हें कथानक मदेंतकाक पावतां पावतां समजूंक लागता. त्या-त्या प्रसंगांफाटलीं पात्रां वा व्यक्तीरेखा आनी तांगेली मानसीक स्थिती समजूक घेवचेली उमळशीक लागता.

ही समजणी पुरायेन वाचप्याच्या पोशांत पडची म्हूण **अच्छेवां**त लेखकान एक खासा प्रसंग-मांडणेचें तंत्र वापरलां. दरेका प्रसंगाक जोडून एक वा अदीक समांतर प्रसंग कादंबरींत घडटात. ह्या सगल्यांचें सांकेतीक म्हत्व समजून तांचें जोड-विश्लेशण केल्यार कथानकाच्या आशयाची खोलाय लक्षांत येता. वाचप्यांचें विश्लेशण जितलें सुक्षीम आनी संवेदनशील आसतलें तितलीं तितलीं आशयाचीं नवीं परिमाणां ताच्या हाताक लागतलीं. पुराय कथानकाचो सांद्यान सांदो प्रसंगाचे आनी पात्रांचे जोडणे-जुळणेर आदारला आनी हे जोडणे-जुळणेचें तंत्र लेखकाची कल्पकता आनी परिपक्वता दाखयता. हांगा देख म्हूण एक दोन ल्हान-व्हड प्रसंग घेवंक जाय, जेवरवीं प्रसंग/घडणुकांची मांडणी आनी तांचो सूत्ररहित अनुक्रम हो हे कादंबरीचो कितलो प्रभावी घटक आसा हें समजता.

कथानकाचें पुराय स्वरूप ध्यानांत घेतल्यार, कादंबरी मदेंताक सुरू जाता म्हणप समा जायना. पंडरी आनी ताच्या घरचीं हांच्या साद्याच पूण आत्मखुशाल जिणेंत येवपी सांवाराची सुलूस वाचप्याक रोवणेच्या आदल्या रातीं मेळटा. वयलेवयर पळेल्यार, गुजीर मिनामास्तराक घेवन जेदेवेळा बाबुसो पंडरील्या घरांत सरता तेन्नाच ताच्या घरांत कली भरला अशें वाचप्याक दिसलेबगर रावना. हाका कारण आसा. रोवणी फुडें धुकलून पंढरी मिनाचे जोडीक वचूंक भुल्लुसला. जेन्ना बायल रुक्मिण ताका आडायता तेन्ना तो तिच्या सोणकुटाचेर थापट फुलयता. तशें पळेल्यार कश्टकरी समाजाकडेन लागींच्यान संबंद आशिल्ल्याक हातूंत गगनां करिसारकें कांय ना अशें दिसुंयेत, पूण **अच्छेवां**त मात ह्या थापटाचे पडसाद भोंवन-भोंवन व्यक्ती-घटनांच्या संदर्भांत उदेत रावतात. आशयाचे एकार एक आयाम उक्तायत रावतात. पंडरीचें हें सुरवेचें थापट ताचे बायलेपरस, ताका अधोगतीसावन आडावपी सद्विवेकबुद्दीचेर पडटा. रुक्मिण फकत बायल म्हूण न्हय, तर परंपरेचें, लोकांलजेचें, कुटुंबीक जापसालदारकेचें, मान्य मुल्यांचे संरक्षणेचें प्रतीक म्हूण हांगा दिसता. तिगेलो प्रतिकार हो फकत घोवाची, कुटुंबाची (पर्यायान समाजाची) अर्थिक उदरगत आडावंक केल्लो

विरोध न्हय, तर चुकीच्या मार्गान आनी सुचितेची मर्यादा हुपून जावपी समाजीक बदलाक रोखूंक परंपरागत विचारसरणेन केल्लो प्रतिरोध जावन आसा. पंडरीच्या मिना-दुडवांचें नश्टमोल खूब चड आसा. तातूंत तागेली कुटुंबीक जीण, समाजीक आस्पत, नितीक चाड, भुरग्यांचो फुडार सगलें लासून गोबोर जाता. हांगा पंडरी एक व्यक्तीच न्हय जाल्यार तागेल्या पुराय कश्टकरी समाजाचें प्रतीक थारता.

ह्याच दुडवां-आशेन पंडरीचो घराबोच न्हय, तर पुराय गांवच अधोगतीचे भकीक पडला, हें दाखयतना लेखकान एक-दोन कडेन थापटाचो कलात्मक उपेग केला. अशें सणसणीत थापट नानूसारको – मुळांत सुचारू, संवेदनशील – तरणाटो सोरो, तिडक आनी लज हांच्या भरांत पंडरीच्या कानसुलार वाजयता. हें थापट ताच्या बापायचेर बसलें तरी तें खरेपणान नानुंतल्या करपून गेल्ल्या मुर्वतशीलपणाक, व्हळून गेल्ले नितीमत्तेक आनी नकळटां जिणेंत निर्माण जाल्ल्या रितेपणाक वा विफलतायेक फावो जाता. तागेली ही अशी स्थिती जावपाक कारण पंडरीच. हें लक्षांत येवन वाचप्याची संवेदना थोडोवेळ तटास जाता. पंडरीक हेंच पानवळ फावो आशिल्लें काय, हो विचार बेगोबेग तो फाफुडटा आनी आपल्या मनांत विचारता, 'नानूक हें कित्याक म्हूण फावो जालें काय ?' हांगा कादंबरींतलें नाट्य एके आगळ्याच अनुभूतीचे उंचायेक आफुडटा. तेचपरी कादंबरींतलो आंग चोरून वावुरपी संघर्श हांगा उकतेपणान तेमकार पाविल्लो दिसता आनी वाचपी न्हिन्नळटा.

हाचेवरीच आनीक एक प्रसंग आसा तो रुक्मिण आनी बाबुसो हांचेमदलो. बाबुशाच्या नादान ती पुरायेन नागवल्या. कूड, मन आनी संवसार ह्या सगल्यांक उबगल्या. सामकी हांतरेक लागल्या. जेन्ना ह्या कुसड्या म्हामडोळाची काळीकिट्ट सांवळी तिगेल्या केसराच्या फुलत्या फुडाराक गिरासूंक संवकल्या हें तिका कळटा, तेन्ना तिच्यांत उजो संचारता. त्या खिणाक ती बाबुशाचेर हात उखलून ताका धांवडावन घालता. हो हात व्यक्तीन व्यक्तीक केल्ल्या प्रतिकाराचो. आवयन वयावेले धुवेची कुडच न्हय अब्रू राखूंक उखलिल्लो हात! धुवेचो रेश्पेत आनी फुडार सुगूर करूंक ती हो हात उखलता. पूण तो हात चड उसरां उखल्ला. हो प्रतिकारच आतां क्षीण जाला. शिवाय, जे गजालीक ती प्रतिकार करता ताका 'चूड लावन म्हारू कसो' तिणें आनी तिगेल्या घोवानच घरांत हाडला. ही समाजाची अनिश्ट बदलाक अनुलक्षून जावपी प्रतिकाराची एक कुटुंबीक झलक. आंधळेपणान प्रगतीचो तिबो साड्डावन परिवर्तनाचो मीण घरांत हाडपी समाजाक ताची वीट येता म्हणसर खूबच कळाव जाल्लो आसता. आनी तेच 'प्रगती'न समाजाची प्रतिकारशक्त कोंड्याक लागिल्ल्या घुंगुल्ल्यावरी पोखरून पोल केल्ली आसता.

'थापटा'कडेन निगडीत असो जो प्रसंगाचो 'टांको' आसा, तशेच आनिकूय साबार 'जोड' हे कादंबरींत मेळूंक शकतात. हे सदांच प्रसंगांचेर आदारिल्ले नासतात. पूण

आशयाच्या परिघाक अदीक विशाळ करपाक आनी अर्थाच्या रंगांक नव्यो नव्यो छटा फावो करपाक तांचो बेस बरो उपेग जाला. शाणू आनी पंडरी मदली 'संभाषणा'ची देख हांगा घेवंक जाता. तशेंच, शंकर, केसर, नरशिंव आनी नानू ह्या भुरग्यांचो 'खेळ'य देख म्हणून पळोवंक जाता. भुरग्यांलो खेळ – आबू ताका 'आवयल्या मिणाचो खेळ' म्हणटा – आनी जाणट्यांलो कुड्डेपणान चालू आशिल्लो बेशरम, बेबंद पोरखेळ हांचो जुस्त मेळ बसता. आनी वेंतभर भुरग्यांक जितली अक्कल आसा ताचे किस्कुटाचीय लज नाकशिमन्या 'जाण्ट्यां'क ना हें धगधगीत सत वाचप्याक चुरको लायता. जाण्ट्यांच्या नाकाफुडें न पळोवपी सुवार्थाक लागून भुरग्यांचें 'भुरगेपण' कशेतरेन पिसुडलां हें समजूंक ह्या खेळाचो हातभार लागता.

शाणू आनी पंडरीचें उलोवणें कादंबरींतल्या एकूण एक घडणुकांक पळोवचेल्या वाचप्याच्या दिश्टीकोणाक नकळटां एक नवें परिमाण मेळोवन दिता. तें म्हळ्यार, कसल्यातरी अद्रश्ट, अनामीक कारणांची हयन्हयशी जाणविकाय, जाका लागून पंडरीचे जिणेंत (आनी ताचोच वांटो म्हूण हेर गांवाचेय) जिणेंत अच्छेव मातला. हरशीं हे पुरायेन बुद्धिनिश्ठ तर्काक पटपासारक्या निवेदनांत कसलेच तरेचो बुद्धिप्रामाण्याक कडावपी सूर वा आदार ना हें आदीं प्रामाणिकपणान मान्य करूंक जाय, जाल्यार, ही आडवाटेन लागपी आक्रिताची सुलूस तकपिली आनी म्हूण लक्षणीय थारता.

सुर्वेकच 'रोवणे' आदले तिळसांजे, शाणू-पंडरीचें शेताधडेरच उलोवणें जाता. आनी पंडरीले नेटान केल्ले तयारेन दिपकाविल्लो शाणू अर्दो नाटकायेन, अर्दो शादुरकायेन ताणें 'तळ्यावेल्या देवस्पणा' आदीं रोवणी दवरल्या म्हणपाचें ताच्या लक्षांत हाडून दिता. तो ताका उदका हात मारून रोव कडेक दवरपाचोय सल्लो दिता. पूण पंडरी तें व्हडलेंशें कानामनार घेनासतना फुडले तयारेक लागता. आनी बुद्धिवादी वाचप्याकय सूऽऽ जाता. पूण जेन्ना तीनकात्रेर तागेल्या दारांत मिनाचें 'प्रोपॉश्त' उबें जाता आनी ताचेवेल्यान ताच्या घरांत झगडीं जातात, तेन्ना वाचप्याच्या मनांत पाल चुकचुकता. ताका अकस्मात येवजता की पंडरीले रोवणेक 'बरो म्हूर्त' मेळ्ळो ना!

पूण हें योगायोगान जालां अशें वाचपी स्वताक समजायता. कादंबरीच्या निमाण्या भागांत पंडरीचो व्याप सामको टीमटीम चल्ला आसतना पर्थून ताचें आनी शाणूचें संभाशण वाचप्याचें लक्ष वेधून घेता. सदांवरी शाणू आपणाले आस्पतीवेल्यान पिरंगता आनी ल्हवूच आपणाल्या घरपुरसाची खबर काडटा. आतां, तशें पळेल्यार हातूंत कांय अजापाचें ना. पूण जेन्ना आमी ही खबर चिंचेदेंवण्यार पंडरी घालूंक सोदतल्या चायेच्या दुकाना संदर्भांत घेतात, तेन्ना शाणून पर्थून 'यॅळ' बरी आसूंक जाय अशें सांगून बऱ्या म्हुर्ताचो विशय काडला हें लक्षांत येता. शास्त्र केलेबगर 'मठी जैपतीक येना' ही तागेली शिटकावणी वाचप्याक फट् करून रोवणेचे चुकिल्ले 'यॅळे'चो आनी 'शास्त्रा'चो

उगडास करून दिता. आनी येवजून येता, पंडरीन 'वेळ' चुकोवन अपसरण हाडलें? काय ताचो वेळ वायट म्हणून योगायोगान ताची वेळ चुकली? ह्या मूक मुद्द्याची फोडणिशी कादंबरींत ना. बुद्धिप्रामाण्याक मानपी वाचपीय ह्या अंधविश्वासाची विस्कटावणी करूंक वचना.

पूण ताकाय नकळटां, नितळ झाडिल्ल्या सालांत अकस्मात घयरांव हुमकळचो तसो एक अनामिक प्रस्न ताच्या अंतर्मनांत नाका आसतनाय दपून दपून बागवत रावता. अशा प्रसंगांक लागून जिवितांतल्या समस्यांचें जाळें आनिकूय गाड जाता. कांय प्रस्नांक स्पश्ट जापो नाशिल्ल्यान तांचेर हुमकळूंक असले दुबाव जावं अंधविश्वास, उमेदीन मनांत उफेतात. हाका लागून, जिविताच्या अणभवांफाटली अनाकलनीय अशी व्यक्तीची प्रतिक्रिया भोव परिणामकारक तर जाताच, वस्तुस्थितीवांगडा ती अदीक बरो मेळ खाता. कित्याक काय म्हळ्यार, आयुश्याचें जेन्ना पुरायेन घट्टण जाता तें दिसता तेन्ना ताचें कुवाडें सुटावें करूंक मनीस नकळटां बुद्धिपेल्यान पावता. मागीर तो आपणाक थातारून परतो तर्काचे वाटेर येवं. पूण अशें वाट सोडून अनवळखी वाठारांत भरकटत वचप ही मानवी मनाची अतिशय सभावीक प्रवृत्ती आसता. अश्यो प्रवृत्ती लेखक नुलयतां (काय नकळटां?) सामकारायता हें तागेल्या मनोविज्ञानीक दिश्टीकोणाचें एक खेरीत जैत.

हाचेवेल्यान एक कळटा, लेखकाक आपणाल्या पात्रांक फकत पात्रां म्हूण वा समाजासावन वेगळे घटक म्हूण नियाळपांत स्वारस्य ना. तो तांचें मनोविज्ञानीक नदरेन रेखाटन करता आनी तेवरवीं समाजशास्त्रीय नदरेन तांगेली जिणूय चितारता. जे बारीकसाणेन **अच्छेवां**तल्या पात्रांची खाजगी जीण आमचे मुखार आपउपलापी जाता तेच बारीकसाणेन तांगेले खेळ-झगडीं, काम-सुशेग, टीका-तुस्त, संभोग-निग्रह, सपन-रमण, अपेक्षाभंग, मस्करी-शीण हांचोय आलेख लेखक वाचप्यांमुखार मांडटा. हातचें राखून दवरिनासतना मांडटा. अशे रितीन, मेळिल्ले दरेके संदेचो लाव घेवन कादंबरीकार व्यक्तीमानसाचें, व्यक्ती-व्यक्तीमदल्या बदलत्या नात्यांचें, व्यक्ती आनी समाज हांचे भितरल्या बदलत्या संबंदांचें विश्लेशण करूंक वाचप्याक प्रवृत्त करता. निर्विकार भासपी पूण संवेदनशील मनान केल्ल्या ह्या निवेदनांतल्यान एका ज्वलंत पांवड्यार थारावल्ल्या समाजाचें मन खिन्नटून वडोवपी दर्शन घडटा. उतरां उतरांतल्यान ही कादंबरी एका चैतन्यपूर्ण, कश्टाळू, पापभिरू आनी आपसंतुश्ट आशिल्ल्या समाजाचें भिरांकूळ गतीन पूण नकळटां एका यांत्रिक, कामचोर, व्यसनाधीन, वासनालंड समाजांत जाल्लें परिवर्तन प्रभावी तरेन रेखाटता. ह्या परिवर्तनाक एकूच वाट खबर आसा: सकयल वतली, अधोगती वटयां, दुर्गतीचे दिकेन!

ह्या अध:पतनाचें खरें खरें रुपडें दाखोवचे खातीर लेखक सगल्या तरांच्या अडेचे

भाशीक सभ्यतायेचें, उकलाप्या उपचाराचें आनी नकली संकेतांचें बंधन शेंवटून उडयता. तागेले भाशेक दिखाळ हरवीसाण आसा आनी अपरिपक्व वाचप्याक अर्दीमर्दीं तो दीख बादताय. पूण ह्या हरव्या, ताज्या भाशेवरवीं शैलीक एक प्रादेशीक रंग चडला. तो प्रखर दिसलो तरी नाटकी ना. ताका लागून कादंबरींतल्या अणभवांक खर विश्वासार्हता लाभूंक पावल्या. कादंबरींतलें भावविश्व निमाणेमेरेन कंवकंवीत प्रादेशिकता, धगधगीत वास्तव आनी मनाक आफुडपी मानसिकता हांकां पाळो दिता. हाकाच लागून **अच्छेव** प्रादेशिक बरपाचो एक उत्तम नमुनो जावनय, वैश्वीक थरावेलो अणभव जिवो करपी, मनीस जिणेची दुखेस्त काणी प्रगटावपी, आधुनिक कादंबरी म्हूण याद उरता.



भौसाभास आनी भुंयेवास मिरोवपी

# भुंयचार्फी

कोंकणी कथेच्या मळार शीला कोळंबकार हें नांव खबर नाशिल्लो वाचपी पण्टी घेवन धुंडाळ्ळ्यार लेगीत मेळचो ना. आयच्या कथाकारांमदल्यो त्यो आघाडीच्यो बायल-बरोवपी आसात अशें म्हणप वावगें जालें ना तरी अपुरें मात जातलें. सद्या बरोवपी कथाकारांमदीं मेजके पूण चिंतनशील बरोवपी – जावं दादले जावं बायलो – आसात तातूंत शीलाबायची खासा सुवात आसा म्हणप चड योग्य थारतलें. हाची गवाय दिवपाक समिक्षकी मुद्द्याचीय गरज ना. कित्याक काय म्हळ्यार, तांगेलीं **भुंयचार्फी** पानापानाफाटल्यान हाच्यो घमघमीत पती वाचप्याचे होटयेंत उडयत रावतात. खेरीज, तांगेली **ओली सांज** आसाच.

**भुंयचार्फी** हो जाग प्रकाशनावतीन उजवाडा आयिल्लो शीलाबायचो अठरा व्यक्तिचित्रणांचो झेलो जावन आसा. १९७५ सावन १९९२ मेरेन **राष्ट्रमत, जाग, चित्रंगी, कुळागर** सारकिल्या नामनेच्या नेमाळ्यांच्या दिवाळी अंकांनी सुवात फावो जाल्या ह्या व्यक्तिचित्रणामदलीं वट्ट इकरा चित्रणां अस्तुऱ्यांचीं आसात : आशा, फातू, आंजेल, पोसकें (मोगा), रोशन, सुमन, तन्वी, सीमा, मंदा, अन्नामामी आनी तेजा. हांचेफाटली बारावी अस्तुरी म्हळ्यार खासा लेखिका! ह्यो मेळून बायलजन्माच्या बाराय राशींक लागिल्ले नवग्रह (काय मायज?) षड्रिपु आनी छत्तीसांतले उणेच १८ गूण तरी उक्तावतात. बायलजिणेची कुंडली मांडून तिगेलें समाजीक-मानसिक नक्षत्र कशें आसता तें सांगूंक जाय जाल्यार **भुंयचार्फी** उगडचीं.

मात अस्तुरीचित्रण होच **भुंयचार्फी**चो मुळावो येसा तुरो न्हय. ज्योतिशी, मेस्त, निळू, केरबा, पुरसो, मुळये हे पांच जाण्टे आनी विशाल हो धाकटुलो, हेवूय 'भुंयचाफ्यां' पुड्यांतल्यो परमळीत पती जावन आसात. हाचेमदीं मुळये, फांतू, रोशन, मंदा हीं व्यक्तिचित्रणां तांचेफाटल्या स्पश्ट-अस्पश्ट अशा घडण्याजोगेपणा (Probability)च्या अंशाक लागून मनाक भावतात. आशा, तेजा, सुमन, निळू, तन्वी, पुरसो हीं व्यक्तिचित्रणां अदीक करून तांच्या तांच्या समाजीक वा कुटुंबीक संदर्भाक लागून उठावदार आनी जिवीं दिसतात. अन्नामामी, केरबा, आंजेल, सीमा ह्या चित्रणांमदीं समाजीक प्रती (typecast) जावंचेली शक्यताय अदीक आसून तांचेभितरल्या एखाद्रया विशेश

गुणाक-दुखाक-कारणाक लागून तीं 'नमुनो' जावचे परस वेगळो नग जावंक पावल्यांत. विशाल ही लेखिकेचे बालमानसशास्त्राचे जाणविकायेची एक बरी देख. ज्योतिशी हें एक उत्कृश्ट 'जावंक येता आसलें' अशें व्यक्तिचित्रण अशें म्हणचें पडटा. पूण वयर उल्लेख केल्ल्या 'घडण्याजोगेपणाचो अंश' (probability element) लेखिका तातूंत घालूंक फाटींफुडें जाल्या! तिणें मात्सो हात आंखुडला अशें म्हणचें पडटा. मेस्त हो एक गोंयच्या खेड्यापाड्यांनी वा शारांच्या वाड्यांनी सहजपणान मेळपासारको पापभिरू, बऱ्या मनाचो आनी सरळमार्गी सभागो. भौ बरी तांक आशिल्ले हे व्यक्तीक रंगयतना शीलान मुर्तीपरस मखर मात्शें अदीक सजयलां आनी हेवरवीं आपल्या आंगांतल्या ललित निबंद लेखन क्षमतेची वाचप्याक झलक दिवन दवरल्या. मोगा हें धाकटुलें, विशालावांगडाच भुरग्यामनाची विस्कटावणी करून दाखयता खरें, पूण ताचेर शीलाबायच्या बालमनाचे 'संस्कार' अदीक जाल्यात जावंये अशें पर्थूनपर्थून दिसलें. कित्याक तर, तागेले दरेके वागणुकेचे चांटीफाटल्यान एक सुस्पश्ट अशी कारणांची, शक्यतायांची वा सुसुत्रतायेची फाटभूंय उदेता, तिका लागून ताका मात्शी कृत्रिम जाण्टेपणाची सया मारता. हाचे उलट, तेजाचे 'हुमेन तेंवेवपी तळवे' अदीक पटपासारके आसात.

**भुंयचार्फी** वाचतना घसघशीतपणान दोळ्यांत भरता तो तांचो निवेदनाचो रूपकार. ह्या निवेदनाक शीलाबायन आपणाल्या सुक्षीम निरिक्षणांतल्यान उदेल्ले समजिकायेचो पालव दिला. कथनाचेरच भर दिना आसतना संवाद आनी अनुपचारीक उलोवण्याचो कळाशेन उपेग केल्ल्यान तांगेल्या निवेदनाक जिवसाण आयल्या. शीलाबाय 'उलोवणें' ह्या प्रातांत आपणालो खासा शेक दवरून आशिल्ली लेखिका, आदींसावन तांणी नाटकी प्रादेशिकता वा उखलापी गांवगिरी भास फसफसावपाचें कटाक्षान टाळ्ळां. ताका लागून ताच्या पात्रांचें उलोवणें सदांच मनशांचें उलोवणें कशें दिसता. अमक्या प्रदेश, वर्ग वा खणा (pocket) चें उलोवणें अशें दिसना. हाचो अर्थ, तांगेली भास उतरावळीची गिरेस्तकाय दाखोवंक उणी पडटा असो न्हय, जाल्यार उतरावळ कृत्रिमतायेबगर वापरूंक त्यो फिशाल आसात असो जाता. वर्सांसिंकीं मुंबय रावनय गोंयांत चलत आशिल्ल्या पुर्तुगेज उतरांची कोंकणींतली घोळटीक त्यो विसरिल्ल्यो नात. घरचो आंजेला सालांव आनी ताचें वर्णन ही हाची एक सोबीत देख म्हणुंयेता.

ल्हान-ल्हान गजालींतल्यान जबरदस्त परिणाम सादपाची तांची करामत कथाकार म्हूण शीलाबायक उपेगी पडत आयल्या. ताची 'झलक' **ओली सांज** इतलीच **भुंयचार्फी**च्या पुड्यांतय दिसता. फांतूचें बिबींक खाले उपरांत लेखिकेच्या नेणार अणभवविश्वाचेर जाल्ले आघात, तांणी बिबिंकाच्या गुळ्यांतल्यान बेस बरो उक्तायला. सुमन ह्या बऱ्याच अंशी नाटकी भासपी व्यक्तिचिणांतल्यान एके तरणाटे संवेदनक्षम पिरायेवेले चलयेची कल्पनाविश्वांत रमपाची वृत्ती दिसून येता. पूण उपरांत ती लग्नाचे

पयलेच राती उशाचेर सांचिल्या 'लाळेच्या तळ्यांत' कशी होळून वता तें चित्रण भौच परिणामकारक जालां. ज्योतिशान 'कच्चकन्' कापिल्ली कावळ्या पिलाची गोमटीय अशी उल्लेखनीय.

अदींमदीं धांवती ओपार वा थळावे वाक्प्रचार वापरप शीलाबायक मानवता. तांतुंतल्यान तांगेल्या निवेदनाकूय उठाव येता. मेस्त ह्या व्यक्तिचित्रणांत मेस्त म्हणटा, 'एके आवयक भुरग्याचो मनीस कोरपाक एकवीस वोरसां लागतात आनी त्या मनशाचो धुकोर करूंक बायलेक एक रात पुरो...' (पा. ७३) तशेंच 'निळू'त शाणुबाबाल्या जांवयाक निळू स्पश्टच सांगता, तेंवूय बद्द सव्यार, 'बायलांचें कितें आसता? तांच्या तोंडार लुगट उडयलें म्हणटकूच सगलीं बायलां सारकींच' (पा. ९३). हें वाचून पंचविशेक वर्सां आदीं वाचिल्या 'मायटूल' हे मराठी लघुकथेंतल्या बायो ह्या पात्रान म्हणिल्या उतरांची याद जाली: 'बायकांचे काय? अंधार केला की सगळ्या बायका इथून तिथून सारख्याच.' हें मुजरत सांगचेलें कारण कितें काय म्हळ्यार, खूब फावटी बायल लेखिकेचें निरीक्षण वा समजिकाय अस्तुरी-संवसार आनी बायलमन हांचे पुरतेंच 'मर्यादीत' आसता अशें मानपाचो एक दुराग्रह दिसून येता. हें कितलें फट हें अशा पतींतल्यान कळटा. दादल्यांची मानसिकताय कशी आसता वा आसूंक शकता हें कळूंक लेखिकेक 'दादलो जावंचेली' मातय गरज ना. तिचेकडेन संवेदनशीलताय, समजिकाय, चिंतनक्षमता हांचें संचीत मात आसूंक जाय. शीलाबायकडेन हें तर आसाच, खेरीज दादल्यांची मक्तेदारी म्हूण कडेक काडून दवरिल्ल्या विशयांकय निर्भिडपणान आनी स्पश्टपणान हात घालपाची बेदरकार वृत्तीय आसा. विशेश उल्लेखनीय गजाल म्हळ्यार, ती हें करतना एक व्यक्तिसुलभ (स्त्रीसुलभ न्हय) मर्यादेची फास्की मात गरज नासतना हुपनात. कांय वेळा लेखक-लेखिकांचे हस्तुकीं धिटायेच्या हावेसान, अशे तरेच्या वर्णनांत वा उल्लेखांत नश्टो अतिरेक वा नाका तितलें भडकपण हाडपाचें कर्तूब जाणून वा नकळटां घडटा, थंय बरपाचो कलात्मक पांवडो देंवता, हाचें भान शीलाबाय बाळगिता हें उल्लेखनीय!

**भुंयचार्फी** वाचतना कांय समाजीक संकेत, संस्कार हट्टाग्रह, तशेंच पूर्वग्रह हांचोय अणभव येता. समाज पुरसाची आंकवार चलयेच्या लग्नाविशींची नदर, लग्नाखातीर खंयच्याय तोंकामेरेन चलयेक धुकलचेली तयारी आनी इतलेंय करून लग्न जायना जाल्यार चलयेक तोंचून खावंचेली मनोवृत्ती, हातुंतल्यान घडत वचपी वाडून उरिल्ले चलयेची प्रवृत्ती हें आशा, फांतू, आंजेल, रोशन, तन्वी, मंदा, सीमा ह्या व्यक्तिचित्रणांवरवीं उदेल्ल्यो हयन्हयशो साबार छटा दाखयतात. ह्यो छटा म्हळ्यार खास ते ते व्यक्तीची वा हेर संबंदितांची मनोभूमी, एकमेकांकडेन उलोवचेली-वागचेली तांगेली तरा आनी लेखिकेन अदींमदीं घाल्ली टिप्पणीची फोडणी. कांय वेळा ही फोडणी बेस बरी फटफटून

नेमकीच फोडणिशी करता. देखीक, 'पूण एक खरें, लग्न जातकीर तूं मात लोकांच्या तोंडांतल्यान सुट्टा...' (आशा, पा. २), वा फांतू हे कथेंत ती म्हणटा, 'म्हाका समजायत तें आपलीच समजूत घाल्लेवरी उलोवंक लागलें' (पा. १६). पूण एक एक खेपे लेखिकेची फोडणी शेळेता आनी तिचो दळ व्यक्तीच्या संदर्भाक अदीक उठाव हाडूंक पावना, कित्याक तर वाचप्यामुरतो ती अनाकलनीय उरता. देखीक, मोगाच्या 'हांव काळें कशें?' हाका आज्जेन दिल्ली 'जाण्टीं करतात, नेण्टीं भोगतात' ही अतीसंदिग्ध आशिल्ल्यान अर्थाचो चांफ्या-कळो फावोसो फुलना.

तशेंच, एखाद्रया व्यक्तिचित्रणावेळार लेखिका तिणें उबारिल्ल्या प्रस्नाच्या समाजीक अस्तरांत इतली घुस्पता की तिगेल्या भाश्याचो तीर फाल्स बसता. मंदा पाडें खरें; पूण परिस्थितीन ताका अदीक किडायलां. लग्नाच्या बाजारांत खपना जावपांत ताच्या सभावाचो जितलो वांटो आसा, तितलोच आंकवारपणाच्या अभिशापाक समाजान फावो केल्ले वागणुकेचोय वांटो ताचो सभाव घडपांत आसा. कितलेंय वायट चली आसलें जाल्यारय 'दवरलेली' बायल आशिल्ल्या दादल्यावांगडा तिचें लग्न जावन एकदांचो 'सुटूंक' पळोवपी समाजाक आनी वेल्यान 'बायल आयली काय दादलो मागीर भायले नाद सोडटा' अशी मखलाशी करतल्याक तिणें 'जाल्यार तुगेले बायलेचें लग्न दी करून ताचेकडेन' अशें म्हळ्यार (तें कानाक खटकलें तरी) खरेपणान कितें चूक आसा? हाचेर लेखिकेन 'आतां हाणें अशी जाप दितकीच हाच्या लग्नाचे भानगडींत पडटलो कोण?' अशें म्हळ्ळें तें 'पचलें' तरी पटना. पूण अशें जालें तरी आपणाल्या व्यक्तिचित्रणांत ते-ते व्यक्तीची मानसिकताय बरे तरेन उक्तावपांत मात शीलाबाय कसर दवरिना. मंदाक लागिल्ली 'खा-खा', ताची 'मेळटा तें बुचाटून' घेवचेली वृत्ती; धवेफुल्ल सदाफुलीभाशेन सदांच 'प्रफुल्लीत... टवटवीत' असो स्थितप्रज्ञ मुळये, लेखिकेची सहृदय सहानुभूतीची फाटराखण मेळटकीर 'तूं मनापसून अशें उलयता?' (पा. १३८) अशें भरिल्ल्या दोळ्यांनी विचारपी अन्नामामी; 'आवयबापायच्या गुन्यांवांची ख्यास्त त्या पोराक कित्याक?' अशें म्हणून जापसालदारकेक सहजपणान पाळो दिवपी 'घमेंडीचो वास नाशिल्लें' तेजा ह्यो शीलाबायच्यो जायजायशो दिसपी साहित्यीक निर्मण्यो. तांचेमदीं केरबाखातीर हुंडकेवपी शशीय येता.

खूब फावटी तांगेल्या पुराय बरपांत एक खाशेलो तटस्थ, त्रयस्थ कसो भासपी आपलो, भितरलो मनीस वावुरता. आर.के. लक्ष्मणाल्या 'कॉमन मॅना' वरी, तो अदींमदीं उलयतां-नुलयतां सांगता वा फकत साक्षी भावान पळयताय बी. चडसो तांणी ताका निःपक्षपाती जुवीज कसो बरपांतल्या प्रत्यक्ष अणभवापसून वाटावन कांठार दवरिल्लो आसता. हाका लागून ताचेवरवीं येवपी भाश्य (कॉमेंट) वा तिखट/विनोदी चिमटे भौ मोलादीक थारतात. तो म्हळ्यार निवेदिकेचो घोव. सीमा ह्या व्यक्तीचित्रणांत

ताचो संवसारीक चत्राय बाळगुपी मनीस (worldly wise) म्हूण भौ खुबयेन उपेग जाला. मात ताका एक पड्ड्याफाटलो आवाज म्हूण पळोवप बरें. लेखिकेचो घोव अशें ताचें समीकरण करपाचो मोह मात कटाक्षान टाळूंक जाय. (कित्याक, व्यक्तीचित्रणांत आमी निवेदिकेक लेखिकाच समजुपाचो अट्टहास करतात न्हय?) 'तन्वी' ह्या व्यक्तीचित्रणांतय ताचो भरीव आस्पाव आसा आनी 'आशां'त मात नांवापुरतो. चड करून लेखिका जेन्ना प्रस्न आनी जाप हांचें समीकरण मांडूंक घुस्पता तेन्ना तो एक आवसिलाचो हात फुडें करता, हें लक्षांत घेयसारकें.

**भुंयचार्फी** ह्या संग्रहाचें एक खाशेलेंपण म्हळ्यार, जितलो ताचो वास घेवचो तितलो ताचो उग्र परमळ संवकळीचो जाता आनी तातुंतलो घमघम आपलोसो दिसूंक लागता. पूण ह्या घमघमावांगडा रावनय आपणालें खास देणें ह्या भुंयचांफ्याक दिवपी एक निरंतर सुवासय ह्या झेल्या भोंवतणी दरवळटा. तो आसा भुंयचाफ्याच्या पुड्याचो. हो पुडो दुसरो तिसरो कांय न्हय तर 'भुंयचाफींच्या निमतान' ह्या माथाळ्याखाला आयिल्लो प्रा. एस्. एस्. नाडकर्णीं सारकिल्ल्या व्यासंगी विद्वानाचे हस्तुकीं सहृद्य, अभ्यासू आनी नेमक्या उतरांनी बरयिल्लो प्रस्तावनापर लेख. हो लेख **भुंयचार्फीं**च्या वाचप्यांक आनी विद्यार्थ्यांकय अतिशय मोलाचो थारतलोच. पूण तेच वांगडा लघुकथा आनी व्यक्तीचित्रणाचे प्रकार जाणूंक सोदतल्याक, कोंकणी साहित्यांतल्या व्यक्तिचित्रणाचो माग काडूंक भोंवतल्याक, **भुंयचार्फी**तल्या येसस्वी आनी हेर व्यक्तिचित्रणांविशीं खबर काडूंक पळयतल्याक आनी तांची मोलावणी करूंक सोदतल्यांक ह्या लेखांत जायतें हाताक लागता. विशेश म्हळ्यार, खासा लेखिकेच्या व्यक्तित्वाचीं तासां, बरपाचीं शक्तिस्थळां, लिखाणांतले उणाव, शैलीचे बारकावे, कलात्मकतेचो पांवडो आनी फुडले वाटचालीची सुलूस घेवंक सोदपी चिकीत्सक अभ्यासकाकय ही प्रस्तावना निराश करिना, म्हूण हो हळदीपानांचो पुडो चांफ्यांइतलोच परमळटा.

निमाणें इतलेंच म्हणन दिसता, **भुंयचार्फी** कोंकणी मातयेच्या वासान आनी कोंकणी हुमेचे उबेंत किल्लून आयल्यांत. भौसाची भास आनी भुंयेचो ध्यास तांच्या मुळाक आदार दिता. पूण तांचो फुलोर मात मनीसजिणेच्या विस्तृत अणभव-विश्वावटेन आनी चिंतनाच्या गाढ मळबावटेन ओडटा. तांचो टवटवीत आविश्कार आमकां भुलयता. पूण त्या आविश्कारा फाटलो अडेचो उग्र वास मात्सो घुंवळायताय. ह्या सगल्यांक कडसरावन **भुंयचार्फी**क ताज्या उदकाचो हात मारपी चित्रकाराचो उल्लेख हांगा विसरूं नजो. दीपक गाड हांचें सूचक आनी समर्पक मुखचित्र हिवूय **भुंयचार्फीं**ची येसाची बाजू. सैम आनी कृत्रिम जीण हांच्या काळेगोबरे-तामसाणेंतल्यान जीवसाण शोशून, हळदुव्या वातावरणांत फुलून, अगम्य निळायेवटेन झोंपय घेवंक पळोवप अस्तुरी हांगा मनीसमनाचें, जिविताचें, अनुभूतीचें प्रतीक कशी उदेल्या. पळयता तितलो चित्रांत

रंग भरत वता. आशय वाडत वता. सगल्यांनी मुजरत संग्रहाक बाळगुचें अशेंच हें पुस्तक जावन आसा. फकत फुडल्या प्रकाशनाआदीं कळटां नकळटां उरिल्ल्यो उताऱ्यांतल्यो त्रुटी मात सुदारच्यो. देखीक, 'सुमनां'तले कांय शेर 'मेहरबाँ होके बुलालो मुझे चाहे जिस वक्त' (पा. ५३), 'मुझे मिल गया बहाना तेरी दीद का' (पा. ५३), 'जो मजा है इन्तजार में वस्लेबहार में नहीं' (पा. ५४) हे उतारे तपासचे. हरशीं ह्या पुस्तकाक 'मान लिया'!



# गोंय – ५० वर्सां फाटलें:

## पांच दसकां उपरांतची वेगळी वळख

फाटल्या दिसांनी **गोंय – ५० वर्सां फाटलें** हें भौ. महाबळेश्वर सरदेसाय हांचें पुस्तक (खरेपणान दोन वांट्यांनी उजवाडायिल्लें जोड-पुस्तक) वाचपाचो सुयोग आयलो. पिके पिरायेवेल्या ह्या उत्साही आनी 'लेखनप्रिय' लेखकाचें हें एक नवें देखदिणें पावल! तांगेल्या लेखनांतलें सातत्य, उमेद आनी ल्हानाव्हडांक एका हातान धादोस करचेलो तांगेलो हावेस नदरेंत भरसारको आसा. वाचपी ह्या नात्यान जाण्टे-नेण्टे असो पक्षपाक करिनासतना हो वयोवृद्ध बरोवपी तांचेखातीर समसमान काडाओडी काडून विंगड विंगड बरप करता तें पळोवन तांगेली लक्तुबाय दिसता. खेरीज, तांगेलीं सगलीं पुस्तकां चड-उणे पिरायेच्या खंयच्याय वाचप्यान आपापणाली बुद्धीक तांक आनी वाचनाची आवड हांचेप्रमाण जायजाय तशीं वाचपासारकीं आसतात. सगल्यांक आपलींशीं करून घेवपाची सोपी, रसाळ शैली आनी कोणाकच निशीद्ध न दिसपासारकी अभिव्यक्ती हें तांगेलें खाशेलेंपण. हे दोनूय गूण ह्या पुस्तकांतय दिसतात.

**गोंय – ५० वर्सां फाटलें** हें एक वेगळेच तरेचें पुस्तक कोंकणी बरपावळींत येता. एका वयोवृद्ध लेखकाच्या अणभवपिक्या निवेदनांनी नटिल्लें हें पुस्तक म्हळ्यार नवें आनी पोरणें हांचो एक अजापाचो खजिनो! बरोवप्याचें निदान पाऊण शेंकडोभर तरी चलिल्लें निरीक्षण आनी परीक्षण ह्या पुस्तकांत निस्तलां. जरी माथाळ्यान हें पुस्तक गोंयांविशींचें आसाशें दिसलें, तरी तें गोंयकाराविशीं – पांच दसकां फाटल्या गोंयकाराविशीं – आसा, मागीर तो गोंयांत राबितो केल्लो आसूं वा भायर. हाका लागून ह्या बरपा-झेल्यांत साबार गोंयकारांवांगडाच, तरेकतरांच्या व्यक्तीविशीं आनी काळाविशीं लेखकाचे नदरेंतल्यान दिसपी एक चित्र येता. ह्या चित्राचे रंग, नुरा, उठाव आनी विशय विविध आसात. ताका लागून हें पुस्तक म्हळ्यार एका काळावेल्या बऱ्यावायटाचो आलेख वा काळचित्रांचें संग्रहालय आसा म्हळ्यार वावगें थारचें ना. एके व्यक्तीच्या मनांत सांठिल्ल्या मोलादीक उगडासांचो, काळजार उदेत्या कळां-वळांचो, पोशांत पारखल्ल्या ग्रह आनी मुल्यांचो हो खजिनो. ह्या खजिन्यांतली सुगूर उरिल्ली

कालजैती गिरेस्तकाय खंयची आनी कळमेवन गेल्ली वा बरगेल्ली संपत खंयची हें मात दरेकल्या वाचप्यान आपलेपुरतें थारावचें पडटा. समीक्षकान ह्या बरपाक पारखुचेंच, पूण तातुंतले गूण वळखुचे खातीर हरशीं तातुंतले विशय जतनायेन वेगळावन आपले पुरते पुंजावपाचें काम वाचप्यानच करूंक जाय.

हाका कारण आसा. **गोंय – ५० वर्सां फाटलें** ह्या पुस्तकाक भौ-प्रकारी बरप म्हणचें पडटा. हातुंतलो मानवता तो प्रकार वाचपी सुकण्यातोचीन वेंचूक मेकळो! ह्या झेल्यांत निवेदनात्मक लेखन आसा. ताका बरपाच्या प्रकारामदीं खंयच्या दालनांत स्थापन करचें हें थारावप सोपें न्हय. बरपावळीक काणयेची ओप मारता, तशी सांगणेची धाटणीय तातुंतल्यान वावुरता. तिका निबंदाची सया मारता तशी खबरीची सावळीय तिचेर पातळता. जर ह्या प्रकाराक कथा म्हणची जाली जाल्यार तातूंत घडणुको घडपाचे कळाशेपरस प्रसंगापश्चात सांगणेची कमाविशी अदीक दिसून येता. अणभवाचे प्रत्यक्ष खरायेची धग आसचे जाग्यार तातूंत आडवाटे समजावणेची सौम्य समजिकाय आसा. भोग-भोगनाळांच्या जाळां परस बोधाची शितळ पावळी आसा.

मुजरत लक्षांत घेयसारको ह्या बरपाचो गूण म्हळ्यार तांची तिट्टी-चौपेटी परिमाणां केळोवपी आकृतीसदृशता. हे विविधतायेक लागून ह्या बरपाचें स्वरूप अमूकच आकृतीबंध दर्शयता अशें म्हणपाक हाका तरी रजांव दिसना. निबंदांचे मेकळे शैलीचो वा ह्या बरपाक येता, तसोच संवादांक सोबसारक्या वाचपी-बरोवप्याचे दाटयेचोय परमळ येता. काणयेक अपेक्षित अशी वर्णनात्मकता आसा तशी खबरींत गृहीत धरिल्ले अनुपचारीकतायेचो घमघमय आसा. कथेंत सोबसारकीं मेजकीं पात्रां-प्रसंग मांडावळ आसा, तपशिलाचो घसघसय आसा आनी एकंदर लेखनाचो कटाक्ष मिताक्षरी आसलो तरी आडवाटेंत शिरकुपाचो सभावय दोळ्यांत खोमसारको आसा.

हे सगले ह्या पुस्तकाचे म्हजे अल्पसमजणेप्रमाणे वेगळे गूण जावन आसात. हांकां अवगूण म्हणचेलें कारण आसा अशें मात म्हाका मातय दिसना. ज्या काळार हें बरप घडलां आसतलें त्या काळावेल्या भारतीय साहित्यांतले उदेते कथेचीं, वृत्तपत्रीय शैलीचीं आनी लेखांच्या प्रकृतीचीं वैशिश्ट्यां आस्पावन लेखकान वाचप्याकडेन हितगूज करचेल्या हेतान बरयिल्ल्यो ह्यो काणयो संवादाचें रूप अदींमदीं आपणायतात हातूंत नवल कसलें? आनी काणये रुपान परगटपी ह्या कथालेखांक हयन्हयशें एकपात्री संवादाचें स्वरूप येवप हातूंत जगावेगळें तरी कितें आसा? खासा लेखकानच चंद्रावळ ह्या नांवान प्रास्ताविक बरोवन आपणालें मनोगत सांगलां. ते म्हणटात, ''हें पुस्तक खरें म्हळ्यार चाळीस वर्सां आदीं उजवाडा येवंक जाय आशिल्लें. आज तें नवे पिळगेक कितलें रुचत म्हणपाचो दुबाव.''

वयल्या सांगण्याची दखल घेवन म्हणचें पडटलें, पुस्तक वाचप्याक रुचतलें पूण

'आधुनिक' कथा हो प्रकार म्हूण न्हय. कथेचीं सक्षम बियां आसुनूय बरोवप्यान कथा हो प्रकारच केळयला अशें म्हणपाक झेल्यांतल्या बरपांतल्यान आदार मेळना. एक म्हळ्यार, लेखकान आधुनिक कथेंतलें स्वरूप, तणाव, प्रसंगनिश्ठताय, भावनीक अस्तर, आंतरीक वा भायित्कारी घुस्पट/संघर्श हातासपाचें कटाक्षान टाळ्ळां. पुरायेन बुद्धीक थरार रावन केल्ल्या ह्या चार पांच दसकां फाटल्या निवेदनांत नवतंत्राची अपेक्षा दवरप चुकतलें. पूण कथेचे 'सर्वसंवकळीचें तंत्र'य तातूंत अभावानच लेखकान हाडलां, हेंवूय नदरेआड करूंक जायना.

पूण एक दुबावा विरयत खरें: हातुंतलें व्यक्तिचित्रण सरस जालां आनी मनीससभावांतल्यो खांचीखोंची, उणींदुणीं उक्तायतनाच बरोवप्यान मुक्त हातान त्या काळावेल्या समाज पुरसाचेरय उजवाड घालां. समाजाची जडण-घडण, आचार-विचार, श्रद्धा-विश्वास, पात्शे-बाधा, कुड्डेपण, जात-गोत, कला-वेवसाय, वयर-खालतेपण, मुल्यां-हावेस, भुषणां-दुषणां हांचो बारीकसाणेन मांडिल्लो आलेख वाचप्यांक मेळटा. हरशीं ताका पांच दसकांफाटल्यान गोंयच्या अंतरंगाचें बेस बरें चित्रांकन हाताकडेन मेळटा. इतिहासीक दस्तावेज म्हूण नासलो तरी, एक इतिहासीक झलक कसो ह्या झेल्याचो ढोबळ उपेग आयच्या तरणाट्या वाचप्यांक जावंक येता हें दुबावाविरयत!

ह्या पुस्तकाचें नाविन्य सोदचें जालें जाल्यार तातुंतल्या फुडल्या गुणांची दखल घेवची पडटली: कथेचे गर्भित गूण आसुनूय पारंपारीक काणयेंतली म्होंवाळ शैली, आर्विल्ली आनी चालंत उतरांनी शिरंगारीत भास, खबरांबातांची शाब्दीक गोडसाण, संवादांतलें मनमेकळेपण आनी लागसाण, लेखांतलें तिरायतपण, निबंदांतलो सांधोबांधो, व्यक्तिचित्रांतलें ठळक रंगयाळेंपण, काळरेखणेफाटली बारीकसाण तशेंच अचूकपण **गोंय – ५० वर्सां फाटलें** ह्या झेल्यांत ह्या सगल्या वैशिश्ट्यांची सरभरस आसा. आनी ती मिसळ कशी रुचिकूय लागता.

ह्या झेल्यांतल्या बरपाक नांवांचो तिबो लावचो जाल्यार चरित्रकथा, खबरकाणयो, प्रसंगचित्रणां, काळरेखणां, व्यक्तिचित्रां, कथा-वार्ता, निबंद अशीं वेगवेगळीं लेबलां लावचीं पडटलीं. 'बरमाय', 'जल्मप्रतिष्ठा', 'होंकलेचो पायसर', 'जिणेचें सार्थक' हांकां खबरकाणयो म्हणूंक जाता. 'एकेकाळचें नशीब', 'सुशिलाबायचें सपन', 'कळंतराचें भात', 'भूतचेष्टा' हांकां प्रसंगचित्रण म्हळ्यार चुकचें ना. 'जल्मभुंयेची आवतिकाय', 'दुस्मानाची पिडापीड', 'फिशाल फिडलिस्ट' हांकां काळरेखणां म्हणप समा जातलें. 'कर्मभोग', 'धाकूली जीण', 'चंद्रूमास्तर', 'प्राक्तन' (आनी 'फिशाल फिडलिस्ट'य) व्यक्तिचित्रणां म्हूण बरीं सोबतात. 'म्हगेलें हुमाणें', 'आवयचो मोग', 'गिराण' हांचो निबंद म्हूण विचार करप म्हाका योग्य दिसता. 'जिणेचें सार्थक', 'एकेकाचें नशीब', 'धाकूली जीण' ह्यो चरित्रकथा कश्यो धरूंक येतात. कथा

म्हणपासारक्यो तीनच पती आसात : 'काळ आयिल्लो...', 'मिनाचें धन', 'सुशिलाबायचें सपन'. पूण लेखकान ऐन वेळार हात फाटीं घेवन तांकां अधांतरी सोडिल्लेवरी केल्यात. ताका लागून तेमकार पावतां पावतां तातुंतलें कथानक नाखयां आपटलां.

खंयचेंय बरप कथा म्हूण मान्य जातलें वा आवडटलें जाल्यार त्या बरपांत उत्कंठा वाडोवपी, पटपाजोगेंपण, विश्वासार्हता हे गुण केळोवपी घडणूक, पात्र वा कथावस्तू आसूंक जाय. हांकां लागून कथेंतलें अणभवविश्व आपशींच वाचप्याक आपलेंशें करून घेता. महाबळेश्वर सरदेसाय हांचीं पात्रां बऱ्यांपैकीं पटपाजोगीं आसुनूय तांगेल्या अणभवांक वास्तवाचो चुरको वा धग ना. लेखकान स्मरणरमण (nostalgia), सपनरंजन, कल्पनाभास हांचो थोडोसो अनाठायीं उपेग करून, 'त्या' अणभवांतली धग ओडून घेतल्या. म्हूण कथेंतलें वातावरण वास्तवसृद्दश आसुनूय खरायेन जाणवना. वास्तवाचो झोळोप कसो दिसता. हें अर्थांतच एखाद्रया समीक्षकाचें व्यक्तिगत विधानय जावं शकता; आनी म्हूण तें सर्वमान्य जायत हें सांगूंक कठीण!

मात ह्या पुस्तकांतली सगल्यांक आवडपासारकी गजाल म्हळ्यार तातुंतलें थळावें भाशीक वैभव आनी उतरां-वाक्प्रचारांचो हात सोडून केल्लो शिंवर. ही तुस्तीलायक भास-संपत बरोवप्यान फावो तशी खर्चिल्या. अनिश्ट उधळपट्टी आनी नस्तें चामटेपण खंयच ना. हाका लागून, हेर खंयच्याय कारणापरस हो झेलो फकत 'आदल्या काळार चालंत' आशिल्ल्या उतरांचो संग्रह करचेखातीर तरी दरेकल्यान आपल्या संग्रहाक दवरचो वा मुजरत वाचचो काय दिसता. आज हातुंतलीं बरींच उतरां काळाआड जाल्ल्यान वळखीचीं आसुनूय आमगेल्या उलोवण्यांत येनात. थोडीं उतरां म्हाका तरी साप्पच नवीं लागलीं. फसल, केवे, तर्पाशोर, जांभ, किरपिणपणां, धवगेपणां, धिंचेमर, लातबडायांचीं शिंगां, आयब पडप, इजिपेल, भरणकुटो, जिंत्रूप, दिर्घा लावप, धग-खांक, तर्जुमो, मुशारो, जोरजाळ, वथ्रेणी... हीं पयल्या वर्गांत मोडटात. जाल्यार कंगरखीस, सुबेर्ब, लांस घालप, काचाविचार हांकां हांव दुसऱ्या वर्गांत घालीन.

**गोंय – ५० वर्सां फाटलें** धांपचे आदीं तातुंतल्या वाक्प्रचारांकडेनय आडनदर करूंक नजो: नमनाआदीं चंद्रावळ, कुंडो कांडून फोव, सतरा धांकण्यांचें बुशेद, मळणेंत भरिल्लें पोल, मेंदवाक बयणीक लागप, उगठ्याचो रावण करप, गजाचो गाडव, रेड्याचो बृहस्पति करप, फुलां वेंचलीं थंय शेणयो पुंजावप, आमट तें मट्ट करप, हकटक्याक गांठ घालप, खडपसूक जावप, आळार फळार करिनासतना सांगप, न्हिदिल्लेगेर जालो चलो... रात जागयल्लेगेर जाली चली, भोबो नाका हावूक फाटीं काड.... केदी वळेरी लावची?

निमाणें: आळार फळार करी नासतना सांगचें जाल्यार, ह्या पुस्तकांत सगल्यांखातीर कितें तरी आसा. कुंडो कांडून फोव मेळोवपाची इत्साशक्त आनी तांक आशिल्ल्या

वाचप्याखातीर तर 'जायतें' आसा. ताच्या हातांक सतरा धांकण्यांचें बुशेदांत लिपिल्लें मोलादीक देणें लागतलें तें म्हळ्यार **'५० वर्सां आदलें गोंय'**... आपणाल्यो रीत-रविसांच्यो शिमो, पूर्वग्रहाच्यो मेरो, विचारांच्यो पायणी, मुल्यांच्यो खणी आनी कोतेपणाचे चिरे...! सगलें सगलें मिरयत राविल्लें तें गोंय नाका जाल्यार लेगीत आपलें न्हय अशें आमच्यांनी म्हणूंक जायत व्हय?



वाडटे पिरायेवांगडा तरणाटी जायत वचपी

# गोंयची अस्मिताय

समिक्षात्मक धाटणेचें बरप करतल्याची सर निकतेंच नुस्तें खावंक शिकतल्या भुरग्यावांगडा करूंक फावो. मेम्याचे रुचीन जशें एकाद्रें भुरगें खंयचेय उंडयेक तोंड आंऽ करता, तसोच समिक्षकूय सुरबूस साहित्याचे आशेन मेळत त्या पुस्तकाक घांस मारूंक पळयता. परिणाम....? केन्ना केन्ना जिबेर रुचीक कपो पडटा खरो, पूण जायत्या फावटीं पोंवशेल्ल्या पोस्ताचेर ताका समादान मानचें पडटा. आनी क्वचीत केन्नाय जबर सुवादीक साहित्याआड दडून खडेगांठ समीक्षा बरोवचेलें सत्वताळणें आव्हानय कल्ले कांटो कसो पोराच्या ताळ्याक रोमता. म्हणच आसा – जावें त्याच्या वंशा...

अ.ना. म्हांबऱ्याचें खंयचेंय पुस्तक मात ह्या सगल्याक आडवाद थारता. म्हजेपुरतें उलोवचें जाल्यार, तांगेलीं पुस्तकां म्हळ्यार नव्या नुस्तेंखायऱ्याच्या पानार पडिल्ल्यो चुरचुरीत तळिल्ल्यो ताज्ज्यो वागयो.'

कोंकणी साहित्यविश्वांत खळखळीत हांशाचो निर्मळ वझरो अ.ना. साहित्यान केळयला. हांशाचे हे पाट कोंकणीच्या कुळागरांत खेळयतां खेळयतां तांणी निरोगी विनोदाचें नितळ उदक कोंकणी गद्याचे पानवेलीक घसघशीत हातान पावयलां हातुंतूय दुबाव ना. हाकाच लागून तांगेल्या बरपाची छाप वाचप्याच्या मनावेल्यान सोंपेपणी पुसून वचना.

आज सुमार १७ वर्सांनी **गोंयची अस्मिताय** ह्या तांगेल्या पुस्तकाची दुसरी उजवाडावणी हातांत आयली. उगडासपाटयेवेल्यान विसरायेचो हात भोंविल्ल्यान पुस्तकाचें नांव लक्षांत नाशिल्लें. पूण पान परतिलां मात... लेखाफाटल्यान लेख माथाळो देखल्या खिणाक 'जशाक तशें' यादिंचे फास्केंत जिते जाले. विनोदी बरप लेगीत निखटें रुचिकूच न्हय, जाल्यार 'चिरायू'य आसूं येता हाची हाचेपरस आनीक सोबीत पत खंयची आसतली ?

विनोदी बरपाच्या उल्लेखावेल्यान लक्षांत आयलें : व्यंग, विनोद आनी विचार हांची 'मिसळ' विंगड विंगड भासांतल्या वेगळ्या वेगळ्या बरोवप्यांलागीं चोखूंक मेळटा. मात, सुवादीक आसुनूय ती चड तेंप पचना. पूण निखटी विनोदी भेळ-पुरी करिनासतना, जेन्ना बरोवपी व्यंग-उपहास, विनोद-विरोधाभास हांकां विचारीक 'जोड' दिवन आपणाले सहानुभूतिची आनी समजिकायेची 'ऊब'य दिता तेन्नाच त्या विनोदी बरपाक एक

विचारीक प्रगल्भताय आनी साहित्यीक पुश्टिकताय लाभता.

तशें पळोवंक गेल्यार, वाचप्यां वांगडा खिणयाळो ताल सादूंक विनोदी बरोवप्याक व्यंग आनी हांसो हाची धिगी पुरो जाता. पूण वाचपी-बरोवपी हांची सासणाच्या स्वरुपाची लय जुळटली जाल्यार मात व्यंग आनी हांशा वांगडा जिणेविशीं सुजाण समरसताय उक्तावपी मेकळी वृत्ती लेखकाकडेन आसची पडटा. कोंकणी वाचप्याच्या बऱ्या नशिबान अ.ना.बाबाच्या बरपांत ती ताका सदांकाळ मेळत आयल्या. देखीक, तांगेलें गोंयकार हिंदू आनी क्रिस्तांव हांच्या घरादाराविशींचे ओडीवेलें हें विधान घेवंया : "गांव-घर, फामिलीची दोगांकूय ओड आसा. पूण हे ओडीक लागून एकलो तांकां सोडूंक शकना जाल्यार हे ओडीक लागून दुसरो तांकां सोडटा." (पा. ८४-८५)

हलकी-फुलकी भासली तरी विनोदी बरपासारकी जड आनी काडाओडींची दुसरी लेखनाची पत घडये नासुंये. विनोदाची झालर चडोवन, विचारांचे पालखेंत संवेदनशिलतायेची स्थापना करून निरीक्षणाच्या खांदार समजिकायेची मिरवणूक काडप म्हळ्यार विनोदी साहित्य बरोवप! हाचे वेल्यान अचळय बरोवन जालां, अशें भासोवपी लेखन करपी बरोवपी कितली जबरदस्त नियाळणी आनी गंभीर चिंतप करता हें कळटा. वाचप्याचे विनोदबुद्दीक खातखुतल्यो करतां करतां, वयलेवयर आनी वाचप्याचे सद्सद्विवेकबुद्दीक नकळटां आफुडप म्हळ्यार सुयेअग्रार ऐरावत तोलप. अशे तरेन बुद्दिची खावड मेळून पोसवल्लें बरप वाचुनूय वाचप्याचो बुद्दीक अहंगंड तिगोवपाची जतनाय घेवप, हें कितलें म्हा-कठीण काम, हाची जाणविकाय खडेगांठ बरोवप्याक आनी सुजाण वाचप्याकूय आसुंये. जे उमेदीन अ.ना. म्हांबरो हें नांव कोंकणी वाचप्यांचे जिबेर घोळटा, तिचे वेल्यान तांगेली विनोदी बरपावेली सिद्धहस्त कमाविशी सिद्ध जाता.

शैलीदार भौरंगी भास, विरविरी घरगुती उतरावळ, सरभोंवतणच्या वातावरणाचो नेटको उपेग, दिसपट्टे जिणेचो जुस्ताजुस्त संदर्भ, सामको संवकळीचो विशय आसुनूय तेंचतेंपणाची साय अळंग हातान कुशीक सारपी निवेदन – ह्या सगल्या साहित्य गुणांचो आपरोस म्हळ्यार अ.ना.बाबांची 'गोंयची अस्मिताय'. हो माथाळो 'पिटापिटाया' खरो, पूण खांपो बरोवप सदचे संवकळीच्या विशयांतल्यानूय आशयाचें आगळेंपण उक्तावंक पावता. हे बाबतींत विनोदी बरोवप्याची तुळा अष्टताशी बॉलरांवांगडा करूंक जाता. बॉलरांक जशी खेळपट्टी आनी बॅटस्मनाचो कल पळोवन अमके तरेची बोलींग घालपाची शिटुकसाण जाय, तशीच विनोदी बरोवप्याकूय भाशेची पीच आनी वाचप्यांची नाडी पळोवनूच विशयाची बोलींग घालचेली अक्कलहुशारी आसची पडटा. भास बरी फिरकी घेत जाल्यार बोलिंगेक धार येता. पूण विशयांची बोलींग कितलीय प्रभावी आसली तरी भाशेची पीच साथ दिना जाल्यार कपलार हात! अ.ना.ची बोलींग कितली

प्रभावी आनी तांची भास कितली साथ-दिणी हें वाचलेबगर कळपाचें ना!

विनोदी लेखनाक वाचप्याची नाडी कित्याक वळखुची पडटा हाचें कारण समजूंक सोपें. विनोदी बरप चड करून तत्कालीन विशयांक-व्यक्तींक-घडणुकांक धरून बळटा. हे तरेच्या बरपाचो हावेस, गंभीर वा शोकात्म बरपावरी कालातीत मानवी अणभवांचे पटयेर मनशाच्या सर्वांगीण भावविश्वाचो आलेख काडप वा मानवी वेव्हारांचो-सुखदुख्खांचो पये पयेचो हिशेब मांडप हो नासता. ताचो हेत आसता, वाऱ्याच्या वेगान धांवपी विशयांच्या घोड्यार सुवार जावन जिवीताच्या रथांतल्या उडट्या व्यक्ती-घडणुकांचें निसट्टें चित्र रेखाटप. विशेश म्हळ्यार, तें रेखतां-रेखतां, जिणेविशीं उदासीन आसपी वाचप्याक जिविताचे देंवते-चडटेची जाणविकाय, खोलाय आनी विशाळताय हांचेविशीं जागरूक दवरप; जिवीताच्या आकळनाशिल्ल्या पूण समजूंक सोप्या दिसपी गजालीं फाटलें कुवाडें हय-न्हयशें सामकारावन ताका अंतर्मुख करप; समाजीक आनी व्यक्तिगत जिणेंतलो विरोधाभास, व्यंगां आनी उणेपणां उक्तावन ताच्या विचारांक चालना दिवप. पूण हें सगलें करतना ताणें ताच्या भावनांक खुबळावपाचें वा भावविश्वाक धवळपाचें टाळूंक जाय. तेच वांगडा कसलींय विधानां करतना वाचप्याचे जिणेविशींचो लागिंचार आनी आस्त हांकां सांबाळचेली लागणुकूय विनोदी बरपाक पेलची पडटा. जें विनोदी बरप वाचप्याक निर्शेणी हाडटा तें आपणाली जापसालदारकी कितली पेलता हो प्रस्न आसा. जरी हो प्रस्न खिणभर कुशीक सारलो, तरी एके वस्तुस्थिती कडेन आडनदर करूंक जायना. जिणेविशीं वाचप्याची आस्त आनी आस्था तिगोवंक चुकिल्लें विनोदी साहित्य निर्जीव आनी सुको सडसडीत हांसो फांकारता. हाका लागून तें कृत्रीम आनी थोड्या काळाचें थारता. हाचे उरफाटें दोशांच्यो तिवल्यो-बावल्यो करपी आनी तातुंतल्या अनिश्टाचीं आलांकिलां काडपी विनोद सक्षम, जिवो आनी 'सदानंदी' थारता.

अ.ना.बाबांची **गोंयची अस्मिताय** अशेच तरेची वळखिची पूण रंगयाळी, टवटवीत आनी सदाबहार अशी सदाफुली. तिका लेखकाच्या नीज दुस्वासांचो, कुन्नाटकायेचो आनी आत्मप्रौढीचो मात लेगीत 'वास' ना हें तिचें एक मुजरत लक्षांत दवरीसारकें येस. चडावत विनोदी बरप ह्या तीन दुर्गुणांक पयस दवरपांत उणें पडटा. हें तोच लेखक करूंक शकता जो आपणाकय हेरांभाशेन – खासा करून वाचप्यां भाशेन एक सादारण व्यक्ती कसो लेखता, तांचे मदीं भरसून वचून आपणाकय चुकांचो, कुतांचो, खतांचो वांटेकार धरता. **गोंयची अस्मितायें**तलें अ.ना.बाबांचें एक विधान अशे तरेचे समजिकायेची देख म्हूण घेवं येता.

'शेंकड्यांनी वर्सां एकठांय रावूनय गोंयकार हिन्दू आनी क्रिस्तांव एकामेकांक सारके वळखूंक पावल्यात अशें म्हाका दिसना. देखून खंयच्याच गोंयकार बरप्याचे बरपावळींतल्यान आख्ख्या गोंयचें चित्र येवंक पावना. हो दोश ह्याय पुस्तकांत दिसतलो.' अ.ना.चें

आनी वाचप्यांचें 'सूत' कशें जमलां हें दाखोवंक वयलीं दोनच वाक्यां पुरो.

पयल्या वाचनाच्या मंद उजवाडांत लेगीत अ.ना.बाबांच्या बरपांतले कितलेशेच गूण नदरेंत भरतात. अ.ना.ची भास ही एक अप्रुपाची देण. उपाट सादेपणांत लेगीत अजापाचो दिमाख मिरोवपी. ओडलायणी, कंवळी आनी मेकळी. तिगेर तांगेले 'सदचे तरिकूय वेंचीक' उतरावळीन आगळोच भांगरावर्ख चडयला. अ.ना.चे भाशेंत गोंय मुक्तिवेळावयल्या सुशिक्षीत मध्यमवर्गी घराब्यांतले भाशेचो शब्दकोश उक्तो जाल्लो पळोवंक मेळटा. तांची कोंकणी म्हळ्यार आर्विल्ली तशी पुर्विल्ली. फिरंगी तशीं गांवठी उतरां घेवन घडिल्लें तें एक सोबीत मोस्त्र. अ.ना.बाबांक हो उतरांची मोस्त्रां करपाचो गूण तमाम गोंयकारांमदीं दिसला. ते म्हणटात, 'गोंयकारांनी उतरां भोंवतणीं अशीं अर्थाचीं कपयाळीं रचल्यांत.' खासा अ.ना.बाबांलें एक कपयाळें देखचें जाल्यार ''एकाद्रया गांवच्या गोपाळकृष्णाक तो सगल्यो राटावळी करता म्हणून लोक 'सर्वपल्ली गोपाळकृष्णन' म्हणटात'' तेन्ना तिरसुवादपणा बराबरूच तांगेली फीन तकलीय दिसून येता. असो निर्मळ हांसो फुलोवपी विनोद कोणाक मानचो ना? ताचे फाटली कुशाग्र बुदवंतकाय आनी कुशळ शब्दखेळ कोणाक जाणवचो ना?

विनोद जायत्या तरांचो आसूं येता. समाजीक धोंगां-पोंगां उक्ताडार घालपी, व्यक्तिचीं जावं संस्थेचीं उणेपणां अचळय वारेवपी, समाजमनाचीं व्यंगां दाखयतना रस्मी चिमटे काडपी, प्रतिकूळ परिस्थितीचेर उपहासाची पावत ओडपी आनी मनीस सभावांतलो विरोधाभास व्यक्त करपी. अ.ना. म्हांबरो ह्या सगल्या पतिंच्या विनोदाक आपल्या बरपा कांट्यार जुस्त तोलतात. देखी दीत तितल्यो उण्यो. तरी कांय देखींकडेन वाचप्यांचें लक्ष मुजरत ओडन दिसता. विशेश म्हळ्यार, कांय वेळार ह्यो देखी वयर सांगिल्ल्या तरां मदल्या, एकापरस चड तरांच्या विनोदाकूय लागू जातात.

१) ''... ज्या चल्या भुरग्यान चलयेच्या बापायच्यो व्हाणो चडान चड झरयल्यात त्या चल्या भुरग्याली चडान चड तुस्त तुमकां तेच चलयेच्या बापायकडल्यान आयकूंक मेळटा – लग्न थारतकूच. एक फावट लग्न थारलें म्हणटकूच चलयेच्या बापायच्या तोंडाक आपल्या जांवयाची तुस्त करतना सामके फोड येतात.'' (पा. ३२) हांगा एके समाजीक अनिश्टतायेवेलें भाश्य आनी विनोदाफाटली खंत नदरेंत भरता.

२) ''गोंयच्या ह्या लग्नाच्या वेव्हारांत चारित्र्य म्हणटात तें फक्कत चलयेकूच लागता, चल्याक लागना.'' उपहासाचें अस्तर कुशीक सारल्यार हांगा आमचे समाजजिणेंतलो काळोकिट्ट यथार्थ आनी एक अटळ वास्तविकतायेवेलें खर व्यंग दिश्टी पडटाच, विचारूय करूंक लायता.

३) ''पिशांक शिंगां नासतात तशीं तीं गोंयच्या फुडाऱ्यांकूय नासतात. पूण अशेंय आसतना गोंयचे फुडारी म्हणटात ते रोखडेच वळखूंक येतात... एकाद्रो गोंयकार आदीं

कितलोय अबर्गत आसलो तरी फुडारी जातकूच तो बरो लापीट जाता. आदीं तो कितलोय तोंडदुर्बळ आसलो तरी सामका वाचाविदळ जाता...'' हातुंतली विनोद आनी सत्यपरिस्थितीची निसरगांठ अ.ना.च्या सुक्षीम निरिक्षणाची आनी जुस्ताजुस्त बरोवपाचे रितीची गवाय दिता.

४) ''गोंयां बायलांची भगिनीमंडळां आसात, तशीं दादल्यांचीं भाऊमंडळांय आसात... खंयच्याय प्रसंगाक सोबसो दबाजो कशे तरेन करचो हें फक्कत ह्या लोकांकूच कळटा. देखीक, आख्ख्या देशांत जेन्ना 'जंगली जनावरांचें सप्तक' (Wild Life Week) चालू आसता, तेन्ना गोंयचो एकाद्रो लायन्स क्लब लायन वागाचो वा लायन कोल्याचो सत्कार करता.'' (पा. ७५) ह्या रस्मीं चिमट्यांचो वळ दिसता ताचेपरस कितलो खर आसा हें चिमटो बसता तोच सांगुंये.

५) ''दोगूय कोंकणीवादी आनी मराठीवादी उतरापावलाक कृष्णदास शामा, फादर स्टीफन्स, कुन्य रिव्हार, ग्रियर्सन, भांडारकर, शणै गोंयबाब, कत्रे, प्रियोळकर हांचीं नांवां घेवंक लागले. वादांतले मनीस एकामेकांक जापो दितासतना आपणाक जायजायतें म्हणटाले आनी तें अमक्या-अमक्यान म्हळां अशें म्हणून खंयच्याय पुर्विल्ल्या संशोधकाच्या जावं साहित्यिकाच्या नांवार खपयताले.'' (पा. ६६) हें निरीक्षण आज लेगीत गोंयांत चलतल्या बऱ्याच वादांक व्हडा प्रमाणार लागू जाता, हें कोण सभागी न्हयकारीत? ह्या विधानांत खातकुतली आसा, अतिताय लेगीत आसा, पूण वस्तुस्थितीचे मिरसांगेचो भगभगय आसा.

६) ''गोंय स्वतंत्र जायमेरेन हांगाचे अर्देअदीक भाटकार काबार जाले. कुळकायदो येनाफुडें ते खऱ्या अर्थान 'पॉब्र फिदाल्ग' जाले. हाचे उरफाटें, स्वतंत्रतायेचो फायदो चडानचड ब्लॅकिशतांक जालो. तातुंतले कांय जाण आपूण 'पॉलिटिकल सफरर' म्हणूंक लागले.'' (पा. ३७) जाका गोंयची तत्कालीन समाजीक-राजकी परिस्थिती जुस्त खबर आसा, तो कोणूच ह्या 'खोरजीवाल्या' विधानांतलो हांसो आनी खाज वेगळी काडूंक चुकचोना.

निमाणें एकूच सांगन दिसता. दर एकल्या बरोवप्याचीं कांय शक्तिस्थळां आनी आवडीचीं प्रमेयां आसतात. तशेंच ताचे दुर्बळ पोंत आनी उणेपणांय आसूं येतात. कोणाकोणाकूय अ.ना.बाबाचो गोंय-गोंयकारांविशींचो मोग आनी चिकित्सा अशेच तरेन तांची शक्त वा तांचो दोश दिसूं येत. आयच्या तटस्थ आनी दूरस्थ वाचप्याक ह्या लेख-संग्रहांत विशयाचें तेंचतेंपण दिसुये. पूण ज्या काळार हे लेख जल्माक आयले ताची जाणविकाय दवरल्यार अ.ना.बाबान तेन्ना **गोंयची अस्मिताय** बरयली हातूंत मातूय अजाप दिसचें ना. गोंयच्या संस्कृतीक इतिहासांतलें तें एक 'भार' आयिल्लें यूग म्हूण सदांच याद उरतलें. मूठभर गोंयकारांकूच त्या काळार गोंयकारपणाचो,

गोंयचे अस्मितायेचो खरो साक्षात्कार जाल्लो. पूण ह्या साक्षात्काराचो बार्का फाटल्यान पोनेळ कसो एक कुड्डो गोंयकारी अहंगड साबार गोंयकारांमदीं बोमाडो कसो वयर सरतालो. चड फुगल्यार तो आपणा वांगडा गोंयाक आनी गोंयचे अस्मितायेक नखलामी करतूय आसलो. तेन्ना गोंयकारांक तांच्या गोंयकारपणाविशीं, तांचे संस्कृतीक-बुद्दीक आनी समाजीक जिणेंतल्या साबार समज-अपसमजांविशीं शिटकावप गरजेचें आसलें. गोंयकारांक दुखयनासतना शादूर करप, चितूंक लावप आनी समाज मानसाचे काळखाकुडींत माजरा दोळ्यांनी तेळूंक लावप ही एक काळाची गरज आशिल्ली, ती अनाबाबान समर्थपणान पेलली. हें समजल्यार हे लेखांमाळेक आमी दोट्टी तोखणायेची हकदार मानतले. एक, गोंयां फुडलीं तत्कालीन आव्हानां पेलपी बरप म्हूण, आनी दुसरें, शैली, भास आनी आशय ह्या सगल्या आंगांनी कोंकणी साहित्यांतलें लळीत लेखांचें दालन समृद्ध करपी लिखाण म्हूण. वेतां वेतां हाची एक देख दिलेबगर रावं नज.

'साढेछारशीं व्हर्शनंतर हामचा गोवा हाज स्वथंत्र होत हाये ही हेक हानंदाची घोष्ट हाहे. घेलीं साढेछारशीं व्हर्शें पुर्थुगॅझांनी हामचा फाऽर फाऽर छळ खेला. हेवढा छळ खेला हस्ताना धेखील हामी हामची संस्कृथी थिगवून ठेवली. हाज हापण थ्यांच्या घुलामगिरींतून म्होखळे झालों. हाजचा हा हानंदाचा धिवस घोव्याच्या इतिहासांत सुव्हर्णाक्षरांनी ल्हिव्हून ठेव्या सारखा हाहे.'' (पा. ४८) प्रोफेसोर भासूचे हे 'कुथण्णेवेलें' लेखकाचें 'पियाद' अदीक कुचकुचपी आसा. ''त्या दिसाचें कितेंय जावं, पूण आमगेल्या गांवच्या लोकांक प्रोफेसोर भासूलें हें भाशण मात भांगराच्या उतरांनी बांदून दवरचेंशें दिसलें.'' (पा. ४८).

आज देड दसका उपरांतूय ह्यो वळी वाचतना हांश्याच्या घसघशावांगडा दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां देंवतात... हाचेपरस आनी वेगळी 'जोड' विनोदी साहित्याखातीर खंयची आसूं येता ?



# मुकेशाल्या **‘वळेसरां’** तलो ‘पारजती’ आविश्कार

वळेसराची सोबिताय माळटल्या परस पळयतल्याचे नदरेंत चड करून भरता. तशेंच, पळयतल्या मेरेन वळेसराचो उग्र-मंद वास पावूं ना पावूं, माळटल्याचे अवतीं-भोवतीं सुगंधाचो मनभुलोवणो कोमलो घिट्‌ट्यो घालीत रावता. श्री. मुकेश थळी हांचो **वळेसर** हो लघु-निबंदांचो झेलो वाचतना वळेसराच्या ह्या दोनूय गुणांची सुंदर प्रचिती मेळटा.

रंगरंगयाळ्या विचारांचो हो सुपुल्लो झेलो निगूत उतरां वेंचून सुडसुडीत शैलीन गुंथला. सदचे भाशेंत, संवकळीच्या शब्दांपोडार विविध विचार गुंथतां-गुंथतां, मुकेशान थळाव्या मातये वासान परमळीत उतरांय तातूंत अळंग हातान गुंथल्यांत. हाका लागून, ह्या विविधांगी विचारफुलांच्या **वळेसरा**क ओंवळा पोडाचें टवटवीतपण तर आयलांच, वांगडाच रतन आबोल्यांचे फांतयेचो नखरोय फावो जाला.

कोंकणी बरपाच्या मळबार तरणाट्या बरोवप्यांचें एक व्हडलें भिरेंच हालीं भोंवर मारिल्लें दिसता. हांचेमदल्या कोंकणी शिकून आनी कोंकणींतच पिकून तयार जाल्ल्या बरोवप्यांमदीं मुकेशान लक्षवेधी सुवात मेळयल्या. ऐसपैस वाचन, जिविताविशीं अखंड जिज्ञासा आनी कला-साहित्य-विज्ञानावटेन सारकोच ओडो हे मुकेशाच्या बरपांतले घसघसपी वझरे. हांच्या मेकळ्या पाटांत गोंय, कोंकणीचो मोग, गोंयकारी तिरसुवादपण आनी विनोदांत घोळयिल्लें गंभीर चिंतन, हीं सगलीं हातांत हात घालून मनसोक्त खेळटात.

चिंतन आनी निरीक्षणांतल्यान निस्तल्ले अणभव गांठीक धरून हो उमेदीचो बरोवपी **वळेसरा** रुपान पुस्तकाच्या संवसारांत आपलें पयलें पावल दवरता. जैत प्रकाशनान उजवाडायिल्ल्या ह्या सानुल्या संग्रहाक नेटकी बांदणी आनी नकसूद मांडणी हांकां लागून एक आगळीच सोबा आयल्या. डॉ. सुबोध केरकारांचें मुखचित्र सदचेवरी दोळ्यांत भरसारकें तर आसाच. पूण ते भायर तातुंतल्या अप्रूप रंगसंगतींतलो निळ्या रंगाचो आविश्कार भौच ओडलायणो आनी **वळेसरा**पुरतो पळयल्यार अर्थपूर्णय आसा. खेरीज मुकेशाचे व्यक्तिगत आवडीचो आनी निळसाणेचो भूल घालपी गूढ खोलायेचो तातूंत घडिल्लो मिलाफ नदर मारतनाच लक्ष ओडून घेता. सट्‌ट करून ‘जिवीत आमचें सोबीत’ हातुंतलें एक ‘पारजत’ मनांत फुलता. ‘सैमांत भरिल्ली निळसाण पळे. निळसाण म्हळ्यार वास्तवता, प्रेरणा, स्फूर्त.’ मुकेशाल्या ह्या ‘पारजती’ वळेसराक अदीक नेटकें

रूप दिवपांत सोबीत छापावळीचें म्रय तर आसाच, वांगडाच श्री. दामोदर घाणेकारांचे शिटूक नदरेन 'निवळायिल्ल्या' शुद्धलेखनाचेंय आसा, हें खासा नमूद करीसारकें.

वळेसरांतलीं फुलां 'पारजत' ह्या सुरबूस सदरांल्यान **सुनापरान्ता** वरवीं आदीं उजवाडा आयल्यांत. आत्र्या-पयऱ्यान दिसाळ्यांत बरोवप, सातत्यान बरोवप म्हळ्यार पोरांखेळ न्हय! पूण मुकेश हो जीव-खावगो खेळ फुटबॉलाचे सहजतायेन खेळ्ळा आनी खेळत आसा. हाका लागून **वळेसरां**तलें फुलान फूल वाचप्याचे वळखीचें आसा. पूण नवल म्हळ्यार वळखीचे उबेन हो मुकेशालो वळेसर मात बावना. ताच्या **वळेसरां**त सुरंगांच्या घमघमाळ पारजताचो निरागस हांसो फांकारला. धव्याफुल्ल पाकळ्यांनी नटिल्लो हो पारजती आविश्कार देठांतल्यान विचारीक केंसरांक लागून भौ मनभुलोवणो थारला.

स्फुट बरपांतल्यान आपलो खाशेलो ठसो वाचप्याच्या उगडासार दवरप तशें पळयल्यार कठीणूच. पूण मुकेशाक ही कमाविशी बरी सादल्या. तागेल्या ह्या लघु-निबंदांक (कांय कडेन लघु-लघु-निबंदांक), विशयापुरतें उलयतले जाल्यार, शिवराक-नुस्त्याचो पात्सो ना. हाऽ हाऽ हाऽ! करीत फुटपी हांसो कितें, 'सुरांच्या संवसारां'त चंवरपी कंवळी तान कितें, अहंकारान करंगेल्लो 'खरो गोंयकार' कितें, गोमटी अंदिल्लें 'गोमटें गोंय' कितें, 'शिक्षणा'ची पोथी कितें आनी 'कथेची कथा' कितें, मुकेशालो हात सगल्याच विशयांचेर सारकेच अपुर्बायेन भोंवता.

**वळेसरां**तल्या चडावत निबंदांक रूपक कथा जावं नितिकथांचो बाज आसा. कांय वेळा मुकेश लघुकथिकांचो पांटुलो घेवन खलिल जिब्रानाचो ढंगय आपणायता. अदींमदीं 'दैनंदिनी'च्या रुपकारांत तो अस्सल गोंयकारी कळपुटी तळशिता जाल्यार केन्ना गालमो वेंचून किस्मुरीक फोण्ण मारता. ह्या झेल्यांतल्या बरपाचे वांटे घालप सोंपें न्हय पूण तरी लेगीत तातूंत तीन तरांचे लेख वेगळावंक जातात. रस्मी चिमटे घेत, खातखुतल्यो करपी विनोदांतल्यान अ.ना.म्हांब्रो (व्यंग फुलोवपी) लेख! हातूंत 'मेरा गोवा महान', 'म्हजें गोंय', 'अकबर-बिरबल गोंयांत' हांचे सारक्या निबंदांचो आस्पाव जाता. हांसयतां हांसयतांच जिविताच्या शाश्वत प्रस्नावटेन ओडून व्हरपी 'को अहम ?' 'मनाचें प्रदूशण', 'मोग आनी गिन्यान' सारकें चिंतनशील बरप आनी बरोवप्याची काव्यमोगी वृत्ती अचळय उक्तावपी 'जिवीत आमचें सोबीत' जावं 'सुकण्या तूं उड...' सारके ललित लेख. जायच जाल्यार 'एप्रील फूल' आनी 'ल्हार शब्दाळ्याचें' असल्या लघुनिबंदांचो माहितीपूर्ण लघु-निबंद म्हूण आनीक एक वांटो घालूंक जाता.

वरभरांत वाचून जावं येता अशा ह्या धाकटुल्या पुस्तकाच्या नाड्यार बरोवप्याच्या गुण-दोशांचो उल्लेख करप म्हळ्यार सुतान स्वर्ग गांठूंक पळोवप. पूण तरीकूय खंयच्याय (हाताभायर गेल्ल्या) पुस्तकपिश्यान आनी (समिक्षेच्या असाध्य रोगान पिडिल्ल्या) वाचप्याच्यान रावंक नजो म्हूण **वळेसरा**चो नाकभर वास घेतल्यार तो कितें म्हणुंये ?

‘**वळेसरां**तल्या सुखी मनशांचो सदरो’ घालून तृप्तीचो धेंकर दिलो आनी ‘जाणकारा’ वांगडा भासाभास करून धन्य जालों खरो, पूण चड भावलो तो मुकेशालो ‘दिना’. ह्या दिनांतल्यान मुकेश जाय जाल्यार आपणाल्या खासा कॉमन मॅनाक जल्मा घालूं शकत. बद्द आर. के. लक्ष्मणाच्या पावलार पावल दवरून! पूण ताका आनीक जायत्या वेग-आवेगांची आनी वेणांची गरज आसा. वाट पळोवया...

**वळेसरां**त खटकलें कितें? येदे बेगीन सांगप बरोबर न्हय. तरी लेगीत मुकेशाल्या ‘पारजता’च्या सतत शिंवरत्या पावसाक लागून सांगन दिसता. म्हजेवरी मुकेशाकय कांय उतरांचो भौ सोस आसा तो ताणें येन्नाच सोडचो. फुडें-फुडें सुटूंक कठीण जातलो. देखीक, सुर्वेक जेन्ना ताच्या निबंदांतलो उलोवपी ‘न्हिन्नळ्ळो’, तेन्ना वाचपी तोखणायेन निर्जाप जालो जातलो. पूण आयच्या पारजतांत परतो जेन्ना तो निर्जाप जावन न्हिन्नळ्ळो तेन्ना मात वाचपीय ‘न्हिन्नळ्ळा’ आसतलो! ही घरची केळवण न्हय, मायेची सुचोवणी आसा. ‘आहत आनी अनाहत नादांचे लयेंत विरून वचपी’, ‘सुकण्यांच्या सुरावटी काळजाचो पेलो भरीत’ रावपी मुकेश ह्या पयल्या **वळेसरा** वरीच फुडेंय शाश्वत आनी अशाश्वताचें कुवाडें अखंड सोडयत रावतलो हीच अपेक्षा. इतले ल्हान पिरायेर लेगीत विज्ञान आनी अध्यात्माचे तागडेचें संतुलन सांबाळूंक धडपडपी ह्या फाल्यांच्या potential बरोवप्याक वाचप्यांनी काळजाथावन म्हणूंक जाय, Bravo मुकेश, ऐसेच फुडें सरो!



# जिवीतयात्रा

## जिणेची सुफळ-सुलभ प्रदक्षिणा

कोंकणी भाशेंत विचारीक साहित्याचो दुकळ नासलो तरी म्हणपासारको सुकाळय ना. कांय दर्जेदार बरोवप्यांनी अशे तरेचें लेखन करून हे दिकेन कशे तरेचो वावर फुडें करूं येता हाची देख दिल्ली आसा. हे वटेनचें एक फुडलें पावल म्हूण श्री. रामबाब बाळकृष्ण प्रभू चोडणेकार हांच्या **जिवीतयात्रा** ह्या पुस्तकाचें स्वागत करूंक फावो. विचारीक लेखन सदांच लेखकांमुखार संवकळीच्या उतरांतल्यान अनवळखी विचारांचें दायज वाचप्यामेरेन पावोवचेलें एक गुपित आव्हान दवरता. हें आव्हान लेखकाच्या मनाक जितली भूल घालता तितलेंच ताचे लिखणेचेर अंकुश दवरता. सादेंच पक्वान पूण सुरबूस लागसारकें जिस्ताजिस्त रांदून सगल्यांच्या जिबेर समादान करीसारकेंच हेंवूय एक सोपें कठीण काम जावन आसा. खंयचेय अन्नपूर्णेक विचारल्यार ती म्हणटली, फावो तशें आनी जाय तितलें घट खटखटें करून घरांतल्या आज्जापासून नातरां मेरेन सगल्यांच्या दाडवणांक तृप्त करप ही सरयेवेली कसरत. विचारीक साहित्य हेंवूय एक मनाचें खटखटें. जितलें वाकस तितलें चाखूंक बरें आनी जितलें घट तितलें चड वेळ मनांत घोळटा. श्री. रामबाबांक हें खटखटें बेस बरें जमलां काय दिसता.

**जिवीतयात्रा** वयलेवयर चाळिल्लो वाचक लेगीत, ह्या पुस्तकांतले सुटसुटीत उतरावळीन आनी सादे शैलीन प्रभावीत जालेबगर रावचो ना. तांची भास अशी संवकळीची आसा की एका फाटल्यान एक अशी हे यात्रेंतली शें-सवायशीं पेणीं वाचक कशेतरेन करता हें निमणेमेरेन कळना. हें पुस्तक वाचतना एक जाणविकाय मुजरत जाता. सोपें बरय म्हणप जितलें सोपें तितलेंच ताका लेखनांतल्यान पाळो दिवप कठीण. आनी ताचेपरस तातूंत फावो तशे विचार गुंथप हें तर भोवच कुस्तार. पूण बरोवप्यान हें आव्हान बरेतरेन पेललां.

**जिवीतयात्रे**चो तोंडावळो नियाळल्यार हें चरित्रात्मक वा जिणेंतल्या घडणुकांचो आलेख काडपी पुस्तक आसतलें अशें दिसता. हाका लागून लेखकाचे निजी जिणेविशीं उत्सुकता बाळगुपी म्हजेसारक्या वाचप्याची इल्लीशी निर्शेवणी जाता. पूण पयलेंच पान परतिले बरोबर एक वेगळीच उत्सुकता वाचप्याच्या मनाक काबीज करता. सुर्वेकच भायल्या मुखचित्राक अनुलक्षून जो शिळोक उद्‌धृत केला तो त्याच चित्रांतल्या दोनूय सोबीत सवण्यांवांगडाच ल्हवूच काळीज जिखून घेता. अचळय प्रस्न पडटा –

हातुंतलो खंयचो पक्षी आपूण काय? झाडाचीं फळां रुचीन खावपी? काय फळाची वान्सा बाळगिनासतना संवसार नियाळपी? जाप सोदूंक बोटां पानां परतितात आनी सट्ट करून लेखकाचें मनोगत वाचप्याकडेन हितगूज करता. नकळटां बरोवप्याची वळख एक आगळोच पक्षी म्हूण जाता. रुचीन जिणेरुखाचीं फळां चाखपीय आनी फळाची वान्सा धरिनासतना संवसारूय नियाळपी एक निष्काम कर्मयोगी.

**जिवितयात्रे** फाटली भूमिका मनमेकळ्या प्रस्तावनेंतल्यान होलमताच आनी रामबाबांच्या विनयशील व्यक्तीमत्वाचीं तासांय तांच्या विचारांच्या कणांवांगडा वज्रां कशीं लिकलिकतात. जाण्टे पिरायेच्या ह्या अणभवी बरोवप्यान जे नमळायेन आनी चिंतनशीलतेन ही प्रस्तावना अक्षरायल्या ती ताचे **जिवीतयात्रें**त सहभागी जावंक ल्हानां-व्हडांक आवाहन करतली हातूंत दुबाव ना. ही वाचनयात्रा सुफळ करचेलें मुदलाचें काम खासा भितरलें विचारांचें धन करतलें, असो विश्वास दिसता.

सुपुल्या चिंतना-पानांनी गुंथिल्ली ही जिवीतयात्रा तुळशीपत्रांची माळ कशी सदळ पूण सुघड आसा. हिजें एकेक तास आपलेपरीन सोबीत आसलें तरी हेरांमदीं गुंथल्यान ताका एक खेरीत नुरा आयल्या. योगायोग म्हळ्यार ह्या चिंतन-पत्रांची संख्या सुरवेचो शिळोक आनी प्रस्तावना धरून सवायशीं आसा. लेखकाचो बावनकशी अणभव हे माळेक सुवर्णाचो लेप दिता आनी ताच्या विचार-मंथनाचें तेज ताका भांगराची 'ओप' दिता. हाका लागून **जिवीतयात्रा** एका अर्थान एक मोलादीक गोफ म्हूण पुस्तक मोग्यान आपल्या संग्रहांत बाळगूंक फावो.

**जिवीतयात्रे**चें एकेक पेणें उलगता तशें तशें वाचप्याक 'हांगा इल्लो विसव जाय आशिल्लो' अशें दिसूं शकता. कांयकडेन विचारांचें कूस मात्शेंशें आपालिपा खेळून सट्ट करून दोळ्यांआड सरता तेन्ना मात तें थोड्याश्या विस्तारान परगटूंक जाय आशिल्लें, अशें दिसलेबगर रावना. 'बेफिकीर वृत्तीचो फायदो सामान्यांक जायना' वा 'शासनान धर्मनिरपेक्षता देशांत हाडची', ह्या लेखांचो हांगा उदाहरण म्हूण उल्लेख करूं येता. पूण कांय वेळार लेखकान आपल्या स्फुट बरपांत विचारप्रवर्तक अशा आपणाल्या मतांची नकसूद मांडणी अशे तरेन केल्या की ते लेख 'गागर में सागर' भरूंक पावल्यात. अशे तरेचे लेख 'हिंदूंनी त्यागी वृत्तीन स्वहीत हें राष्ट्रहितांत विरगळावचें', 'परदेसांतलो भारतीय', 'आमचे जिणेंत अध्यात्म भरसल्लें आसचें', 'पुर्णत्वाकडेन वचपाक आत्मनिरीक्षण जाय', 'म्हाताऱ्यांनी धनीपण सोडचें' आनी 'कर्मयोग' हे जावन आसात. ह्या संग्रहांतले कांय लेख बरोवप्यांचे जीवनदिश्टीचेर उजवाड घालतात. तशेच कांय लेख तांकां अजूनूय सुटूंनाशिल्ल्या जिणे-कुवाड्याचो संकेत करतात. अश्रद्ध मनीस सत्य कशें पारखितलो? खरो सहकार म्हळ्यार कितें? गिरेस्तांची आस्पत गरिबांक उपकरा पडची, पूण पडत? हे प्रस्न अजुनूय ते सुटावे करूंक पावलेनात. फुडल्या

पुस्तकांत घडये हांच्यो जापो ते परतून सोदतीत. तेमेरेन वाचप्यान हांचेर विचार तर करचोच, जमल्यार कृतीय करची.

ह्या संग्रहाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार तातूंत आशिल्लें विचारांचें उफाट धन. जीवनदृष्टी, धर्म-विज्ञान, धर्म-विज्ञान संबंद, शासन-समाज-राष्ट्र-भाशा-साहित्य-शिक्षण-कला अशा चतुरंगांनी नटिल्ल्या ह्या चिंतनफुलांक शब्दुल्यांची विविधताय, सदाफुलीचो सदांकाळ चंवर आनी जायांचो मंद परमळ आसा. जिवीताचें दरेक आंग लेखकान आपलेतरेन नियाळलां आनी ताचेवेलें आपणालें भाश्य अचूकपणान मांडलां.

**जिवीतयात्रे**ची आनीक एक जमेची वाट म्हळ्यार, दरेक वाचपी आपापले इत्सेन, आपणाले वेगान आनी आपापले शक्तीप्रमाण दर-मजल करून ती यात्रा सुफळ करूंक शकता. दरेक मैला-चिरो स्वतंत्र आनी नेमको आसा. वाट चुकपाचो भंय ना. यात्राय जिणेसमान वाटकुळी प्रदक्षिणा कशी आशिल्ल्यान पयलीं खंयचो लेख वाचचो आनी मदीं थांबचें काय ना हो प्रस्नच पडना. सगल्याच लेखांचो परस्पर संबंद म्हळ्यार एकामेकांकडेन तांचो लागोबांधो ना. हाका लागून साहित्य वा भाशामोगी जिवांक ह्या लेखांचें म्हांवा मुसावरी घुंवन घुंवन जाय तशें आस्वादन करूंक बरें पडटलें. लेखकाच्या भाशा-मोगाची गवाय तांच्या 'भाशेचो थेवो तिच्या मोग्यांनी सांबाळचो', 'मातृभाशेची व्हडवीक', 'कवी आनी काव्य' ह्या सारकिल्ल्या लेखांनी मेळटा. इतलेंच न्हय तर चिंतनशील आनी संवेदनशील मनाचो हो लेखक कितलो कवीहृदय आनी सुचारू आसा हें लेगीत कळूंक पावता. लेखनाविशीं रामबाबांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार, 'प्रतिभेक मनीसपणाचो आनी चारित्र्याचो थीर असो लामणदिवो पयस रावन वाट दाखयता. प्रतिभेचें यो-वच थीर आसना. वाङ्मयांतल्यान सत्याक आनी सुंदरकायेक जीवनाच्या रुपान शब्दांत गुंथपाचें नाजूक काम जितलें शिकचें तितलें थोडें.'' (वाङ्मय, साहित्य आनी साहित्यीक'. पा. १२४.)

श्री. रामबाबांचेर थोरॉचो, गांधीजींच्या विचारांचो आनी विवेकानंदांच्या तत्वगिन्यानाचो प्रभाव आसाशें जाणवता. पूण मुळांतच तांचो पिंड चिंतनशील. तांची वृत्ती अध्यात्मिक आसा हें सांगूंक तिसऱ्याची गरज ना. **जिवीतयात्रें**त सहभागी जावन आपलेपरीन समाजीक, राष्ट्रीय आनी मानवी आदर्शाची दिंडी फुडें व्हरपी हो मनीसपणाचो भगत, खिणभर लेगीत दिसपट्टे जिणेंतल्या सदच्या वेव्हाराक आनी परस्पर समन्वयाक विसरूं शकना. 'कर्मयोग' ह्या लेखांत बरोवपी जसो कितें आपणाल्या जिणेचोय आराखडो वाचप्यामुखार दवरता. 'कर्म करतना वेगळीच अशी मनाची वृत्ती दवरची पडटा. भुरग्याक जशी आवय सोदची पडना, तसोच मनशाक स्वधर्मय सोदचो पडना. जर आपणाक केल्लें कर्म 'कृष्णार्पण' करपाक जमलें आनी आपणें फकत कर्तव्यच केलां हें म्हणपाक सहज रितीन तोंडांत आयलें तर आपणाल्या जल्माचें सार्थक जातलें.

आपली साधनेची पराकाश्टा हीच देवा विशींची सिद्धी आसा. तिणें आपल्या हातान बरेंच जायत रावतलें. आनी आपूण परमेश्वरी इत्सेचें कारण जावन समाधान मेळटलें.'' ('कर्मयोग' पा. ३२) हाचेपरस सुक्षीम आनी हाचेकूय उदात्त जिणेचो दिश्टावो तो आनी कितें आसतलो ?

हो दिश्टावो सुडसुडीत आनी सुबक पुस्तकारुपान वाचकाच्या दारामेरेन पावोवपाचो अदृश्य वावर ओमेगा एंटरप्रायझेस आनी कुळागर प्रकाशनान तोखणाय करीसारके रितीन केला.



# करबट :

## कांटयाळें पूण रुचीक भोपशें

कोंकणी कथा साहित्याच्या मळार आपणाली खाशेली सुवात निर्माण केल्ली लेखिका म्हूण जयमालाबाय दणायत हांचें नांव सर्वपरिचीत आसा. तांचो **करबट** हो निबंद-झेलो हालींच हातांत पडलो आनी कथेवेल्यान कितल्या अळंगपणान तांचे भितरली लेखिका निबंदाच्या आळवापानार देंवल्या तें पळोवन तोखणाय दिसली. कथेचीं कांय अंशी बंदिस्त, आटीव फास्की आनी निबंदाचें मेकळें, हलकें-फुलकें भासपी दालें हातूंत जमीन-अस्मानाचो फरक आसा. एका प्रकारांत साहित्यीक नेटके संरचनेंत जिणेचें चैतन्य खेळोवचेली खिणयाळी कमाविशी करता. जाल्यार, दुसऱ्या प्रकारांत बरोवपी पासमेकळ्या चिंतनांतूय हयन्हयशी विचारीक सांखळी विणटा. आनी अशे तरेन मनाच्या मुक्त उड्डणांतय निबंद लेखक वाचप्याक सरभोंवतणची जीण आनी चिरंतनाची जाणविकाय हांचेवांगडा नाळ कातरूंक दिना. ही कसरत करप तशें पळयल्यार सोपी न्हय. निबंदाचो आवांठ, विचारांचो ओघ, म्होवें लालित्य आनी चिंतनांची ऊब एकठांय शिजोवप भौ मुश्किल काम. हांचेमदल्या एकाय घटकाचें प्रमाण चुकल्यार निबंद अळणी, पचपचीत, नीरस वा थंड किरांव पेजेवरी निर्जीव उतरांखेळ जावन पडटा. कांयवेळा खंयचेखंय घळटा!

पूण जयमालाबायच्या सानुल्या, ललित निबंदांची गोडी चाखतना तांकां दोट्टी अर्थान 'लघुनिबंद' म्हणप कितलें सार्थ आसा हें होलमता. सुलभ, खेळट्या पाटावरी व्हांवती भास, मर्यादशील आटाप आनी 'थोडेभितर भौ-सांगणी' केळोवपी विचार हीं ह्या झेल्याचीं वैशिश्ट्यां जावन आसात. हांचे जोडीक ह्या पुस्तकांतली विशयांची विविधताय आनी मांडावळीची जतनाय ह्या दोनूय गुणांक लागुनूच, मेजक्या विशयांकडेन संबंदीत अशा ह्या निबंद-पंद्रशीचो आंगलोट रेखीव आनी बांदावळ नदरेंत भरसारकी जाल्या. मात, मुद्राराक्षसान ह्या सोबीत पुस्तकाक खर काजळापूट ओडलां. फुडले आवृत्तेंत तें पूट संबंदीत अचळय पुसून काडटले अशी आस्त करूंक जाय. हरशीं, सुंदर मुखपृश्ट आनी वाचनीय मजकूर हांच्या वासान हो 'करबटा वांटो' कोणेंय उखलचो.

खरेपणान **करबट** हें नांव ह्या झेल्याक सर्वार्थान सोबता. ज्या मेजक्या, सोबीत

आनी सुरबूस जिनसांचें गोंयावांगडचें नातें संवसारान सासणाचें मानून घेतलां, तातुंतली 'नुस्तें' ही चीज अग्रणी आसा. ल्हान-व्हड, जाण्टे-नेण्टे तशेंच दादले बायलांचे जिबेर समसमान नेमान आनी घोस्तान घोळपी, ह्या नुस्त्यान 'जिनस' म्हूणच न्हय जाल्यार 'उतर' म्हूणय गोंयचे साहित्यीक तशेंच संस्कृतीक जिणेंत एक आगळीच सुवात हातासल्या. वयले वयर वाचल्यार हें विधान उखलापें भासुयेता; पूण बारीकसाणेन चिंतल्यार तातुंतली वास्तविकताय उपलापी जातली. विशेश गजाल म्हळ्यार, नुस्त्याची ही संस्कृतीक घोळटीक सुवादीक करपांत नुस्तेखायरे आनी नुस्तकारांइतलोच 'भोंवडेकार' आनी 'साहित्यकारां'चोय वांटो आसा, हें कोणूय मान्य करतलो.

पूण नुस्तें जरी रुचीक आनी मोलादीक आसलें तरी नुस्त्याक जीव सोडप्याकूय दिसपट्टे पोस्तां कपे मानवनात. खांप्या खावप्याक लेगीत. अदींमदीं करबटी भोपशाची लक्तुबाय दिसता. म्हूण घडये जयमालाबायक **कवासो**च्या सोज्वळ, सुवासिक पूण शिवराक पक्वान्नां उपरांत हो करबटां वांटो घालीन दिसला जायत. ह्या वेगळ्या रुपांतच ह्या झेल्याचें जैत आसा आनी तातुंतूच ताचें येस दडलां. खासा लेखिकेच्या उतरांनी करबटाविशीं सांगल्यार अदीक बरें! जयमालाबाय प्रस्तावनेंत म्हणटा : ''गोंय म्हळें की नुस्तें आयलेंच. गोंयकार नुस्तेंखायरे हें आख्ख्या संवसाराक खबर आसा. गोंयच्या नुस्त्यांत 'करबटाचो वांटो' फामाद. पावसा तेंपार जाल्यार ह्या करबटाक चड वालोर. हातूंत सुंगटां, खांपी, वेल्ल्यो, धोडयारे, वणगां, पेडवे, ताल्ले, मुड्डशो, कळव्या पेटे लेगीत जायत्या तरांचें बारीक नुस्तें मिस्तुराद आसता. शेंवटे, पापलेटां, विस्वण हे सारकिलें कप्यांचें नुस्तें खाल्ल्यांक घडये हें 'करबट' मानवना जायत. पूण तातूंतय 'करबट घोस्ताचें' आसपाचें अशा लोकांचो एक वर्ग आसा. तांतलेंच हांव... म्हजो हो करबटाचो वांटो तुमकां घोस्ताक वतलो अशी आस्त दवरतां.''

खरेंच, हो वांटो ल्हानसो आसलो तरी निवळ आनी वेंचीक आसा. गंभीर विशयांच्या सांगटां-वणगांची हातूंत भरस आसली तरी खातड ना. उडट्या विशयांची पिटपिटपी सुंगटां आनी नवख्या विचारांच्या लिकलिकीत आंट्याची बचक आसली तरी सखोल, गाढ आनी चिंतनाच्या काळुंदरां-खर्चाट्याचोय उणाव ना. मुजरत नांव घेयसारके निबंद म्हूण हांगा 'विषण्णताय पयस जाय', 'याद आसा तुका...', 'सोदता मूय साकरे कण' आनी 'खिणयाळी जीण... जीण', 'साडेतीन हाती' ह्या लेखांचो उगडास करीन दिसता. ह्या सगल्या लेखांनी लेखिकेचें तरल भावविश्व, तिगेलें संवेदनशील मन आनी चिंतनशील प्रतिभा हांचो मनभुलोवणो साक्षात्कार घडटा.

पूण तेच वांगडा, क्षुल्लक आनी दुर्लक्षित अशा सामान्य विशयांतल्यान विचारप्रवर्तक आनी बोधदिणे निबंद कांय न्हय करून ही लेखिका 'उबारता'. 'सिगार' 'पान सुपारी', 'नुस्तें आनी गोंयकार' ह्या निबंदांचो हांगा पती म्हूण विचार करूंक जाता.

ह्या निबंदांतल्यान लेखिकेची भोंवतणच्या संवसाराचें निरीक्षण करपी बारीक नदर, अदींमदीं विनोदाचें पान गुंथून नटयल्ली हलकी फुलकी शैली आनी हात सोडून वाचप्याचे होटींत गिन्यान आनी समजिकाय घालचेली उमळशीक दिसून येता. 'पावस पडे पावस पडे कातयांत...' ह्या निबंदांतलें मॉन्सूनावेलें भाश्य जावं, वा 'सिगार' ह्या लेखांतलें सिगाराच्या भिरांकूळ परिणामांचें वर्णन, जावं 'संस्कार, संस्कृताय आनी आमी' ह्या निबंदांतल्यान केल्ली 'गिराणावेली टिप्पणी' जावं, जयमालाबायची सुक्षीम आनी सखोल हांचेवांगडाच ढोबळ आनी सादारणाक तोलपाची आगळी वेगळी धाटणी लक्ष ओडून घेता.

तांगेल्या विविधांगी बरपाचो सुवाद घेतां-घेतां अदींमदीं, अकस्मात वाचप्याक चिमटो वळपाची तांगेली संवय नदरेंत भरता. ह्या करबटाचो एक बडीचो गूण आसा. हातुंतल्या विनोदाचे लेपेक कारुण्याचो हयन्हयसो मोव कांटो आसता आनी व्यंगाच्या वा उपहासाच्या कांटयाळ्या पातशाक समवेदनेचो सुवादय आसता. हाचें सुंदर उदाहरण तांगेल्या 'सोदता मूय साकरेकण' ह्या निबंदांत गावता. मुंयाभाशेन ट्रेनीची वाट पळयतां पळयतां, '... अचकीत मागीर तो खीण येता. वाट पळयतल्या बायलांमदीं उत्साहाचो संचार जाता. सोरपाभाशेन वांकडी तिकडी जायत येवपी ट्रेन दिसनाबराबर गळ्यांतल्यो पर्सी हातांत आंवळून, पदर गच्च कमराक खोवन ओडण्यो घट करीत, ट्रेनीचेर घुरी घालूंक सामकीं सज्ज जातात. ट्रेन थांबचेपयलींच, मनशां देंवचे पयलींच फटाफट उडयो घेवन संवकळीच्यो बायलो जागो धरून मेकळ्यो...' (पा. ७५)

एकटोशीं वाचल्यार हें वर्णन 'त्या' बायलांचेर तासंपट्टी करपी काय दिसता. पूण जेन्ना आमी लोकल आनी रेल्वेचो प्रवास हो मुंबयंत नोकरी करपी बायलांचे जिणेचो एक अविभाज्य भाग जावन पडला हें समजतात, तेन्ना तांची जीण म्हणजे एक मशीनच जाल्या, घडयाळीच्या कांट्याच्या तालार कसरत करपी... गरजेपासत तांका नोकरेक धांवचें पडटा, मानसीक आनी शारिरीक दोशींवटेन त्रास, ह्या वाक्यांवरवीं नकळटां एक सभावभावनेचो रस्मी पास आमकां तांचेवांगडा बांदता. मागीर त्या बायलांची 'ओडाताण', 'वरांचीं वरां प्रवास' आनी हें करुनूय ह्या प्रवासांत जुळिल्ले इश्टागतीचे म्होंवे रस्मी धागे आनी सहभावना जपपाची इत्सा, तेखातीर 'तीच थरावीक गाडी धरप', 'जिवार आकांतून गाडयेंत उडी मारप' ह्या सगल्याक एक करुणेची, मायेची, समजिकायेची आनी आपलेपणाची भौरंगी देग जोडटा.

पूण एकेका वेळार मात लेखिकेचे टिकेचें तोंड पेडीचो बारीक कांटो कसो वचून ज्युस्त आमगेले आत्मसंतुश्टीचे हिरडेंत रोमता आनी सणसण मारता तो आकांताचो! 'समाजीक स्वतंत्रताय आनी बायलो' ह्या निबंदांत लेखिका करता तीं काय विधानां

अशेच तरेचीं आसात: 'पूण जी गजाल बायलांचे राखणेपासत केल्ली तीच तिचे स्वतंत्रतायेआड आयली. आनी फुडें मागीर रुढीन, परंपरेन बायलांनीच बायलांक चड कोंडून घालीं', '... बायलांक फकत बायल म्हणून जियेवचें पडनासतना मनशाभाशेन जगपाची संद मेळप हें बायलांचे स्वतंत्रतायेचें प्रतीक', 'बायलो दादले समान हें मानतकूच बायलांक ल्हानपण दिवपी सगल्यो परंपरा बायलांनी बंद करूंक जाय', 'बलात्काराच्या बळींवटेन पळयतना चारित्र्याचे कल्पनेंत बदल जावंक जाय'. हीं सगलीं सर्वमान्य/पुरोगामी अशीं विधानां करतनाच लेखिका जीं दोन विधानां फुडें वचून करता तीं पुराय बायलजातीक अंतर्मुख करूंक लायसारकीं आसात.

चड करून आयचे सुशिक्षित म्हणोवपी बायलेन हांचेर मुजरत विचार करूंक फावो म्हूण तांचो उल्लेख करप समा जातलें. जयमालाबाय स्पश्टपणान जें म्हणटा तें बायलांक नाकसुरें वचसारकें. पूण समाजसुदारक बऽऽरे स्त्री-स्वातंत्र्याखातीर झगडले वा कायद्यान बायलांची फाट राखली तरी बायलांची बंधनांत कायद्यान रावचेली संवय चड तेंपाची' अशेंच तीं म्हणटात. 'कांय अतीसुदारक बायलो सौभाग्यलंकार बायलांच्या स्वातंत्र्याआड येवपी समजून कुकूम, कांकणां, मंगळसूत्राक बी वालोर दिनात. पूण बायलांचें स्वातंत्र्य ह्या भायल्या वस्तुंचेर निंबून नासता. बायलांक दादल्यांपसून स्वतंत्रताय जाय पूण वेगळेपण नाका.' फुडें वचून ती म्हणटा, 'जिणेंतलें सगलेंच काव्य शेणून उपकारना... बायल म्हणून ते व्यक्तिचेर येवपी मर्यादा लक्षांत घेवन तिणें आपणालें व्यक्तिमत्व ते चौकटींत रावुनूच समृद्ध करचें आनी कुटुंबाची जीण यसस्वी करूंक हातभार लावचो. खंयचेय प्रामाणीक आनी समंजस बायलेन हाचेर विचार करुंकूच जाय. हे विचार जरी कोणेंय उतराउतर उखल्लेनात तरी पूण तांची दखल घेवप खंयच्याय आत्मपरिक्षण करपी आनी जापसालदार बायलेक तशेंच दादल्याक चुकोवं येवचें ना. निमाणें, बरपांतल्यान विचारप्रवर्तन जें घडटा तें अशेंच न्हय?

**करबटां**त फकत विचारप्रवर्तक निबंद आसात, अशें मात न्हय. हातूंत 'मनीस कूड आनी आत्मो – जिवाशिवाची भेट' घडोवपी 'साडेतीन हाती' हो चिंतन-प्रवर्तक लेख आसा. विशेश म्हळ्यार, ह्या निंबंदांत चिंतनक्षमतेबरोबरच काव्यात्म कल्पनाशक्तूय चिरंतनाच्या विराट मळबार रुपकाच्या पांखाट्यांनी भोंवर मारतना दिसता. मात्त लेखिकेन 'हांव सायबा पलतडी वेतां' हे देखणीचो **करबटां**त मांडो म्हूण उल्लेख केला तो समा न्हय. विद्वानांनी हाचेर चड उजवाड घालचो. मात ही देखणी आयकून निरंतराचे घोंकणेंत गढिल्ल्यान तातूंत एक वेगळोच अर्थ जाणवूंक लागता. 'दामूल्या माटवांतलीं कलवंतां हीं पंचमहाभुतां – 'ब्रह्म सत्य जगत् मिथ्या' आनी म्हूण तांच्यांतच लेखिका 'जीव गुरूक विनयता, शिवा म्हऱ्यांत पावचेलो रस्तो दाखोवंक' असो अथांग

अर्थ सोदूंक रमता. मात 'दारांत भुरग्यांचेर नदर पडटनाच' ती 'मनशांत' येता आनी उपरांत हेरां निबंदांवरवीं वाचप्याकय सदच्या हांसऱ्या नाचऱ्या, फुलत्या-चंवरत्या संवसारांत हाडटा, हें विशेश.

ह्या संवकळीच्या संवसारांत 'हळदी आंगाच्यो' व्हंकलो, 'खडपार किल्लल्या तणाभाशेन केंसांचो सुपारेयेदो आंबाडो' घालून मिरोवपी 'आमची बाईबाय', लोकलीच्या 'थारावीक डब्यांतल्यो मैत्रिणी', 'मरतूल्या किरवंटेची सुपारी दातांनी कटाकट फ़ोडपी यमणें', 'आपणालो पुराय जल्म सामको रांदचेकुडींतच सारपी गोंयच्यो बायलो', खासा लेखिकेचे घरभर लोक आनी सोयरे-धायरे, उमेदीचे 'मुंबयकार', नात्यांच्या 'भोंवऱ्यांभितर' बुचकळपी दादले-बायलो आनी शेकानशेक मनीसजात खेंटून बसल्या. हांच्या सांगाताक लेखिकेच्या 'अणभवाचे पोटलें'त आशिल्ल्यो जायत्या सैमीक रत्नांच्यो खणी आनी तांचेकडेन पळोवचेली एक वेगळी नदर ह्योवूय गजाली हातूंत हातांत हात घालून ह्या निबंदांनी नंदतात.

हे अणभवाचे पोटलेंल्यान मागीर अळंग लेखिकेचें (?) 'शेणिल्लें बॅग' भायर सरता; म्हणटासर 'कोडू गोड यादींचें एक गांठवल' सांपडटा; हें थोडें म्हूण कॉपटेलाफाटोफाट 'जिबेआड जें करूंक जायना अशा सुवादाचें' नुस्तें आनी तांचे परीपरीचे जिनस जिबेक लालकायतात. उपास-तपास जावं वा सश्ट-भश्ट, संस्कृताय जावं वा स्वतंत्रताय, जयमालाबायक खंयच्याच विशयाचो पात्सो ना. पावस वोत आसूं वा गिराणाची गिरासणी, नात्याचो काथो आसूं वा भायरेचें पियाद, सिगाराचो धुंवर आसूं वा पानसुपारेचो विडो, लेखिका सगल्या रंगांनी रंगता आनी उमेदीन आमच्या ह्या 'खिणयाळे जिणेंत' मूय जावन साकरे कणी सोदीत भोंवता. तिगेल्या ह्या बारीक निरीक्षणांतल्यान आनी सुक्षीम विचारमंथनांतल्यान निस्तल्ले हे पंदराय निबंद फकत तिगेल्या बरपांतल्या लालित्याचीच गवाय दिनांत, जाल्यार जिवितावटेन पळोवचेलो तिगेलो सखोल, सहिष्णू, सहृदय आनी क्षमाशील असो दिश्टीकोणच आमचेमुखार मांडटात.

ह्या निबंदांची जमेची वट खंयची अशें विचारल्यार हांव तरी म्हणन : बरोवप्याकडेन विस्तृत वाचन, गाढ चिंतन आनी सहज लेखन हांची गंगाजळी आसा हेंच हे निबंद दाखोवन दितात. लेखिकेच्या बरपाचो एक विशेश उल्लेखनीय गूण म्हळ्यार आपणाल्या दायजाविशीं जाणविकाय आनी नमळाय तिगेले लिखणेंत एकवटल्या. म्हूणच तिगेलें जिणेविशींचें तत्वगिन्यान 'देखूंक सोपें आनी चाखूंक दुर्मिळ' अशें आसा. ताची नाट, क्षुद्रांतल्यान विराटाकडेन आनी सामान्यांतल्यान असाधारणाकडेन वचचेले, लेखिकेचे मनोवृत्तींत सांपडटा. तिच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार, '... आमी मुयेक आमचो गुरू करून आनी तिच्या देखादेखीन अशे हे दुर्मीळ साकरेकण वेंचून काडीत जाल्यार

संवसाराच्या दुदाचें अमृत जावंक कळाव लागचो ना' ह्या आशावादाक लागूनच घडये तिका जिवितांतल्या हलाहलाचो हुलोप बादना.

पूण लेखिकेन जे तरेन उदारमतवाद आनी विवेक हांचेवरवीं जिणेंतल्या नीर-क्षीराक वेगळायला, तेच तरेन तिच्या बरपांतल्यान उणींदुणीं काडप, परीक्षण बरयतल्याक चुकना. ह्या पुस्तकांत वाचप्याक आडखळसारकी एक शैलीची विशेशताय आसा, ती म्हळ्यार, लेखिका वाचप्यांवांगडच्या सहज संवादाक चडावत खेपो जिवाभावाच्या इश्टिणींवांगडचें हितगूज कशें लेखता. हो जरी बरपाचो दोश म्हणूंक येना जालो तरी ताचो परिपाक म्हळ्यार 'समजले मू तुमी?' 'कशें तें तुमीच पळयात', 'हय, जाल्यार कितें सांगतालें' हीं वाचप्यांवांगडा चड घसट दर्शवपी वाक्यां/वाक्यांश बरपांत येतात. बरोवप्याची 'आपणाक जाय तशें बरोवपी (चड करून ललित-निबंदांपुरती) मेकळीक' स्वीकार केली तरिकूय अशे तरेचे वाक्प्रचार बरपांत नाका तितली घनिश्टताय हाडटात आनी वाचतल्याचो रसभंग जाता. ललित निबंदांत बरोवप्याची वाचप्याबरोबर विचारीक 'जवळीक', भावनीक लागसाण, तात्विक सोयरीक (आनी जायच जाल्यार आंतरीक एकचार लेगीत) आसचो. पूण म्हाका तरी दिसता, अशे तरेची अनुपचारीक शाब्दीक घसट आसची न्हय. तशी आसत जाल्यार बरोवप्याची 'जाय तेन्ना दूरस्थ आनी जाय तेन्ना लागीं सरचेली' हक्काची भूमिका शेणटा. तागेल्या बऱ्यांतल्या बऱ्या विचारांफाटलें आनी उत्तमांतल्या उत्तम विधानांतलें सत्व वाचप्यांचे 'मर्जेचें बटीक' जायत म्हळ्ळो भंय उप्रासता.

जयमालाबाय सारक्या सक्षम लेखिकेकडल्यान वाचप्याच्यो जायत्यो अपेक्षा आसतात. तिणें वाचप्याक 'विश्वासांत घेवचेलो' सूर मुजरत बरपांतल्यान टाळचो, अशें सुचयन दिसता. जी लेखिका भगवद्गीतेसावन लोकगितांमेरेन आनी कविकुलगुरू कालीदासापासून जे. कृष्णमूर्तीमेरेन सतारीवेल्या बोटांवरी फिशालकायेन फिरता, तिका वाचप्यांवांगडा 'कानाफूसी' करचेली मातय गरज ना. निखटो सुसंवाद माथ्यावेल्यान पुरो... आनी ती तो ज्युस्ताज्युस्त करूंक जाणाय...!

निमाणें, लेखिकेच्या बरपांत दिसून येवपी उतरांच्या शिरंगाराविशीं सांगलेबगर रावं नजो. जयमालाबायची उतरावळ वाचप्याक 'संवकळीच्या मळ्यांतल्यान नवलायेच्या तळ्यांत' कांय न्हय करून व्हरता. 'पोंत हेगडो जोडप', 'दोन हस्तक आनी एक मस्तक जोडून' मागप, 'लोकांच्या आग्याहून सुटके पासत' व्हंकलेन नांव घेवप, 'कुसखरपणें' आसप... एक आनी दोन न्हय अशो जायत्यो ओडलायण्यो पती तागेल्या उतरांच्या भांडारांतल्यान गरोवन काडूं येतल्यो. उतराकणकणीं नेमको आशय निस्तावपाची करामत चड करून तागेल्या कथा-लेखनान तांचेभितर वळयल्या आनी तागेले सैमीक विनोदबुद्दीन तिका आळें-सावळ केल्या काय दिसता. एकूण कितें,

नकसूद उतरां आनी निगूत मतां हांकां लागून तांगेले निबंद लेखन वाचनीय थरलां.

**करबटा**चे वाचनीयतेंत थोडाभौ वांटो दोळ्यांक थाकाय दिवपी अक्षरमुद्रणाचोय आसा. फकत दोश उरला तो प्रूफ-तपासणेचो. घडये वेवसायीक काळमर्यादा वा साहित्यीक निकड हांकां लागून हो उणाव ह्या पुस्तकांत उरला जायत. आदीं म्हळां तशें, जर फुडले आवृत्तींत ताचेर हात ओडलो जाल्यार हें वाचनीय पुस्तक अदीक प्रेक्षणीय लेगीत जातलें. पूण एक खरें, आज लेगीत हें करबट आसा तशें ताजें फडफडीत कोणेंय घरा व्हरसारकें ! राजहंस सारकिल्ल्या दर्जेदार प्रकाशनान उजवाडायिल्लें आनी गजानन चारींच्या फावोशा मुखपृष्ठान नटयल्लें हें पुस्तक दर एकल्याच्या संग्रहाक उरसारकें आसा.



# साहित्य शिल्प :

## कोंकणी समिक्षेच्या दालनांतलें सुघड शिल्प

गोवा कोंकणी अकादेमीन मुजरत लक्ष घालून तयार केल्ल्या आनी उजवाडा हाडिल्ल्या कांय़ थोड्याच लक्षणीय पुस्तकांमदीं **साहित्य शिल्प** ह्या समिक्षात्मक लेख-संग्रहाचो आसपाव जाता. ह्या ल्हानशा पुस्तकांत कविता, नाटक, लळीत साहित्य, अणकार आनी कथा ह्या मळांचेर मान्यताय जोडिल्ल्या कोंकणी साहित्यिकांचे लक्षवेधी अशे पांच लेख आसात. पूण ह्या पुस्तकाचें खाशेलेंपण म्हळ्यार ताची प्रस्तावना. भौ. पांडुरंग भांगी हांच्या अभ्यासपूर्ण आनी परखड मतांची ही प्रस्तावना म्हळ्यारूच ह्या पुस्तकाचो साज आनी आत्मो. हे प्रस्तावनेंत भौ. भांगींची सुक्षीम समिक्षात्मक नदर आनी व्यासंगी वृत्ती हांचें वांगडाच दर्शन घडटा.

**साहित्य शिल्पा**च्या वाचप्यांच्यो शिमो आनी अपेक्षा हांची ही प्रस्तावना सुप्त दखल घेता. देखून, प्रस्तावनेकडेन निखटी उपचारीक गजाल म्हूण पळेनासतना भांगीबाबान तिचो एकाद्रया अभ्यासकाक मेळपी 'भांगरासंद' कसो उपेग केला आनी अशे तरेन 'साहित्य शिल्प' कोंकणींतल्यान साहित्य रचना करपी नवोदीत बरोवप्यांक, आपूण बरयतां त्या साहित्य प्रकारांत मार्गदर्शन घडचें' (पा.५) ह्या हेतान गोवा कोंकणी अकादेमीन उजवाडायलां म्हणपाचें श्री. पुंडलीक नायक हांणी उपाध्यक्षांच्या नात्यान पुस्तकाचे सुर्वेकूच सांगलां. म्हळ्यार, लेखांमाळेचो आंवाट, लेखन आनी साहित्य-प्रकार ह्या विशयां भितरूच उरूं येतालो. पूण प्रस्तावनेंतले समिक्षात्मक नदरेक लागून **साहित्य शिल्पा**चो साहित्याच्या विद्यार्थ्यां खातिरूय उपेगी असो संदर्भ-ग्रंथ म्हूण 'कायाकल्प' जाला अशें मुजरत सांगन दिसता.

हाचो अर्थ, **साहित्य शिल्पां**तले मूळ लेख प्रस्तावनेचे तुळेन उणे पडटात, असो मात न्हय. ह्या पांचूय लेखांत बरोवप्यांनी जतनायेन आनी बारीकसाणेन कविता, नाटक, लळित साहित्य, अणकार आनी कथा ह्या वाचप्यांच्या आवडिच्या आनी शिकपी विद्यार्थ्यांच्या गरजेच्या प्रकारांचेर उजवाड घाला. पूण ह्या पांचूय लेखांचे बरोवपी खासा साहित्यीक आशिल्ल्यान तांगेलो भर चड करून ह्या विशयांच्या 'साहित्यिकी' आंगांचेर आशिल्लो दिसून येता. आनी तसो तो आसप हें 'साहित्यीक' वाचप्यां खातिरूय

भोव गरजेचें. खेरीज, साहित्याच्या विद्यार्थ्यांकूय नाटक-कविता-कथा-अणकार सारकेल्या साहित्य प्रकारार्चीं खाशेलींपणां जाणून घेवचीं पडटात. ते भायर 'साद्या' वाचप्यां भितरूय एक उत्सुकताय आसता: साहित्य कशें आसता? कशें घडटा? खंयच्यान 'येता'? ह्या सगल्या तरांच्या वाचप्यांक **साहित्य शिल्पां**तले लेख कितेंय तरी दितातूच.

साहित्याक वाचप्यान कशें स्विकारचें, खंयच्या निकशांचेर तिजचें? रसीक म्हूण साहित्याकडेन पळेतना कशी नदर दवरची हाची शास्त्रशुद्ध नासली तरी उपकार पडसारकी देख प्रस्तावनेंतल्यान मेळटा. अप्रत्यक्षपणान, भांगीबाबान साहित्याचो इतिहास, साहित्यीक मळावयल्यो चळवळी, साहित्यीक 'वाद' हांचें शिकपी विद्यार्थ्यांखातीर आशिल्लें म्हत्व दाखोवन दिलां. तांगेले प्रस्तावने फाटल्यान एक स्पश्ट हेत दिश्टी पडटा. तांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार ''ज्या चळवळींक लागून युरोपांतलें वाङ्मय समृद्ध जालें, त्या चळवळींचो इतिहास आमच्या विद्यार्थ्यांक आनी साहित्यिकांक कळूंक जाय. देखून हो प्रपंच मांडला.'' (पा. ८).

प्रस्तावनेंत तांणी खुबशा साहित्य-संकल्पनांचो आढावो घेतला. चडशे खेपो तांचेर एक इतिहासीक उडटी नदर भोंवडायल्या अशेंच म्हणचें पडटा. फकत 'अस्तित्ववाद' हे संकल्पनेचो मात भांगीबाबान सिद्धांतीक (theoretical) परामर्श घेतला. हेर 'वादां' कडेन मात ते साहित्य-प्रवाहांतलीं सोपणां – ''एका फाटल्यान एक येवपी पेणीं'' म्हूण पळेतात काय दिसता. तांगेले प्रस्तावनेच्या आवांठाक मर्यादा आशिल्ल्यान घडये, सगल्याच वादांक फावो ती सुवात आनी फावो तितलें म्हत्व दिवप तांकां शक्य जालें ना जावंये. पूण शिकपी वाचप्यांक (हातूंत चैतन्यशीळ जाण्टेय आयले) हे प्रस्तावनेंतल्यान अदीक जाणून घेवपाची उमळशीक लागता अशें म्हळे बगर रावं नज.

हे भायर प्रस्तावनेंतल्यान शिकपा सारकें हेरय जायतें आसा. निर्भिडपणान आपणालीं मतां उक्तावप हो हे प्रस्तावनेचो खाशेलो गूण. कोंकणींत कितें उणें आसा हें हो अभ्यासक सडेतोड उतरांनी सांगता. ही गजाल फुडाराच्या कोंकणी अभ्यासकान ध्यानांत धरपासारकी. तेचप्रमाण ''साहित्य शिल्पांतल्या उलोवपांत एक आत्मसंतुश्ट वृत्ती दिसता. ही वृत्ती आमकां नडटली'' (पा. ३५-३६) अशी भांगीबाब जी शिटकावणी दितात तीय लक्षांत घेवपासारकी. पूण वांगडाच एक चतराय दिवप गरजेची दिसता. नव्यानूच भारा येवपी साहित्याक आत्महिणपणाची लागणूय तितलीच नडूंक शकता. आनी ह्या खिणाक आमकां ही पिडा कशीच परवडपासारकी ना.

**साहित्य शिल्पां**तल्या लेखांत, पयले सुवातेर अग्रणी कवी रमेश भगवंत वेळुस्कार हांचो 'शब्द, मन आनी लयबद्धता हांच्या माध्यमांतल्यान कवितेचो विचार' हो लेख आसा. ''कविता, तशेंच तिचे निर्मणेंत तरातरांच्या घटकांचे परस्परांकडेन आसलेलो

संबंद आनी संबंदांतल्यान निर्माण जावपी परिणाम, म्हणजेच कविता'' (पा. ३९) अशी भौ. वेळुस्कारांच्या निबंदाची व्याप्ती. सुर्वेकूच तांणी कांय नामनेच्या साहित्यीक अभ्यासकांनी दिल्ल्यो कवितेच्यो व्याख्या सांगल्यात. ह्यो व्याख्या लेखांत अणकारीत रुपांत(य) आयिल्ल्यो जाल्यार दुदांत साकर पडपाची. पुस्तकाचे दुसरे आवृत्तेंत हाचो मुजरत विचार जावचो अशें सुचयन दिसता. दुसरें म्हळ्यार हातुंतल्यो चडावत व्याख्या १९व्या शेंकड्यांतल्यो जाल्ल्यान तांकां चड करून इंग्लेज स्वच्छंदतावादाची सया मारता. हेरय एकदोन व्याख्या (चड करून हालिंच्यो) हांचे जोडयेक येवच्यो. तशी ब्रिटानिका विश्वकोशांतली हालिंची एक व्याख्या आसा, पूण तीय तितली पावना. समकालीन काव्य-विचार वेगान फुडें वचत आसा आनी तो कोंकणी विद्यार्थ्यांमिरेन पावोवप गरजेचें.

वेळुस्कारांच्या विश्लेशणाची विशेशताय म्हळ्यार ते कवितेच्यो चडावत व्याख्या व्यक्तिसापेक्ष आसात, हें मान्य करतात. आनी अशे तरेन खासा आपणाली ह्या निबंदापुरती कवितेची व्याख्या थारावचेली धडपड कितली निरुपेगी थारूं येता हेंय सुचयतात. हाका लागून फुडें तांणी कवितेच्या गुणविशेशांची केल्ली विस्कटावणी संयुक्तिक दिसता. शब्द आनी अर्थ हांचो लयबद्द आविश्कार कवी कल्पनेक लागून घडटा. कविचें मन म्हळ्यार शब्द, अर्थ आनी लय हांकां एकठांय हाडपी अनुबंध. अणभवसिद्ध कल्पनेक उतरांची वाट पळोवची पडना. ती आपशींच लयबद्ध रूप घेवनूच जल्मा येता. गर्भित अर्थाचेर कवितेचें आदण कशें थिरावलां हें दाखोवंक तांणी समर्पक देखी घेतल्यात. हातुंतली माधवी सरदेसाय हांची 'मिठाकणी' उल्लेखनीय! फकत तिचेवेली विस्तारपूर्ण विस्कटावणी इल्लिशी आटोपशीर आसूंक जाय आसली अशें दिसता.

मुक्तछंदी कवितेच्या सर्जकाकूय छंदाची जाणविकाय आसप कितली म्हत्वाची हें वेळुस्कारांनी सोबीत देखी वरवीं स्पश्ट केलां. पुंडलीक नायकांचे 'आमी कोण?' हे कवितेचो संदर्भ आनी तिचेवयलें टिपण तांकां बेस बरें सादलां. ते म्हणटात, ''सवन काळाच्या हुंकाराचो संदर्भ ही कविता दिता. कर्तुबाची गवाय दिवपाची भास ही कविता उलयता.'' (पा. ५३).

कवितेवेलो हो लेख म्हळ्यार वेळुस्कारां भितरल्या आपछंदी कविचे आंतरीक जाणविकायेचो आलेख. चडांत चड वस्तुनिश्ठ, वैचारीक आनी छंदमुक्त कवितेचो पुरस्कार करतल्यांक घडये हो विचार अर्दकुटो वा पटपाक कठीण कसो दिसुंये. पूण हाका सुर्वेकूच तांणी हेरांच्या व्याख्यांतल्यान जाप दिवन दवरल्या. ह्या व्याख्यांतले घटक वेगळे काडल्यार समेस्तांक मान्य जायसारकी आनी समजसारकी कवितेची विस्कटावणी आपशींच उबी जाता म्हणपाचें दाखोवन दिवं येता. पूण ताचो हो जागो न्हय.

'जीवनाचें वास्तवपूर्ण दर्शन' हो नाटक ह्या साहित्य-प्रकारावेलो श्री. पुंडलीक

नायक हांचो लेख सुटसुटीत, शिस्तबद्ध आनी माहितीपूर्ण आसा. नाटक ह्या साहित्यप्रकाराचे उत्क्रांतिची जाणविकाय दवरून तो बरयिल्लो आशिल्ल्यान नाटकाची व्याख्या आनी ताची इतिहासीक फाटभूंय हांचीय हो लेख दखल घेता. भौ. पुंडलीक नायकांक माचयेचो प्रत्यक्ष अणभव आसा. हो अणभव तांचे भितरल्या नाटककाराक कितलो म्हत्वाचो थारला हेंय ह्या लेखांतल्यान होलमता. नाटक हो 'एक कृतीप्रधान साहित्यप्रकार' म्हणपाचें नाटकाक लेखणेकडल्यान माचयेमेरेन व्हरतल्यांनी सदांच लक्षांत दवरचें पडटा हें तांणी बेस बरें दाखयलां. तांकां नाटकाच्या तंत्रीक बारिकसाणिंची जाण आसा हें लेखांतल्यान स्पश्ट जाता. ''नाट्यसंहितेंत 'जायती' वेशभूशा दाखोवं येता'' हें लेखांतलें विधान मात्शें खटकलें. 'जायती' ह्या उतरांतल्यान वाचप्यांचो, विद्यार्थ्यांचो गोंदळ जावं येता. हाचे बदला ''नाट्यसंहितेंत 'फावोशी' वेशभूषा दाखोवं येता'' अशें म्हळ्यार बरें जातलें आशिल्लें काय दिसता. ''गोंय, सावंतवाडी, मुंबय आनी कारवार, मंगळूर, कोचीन ह्या भागांतल्या समाज जिवनाचो अभ्यास करून आनी बोलीभाशेची तडजोड स्विकारून जर नाट्यनिर्मिती जायत जाल्यार कोंकणी माची अदीक संपन्न जावपाक पावतली.'' (पा. ७०) हें तांगेलें मत खंयचोय उक्त्या मनाचो वाचपी मान्य करतलो. पूण ''कोंकणींतले स्वतंत्र प्रज्ञेचे नाटककार जेदे वेळार भारतीय रंगमंचा खातीर योगदान करपाइतले समर्थ जातले तेदेवेळार कोंकणी माची भारतीय रंगमाचयेचे पंक्तीक येवन बसतली आनी तो वावर सुरू जाला'' (पा. ७३) ह्या विधानांतलो आत्मविस्वास जरी कोणाकय मान्य जालो तरी तातुंतलो आशावाद फावो ताचे परस अदीक 'कार्रेगाद' आसा अशें दिसता. (हाका भौ. पुंडलीक नायकां सारके एक दोन आडवाद आसात.) पूण तांचेभितरले नाट्यकर्मी अणभवपिके दूरदृष्टिची कदर करून ह्या विधानाची आनी फुडाराचे प्रगतिची नांदी म्हूण दखल घेवची पडटली.

'लेखकाचे अणभवसृश्टीची अर्थपूर्ण निर्मणी' ह्या लालित्यपूर्ण लेखांत श्री. चंद्रकांत केणी हांणी मुखेलपणान कथा-कविता-नाटक-कादंबरी ह्या प्रकारां भायल्या ललित साहित्याचेर विचार उक्तायल्यात. सोंपे भाशेंत आनी व्हांवते शैलींत तांणी 'अक्षर साहित्य', 'साहित्याचो हेतू' ह्या गजालिंची सुंदर फोडणिशी केल्या. पूण कांय कडेन नवशिक्या वाचप्यां खातीर कांय दुबावांक वाव दवरला. तांचें स्पश्टीकरण फुडले आवृत्तेंत मुजरत येवचें. देखीक हीं विधानां पळयात: ''साहित्य म्हळ्यार जिणेचें पडबींब.'' (पा. ७६), ''ललित साहित्य म्हळ्यार लेखकान वा कवीन आपले कल्पनेन निर्मिल्लें एक सुसंगत अशें अणभव विश्व'' (पा. ७८), ''ललित लेखकान निर्मिल्ली अणभव सृश्ट ही आमचे जिणेपरस वेगळी नासता... पूण जिणेचें तें पडबिंब न्हय.'' (पा. ७९) – ह्या सगल्यांमदीं वाचप्यान सुसंगती कशी सादची ? लेखकान आपणाक अभिप्रेत आशिल्लो आशय 'अणभवसृश्ट' आनी 'जिणेचें पडबिंब' ह्या दोन वाक्यांशांत सुप्त

रितीन मांडला. तोच दोन-चार वाक्यांनी उक्तेपणान मांडिल्लो जाल्यार विद्यार्थ्यांचे नदरेन तें अदीक फायद्याचें जावं येतालें.

भौ. केणींचो लेख वाचनीय आनी तांगेल्या मतांची सुस्पश्ट आंखणी करपी निबंद कसो आसा हातूंत दुबाव ना. तांगेले दोन उल्लेखनीय मुद्दे: ''रसिक वाचकांच्या हातांत पावन तांचेकडल्यान दाद मेळोवपांतच साहित्याची आनी साहित्यिकाची कृतार्थताय आसता'', (पा. ९०) आनी ''लेखकान वाचक साहित्य कित्याक वाचता, हें समजून घेवंक जाय'' (पा. ९०). 'साहित्याची कदर' आनी वाचप्याची 'रसिक म्हूण दाद' ह्यो साहित्याच्या विकासाखातीर भोव गरजेच्यो अश्यो गजाली.

लघुनिबंध ह्या प्रकाराची मुजरत देख घेवन केणीबाबान ताचो पिंड, प्रकृती आनी स्वरूप हांचो उल्लेख केला. ललित साहित्याची भास आनी लेखकाचें साहित्यांतलें 'व्यक्तिमत्व', बरें साहित्य आनी वायट साहित्य ह्या विशयांचेरय तांणी बरेतरेन उजवाड घाला. भौ. रवीन्द्रबाब केळेकारांच्या निबंदांचो खाशेलो उल्लेख करून तांणी ''ललित निबंदांत, प्रवास वर्णनांत, व्यक्तीचित्रणांत वा हेर कसल्याय शब्दचित्रांत लेखक आसचोच पडटा'', (पा. ८८) असो निश्कर्श काडला तो लक्षणीय. तशेंच, ''ज्या समाजाचो इतिहास गिरेस्त आसता त्याच समाजाचें ललित साहित्य समृद्ध जावंक पावता'', (पा. ९७) अशी निमाणी जी शिटकावणी दिल्या ती फुडले पिळगेन मुजरत मतींत धरपा सारकी...!

**साहित्य शिल्पां**तलो चवथो लेख अणकार ह्या कोंकणीखातीर तरी भोव गरजेचे अशे भाशांतर-प्रक्रियेचेर आसा. भौ. नागेश करमली हांणी थोड्याच आनी सरळ उतरांनी अणकार ह्या उतराचो अर्थ, व्युत्पत्ती, व्याख्या आनी गरज हांचेर समर्पक भाश्य केलां. थोडेभितर भारतीय भासांमदीं म्हत्व जोडूंक लागिल्ल्या अणकाराचो नियाळ घेवन तांणी परभाशेंतल्या अणकाराची गरज कशी उप्रासली जायत हाचीय कारणमिमांसा केल्या. विशेश म्हळ्यार, आर्यवर्गी आनी द्रविडवर्गी भाशापरिवारांमदीं अणकाराच्या माध्यमांतल्यान शास्त्रशुद्ध पांवड्यावेल्यान साहित्यीक दिवप-घेवप जावप कितलें म्हत्वाचें हें नागेशबाबान ज्युस्त सांगलां. ''भारतांत साहित्यीक अणकाराची गती फावो तशी ना.'' (पा. १०५) हें विशद करतनाच तांणी, आदल्या सोव्हियत युनियनांत जी शास्त्रशुद्ध अणकाराची यंत्रणा आशिल्ली तिची 'देखदिणो यत्न' म्हूण तुस्तय केल्या.

कोंकणींत जाल्ल्या अणकार-वावराचो धांवतो नियाळ घेतनाच नागेशबाबान अणकार कलेचो 'मंत्र' अचळय उक्तायला. निखटी 'शब्दशा भाशांतरीत' कृती वा 'स्वैर अनुवादीत' कृती कशी मूळ बरपाच्या गाभ्यासावन पयसावता, हें तांणी देखींसयत स्पश्ट केलां. कोंकणींत अणकाराचो वावर आयज म्हत्व जोडूंक लागला. अशा वेळार नागेशबाबांल्या 'इतिहास आनी वर्तमान' ह्या अणकारविशयक विश्लेशणाचें औचित्य वेगळें आनीक

सांगूंक नाका. अणकाराच्या रुपकार, रुपांतर ह्या जुंवळ्या भावंडांविशीं उलयतना तांणी 'अणकारप्याक मेळपी स्वातंत्र्याचो' जो उल्लेख केला तो अणकार करूंक भायर सरतल्या 'कासादोरा'न मुजरत मतींत धरपा सारको!

'चिरंतन कलात्मक आविष्कार' ह्या कथेविशिंच्या लेखांत भौ. दामोदर मावजो हांणी सुर्वेकच **साहित्य शिल्पा** फाटली कोंकणी अकादेमीची भुमिका आनी ते भुमिकेच्यो शिमो आंखून घेतल्यात. क़लेक वज्रासारकी लेखून ते म्हणटात, ''ती उपज़त वा जल्मजात आसची पडटा. पूण तिचेर संस्कार जातात तेन्नाच तिचें तेज फांकता... पूण कलावंतांनी खासा आपणेंच संस्कार आपणावपाचे आसतात. कथाशिल्प आपणापरीन यत्न करतलें. पूण संस्कार आपणावपाचें काम तुमकांच करचें पडटलें. कोंकणी अकादेमीचें हें शिल्प तुमकां उदकामेरेन व्हरतलें, उदक पियेवपाचें काम तुमचें.'' (पा. ११८).

कथेचें माध्यम आपणावप ही एक सैमीक वेंचणूक प्रक्रिया अशें सांगून भौ. मावजो हांणी कथा 'कित्याखातीर बरयतात' हाची थोडिशी फोडणिशी केल्या. कथेच्या इतिहासाचो सुपुल्लो नियाळ घेवन तांणी येवरोपी अमेरिकी संदर्भांत १९व्या शेंकड्यांतले पश्चिमी कथेचो उल्लेख केला. राजकी क्रांती – लोकसत्ता – शिक्षण प्रसार – नेमाळ्यांचो जल्म – अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य – सामान्य मनीस केंद्रित आशय – कथा साहित्या वांगडा वाचप्याची समरसताय, अशी कथेच्या विकासाची सांखळी वेगळावन श्री. मावजो हांणी आधुनिक कथेच्या जल्माची वेवस्थीत विस्कटावणी केल्या.

''विशिश्ट एकमुळो परिणाम सादपाखातीर ल्हानशें कथानक, मर्यादीत पात्रां आनी वेंचीक घडणुको हांचे एकजीव निर्मणेचो गद्य प्रकार म्हळ्यार कथा.'' (पा. १२१-२२) अशी गरजेपुरती व्याख्या करून मावजो कथेचें तंत्र, आकार, संघर्श, अनुभूति अशा विंगड विंगड घटकांचें विश्लेशण करतात. तांणी भाशेविशीं कथा बरोवप्यांक दिल्ली शिटकावणी सगल्यांनीच मानून घेवपा सारकी आसा. ते म्हणटात, ''गरजे भायर अलंकृत भास उपकारायली जाल्यार वाचप्याचें लक्ष भाशेचेर केंद्रित जावन कथेचो येवजिल्लो परिणाम सादप कठीण जावं येता.'' अणभवाचे कुशींतल्यान आयिल्लें हें शंबर नंबरी विधान खंयच्याय साहित्यिकाक उपेगी पडपा सारकें.

कोंकणी कथेचो आटोपशीर पूण यथार्थ नियाळ घेवन तांणी काडिल्लो निश्कर्श वस्तुनिश्ठ म्हणचो पडटलो. ''कोंकणी कथेचें मळ भोव समृद्ध आसा असो कोणें समज करून घेवंचो न्हय... कोंकणी कथेची आयची आवतिकाय पळयल्यार म्हाका फुडाराचो हुसको दिसता... कथा एके मर्यादेंत घुंवता... हाचें कारण आमचें अणभवविश्व मोटवें आसा. तें वाडोवपाचो जाणीवपुर्वक यत्न आमच्या हातसून जायना... जो मेरेन आमी (ह्या प्रस्नांचे) खरीक हात घालून थाव घेवचेनात तो मेरेन आमचें साहित्य उकलापेंच उरतलें.'' (पा. १३२-३३).

सर्जनशीळ बरोवप्याक तुस्त-तोखणाय, मान-मरातब, पैसो-प्रतिशठा आदि मेळ्ळे उपरान्तूय ताचे भितर अशी खर जाणविकाय जिवी उरता तेन्नाच ते-ते भाशेंतल्या साहित्याक फुडार आसा अशें म्हणूं येता. **साहित्य शिल्प** ह्या पुस्तकाचो मुळावो हेतू नवोदीत बरोवप्यांक मार्गदर्शन हो आशिल्लो तर वयल्या ७-८ वाक्यांनी त्या बरोवप्यांक मार्ग दाखयला इतलेंच न्हय तर ते वाटेर जाय आशिल्लें पाथेयय दिलां. मावजोबाबाचे हे विचारप्रवर्तक ''तानलाडू-भूकलाडू'' फुडाराच्या बरोवप्याक-वाचप्याक आनी अभ्यासकाक वांगडाच थाकाय आनी शिटकावणी दितले हातूंत दुबाव ना.



# हेर भासो आनी अणकारीत कोंकणी साहित्य

आयच्या युगांत, समाजशात्रीय तशेंच इतिहासीक कारणांखातीर जावपी जनसामान्यांच्या थळांतराक लागून आनी तेपरसय अदीक आधुनिक काळावेल्या, भौभाशीक शिक्षण प्रणालीक लागून एकापरस चड भासो समजुपी वा तांचेविशीं उत्सुकताय बाळगुपी, नवो समाज घडत आसा. त्या भौभाशाभिमुख समाजाक साहित्यीक आनी संस्कृतीक पोसवण दिवपांत नाटक सिनेमा रेडियो, दूरदर्शन आनी हेर प्रसार माध्यमांचो नेमाळीं आनी पुस्तकांवांगडाच म्हत्वाचो वांटो आसा. **तुळशी, संशयकल्लोळ, शितू, देखणी दुराय, वधचक्र, सुर्रीग** हांचे सारक्यो दूरदर्शन माळो/टेलिफिल्मां/कार्यावळी पळेले उपरांत त्यो त्यो कृती मूळ रुपांत वाचच्यो अशें कोणाकय दिसल्यार नवल तें कसलें ? तीच गत माचयेर सादर जावपी नाट्यकृतींची वा रेडियोंवेल्यान प्रसारीत जावपी कविता वा कथा वाचनाची रूच घेवपी रसिकाचीय जाता आसतली, हातूंत म्हाका तरी दुबाव ना.

अशे तरेन, हांचेवरवीं विविध भाशीक साहित्याक केन्ना न्हय अशी नामना आनी वितरण, आडवाटेन कांय जायना, लाबलां. तेच परीन, विंगड विंगड भासो आनी तांचेमदीं निर्माण जावपी साहित्य हांचेविशीं खासा आस्था बाळगुपी वाचक वर्गय तयार जाल्लो आसा. पूण, सदांच अशा वाचप्यांक मूळ भाशेंतलें बरप वाचूंक मेळटा वा जमता अशें ना. अशा वेळार, अणकार वा भाशांतर, तशेंच रुपांतर वा लिप्यंतर हांकां भोव म्हत्व फावो जाता. हाकाच लागून आज अणकारांवरवीं विंगड विंगड भाशीक साहित्यामदीं साहित्यीक आदान-प्रदानाचें एक आगळेंच यूग अवतरलां.

खंयचेय आधुनिक भाशेचे वाडटे वालीक फावोशे तरेन बळोवपांत आनी पोसवण दिवपांत अणकाराचें योगदान व्हड आसा. कोंकणी सारके निकतेच उमेदीन पावली मारतले भाशेक तर अणकारान व्हडा प्रमाणांत थाकाय दिल्या हातूंत दुबाव ना. अणकारावरवीं मेळपी ही घटाय कोंकणी साहित्याक दोन तरांनी मेळ्ळ्या. एक म्हळ्यार, हेर भारतीय तशेंच विदेशी भासांतलें वेंचीक साहित्य कोंकणींत अणकारिल्ल्यान कोंकणी साहित्य-संवसार अदीक गिरेस्त जाला. आनी दुसरें म्हळ्यार वेंचीक कोंकणी

साहित्यरत्नाचें हेरा भासांनी अणकारावरवीं वितरण जालां आनी ताका नामनाय मेळ्ळ्या.

पयले तरेच्या अणकाराचें कोंकणी साहित्याच्या बुन्यादी वावरांत मोटें योगदान आसा. त्या काळार, कोंकणी बरोवप्याक 'शुन्यांतल्यान संवसार' निर्माण करचेलें आकांताळें आव्हान स्विकारून कोंकणीची साहित्यीक व्हडवीक सिद्ध करची आशिल्ली. पूण सगल्याच क्षेत्रांनी साहित्यीक सारकेच फिशालकायेन आनी पेलीन सर्जनशील बरप करूंक पावचो नाशिल्लो. तेन्ना कोंकणींतलें बरपय अल्प पिरायेचें आनी कोंकणी साहित्यीक हाताच्या बोटार मेजसारके आशिल्ले. ह्या काळार आमच्या म्हालगड्यांनी हेर भासांतलें बरें बरें साहित्यीक फळ कोंकणी भाशेंत रुपांतरांच्या वा अणकारांच्या रुपान पिकत घालें आनी अशे तरेन कोंकणीचें साहित्य विश्व विशाळ नासलें तरी पिकाळ केलें.

आधुनिक कोंकणी साहित्याचो आद्य पुरूस शणै गोंयबाब आनी आचार्य राणू नायक हांगेल्या सिद्धहस्त लिखणेंतल्यान सुरू जाल्लो हो भांगरामोलाचो रुपांतर-अणकाराचो वावर फुडाराकूय अविरत चालूच उरला. सुरवेक अणकाराचें हें काम धर्मीक ग्रंथ वा बरपावळीचेर केंद्रीत आशिल्लें. देख म्हणून आमी बाकीबाब बोरकारांचो **भगवान बुद्ध, गिताय, भजगोविंदम्,** खलील जिब्रानाच्या **प्रोफेटचो पैगंबर** हो अणकार जावं गोंयचे सेवाधर्मी समितीन केल्लो **बायबलाच्या नव्या करारा**चो अणकार, हालींच जाल्लो पवित्र **कुराणा**चो कोंकणी अणकार, जावं पाद्री आल्वारू रेनात मेंदिश हांचो **बायबल कथांचो पवित्र पुस्तक** हो अणकार, हीं उदाहरणां घेवंक शकतात. हांचेच पंगतीक मानाचें पान फावो जावपी आनिकूय जे अणकार आसात ते म्हळ्यार बंग्ले नारायण कामत हांची **गितामृत साकी,** पांडुरंग नारायण नाडकर्णी हांची **गिताम्मा,** शेषगिरी केशव प्रभू हांची **गीतार्थसुधा,** एन्. लक्ष्मीनारायण आनी बी. बी. बाळिगा हांची **श्रीमद्भग्वद्गीता** आनी बस्ती पुंडलीक शणै हांचो **ऋग्वेदा**चो अणकार तशेंच ह्या सगल्यांपरसय आगळें अशें शणै गोंयबाबांलें **भगवंतालें गीत** हाचो खासा उल्लेख करचो पडटा.

पूण ल्हवू ल्हवू हो अणकाराचो वावर विस्तृत जावन साहित्यीक आनी समाजीक अशा दोट्टी वाटांनी वचूंक लागलो आनी वेगवेगळ्या भाशांनी अणकाराच्या ह्या कामाक मोलादीक योगदानय दिलें. **गोमंत भारती** हे संस्थेन उजवाडायिल्लो गांधी साहित्याचो अणकार हांगा याद करिसारको आसा. रवीन्द्रबाब केळेकार हांच्या **अशे आशिल्ले गांधीजी, सगले मनीस भावभाव** आनी झवेरचंद मेघाणींच्या **माणसाईना दिवाचो आनी तांकां मनशांत हाडले** हो तांणी केल्लो अणकार हांचो उल्लेख करूंक जाय. स. रा. ना. नायकां हस्तुकीं रविंद्रनाथ टागोर हांची **गीतांजली** आनी

टॉलस्टॉयची कथासंपद (**देव आनी मनीस**) आनी विशेश म्हळ्यार **येशूचें गीत** कोंकणींत प्रगटलां.

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांणी केल्लो व्होल्तेराच्या **कान्दीदा**चो आनी वीरेंद्रकुमार भट्टाचार्य हांच्या **आयलें आमचें राज्य** हांचीय याद जाता. हेर कृतींची आनी तांचे वांगडाच त्यो अणकाराप्यांचींय नांवां सांगलेबगर रावुंनजो. अणकारावरवीं कोंकणी सरस्पतीची व्हड सेवा करपी हे उपासक जावन आसात. सर्वश्री नागेश करमली (**आधे अधुरे** आनी **जमनेजय आयक**), चंद्रकांत केणी (शरश्चंद्रांचो **काशिनाथ,** महंमद बशिरांची **पणटी**), पांडुरंग भांगी (वाईल्ड हांची **सालोमे** आनी हेरय), ओलिव्हीन्यु गॉमिश (**मोनजाती घरभाट,** जिब्रानाच्या **ब्रोकन विंग्सा**चो 'तोडिल्लीं पांखां' आनी बंकिमचंद्राचो **आनंदमठ**), श्रीपाद रघुनाथ देसाय (**यक्षप्रस्न** आनी **रघुवंशा**चे पांचसर्ग), शांताराम हेदो (फ्रेय् लुई द सौज हांच्या नाटकाचो **यात्रीक** हो अणकार), प्रकाश थळी (यू. आर. अनंतमूर्ती हांचो **संस्कार**), रामभाऊ जुवारकार (पुश्कीनाची **द्रोबेवस्की**) तशेंच पांडुरंग वर्दे (**आबे फारीयाची जिणेकथा**) आनी यशवंत पालेकार (**मातयेचो मोग**). हे खेरीज साहित्य अकादेमीच्या उत्तेजनान उजवाडा आयिल्लें आनीक अणकारीत साहित्यय आसा. हातूंत प्रेमचंद, गालिब, काजी नजरूल इस्लाम, नानालाल हांच्यो **जिणेकथा,** कन्नड आनी मलयाळम साहित्याचो इतिहास तशेंच कादंबऱ्यो (**दोन दंगाळी भात** आनी **दोळ्यांतलें किशीर**) आस्पावतात. भुरग्यांच्या साहित्यांत दोळे दिपकावपासारकी भर श्री. गुरुनाथ आनी श्रीमती कुमुदिनी केळेकार हांणी घाल्या. श्री. महाबळेश्वर सरदेसाय हांच्या **इसापनिती**चोय उल्लेख करिसारको.

रुपांतराचे वाटेनय कोंकणीचें भांडार समृद्ध करपी जायते आसात. सर्वश्री प्रकाश थळी (**अजीबपुरची कल्पकथा**), पुरुषोत्तम सिंगबाळ (**काका किशाचा** हाचें रुपांतर) रामभाऊ जुवारकार (**भूतेबाब, वखद, राखण, राजा चंद्रहास, शाकुंतल**) हांची वळख कोंकणी साहित्याच्या मळार कोणाक ना? हांचे भायर अणकाराचो हो वावर आमकां अनवळखी वा खबर नाशिल्ल्या बरोवप्यां हस्तुकीं चालूच आसा. पूण तो चडसो पुस्तक रुपान उजवाडा येवचो सोडून नेमाळ्यांच्या पानांनी दडून बसला. अदीमदीं असो अणकार करप्यांमदीं सर्वश्री नरेंद्र का. कामत (**मदली भयण**), कमलाकर म्हाळशी (**आर्थर ॲशाचें पत्र**), रमेश वेळुस्कार (श्री अरविंदोक उद्देशून रवीन्द्रनाथांची नामनेची कविता), वासुदेव कामत (**गोंयचे हिन्दू आनी पुर्तुगेज प्रजासत्ताक** ही लेखां माळ) हांची याद जाता.

मात, आयच्या विशयाचो फॉक हेरां भासांनी अणकारीत कोंकणी साहित्य होवूय आशिल्ल्यान, फकत कोंकणींत अणकारीत जाल्ल्या हेर भाशीक साहित्याचोच परामर्स घेवचेलो जागो हो न्हय.

जेन्ना हेरां भासांनी अणकारीत कोंकणी साहित्याचो विचार करचो पडटा तेन्ना तें खंयच्या खंयच्या भासांनी पावलां, कोणकोणा हस्तुकीं पावलां हाचेपरस तें कितल्या प्रमाणांत पावलां, केद्या वाचक वर्गामेरेन पावलां हाचो विचार आदीं करूंक जाय. अशें केल्ल्यान ते तरेच्या अणकारीत साहित्याचें येस, योगदान तर कळटलेंच, पूण ताचे फुडले प्रस्न, तातुंतल्यो त्रुटी वा उणाव खंयचे आनी ते कशे तरेन सुदारूंक वा सुटावे करूंक जातात हेंवूय होलमतलें. इतल्या ल्हान नियाळांत पुराय वा लागीं लागीं पुराय अणकारीत साहित्याची वळेरी दिवप शक्य ना. हाचीं कारणां तीन आसात. पयलें, पुस्तक रुपान उजवाडायिल्लो असो वावर उणो आसा; हेरां लिपींतल्या कोंकणी बरपाचो अणकार (म्हाका) अनवळखी भासांनी जाल्लो आसल्यार ताची शास्त्रशुद्ध म्हायती उपलब्ध ना. आनी आयजमेरेन अप्रसिद्ध पूण पुराय जाल्लो, तशेंच प्रसिद्धीचे वाटेर आशिल्लो अणकारूय जायतो आसा.

पुस्तक रुपान उजवाडा आयिल्ल्या कोंकणी साहित्याच्यो मेजक्योच देखी घेवच्यो जाल्यार **भारतीय शिखर कथाकोश : कोंकणी कहानियाँ** ह्या श्री. कमलेश्वर हांणी डॉ. गायत्री कमलेश्वर आनी डॉ. प्रणव बोस हांच्या सहकार्यान संपादित केल्ल्या कथासंग्रहाचो उल्लेख करचो पडटलो. ह्या संग्रहाचो मुजरत उल्लेख करपाचें कारण म्हळ्यार राष्ट्रभाशेवरवीं अ.ना. म्हांबरो ते हेमा नायक हांचे मेरेनचे सत्तावीस आधुनिक कोंकणी कथाकार देसभराच्या वाचप्यांमेरेन पावल्यात. ह्या संग्रहाचें आनीक एक खासा उल्लेखनीय देणें म्हळ्यार कोंकणी साहित्याच्या हिंदी अणकार-सेवेक ताणें उपलब्ध करून दिल्ले पांच अणकारपी. ते जावन आसात सर्वश्री मोहनदास सुर्लकार, नारायण शेजवलकार, पी.जी. कामत तशेंच श्रीमती शांती कामत आनी डॉ. चंद्रलेखा डिसूझा.

डॉ. नरेश कवडी हांणी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांच्या सहकार्यान केल्लो दामोदर मावजो हांचें **कार्मेलीन** हे कादंबरीचो मराठी अणकार उल्लेखनीय आसा. हाचें कारण म्हळ्यार **कार्मेलीन** ही कोंकणींतल्या मेजक्याच दर्जेदार कादंबऱ्यांपैकीं आशिल्ल्यान कोंकणी साहित्याचो एक वाटचिरो कशी थारल्या. प्रा. सुभाष भेण्डे हांणीय तांच्यो एक दोन कथा मराठींत पावयल्यात अशें आयकलां पूण पळयिल्ल्यो नात.

कवितेच्या मळार स. र. वि. पंडितांच्या कवितांचो थॉमस गे हांणी केल्लो इंग्लीश अणकार याद जाता. ते भायर कथा आनी कवितांच्या मळार अणकारांचें कार्य करपी भौभाशीक अणकारप्यांचोय उगडास करीन दिसता. हांचेमदीं डॉ. सरदेसाय आनी रश्मीरथी आस्पावतात. डॉ. सरदेसाय हांणी इंग्लीश, फ्रेंच, पुर्तुगेज ह्या विदेशी भासांवांगडा हिंदी, मराठी ह्या भासांनी प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी खासा आपणाल्या बरपाचो (कथा/कविता) अणकार केल्लो आसा. रश्मीरथी हांचो अणकाराचो वावर

इंग्लीश, मराठी आनी उर्दू ह्या भासांनी चलता. कांय कथां वांगडाच तांणी साबार कोंकणी कवींच्या कवितांचो इंग्लिशींत अणकार केला. हांगा नरेंद्र कामत हांच्या **एक शेंदुरी अक्षर** ह्या कादंबरीचो उल्लेख करप गरजेचें.

मुखेलपणान इंग्लिशींत कोंकणी कथेचो अणकार हालींसराक व्हडा नेटान चालू आसा. सातत्यान हो वावर करपी म्हूण श्रीमती विद्या पै, हेता पंडीत आनी सर्वश्री मुकेश थळी आनी सचीन रायकार ह्या अणकारप्यांचीं नांवां दोळ्यांमुखार येतात. कोंकणी कथेक राष्ट्रीय थरार व्हरपांत **कथा** ह्या नेमाळ्याचे वर्सुकी सर्तीचो हातभार भोव मोलादीक आसा हें मुजरत सांगूंक जाय. हेवरवीं श्री. पुंडलीक नायक आनी श्रीमती मीना काकोडकारां सारकिल्ल्या कथाकारांची कथा देसभराक पावल्या.

हेर भासांनी अणकारीत कोंकणी साहित्याविशीं उलयतना, ताचेवटेन पळोवपाची भूमिका खंयची आसा हें लक्षांत घेवंक जाय. बारीकसाणेन येवजिल्यार ही भूमिका तीन तरांची आसूंक शकता. एक, बरोवपी म्हूण; दुसरी, नीज कोंकणी आनी अणकारीत अशा दोनय तरांच्या साहित्याचो वाचपी म्हूण; आनी तीन, कोंकणी साहित्य हेरां भासांत वा हेर भाशीक साहित्य कोंकणींत अणकारपी म्हूण. हे तिट्टी भुमिकेंतल्यान हेर भासांतलें अणकारीत कोंकणी साहित्य पारखितना ताचीं विंगड विंगड स्वयां, ताचे फुडले प्रस्न आनी ताची भावी दिशा हांची वांगडाच जाणविकाय जाता. अशे तीनपोडी भुमिकेंतल्यान कोंकणी साहित्याच्या फुडाराक भौताशी योगदान केल्ले जाणकार म्हूण सर्वश्री मनोहरराय सरदेसाय, रवीन्द्रबाब केळेकार, चंद्रकांत केणी, नागेश करमली हांचीं नांवां येवजतात. हांचेय मदीं अणकाराचो शास्त्रपुराय आनी बारीकसाणेन विचार केल्लो अभ्यासक म्हूण निर्विवादपणान श्री. नागेशबाब करमली हांचें नांव घेवचें पडटलें. इतलेंच न्हय जाल्यार, 'भारतासारक्या भौभाशीक देशांत भाशांभाशांमदल्या साहित्याचें अणकारीत रुपांत आदान प्रदान ज्या प्रमाणार जावंक जाय तें जायना' हें तांगेलें मतय लक्षांत घेवचें पडटलें.

वयर सांगिल्ले तीनपोडी भुमिकेंतल्यान पळयल्यार सट्ट करून नदरेंत भरसारकीं अणकारीत कोंकणी साहित्याचीं खाशेलपणां अशीं आसात: (१) हेरां भासांनी जावपी अणकाराच्या मळार कोंकणी कथेक हेर साहित्य प्रकारांपरस खाशेलो वा फावोराचो दर्जो फावो जाला. (२) भारतीय भासांनी अणकार जावचे परस, कोंकणी साहित्याचो अणकार इंग्लिशींत अदिकादीक जायत आसा. इंग्लिशीविशीं भौतेक भारतीय भासांक एक 'अढी' आसूनय हें अशें कित्याक जाता हें पळयसारकें आसा. दुसरें, कथेक हेर प्रकारांपरस अणकारपी चड म्हत्व (पसंती) कित्याक दितात हेंवूय सोडयसारकें कुवाडें जावन आसा.

कथा हो कोंकणी साहित्याचो फाटकणो कसो थारला. घडये वाचप्याक पसंत

पडसारको साहित्य प्रकार म्हूण कोंकणी कथेक अणकारांतय उजवी सुवात फावो जाल्या जावं येता. ते भायर, अणकारप्याकूय कथा ह्या प्रकाराचें सैमीक म्हणपाइतलें खर आकर्शण आसता. घडये, कथेचें सुडसुडीत स्वरूप, चालंत भाशीक वेव्हाराक लागीं असो कथेंतलो गद्य आविश्कार हाका कारणीभूत आसत. ते भायर, सगल्यांच्या भावविश्वाक आटापून घेवचेली कथेंतली आकांताळी तांकय विसरूं नजो. कितेंय जावं, कथेचो अणकार हें अणकारप्यांखातीर एक आवडण्याजोगें आव्हान थारलां हें मात खरें! कोंकणी कथेची अणकारीत रुपांतली दिशीं माशीं वाडटी झोंपय हे गजालीचीच गवाय जावन आसा. भौतेक कोंकणी कथाकार हेर भाशीक संग्रहांवरवीं वा नेमाळीं-दिसाळीं हांच्या माध्यमांतल्यान नव्या नव्या वाचप्यांमेरेन पावत आसात. हातूंत आपणाल्या कथा/कथेचो खासा आपुणूच अणकार करपी श्री. दत्ता श्री. नायक आनी श्री. एडवर्ड डि लिमा हे आसात. क्वचित एखाद्रे कथेचो अणकार केल्ल्यांभितर श्रीमती आयरीन कार्दोज, श्री. बी. डी. देसाय आनी श्री. आगुस्तो पिंटो हांचो आस्पाव जाता.

इंग्लीश अणकाराची आयिल्ल्या दिसा वाडत वचपी तांक पळोवन ताचे फाटल्यान उब्यो राविल्ल्यो संस्था वा व्यक्तींचो प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष सहभाग वा उत्तेजन कितपत कारणीभूत आसा हें चिंतप योग्य थारतलें. **गोवा टुडे, द नवहिंद टायम्स, गोमन्तक टायम्स** हांचे सारकीं नेमाळीं (सप्तकी पुरवण्यो) आनी श्री. चंद्रकांत केणी, अरूण सिन्हा, श्रीमती हेमा नायक, श्री. मुकेश थळी हांचे सारक्या व्यक्तींची अप्रत्यक्ष धडपड ह्या वावराक चालना दीत आयल्या.

**गोवा कोंकणी अकादेमीन** हे दिकेन मेजकीं पूण भरीव पावलां उखलल्यांत. **साहित्य अकादेमी**च्या पालवान कोंकणी अकादेमीन कोंकणी कवितांच्या भौभाशीक म्हळ्यार इंग्लीश, मराठी, हिंदी, सिंधी आनी गुजराती अणकाराखातीर एक सप्तकभराचें शिबीरच घेतिल्लें. ह्या वावरांत अकादेमीक सहकार्य करपी आनीक एक संस्था आसा. ती म्हळ्यार गोमन्त राष्ट्रभाषा विद्यापीठ, मडगांव. हांच्या सहभागान कोंकणी कथेच्या हिन्दी अणकाराचें काम हातांत घेतिल्लें. ह्या दोनूय अणकार-प्रकल्पांचें साध्य पुस्तक-रुपान वाचप्यांमेरेन पावत जाल्यार अणकारीत रुपांत कोंकणी बरप आनिकूय नामना जोडूंक पावतलें.

**गोवा टुडे**चे आदले संपादक श्री. मनोहर शेट्टी हांणी सद्या गोंयसंबंदी कथांच्या चातुर्भाशी प्रकल्पाक हात घाल्लो आसा. होमी भाभा फेलोशीपच्या पालवान चालीक लागिल्ल्या ह्या प्रकल्पाखाला (मराठी, पुर्तुगेज हांचे वांगडा) कोंकणी कथांचो व्हडा पांवड्यार इंग्लीशींत अणकार करचेलो वावर चालू आसा. ह्या अणकाराचें खाशेलेंपण म्हळ्यार कोंकणी कथा साहित्यांत गोंयचें चित्रांकन कशें जालां हाचें चित्र साबार

वाचक वर्गा मेरेन पावतलें.

अशे तरेच्या आनिकूय प्रकल्पांची आनी ते खातीर पेंगट बांदून वावुरतल्या व्यक्ती-संस्थांची आज कोंकणीच्या समग्र साहित्याक गरज आसा. कथेंतल्यान कोंकणी समाज वा समाजपुरूस देसभराक वळखीचो जातलो. पूण कोंकणी कवितेवरवीं ताचें अंतर्मन सर्वसादारण वाचप्यामेरेन पावोवंक जाय. कोंकणी नाटकय उपेक्षित उरूंक चलचें ना. नाट्य-संहितेंत समाज, मुल्यां आनी मनोव्यापार हांकां वेंगावपाची तांक तर आसाच पूण विशेश म्हळ्यार ती अभिनया वरवीं प्रगटावपाचीय जबरदस्त शक्त आसा. जेन्ना कोंकणी नाट्य संहिता विविध भाशीक भेस घेवन देसांतल्या वा देसाभायले माचयेचेर प्रगट्टली तेन्नाच कोंकणीचें खरेंखुरें साहित्यीक/संस्कृतीक स्वरूप हेरां भाशिकांक जाणवतलें. ताका मेळपी प्रतिसाद हो कोंकणीच्या स्रयाक मेळपी पावतीच थरतली.

फुडाराक अणकाराच्या वावराक चालना दिवपाक फुडें सरतना अस्मिताय प्रतिष्ठान सारक्या संस्थांनी सर्वांगी अणकारांचेर भर दिवचो काय दिसता. कोंकणी विचारीक साहित्याकूय अणकारावरवीं परभाशीक वाचप्याचे चिकित्सक पावतेचें वत लागूंक जाय. एकेच भाशेंत उरिल्ल्यान खंयचेय भाशेचें साहित्य आयच्या भौभाशीक साहित्यीक घोळटिकेच्या युगांत उपेक्षित थारता आनी बरोवप्याक उमेदीपरस निर्शेणेक फुडो करचो पडुंयेता. आपल्याच लोकांची/वाचप्यांची तोखणाय वा टीका अतिशय गरजेची आसूनय पुरोशी ना. निपक्षपाती आनी निर्मळ स्तुती/टिका हाका बरो बरोवपी सदांच आंवडेता आनी अणकाराच्या माध्यमान कोंकणी बरोवप्यांक तशा प्रतिसादाचीं कितलिंशींच दारां उक्तीं जावंक शकतात.

हालींच सी-डॅक संस्थेन विकसीत केल्ल्या अत्याधुनिक इलॅक्ट्रॉनिक अणकार-तंत्राचो हांगा खासा उल्लेख आवश्यक आसा. ह्या तंत्राच्या माध्यमांतल्यान शास्त्रीय, समग्र आनी येवजणबद्ध अणकाराचो वावर हातांत घेवंक जातलो. खेरीज योग्य तरेचें सहकार्य, दूरदिश्टी, साधनां हांचो मेळ जाल्यार कोंकणी साहित्यांत अणकाराचें नवें पान परततलें. परिवर्तन हो ताचो स्थायीभाव आसतलो. पूण मूळ कृती वांगडा हे तरेच्या अणकारांची नाळ केथवोर तिगतली हाचें भाकीत आजच करूंक सोदप हुतहुतेपणाचें जातलें.

निमाणें : अणकार हें आज कोंकणी साहित्या मुखावेलें जबरदस्त साधन, माध्यम आनी आव्हान जावन आसा. तांचो एक शास्त्र म्हूण पुरायेन विकास करूंक जाय. तेखातीर एक सुसज्ज यंत्रणा तर जायच, पूण तितल्यान भागचें ना. अणकाराचेर बारीकसाणेन संशोधन जावचेली गरज आसा. हें करचेखातीर, आदीं अणकारीत साहित्याची शिस्तबद्ध आनी शास्त्रपुराय वळेरी तयार जावची पडटली. खंयच्या

खंयच्या क्षेत्रांत अणकारांक अदीक वाव आसा हें पळोवचें पडटलें. व्यक्तिगत वा हेर अ-साहित्यीक प्रस्न कडेक सारून प्रामाणीक प्रयत्न जालेशिवाय अणकाराच्या वावराक फावोशी गती येवची ना आनी आयल्यारय योग्य दिका गावची ना. कोंकणी साहित्यीक वावर आयज 'सिंहावलोकन'च्या पेण्याचेर पावला आनी फाटीं वळून पळयतना ताची पयली नदर अणकाराचेर पडूंक जाय.



# **एव आनी मरी** च्या निमतान

## महाकाव्याची उस्तवारी

जेन्ना जेन्ना एखाद्या साहित्यकृतीची महाकाव्य म्हूण पारखणी करचेलो प्रसंग उबो जाता तेन्ना तेन्ना समिक्षकाची अवतिकाय हून दुदाचो घोंट तोंडांत धरिल्लेवरी जाता. जशें हून दूद गिळूंकय कठीण आनी थुकपय सोपें न्हय तशेंच खंयचेच काव्यकृतीक म्हानपणाचो तिबो लावप सोपें आसलें तरी तिचें व्हडपण सिद्ध करप भौ कठीण. खेरीज, तातुंतलें काव्य सोदप आनी हेर म्हाकृतीं वांगडा ताची तुळा करून ताका म्हान म्हूण मानाचो पाट दिवप, ही एक निखटी विचारीक कसरत जावं येता. इतल्या सगल्या बाबींचो हावको सामकारा दवरुनूय **एव आनी मरी**चो महाकाव्य म्हूण विचार करपाचें आपसुलादपण कोंकणी वाचप्याक करप भाग आसा. ते भायर हाचे फाटल्यान एक आकर्शणय आसा. तें म्हळ्यार ताका खुणावपी तीन आव्हानांचें!

हातुंतलें वरिश्ठ आव्हान आपले भाशेंतल्या पयल्या महाकाव्य म्हणोवपी वावराची पारखणी करचेलें, जेवरवीं ह्या काव्याचो कस लायतना समिक्षकाचे निपक्षपाती फोडणिशेचो आनी तुळात्मक अभ्यासाचोय कस लागतलो. दुसरें आव्हान जावन आसा कोंकणी वाचप्याचे भाशीक उदारतायेचें आनी भावनीक विशालतायेचें. नवी उतरावळ (कांय अंशी अ-कोंकणी उतरावळ) आपणावपाची तशेंच मान्य परिभाशेच्या परिघाभायर वचचेली ताची तयारी. आनी तिसरें आव्हान, हे समिक्षेक एक पयलें पावल अशें मानून **एव आनी मरे**चेर आनीक भरीव आनी स्वतंत्र बरप करचेलें.

म्हणजेच, **एव आनी मरी**चें विश्लेशण हें एक फकत निमित्त्य जावन आसा. हे सुपुल्ले विचारीक लटाफटीन प्रत्यक्ष समिक्षेच्या मळार जावं संशोधनाच्या वाठारांत कसलेंय विज्मीत घडटलें, अशें धरप अतितायेचेंच न्हय तर अतिशाणेपणाचें जातलें हाची पुराय जाणविकाय दवरुनूच ह्या अभ्यासकान ह्या विचारीक लटाफटीक हात घाला. हाच्या संसर्गान कोंकणी शिकपी विद्यार्थीय आपले परीन अशेंच समीक्षात्मक बरप करून कोंकणी भाशेचें रीण पावयतलो अशी म्हजी श्रद्धा आसा. ह्या आशावादांतल्यान हो लेख घडला.

**महाकाव्य** हो शब्द तसो भारतीय मनशाक नवो न्हय, पूण एक साहित्य-प्रकार म्हूण तो कितें दर्शयता? **महाकाव्य** ह्या उतरा वांगडा साहित्य संवसारांतल्या कितल्याश्याच काव्यकृतींचें, तांच्या द्रष्ट्या कवींचें आनी तांणी रचिल्ल्या उदात्त,

थळा-काळा वयर उठिल्ल्या व्यक्तीरेखांचें एक आगळेंच रोसायण काळजांत उफेता आनी विचारीन दिसता – ह्या सगल्या घटकांक एका सूत्रांत बांदपी असो खंयचो गूण आसा जेवरवीं कांय कृतींक महाकाव्य म्हूण मान्यताय फावो जाता? कारण, निखटें काव्य जावं तातुंतलो दिश्टावो जावं, काव्यांतल्यान आकाराक आयिल्लीं पात्रां हेच जर म्हानतायेचे सर्वमान्य मानदंड आसले तर महाकाव्य हें बिरूद वा पदवी हेर कितल्याश्याच साहित्यकृतींक लागतली आसतली. (ज्यो काव्य म्हूण म्हान आसुनूय महाकाव्याच्या पंगतीक पान घेवंक पावल्यो नात. हाका संवसारांतलो साहित्य-इतिहास गवाय आसा.)

म्हण्टरीच महाकाव्य ही 'संकल्पना' **एव आनी मरी**क लावचे आदीं बारकायेन विस्कटायिल्ली बरी. वांगडाच साहित्य-संवसारांतल्या विंगड विंगड कृतींचो संदर्भय थोडेभितर समजून घेतल्यार वन्नार तूप वाडिल्लेवरी जातलें. अशें केल्यार महाकाव्य ह्या साहित्य-प्रकारांतलें खाशेलेंपण तिजून, संवसारभर समानतायेन दिसून येवपी ताचे गुणधर्म खंयचे हें थारावंक सुविधा जातली. अशे तरेन शक्य तितल्या तटस्थपणान आनी सुक्षीम नदरेन महाकाव्याचे विशेश गूण कडायले उपरांतच तांच्या आदारान **एव आनी मरी**चो महाकाव्य म्हूण विचार करप उचित जातलें.

महाकाव्य हें उतर दोळ्यांफुडें हाडले बरोबर म्हानता हो ताचो गाबो हें सट्ट करून समजता. तशेंच, हें म्हानपण काव्याच्या माध्यमांतल्यान उक्तावप हो ताचो सहजसुलभ धर्म हेंवूय महाकाव्य ह्या शब्दांतल्यानच स्पश्ट जाता. हें सगलें मुजरत सांगचेलो हेतू इतलोच की आर्विल्ल्या काळार गद्य माध्यमांतल्या, कादंबरी, नव-रोमां ह्या प्रकारांत लागीं आशिल्ल्या खुबशा कथनात्मक (नॅरेटीव्ह) साहित्याक महाकाव्य (एपीक) म्हूण पाचारपाचो आधुनिक पश्चिमी समिक्षेचो कल दिसून येता. देखीक, टॉलस्टॉय हांची **वॉर अँण्ड पीस** सारकी इतिहासीक कादंबरी वा 'रोमान्स' ह्या प्रकारांत मोडपी कांय दीर्घ नवलकाणयो. कांय वेळार साहित्यिकांनीच आपल्या साहित्यकृतींक हेर विशेशणां वांगडाच 'महाकाव्य' हें विशेशण लायिल्लें दिसून येता. देख म्हूण फिल्डिंगाच्या **टॉम जोन्स** हे कादंबरीक घेवंक शकतात. फिल्डींगान आपले कृतीक 'एपीक रोमान्स इन प्रोज' म्हळ्ळां. तशे तरेच्या साहित्यप्रकाराचो हांगा आढावो घेवचेलो उद्देश ना. देखुनूच *व्हडपणाचो दिश्टावो* आनी *काव्यमयता* हे महाकाव्याचे मुखेल निर्देशक हें मुजरत सांगचें पडटा.

भारतीय साहित्यांत तशेंच पश्चिमी साहित्यांत हेच ताचे मुळावे गूण आसतात. पूण जशें **महाकाव्य** ह्या भारतीय उतरांतच 'ह्या' सुप्त गुणांची उकती वळख मेळटा तशें **एपीक** ह्या समानार्थी उतरांतल्यान कसल्या गुणांची सुलूस मेळटा हें पळोवंक जाय. **एपीक** हें उतर **एपॉस (एपिस)** ह्या मूळ ग्रीक उतरावेल्यान आयलां जाचो

अर्थ आसा काणी वा उतर. **एपॉस** ह्या उतराचें मूळ रूप 'म्हणप' हो अर्थ उक्तायता. ह्या उतराचो पोसिस् म्हळ्यार रचप व करप कवितेक समानार्थी उतराकडेन भाशीक संकर जावन **इपोसीस** हें घडलां. हाचेवेल्यान एक कळटा की पश्चिमी संस्कृतायेंत कथन जावं *निवेदन* आनी *काव्य* हांकां एपीक (महाकाव्याचे) मुळावे गूण मानल्यात.

हांगा काव्य हाचो कविता असो अर्थ घेनासतना कवीचो दिश्टावो ह्या सूचित अर्थाचो स्विकार करप चड संयुक्तिक दिसता. वैदिक वाङ्मयांत कवी जसो द्रश्टो – लौकिक सताचे फुडें पळोवपी वा नाशिवंतां भायल्या अविनाशी सनातनाक वेंगावपी रुशी कसो मानलो, तसोच एपीक रचपी हो लेगीत, असोच दिश्टावो एपीकांतल्यान दिता अशें मानलां, हें एपीक ह्या साहित्य प्रकाराची परिभाशा पळयल्यार कळटा. पश्चिमी समिक्षेन एपीकाक एक व्हड काव्य, जातूंत एका वा अदीक व्यक्तींचीं साहसां, कर्तुबां वर्णिल्लीं आसतात, अशें लेखलां. काव्याच्या माध्यमांतल्यान (महाकाव्यांतलें कथानक वा निवेदन), प्रतिश्ठीत, अधिकारयुक्त शैलीन एखाद्रया देसाचो जावं वंशाचो नीजधर्म वा आदर्श उक्तायता. (हांगा नीजधर्म सैमीक प्रवृत्ती वा मुळावो गूण ह्या लेखी वापरला.) थोडेभितर सांगचें जाल्यार, एपीक हो साहित्यप्रकार निवेदनरुपी काव्य आसप ही अस्तमते कडली व्हड साहित्यीक परंपरा जावन आसा आनी योगायोग म्हळ्यार भारतांतूय ती तशीच आसा.

ह्या संदर्भांत भारतीय महाकाव्य परंपरेचो उल्लेख जावंक फावो. भारतीय संस्कृतीन *आर्ष* आनी *विद्ग्ध* अशे दोन महाकाव्याचे प्रकार मानून घेतल्यात. आर्ष महाकाव्य हें ऋषींनी रचिल्लें (ऋषी प्रणित), दिश्टावो दिवपी, प्राचीन, आद्य, आपस्फुर्तीन घडिल्लें काव्य अशेंय ही परंपरा मानता. तेभायर भारतीय संस्कृतीन महाकाव्याकडेन व्हडा अपेक्षेन पळेलां. महाकाव्य मनशाच्या विकार-विचार-आचारांचो, यूग आनी काळाच्या बंदनांपेल्यान सरून, सर्वांगी अविश्कार करता आनी ह्या अविश्कारांतल्यान पुराय मानवी जिविताचें सत होलमता अशें भारतीय संस्कृती मानता. पूण हेच वांगडा, त्या त्या काळावेले संस्कृतीचो 'विश्वकोश' वा त्या-त्या युगांतल्या प्रपंचाचो आलेख जावंचेलो भारय आमगेल्या साहित्य परंपरेन महाकाव्याचेर दवरला.

विदग्ध महाकाव्याची व्याख्या करतना भारतीय साहित्य परंपरा तांकां आद्य परंपरेंतल्यान निर्माण जाल्लीं महाकाव्यां हे नदरेन पळयता. विदग्ध महाकाव्यांनी साधुशील पुरसांचीं चरित्रां (चारित्र्यवान व्यक्तींच्यो जिवीतगाथा) हो विशय आसूं येता. चडावत खेपो अशे तरेच्या महाकाव्यांनी इतिहासीक व्यक्ती नायक वा मुखेल व्यक्तीरेखा आसता. एका परस चड नायक वा नायिकाय ह्या महाकाव्यांतल्यान चितारूं येतात. पूण ताची कथावस्तू मात नदरेंत भरपासारकी आसची. थळ-काळ घडणुको तशेंच मानवी क्रिया, प्रतिक्रिया, मुल्यां, हांचे वास्तवाक सोबसारकें दर्शन तातुंतल्यान घडचें. मुखेलपणान

महाकाव्यांत शृंगार, वीर आनी शांत रस हांचो आस्पाव आसचो आनी हेरां रसांचो फावो तसे उपेग जावचो असो काव्य-संकेत आसता. एका सर्गांत एकच 'वर्तमान' आसचें आनी सर्गाच्या शेवटाक फुडल्या सर्गांतल्या विशयाची सूचना येवची अशेंय परंपरेन मानलां.

मेजक्या उतरांनी सांगचेलें जाल्यार आर्ष महाकाव्यां हीं द्रष्ट्या कवींचीं – मौखीक (ओरल) परंपरेंतल्यान घडिल्लीं आनी घडत गेल्लीं – महाकाव्यां. ह्या महाकाव्यांनी सतत भर पडत गेल्ल्यान तांचें बुन्यादी एकजिनशीपण जरी मूळ कथानकांक लागून तिगलें तरी तातूंत हेर कथा, दंतकथा, पुराणकथा, लोककथा हांचोय आस्पाव जायत गेलो. पूण एक मात मानचेंच पडटा : ह्यो भर म्हण घाल्ल्यो कथा-काणयो ज्युस्ताज्युस्त मुळाव्या कथानकांत विणल्यात. हाका लागून त्यो अडेच्यो बेनुल्ली कश्यो दिसनात. फुडें, ह्या विस्तारीत आद्य-महाकाव्यांतल्यान विशयांची स्फूर्त घेवन हेरां कवींनी महाकाव्यां निर्माण केलीं. हीं विदग्ध महाकाव्यां. हांकां उत्पाद्य अशेंय म्हणूं येता. भारतीय साहित्य परंपरेन **रामायण** आनी **महाभारत** हीं आर्य जावं आद्य महाकाव्यां मानल्यांत. जाल्यार कालीदासाची **कुमारसंभव** आनी **रघुवंश**, श्रीहर्षाचें **नैषधीयचरीत**, भारवीचें **किरातार्जुनीय**, माघाचें **शिशुपालवध** हीं पांच संस्कृत भाशेंतलीं विदग्ध महाकाव्यां जावन आसात. हातूंत अश्वघोषाच्या **बुद्धचरित** हे कृतीचोय उल्लेख करूंक जाय.

दक्षिण भारतीय पंचभाशांमदीं इलंगो आडिगळाचें **शिलप्पाधिकारक**, **कुलवाणिगन**, शात्तनाराचें **मणिमेखलै** आनी कंबनाचें **कंबरामायण** हीं नामनेचीं तमीळ विदग्ध महाकाव्यां आसात. तशेंच, तेलगूंत **पंपभारत**, नन्नयभटाचो **महाभारता**चो अनुवाद तशेंच **भास्कर रामायण** हीं आनी मलयाळमांत शंकर पणीक्कराचें **भारतमाला**, एडुत्तच्छनाचें **आध्यात्मरामायण** आनी **भारतम्** हांचीं म्हत्वाचीं उत्पाद्य महाकाव्यां म्हूण नांवां घेवंक जाय. भारतीय विद्यार्थी ह्या देशी परंपरेंतल्या महाकाव्यां वांगडा चड करून परिचीत आसतले म्हणून तांचो विस्तारान विचार करिना.

अस्तमतेकडेनूय महाकाव्याचे (एपीक) दोन प्रकार मानल्यात. *प्रायमरी* वा *मुळावें* एपीक जें मौखीक परंपरेंतलें, भौसामुखार गावचे खातीर रचिल्लें निजाचें महाकाव्य आसता. फुडें हे मौखीक परंपरेंतल्या महाकाव्यांत भर पडून तांचो आंवाठ विस्तारत वता आनी ताच्यांत नवे काव्यनिर्मणेक स्फूर्त दिवपाची तांक निर्माण जाता. हांचे पासून पेरणा घेवन जीं एपीकां बरयल्यांत, तीं *सेकन्डरी* वा *लिटररी एपीक्स.* हीं लिखीत, दुय्यम आनी उत्पाद्य आसतात अशें ही परंपरा मानता होमेराचीं **इलियड** आनी **ओडिसी** हीं दोनूय महाकाव्यां प्रायमरी (आद्य) एपीक्स म्हूण संवसारभर नामनेक पावल्यांत. विदग्ध महाकाव्याची पयली देख म्हूण विर्जिलाचें ॲनीड हें महाकाव्य साहित्यान वाखाणलां. होमेरान वर्णिल्ल्या ट्रोजन झुजांतल्यान स्फूर्त घेवन, विर्जिलान

रोमाचे स्थापणुकेचे फाटभुंयेर अेनीयस ह्या मूळ पुरसाच्या कर्तुबांचेर आदारून ही वीरगाथा बरयल्या.

हांगा एक गजाल वाचप्याचो गैरसमज जावं नये म्हूण स्पश्ट करूंक जाय. आर्ष वा विदग्ध जावं प्रायमरी आनी सेकन्डरी हीं उतरां वर्णनात्मक अर्थान वापरल्यांत. तातूंत महाकाव्यांचें गुणात्मक मोलांकन करचेलो हेतू ना. मुळावीं वा आद्य महाकाव्यां इतलेच खातीर वरजायल्यांत की मौखीक परंपरेंत घोळुनूय तीं संरचनेचो एकचार, करणेची नेटकी उदरगत आनी एके केंद्रीत व्यक्तीरेखेवरवीं घडून येवपी अंतर्गत एकवट हांची सोबीत देख जावन आसात. हे मध्यवर्ती व्यक्तीरेखेचीं कार्यां, साहसां, भाग्य आनी दुर्भाग्य हो सगले रचनेक एकठांय गुंथपी धागो ह्या काव्यांक वेढायता. आद्य महाकाव्यांक वाखाणपाचें आनीक एक कारण आसा. हांचेर टीका-टिप्पणी हीं काव्यां रचले उप्रांत जाल्यांत. ह्या काव्यांत ज्यो तुस्तीलायक विशेशतायो आसात त्यो कवीचे श्रेष्ठ प्रतिभेक लागून वा उप्रांत त्या काव्यांचेर घडिल्ल्या हेरांच्या संस्कारांक लागून. ह्या कवीं सामकारा आदल्यो आदर्श काव्यकृती नाशिल्ल्यो वा समिक्षेचीं मार्गदर्शक तत्त्वांय नाशिल्लीं. तरिकूय हीं महाकाव्यां आपलें नीज योगदान मनीस कुळयेक दिवंक पावलीं आनी अप्रुपाची गजाल म्हळ्यार आज लेगीत तें योगदान तितलेंच मोलादीक आनी सटीक आसा. चड-उण्या प्रमाणांत विदग्ध वा सेकंडरी महाकाव्यांविशींय अशेंच म्हणूंक जाता.

हाका लागून महाकाव्याचे दोळ्यांत भरसारके गूण खंयचे हें पारखूंक जाय. तांचो बुन्यादी गूण आसा आकर्शक निवेदन. हाका आदार दिवपी हेर गूण आसात : करणेची प्रधानताय आशिल्लें कथानक, विंगड विंगड उपकथानकां, मिथकां, विज्मीतां, अचळय आंगावपाची तांक आनी रसाळ शैली तशेंच म्होंवळां भाशेन उक्ताविल्ली धादोसदिणी काव्यस्रश्ट. खासा उल्लेख करीसारको एक गूण म्हळ्यार हे ओडलायणे काव्यस्रश्टीक, श्रेश्ठतायेची देग लावपी यथार्थ देखी आनी उदात्ताचो दिश्टावो. भारतीय परंपरेन लौकिकांतल्यान अलौकिकाचो साक्षात्कार घडयणारें कथनात्मक काव्य होच महाकाव्याचो *कसलायणो निकश* थारायला. मनीसजातीक व्हडविकायेचो अशे परीन दिश्टावो घडयतना कवी प्रतिभा, कल्पनाशक्त आनी द्रश्टेपण हांचो काव्यमय भाशेंतलो आपरोस वाचप्यां मेरेन पावयता. निमाणेकडेन संक्षिप्त वाक्यांत महाकाव्याचें सार सांगचें जाल्यार 'सुरबूस कथन, रसाळ कवन आनी म्हान (कवी) वचन हांचो जिवीताविशीं नवो साक्षात्कार घडोवपी सुमेळ' अशें म्हणचें पडटलें.

जरी अशेतरेन ह्या साक्षात्कार घडोवपी सुमेळाविशीं उलोवप सोपें आसलें तरी महाकाव्या सारक्या व्हड आंवाठाच्या काव्य प्रकारांतल्यान हें साध्य करप ही एक आगळीच कमाविशी जावन आसा. इतल्या विस्तारीत स्वरुपाच्या कथानकांत सुसूत्रताय

बाळगप, ताची काव्यमयता राखप आनी वाचप्याची उत्सुकताय घडीघडी जिवी दवरप हें केदें व्हडलें आव्हान जावन आसा हें सुक्षीम नदरेन महाकाव्य वाचतलोच समजुंयेत.

घडये ह्या कस लावपी आव्हानाक लागुनूच महाकाव्यांच्या अभ्यासकांनी ह्या काव्य-प्रकाराचे संरचनेक इतलें म्हत्व दिलां आनी महाकवींनी सदांच दैवी फाटबळाक होरायलां. खंयच्याय महाकाव्याच्या शैली-वैशिश्ट्यांक बारकायेन नियाळल्यार हें होलमता. पूण ह्यो शैलीच्यो विशेशतायो नदरे पोंदसून घालचे आदीं एका खासा गजालीचो निर्देश करूंक जाय. महाकाव्याची व्हडांत व्हड गरज जरी जबरदस्त तांकीची कर्तुबां केळोवपी कथानक आसलें तरी ताची बुन्याद कथावस्तू परस चड कवी सामकारच्या ध्येयाचेर आदारिल्ली आसता. कित्याक काय म्हळ्यार विशीश्ट ध्येय उक्तावपाचो सुस्पस्ट हावेस नदरेमुखार दवरलेखेरीज कवीच्या निवेदनांत जरी रस आसलो तरी ताच्या कथानकांत अर्थपूर्णता वा दिश्टावो येना आनी म्हूण महाकवी मनीसजातीक मार्गदर्शक थारपासारकीं ध्येयां उक्तावपाची उदात्त मोख पयलीं मुखार मांडटा आनी तीं ध्येयां येसस्वी रितीन तडीक व्हरचेलो हावेस सादचो म्हूण दैवी फाटबळाक आंवडेता.

हाकाच लागून महाकाव्याच्या शैली-वैशिश्ट्यांक समजून घेतना सुर्वेक *दैवी होरावणी* हे विशेशतायेचो मुजरत उल्लेख सगले अभ्यासक (भारतीय आनी पश्चिमी) समानतायेन करतात. *दैवी होरावणी* ह्या घटका अंतर्गत दोन उपघटक आस्पावतात. कवीन आपणाल्या आराध्य दैवताक भोव आदरान आनी नमळायेन हातांतलो म्हा-प्रकल्प तडीक व्हरूंक आदार दिवचो म्हूण केल्लें *सांगणें* आनी चड-उण्या उतरांनी आपल्या महाकाव्याची मोख आनी हेतू हांची कवीन केल्ली *मांडणी* (केन्ना केन्नाय फोडणिशी). लक्षांत घेवपासारकी गजाल म्हळ्यार आराध्य दैवत हें सदांच पारंपारीक देव वा देवी आसताच अशें ना. आदल्या काळार मुर्तिपूजा हीच जेन्ना मान्य परंपरा आसताली, तेन्ना कवीय पुराणांत वर्णिल्ल्या परंपरागत देवांकच होरायतालो. होमेराचे देव ग्रीक पुराणांतल्यो कलेच्यो आश्रयदात्यो इश्टदेवता आसात. व्यास-वाल्मिकीनूय गणेशा सारक्या आद्य देवाक होरावनूच आपल्या काव्याचो श्रीगणेश केला. इतलेंच न्हय तर गणपती-सरस्वतीसारक्या विद्यादायी देवांनी आपल्या मनींमुखीं बसून आपल्या हस्तुकीं हें म्हाकार्य सिद्धीक व्हरचें अशी सांगणीय गेल्या. पूण मिल्टनासारको अमूर्त देवतत्त्वाक भजपी कवी हें परंपरेंत परिवर्तन करता. तागेली स्फूर्तदायी देवता, पूज्य ख्रिस्ती त्रिगुणी देव-तत्त्वांमदलो *पवित्र आत्मो* जावन आसा, जाका तो 'स्वर्गस्थित देवता' म्हूण पाचारता.

दैवी होरावणे फाटोफाट दुसरी म्हत्वाची शैलीची विशेशताय म्हळ्यार *कथानकांतली सुत्रबद्धता.* आद्य महाकाव्यांत तरी कथावस्तुंची भौ-पोडी रचणूक संरचनेच्या एकचाराचेर दबाव हाडटा. खेरीज वेळोवेळीं ह्या महाकाव्यांत हेरांनी घाल्ली भरय

वेवस्थीत मूळ रचनेंत आस्पावन घेतलीना जाल्यार महाकाव्याची आवतिकाय अस्ताव्यस्त मातत गेल्ले असमतोल कुडीवरी जाता. म्हूण महाकाव्यांत खंड वा सर्ग आसचे, कथावस्तुचे वयलेवयर साबार वांटे घाल्ले आसचे आनी दरेका वांट्याक कसलें कथानक फुडें येतलें ताची वाचप्याक सुलूस मेळची असो संकेत आसता. तेच भाशेन सादरणपणान सर्गाच्या शेवटाक कवीचें मनोगत वा समारोपाचें सांगणें आसचें अशीय बऱ्याच महाकाव्यांनी प्रथा आशिल्ली दिसता. **द फेरी क्वीन** ह्या स्पेंसराच्या इंग्लीश महाकाव्यांत हांची बेस बरी देख मेळटा.

पूण एक आसा, अशे तरेन जर कथानकाचो नक्सो पावलागणिक वाचप्यामेरेन पावलो जाल्यार निवेदन सुरबूस उरचें ना. आनी कथानक नीरस जावन वाचप्याची उत्सुकताय बावत वतली. हेखातीर चडशे म्हाकवी एके खाशेले खुबयेचो वापर करतात. ती म्हळ्यार *निवेदनाची सुरवात कथानकाच्या मदेंताक करप.* अशा निवेदनाक पश्चिमी परंपरेंत होमेराच्या काव्यांत लेगीत व्हडविकायेची सुवात मेळ्ळ्या. ह्या शेली-वैशिश्ट्यांच्या सांगातान *करणेची प्रधानताय* हिवूय विशेश खुबी आपल्या महाकाव्यांत केळोवपाचेर कवी भर दिता. हे खुबयेक लागून निवेदनाचेर भर दिवपी महाकाव्यांच्या कथानकाक नीरस कथनापरस प्रत्यक्ष घडणुको आनी व्यक्ती हांकां 'नाट्यपूर्ण रितीन' वाचप्यांमुखार सादर करूंक संद मेळटा. तेचबराबर, मध्यस्थळाकसून कथानकाची सुरवात जाल्ल्यान, पूर्व कथानक फ्लॅशबॅकासारक्या तंत्रान वाचप्याचे हुजीर प्रत्यक्ष पेश करुंकूय मजत जाता.

कांय वेळा, महाकाव्यांतल्या कथावस्तुंचे भौसंख्य पोड ज्युस्ताज्युस्त एकठांय विणून कथानका अंतर्गत नाट्यमय घडणुकांवरवीं वाचप्याची उमळशीक तिगोवन दवरप कवीक कठीण जाता. अशा वेळार कवीची निवेदनाचेर पकड आसली तरिकूय कथावस्तुवेली तागेली बचक धील (सदळ) पडटा. आपशींच प्रसंगाफाटल्यान घडपी प्रसंग जे मेरेन विश्वासार्ह आनी घडण्याजोगे आसतात, ते मेरेन वाचप्याक आपले वटेन ओडून घेतात. पूण कांयवेळा अशे प्रसंग 'घडप अशक्य' जाता तांकां घडोवचे पडटात. तेन्ना कवींक योगायोग-चमत्कार-गूढ दैवी हस्तक्षेप अशा वास्तवापरस अनपेक्षित घडणुकांचो आलाशिरो घेवन कथानकांत सांचिल्ले आडकथेक अळंग वाट करून दिवची पडटा. ह्या शैली-वैशिष्ट्याक यांत्रिक दैवी हस्तक्षेप अशें म्हणटात.

पूण निवेदनाक प्राधान्य दिवपी महाकाव्यासारक्या विस्तारीत आवांठाच्या काव्याक फकत निवेदनाची पद्धतच उमळशीक वाडोवपी करून चलना. निवेदनाचे आकर्शक, उत्सुकतावर्धक शैलीक *भाशेच्या* ओडलायण्या, प्रभावी आनी अर्थगर्भित *माध्यमाचीय* तितलीच गरज आसता आनी म्हूण महाकाव्यांतले भाशेचीं कांय परंपरागत शैली-वैशिष्ट्यां अभ्यासकांनी वरजायल्यांत. हातूंत फावो ते प्रमाण संवादरुपी आनी

निवेदनरुपी भास आसची. भास प्रसंगाक आनी तातुंतल्या व्यक्तींचे प्रतिशठेक, परिस्थितीक आनी मनोव्यापांक सोबसारकी (अनुरूप) आसची. निवेदन जमता तितलें व्यक्तीनिरपेक्ष आसचें. भाशेचो उपेग उदात्ताची अनुभूति दिवपी, जिविताचो दिश्टावो दिवपी तशेंच बरें वायटाची देख दिवपी आसचो. हे खातीर महाकाव्यांत भाशेचो उपेग भोव कुशळतायेन आनी अर्थपुराय रितीन करपाचेर कवीचो कटाक्ष आसता.

श्रेयस आनी प्रेयस हांची प्रचिती भाशेंतल्यान मेळची हेखातीरच घडये कवीक अलंकारीक भास आनी वेंचीक उतरावळीचो आदार घेवचो पडटा जावंये. तशेंच, व्हडविकायेची वा असाधारणतायेची प्रचिती वाचतल्याक घडची म्हूण कवी उपमांचोय कळाशेन वापर करता. पश्चिमी परंपरेंत ह्या शैली वैशिश्ट्याक एपीक सिमिलीज म्हूण वाखाणलां. तशेंच फाटल्या देखी वा आदर्शाचो अणभव मेळचो म्हूण कवी म्हालगडे वा झुजारी हांच्या वंशावळींची, नामावळींची जावं कर्तुबांची वळेरी लायता. तशेंच तांगेल्या म्हानतायेचो घडी-घडी वाचप्याक उगडास जावचो म्हूण तांचीं साहसां, असामान्य यात्रा, जगावेगळे सायास हांचीं चित्रां उत्कंठा वाडोवपी रंगयाळे भाशेंत चितारता.

आमी भारतीय आनी पश्चिमी परंपरेंतले 'महाकाव्य' संकल्पनेक थोडेभितर तिजून पळयली. ह्या संदर्भांत वेगवेगळ्या आर्ष आनी विदग्ध (भारतीय) महाकाव्यांचो धांवतो उल्लेखय आयलो. पूण भारतीय विद्यार्थी परंपरेंतल्या ह्या काव्यांक वळखता आसतलो. हेखातीर तांचो विस्तारान उल्लेख टाळ्ळा. पूण पश्चिमी इतिहास महाकाव्याविशीं कितें म्हणटा हें देखींसयत पळोवप **एव आनी मरी** संदर्भांत गरजेचें आसा काय दिसता. म्हूण हांगा थोडे भितर पश्चिमी महाकाव्य परंपरेचो निसट्टो नियाळ घेतां. तशें पळयल्यार **गिलगामेश** हें बाबिलोनियन महाकाव्य पश्चिमी समिक्षेन एपीक परंपरेंतलें सामकें मुळावें महाकाव्य मानलां. दक्षिण मेसोपोटेमियांत हें ख्रि. पू. २००० वर्सां दरम्यान घडिल्लें, अशें इतिहासकार मानतात. असिरीयन राया अझुरबानीपाल हाच्या ग्रंथालयांत ख्रि.पू. ७व्या शेंकड्यांतली ह्या महाकाव्याची मुळावी आनी संपूर्ण प्रत आसा. पुरातन लोकवेद, काणयो आनी मिथकां हांकां आस्पावन हें महाकाव्य घडलां. लोकांक पिडापीड भोगोवपी एक सुमेरियन राया आनी ताका रोखूंक वचून उपरांत ताचो इश्ट जाल्लो लोकांचो फाटीराखो एनकिडू हांच्या कर्तुपाची हें महाकाव्य काणी सांगता.

ट्रोजन झुजाचेर आदारिल्लें **इलियड** आनी **ओडीसियस** ह्या विराचे जिणेचेर आदारिल्लें **ओडिसी** ह्या होमेरीक ग्रीक महाकाव्यांचो उल्लेख आदीं आयला. हांचो काळ अभ्यासकांनी ख्रि.पू. ७वो शेंकडो मानला. ह्या दोनींचें फुडाराच्या महाकाव्यांत भौ योगदान जाल्लें आसलें तरी साहित्यांत **ओडिसी**चें 'रुपकात्मक मोल' व्हडा पांवड्याचें आसा अशें गणलां. हांचेर आदारुनूच विर्जिलान आपलें **एनीड** (३०-२० ख्रि. पू. वर्सां) बरयलें.

फुडाराचीं भौतेक पश्चिमी लिखीत महाकाव्यां (Literary epics). विर्जिलाच्या पावलार पावल दवरून बरयल्लीं आसलीं तरी कांय येवरोपी महाकाव्यां आपलो वेगळो मार्ग आपणावपी अशींय आसात. हांकां आमी धर्मनिरपेक्ष (secular) वा प्रापंचीक लेखूं शकतात.

हातूंत **ब्योवल्फ** (Beowulf) ह्या ख्रि.उ. ७व्या शेंकड्यांतल्या रुपकात्मक खोलाय आशिल्ले साहसकाणयेचो आस्पाव जाता. ख्रि.उ. १३व्या शेंकड्यांत **निबेलुंगेनलीड** हें सिगफ्रिड ह्या विराच्या कर्तुपांचेर उबारिल्लें जर्मन महाकाव्य सांपडटा. लोकवेद, मिथकां आनी दंतकथा हांचे गिरेस्त दायजाचो सोबीत उपेग हातूंत जाला.

**साँग ऑफ रोलाँ** हें ७७८तले घडणुकेचेर आदारिल्लें फ्रँच महाकाव्य ११०० ते बरपारुपान संवसारामुखार पावलें. धर्मझुजा भोंवतणें विणिल्ल्या ह्या काव्यांत व्यक्तीगत निश्ठा तशेंच राजभक्ती हांची देख मेळटा. **एल् सिद** (११४०) ह्या स्पॅनीश महाकाव्यांतूय वीरता आनी देशसेवा ह्या मुल्यांक वरजायल्यांत. ह्या काव्यांपरस खेरीत अशी फाटभूंय आशिल्लें दांते आलिगियेरी हांचें **दिविना कोमेदिया** (१३०८-२१) हे कृतीचो हांगा खासा उल्लेख दोन कारणांखातीर जावंक जाय. ह्या काव्याक संवसारीक सुखदुख्खाची जाणवीक आनी पुराय मानवजातीचे उदरगतीचो हावेस आसा. हातूंत झूज, साहस, वीरता हांचेपरस मनशाची जीण समृद्ध करपी मोग आनी मोगाची मनशाचे जिणेंतली वेगवेगळी संस्करणां हो विशय हाताळिल्लो आसा. हाची रुपकात्मक खोलाय आकांताळी आसा. काव्य आनी संरचनेचे बाबतींतूय हें महाकाव्य हेरांपरस खूबच वेगळें आसा. ते भायर ह्या महाकाव्याकडेन **एव आनी मरी** हातुंतलें महाकाव्याचें तत्त्व (epic element) सोयरीक सांगता अशें मत दो. ऑलीव्हीन्यू गोमिश हांणी उक्तायलां. पूण हाचो उल्लेख फुडें विस्तारान येतलो.

१५व्या आनी १६व्या शतकांत आरीओस्तोचें **ओरलान्दो फुरियोजो** आनी तास्सो तोरकातीचें **जेरूझालेम लिबेराता** हीं इतालियन आनी एडमंड स्पेन्सराचें **फेरी क्वीन** हें इंग्लीश, ह्या महाकाव्यांची निर्मणी जाली. हीं सगलीं सामन्तशाही फाटभुंयेचेर बरयल्यांत. पूण **फेरी क्वीन** हें सगल्यांपरस आगळें, भौताशी रुपकात्मक आशय आशिल्लें आनी पुराण-इतिहास तशेंच तत्कालीन परिस्थिती हांचेर सुक्षीम उजवाड घालपी अर्दकुटें महाकाव्य जावन आसा. ह्याच शेंकड्यांत कामोयशाचें **उश लुझियदश** हें पुर्तुगेज महाकाव्य उजवाडा आयलें. ह्या सगल्या महाकाव्यांचे नामावळींत, लुकानाचें **फार्सेलिया** आनी पेट्रार्कचें **आफ्रिका** हांचेंय नांव गुंथूंक जाय. पूण साहित्याच्या इतिहासान मात हांकां विसरायेर वडयल्यांत. मात, ज्या महाकाव्याचेर काळ सोंपेपणीं माती ओडूंक पावचो ना अशें नामनेचें महाकाव्य सोदलें जाल्यार जॉन मिल्टनाचें १७व्या शेंकड्यांतलें **पॅराडायज लॉस्ट** हेंच महाकाव्य हाताक लागतलें. **एव आनी मरी** ह्या कोंकणी

महाकाव्याच्या संदर्भांतूय आमकां मिल्टनाच्या **पॅरडायज लॉस्टा**चो, दांतेच्या महाकाव्या इतलोच आदार घेवचो पडटलो. कित्याक काय म्हळ्यार, **एव आनी मरी, दिविना कोमेदिया** इतलेंच, घडये किस्कूटभर चड, **पॅरडायज लॉस्ट** ह्या महाकाव्याक लागींचें आसा. पूण **एव आनी मरी**चो ह्या दोनूय कृतीवांगडचो उक्तो जावं सुप्त संबंद कसो आसा हें पळोवचे आदीं ह्या दोनय महाकाव्यांची थोडेभितर वळख करून घेवप बरें.

दांतेच्या महाकाव्याची 'खासियत' म्हळ्यार ताणें मानवी कर्तुब, साहस आनी जिवितांतलीं झुजां हांकां आगळ्या आनी उदात्त अशा पातळेवेल्यान आपल्या **दिविना कोमेदियांत** सामकारायल्यांत. झुजामळाचेर युद्धाक तत्पर आसपी विरांच्या कथानकापरस, दांतेक मानवी मनाच्या झुजापटार मनशाच्या आंतरीक झुजाची, ताचे भितरल्या संघर्शाची (internal conflict) ची अदीक प्रकर्शान मांडणी करीन दिसली. मानवी पात्रां वापरुनूय कवीन सांत, आदले म्हाकवी, मेल्या गेल्ल्यांचे आत्मे हांचोय मुदयेर थीक कसो उपेग केला. महाकाव्याचे परंपरेंत भौ प्रतिष्ठा लाबिल्ली यात्रेची प्रथाय दांतेन आपणायल्या. पूण हें करतना ताणें हे प्रथेंत नवेंपण हाडलां. जिविताची यात्राच रुपकात्मक रितीन, खासा आपणाक केंद्रबिंदू लेखून, कवीन प्रथम पुरुशी निवेदनांतल्या वाचप्याक सादर केल्या. अशा कुशळ रुपकात्मकतेंतल्यान कथानकांत उदात्तताय आनी भौ अर्थीपण वांगडाच घोळटा.

तीन भागांनी वांटिल्ल्या ह्या महाकाव्याची रचणूक दांतेन १०० सर्ग वा कॅन्टोनी केल्या. **इन्फेर्नो** ह्या भागाक ३४, **पुल्गातोरी** आनी **पॅरडायज** हांकां दरेकी ३३ सर्ग आसात. हातूंत कवीन वापरिल्लो काव्याचो संरचनात्मक अनुबंधय लक्षणीय आसा. महाकाव्याचे पारंपारीक *छंदमुक्त षटपदी* परस ताणें **तेरझा रीमा** ही तीन वळींची छंदबद्ध रचना आपल्या काव्यांत वापरली. हेच तरेचे काव्यरचनेचो उपेग **एव आनी मरीन** केल्लो आसा. तशेंच दांतेन आपल्या महाकाव्याच्या तिनूय वाट्यांमदीं सुसूत्रताय हाडूंक *मध्यवर्ती व्यक्तीरेखेचो निवेदनांत उपेग* केला. हीच प्रथा **एव आनी मरी**तय मेळटा. पूण एक वेगळेंपण आसा. दांतेच्या महाकाव्यांत व्यक्तीगत अणभव आनी मानवी नात्यांचेर कथावस्तू आदारुनूय कथानकाक एक अलोकिक अशें परिमाण कवीन दिलां. हाका लागून विशय व्यक्तीगत जिवीताक लागीं आसुनूय महाकाव्याचो आशय उदात्त, आवांठ व्हड आनी तातुंतलो दिश्टावो थळ-काळातीत असो जाला. **एव आनी मरींत** हें कितपत सादलां हें पळोवचे आदीं मिल्टनाच्या महाकाव्याचेर नदर मारुंया.

**एव आनी मरी, पॅरडायज लॉस्ट** ह्या महाकाव्याक विशयाचे बाबतींत भौ लागीं आसा. दोनींतय आदांव आनी एव हांचें कथानक समान तरेन केळयलां म्हणपाचें दिसता. एवाचें पातक, तिचेवरवीं आदावाचें अध:पतन आनी पर्यायान मनीसजातीची अधोगत हाचेर **एव आनी मरी**चो पूर्वार्ध खासा उजवाड घालता. मुजरत सांगपाचें

म्हळ्यार मिल्टनय आपल्या महाकाव्यांत भौ प्रभावीपणान आनी नाट्यमय शैलीन होच आशय मांडटा. कवीराय ब्रून द सौजा वरीच मिल्टनाचोय विशय सर्वज्ञात (सगल्यांक खबर) आशिल्लो. खेरीज तातूंत नाट्याचो अंशय उणो आशिल्लो. तरिकूय मिल्टन आपल्या महाकाव्यांत 'चड आवश्यक अशें' नाट्य हाडचो यत्न करता. तशेंच नवीदाद नाशिल्ल्या आपल्या विशयांतूय व्यक्तीचित्रणाचो (जितलो शक्य आसा तितलो) वापर करून आपल्या निवेदनांत जीव हाडचो यत्न करता.

**पॅरडायज लॉस्ट**चे बाबतींत उलयतना एका खास घटकाची दखल घेवची पडटा. हो घटक म्हळ्यार अतिमानवी घडणुको वा अमानवी व्यक्तीरेखा चितारप. खासा करून देव, ख्रिस्त वा देवदूतांचें चित्रण खंयचेय कवी हस्तुकीं ज्यूस्त घडटलें अशी आस्त बाळगप म्हळ्यार तांचे कल्पनाशक्तीक एक जबरदस्त आव्हान दिवप. मिल्टनाक आपणाल्या महाकाव्यांत अतिमानवी व्यक्तीरेखांक रंगयतना जो कल्पनाविलासाचो उणाव जाणवलो, तो ताणें, आदांव एव आनी अदीक करून सैतानाच्यो विसरूं नजो अशो व्यक्तीरेखा चितारून भरून काडटा. अशेच तरेचो प्रस्न ब्रून द सौजांकय सर्वेस्पर, देवपूत, मेरी हांच्यो व्यक्तीरेखा चितारतना पडला आसूंक जाय. तो तांणी कशे तरेन सुटावो केला काय हें पळोवंक जाय. तशेंच, तांचोय विशय दांते-मिल्टनाच्या विशयावरीच अख्ख्या मनीसजातीक वेंगावपी आसलो. तो तांकां केथवोर पेलला काय होवूय विचारीसारको प्रस्न आसा. ह्या दोनूय प्रस्नांक जापो सोदतां सोदतां आमकां **एव आनी मरी**ची आपशींच महाकाव्याचे नदरेन पारखणी करूंक मेळटली. ही पारखणी करतना मुजरत याद दवरीसारकी एक देख आसा. **दिविना कोमेदिया** आपल्या मध्ययुगीन काळाची एक लक्षांत उरसारकी गवाय थारलां. पूण तें काव्य वांगडाच मनीसजातीचे उदरगतीचो आलेख म्हुणय लक्षांत उरता. **पॅरडायज लॉस्ट**च्या संदर्भांत म्हणचें पडटलें की तत्कालीन जिणेचो थंय अभावानच उल्लेख आसा. आपल्या युगाचे जे बरेवायट संस्कार घडल्यात ते आडवाटेन. ताच्या काव्याअंतर्गत आशिल्ले भासाभाशेंत करमेल्यात (they have seasoned his argument). **पॅरडायज लॉस्ट** खंयच्याय युगाचो दस्तावेज वा कथानकाची नवलाय हांचेपरस मिल्टनाच्या थळ काळावेल्या (महाकाव्य बरोवपाफाटल्या) उदात्त ध्येयाक लागून याद उरता. तो होरावणेंतच स्पश्ट करता की हें महाकाव्य बरोवपाफाटलो आपलो हेतू 'देवाच्यो वाटो मनशाक पटोवन दिवप' (to justify the ways of God to man) आसा. **एव आनी मरी**चो कवीयबी एका उदात्त हेतून प्रेरीत जावनच महाकाव्यलेखन हातांत घेता. ताचें ध्येय जावन आसा, 'जें एवेन आमचें सुख बुडयलेलें, हांसते बागींत भूमी वैकुंठांतलें... आनी मरीयेन सुफळ फळान आपले उदरींच्या, आमकां दिलें परतून... तें लहान आनी व्हडाक पर्गट करचेलें.'

हें विस्तारान हांगा बरोवपाफाटलें कारण इतलेंच की जरी आमी अस्तमतेचीं कितलींशींच काव्यां देख म्हूण घेतलीं तरी आशय आनी विशय हातूंत **एव आनी मरी, पॅरडायज लॉस्ट** ह्याच काव्याक लागीं आसा. ताच्या संरचनात्मक रुपाक लागून तें **दिविना कोमेदिया**कडेन नातें जोडटा. तशेंच, महाकाव्याच्या कांय विशेश गुणांचे बाबतींत तें **दिविना कोमेदिया**क लागीं आसा अशें मानूंक जाता. प्रो. गोमिश हांणी **एव आनी मरीची दिविना कोमेदिया** वांगडा तुळा करून, आपले प्रस्तावनेंत दोगांयच्या काव्यगुणांची बारीकसाणेन सर केल्ली आसा. म्हणटकीच तें परतें सांगप म्हळ्यार शेळे कडयेक फोण्ण मारिल्लेवरी जातलें. हाका लागून तो मोह (तायणी) टाळटां. एव आनी मरीची ह्या दोनूय काव्यांवांगडा तुळा करून तांचेमदली समसमानता दाखोवचेपस, तांचेमदलें वेगळेंपण सोदप अदीक मोलादीक थारतलें. हें करतनाच एव आनी मरीचो महाकाव्य म्हणय आपशींच कस लागतलो.



पश्चिमी महाकाव्याच्या संदर्भांत

# एव आनी मरी

एव आनी मरीचो महाकाव्य म्हूण विचार करतना कांय कवी गुणांचो सुर्वेकूच उल्लेख करून फुडें सरप सुविधेचें जातलें. कवींक आपल्या कथानकाच्या व्हड माजाची जाणविकाय आसा. त्या कथानकांतल्या सखोल आनी अर्थपूर्ण आशयाची झोंपय कितली मळबचुमी आसा हेंवूय तो बेस बरें जाणा. तशेंच, येद्र्या व्हड तांकिचो महाकाव्य लेखन प्रकल्प हातांत घेवपाफाटलो ताचो हेतू फकत उदात्तच न्हय तर स्पश्ट आसा. तेचपरी ह्या महाकाव्याक कोंकणी भाशेंत (मरीयन लिपयेंत) जल्माक घालपाफाटल्यानूय कवीचें 'कोंकणीची उदरगत जावची' हें तुस्तीलायक ध्येय आसा आनी विशेश म्हळ्यार हें ध्येय साध्य करचेपासत तांणी कोंकणींत कादंबरी लेखन करप, मरीयन लिपयेखातीर वर्णमाळेची पुस्तिका तयार करप, कोंकणी खबरांपत्रां उजवाडावप तशेंच कोंकणीचे उदरगतीविशीं लेख बरोवप अशे यत्नय आपलेपरीन केल्यात. पूण एखाद्रे व्यक्तीचें खंयच्याय स्रेश्ठ ध्येयाखातीर वावुरप जरी तोखणाय करीसारकें आसलें, तरी ताचेवेल्यान ताचे साहित्यीक कृतीचें मोल थारना. तेखातीर साहित्यिकाचें कलात्मक योगदान पळोवचें पडटा. ब्रून द सौजांच्या **एव आनी मरीचें** मोलांकन करचें जाल्यार तांगेल्या सोंप्या, रसाळ आनी ल्हवपीक उतरांनी साजिल्ले भाशेक खासा मानाची सुवात दिवची पडटली. खुबश्या आदल्या कोंकणी तशेंच फिरंगी उतरांचो तांणी सोबीत आनी फिशाल उपेग केला. पूण तरिकूय तांचेविशीं पुराय आदर बाळगुनूय म्हणन दिसता की तांगेली काव्यशैली महाकाव्याचे व्हडविकायेक आस्पावंक उणी पडटा. एक म्हळ्यार तांगेल्या निवेदनाची धाटणी काव्यमय आसून कथनापरस उपदेसात्मक चड आशिल्ल्यान सैमीक कशी दिसता. हाचें कारण, कवीची मनीसजातीच्या भवितव्याखातीर आशिल्ली अखंड चिंता आनी मरियेवरवीं मनीसकुळयेचो उद्धार जातलो ह्या भाकितावेलो तांचो अढळ विश्वास हेंच आसा. पूण हाका लागून काव्यांतलें निवेदन सुरबूस जायना आनी आदींच सर्वसादारण मनशाक खबर आशिल्ल्या कथानकाची वाचप्याचे मनावेली पकडय अदीक धील पडटा. भोव सोबीत उतरांचो ओडलायणो प्रयोग करुनूय एदुआर्द ब्रून द सौजांची भास, तांगेल्या उपमा वा तुळा हांकां महाकाव्यांत सोबसारकी श्रेष्ठताय दिवंक फाटीं पडटा. हांगा देखी कवीच्या उणेपणाच्यो घेनासतना, तांगेले अपवादानच सादिल्ले प्रभावी उपमेचें उदाहरण घेवप समा जातलें. 'पातकी आपणाकूच फटयता' ह्या सर्गांत कवी पातक्याक

फावो जावपी सासणाचे ख्यास्तीचें जें वर्णन करता तें ताचे प्रतिभेचें निदर्शक म्हणू येता.

थांबो नासतां दुकां गाळून भोगशी
सासण ख्यास्त, जी जोडल्याय तुजे खोश्येन
जिचो शेवट कदींच तूं ना देखशी।
जर एक जळार, काडून आपले मिशेन
हजारां वर्सांनी, एक एक कणी
हो संवसार ना करीत अशे भाशेन
तरीय मुदलाक आसत ना जायत उणी
अगरित देव तो देव तितूत पासून
चाकशी नीत, जी म्हणय भेश्टी काणी...!

हांगा कवी अतिशयोक्ती ह्या मान्य महाकाव्याचे प्रथेचो प्रयोग करता खरो, पूण तो सकारात्मक नासून नकारात्मक आसा आनी म्हूण hyperbole परस litotes क चड लागीं आसा. अर्थात हो कवीचो दोश न्हय जाल्यार ताचें *खेरीतपण* जळारीं सारक्या ल्हानांत ल्हान जिवांचे मिशयेचो इतलो कुशळ उपेग महाकाव्यांत अपवादात्मकच आसतलो. पूण सौजांनी अशे तरेचे चड प्रयोग केल्ले ते कृतींत सांपडनात. हो मात तांच्या काव्याचो शैली-दोश अशें म्हणूं येता. तशेंच ह्या वळींमदीं जें सेमविं-सारकेंपण आसा तेंवूय पुराय काव्याचेर आपली सया पातळायता. होवूय 'गूण' तांगेले कृतीचे सोबितायेक गालबोड ओडटा.

पूण ह्या काव्याच्या स्रेश्ठ आशयाक खर काळजापूट ओडलां तें मात ह्या काव्यांतले अंतर्गत रचणुकेंतल्या त्रुटींक लागून. एकूण ३२ सर्ग आशिल्ल्या ह्या काव्यांत सुत्रबद्धता हाडपी असो एक मध्यवर्ती घटक दिसून येना. दांतेच्या काव्यांत प्रथमपुरूशी निवेदन आशिल्ल्यान, कवीचे आप-अणभव हो सगले कृतींक एकठावपी दुवो जावन आसा. जर **एव आनी मरीं**त खिणभर मरी ही ते काव्यकृतीक एकठांय राखपी असो सांदो म्हळो तरी तिचो काव्यसंकेताप्रमाण सगल्या सर्गांत (उक्तो वा सुप्त) प्रभाव दिसून येना. निखट्या उल्लेखापुरतें उलोवचें जाल्यार एकूण ३२ सर्गांमदीं मरियेचो स्पश्ट उल्लेख ८ सर्गांनी मेळटा. ते म्हळ्यार सर्ग १२ ते १९. सर्ग २० ते २५ हातूंत देवपूत जेझू होच केंद्रबिंदू जावन आसा, जाल्यार २६-३१ ह्या सर्गांनी कवीन वाचप्याक जावं मनशाक केल्लो उपदेस वा शिटकावणी दिसून येता. निमण्या सर्गांत परतून एक फावट मरियेक सांगणें केल्लें दिसता. कवी मरीमातेक मनशाच्या सालवासांवाक म्हूर्त घाल म्हूण पराथता. तशेंच, पातका वांगडच्या झुजांत तिचेकडेन बळग्याचें मागणें

करता. म्हजे अल्पसमजणेप्रमाण तरी ह्या सर्गाच्या शेवटाक **एव आनी मरीचें** व्हडपण एक म्हान काव्य म्हूण दिसून येता. हाचें कारण, कवीचो आपले भाशेचो गाढ अभिमान आनी मोग, हें आसा. तशेंच, आपले भाशेंत, आपणें घडयिल्ले लिपयेंत मरियेचे व्हडविकायेचीं गितां गावचेली ताची असामान्य उमळशीक आनी मरियेवेली असाधारण भक्ती वाखाणण्याजोगी आसा.

आपल्या तथाकथित महाकाव्यांतल्यान तो मनशाक म्हान सताचो दिश्टावो दिवंक सोदता वा ना हें हे काव्यकृतीच्या आदारार सिद्ध करप कठीण. पूण तो कोंकणी मनशाक मात एके आगळेच उर्बेची, एकचाराची देख दिवंक सोदता म्हूण तो गौरवाक पात्र थारता. भाशेच्या एका सुत्रान गोंयकारांमदीं एकवट, मोग, आपलेंपण येवचें म्हूण कवी कस्टता. ह्या संदर्भांत कवीन ख्रिस्ताच्या जाती-काती पेल्या मानवी एकचाराचो खुबच कुशळतायेन केल्लो उल्लेख आनी विरोधाभास म्हूण मनुस्मृतीचो निसट्टो उल्लेख हे दोनूय आपलेपरीन उल्लेखनीय आसात.

कवीचो महाकवीक फावोसो दर्जो, ताच्या कथानकापरस वा तातुंतल्या देखी-दिश्टाव्यांपरस, सहिष्णुता आनी समजिकाय ह्या ताच्या नीज गुणांक लागून लाबता. क्रिस्तांव धर्माचीं तत्त्वां आनी गाबो अभिव्यक्त करतना कवी हेर धर्मांचो वा संस्कृतायांचो आडवळणान उल्लेख करता. पूण तातुंतल्यान ताचो धर्मीक दुराग्रह वा कट्टीखायरो धर्मभेद दिसना. जेतरेन कवी कर्मकुड्डेंपण आनी पूर्वग्रह हांच्या दुशीत प्रभावासावन चार हात लांब रावला हें ताच्या काळाचो, व्यक्तीगत फाटभुंयेचो आनी समाजीक वातावरणाचो विचार केल्यार खऱ्यांनीच आदर्श आसा. हांगा ताची तुळा हेर महाकवीं वांगडा केल्यार तो तांचेपरस दोन पावलां फुडेंच आसा हें होलमता.

देस, धर्म, राष्ट्र आनी राणी हांकां आपल्या काव्यांतल्यान नामना मेळोवंक वावुरपी स्पेन्सर **फेरीक्वीनां**त फाटल्यान अभिजात साहित्याचें दायज आनी मुखार मानवी उदरगतीचो हेतू आसुनूय रोमन कॅथॉलिकां विशींच्या दुस्वासावयर सरूंक पावना. रुपकाच्या आड रावन लेगीत ताचो अँग्लीकन दुराभिमान आपलें आंग दाखयताच. मिल्टनाचो 'सोंवळो' पूर्वग्रह ताच्या हरशीं उदात्त आशिल्ल्या आशयांतल्यान स्पश्ट दिसता. तशेंच, अभिजात साहित्यीक प्रथा आपणावनूय, तांगेल्या देवधर्म विशयक कल्पनांक हीण लेखपाची वृत्ती तो लिपोवंक पावना. कामोंयशय उक्तेपणी 'मूर्तिपुजपी हिंदू', 'फाल्स महम्मदाक भजपी' अशे धर्मकुड्डे उल्लेख करता. एक खरें, स्पॅन्सराचें अशीर मेकळेंपण (narrow liberalism), मिल्टनाचो अवास्तव 'सोवळो' धर्माभिमान आनी कामोंयशाचो हेरांक पाखंडी वा काफिर लेखपी वृत्तीचे फाटभुंयेर एदुआर्द ब्रून द सौज हांचें उदारमतवादी बरप खंयच्याय मानवतावादी वाचप्याक मानवल्यार तातूंत नवल ना.

पूण तरिकूय **एव आनी मरीचें** महाकाव्य म्हूण यथातथ्य मोल करप अशक्य आसा.

एके अर्थी जरी ह्या काव्याक मनीसकुळयेचो पुराय भूतकाळ, वर्तमान आनी फुडार माज म्हूण लाबलो तरिकूय त्या माजाक थळ आनी काळाचें सोडाच, पूण पटपासारक्या वास्तवाचें परिमाण दिवपांत कवी उणो पडला. हांगा ताचो बचाव करतना म्हणूं येता की ताच्या काव्याक इतिहासीक फाटभूंय ना. जाल्यार अलौकिक अशा मिथकांतल्यान ताचें कथानक उदेलां. पूण हांगा मिल्टनावांगडा आमी ताची तुळा करूंक शकतात. मिल्टनाकूय होच प्रस्न भेकडावंक शकतालो. अतिमानवी अलोकीक अशा विशयाक (मिथक जशातशें तिगोवनय) मनाक पटपासारकें वास्तव स्वरूप ताणें कशें दिवचें? ताणें तें सैतान, आदांव, एव हांच्या चित्रणांतल्यान 'एपीक' उपमा-अलंकारांनी, महाकाव्याक पूरक 'एपीक' भोंवडे (यात्रा)च्या वर्णनान आनी हेर व्यक्तींच्या, सैमाच्या, विधानांच्या स्थूळ आनी सूक्ष्म उपेगांतल्यान ज्यूस्त केलां.

दांतेनय आपलेपरीन हेंच केलां. रुपकात्मक आशयाच्या मोगाभोंवतणें विणिल्ल्या आपल्या कथानकाक ताणें तत्कालीन समाजीक राजकी उल्लेखावरवीं अदीक खोलाय आनी गिरेस्तकाय दिल्या. प्रथम पुरुशी निवेदन आसुनूय दांते **दिविना कोमेदिया**क व्यक्तीगत पांवड्यार काडून ताका विश्वीक थरार पावयता. हें करतना तो मोग हे व्यक्तीगत भावनेचो, 'उदात्त आनी अलोकीक सताचो दिश्टावो' हातूंत 'कायापालट' करता. हाचे उरफाटें, **एव आनी मरी**ंत कवी स्रेश्ठ ध्येय आनी उत्कट भक्ती आसुनूय एका अलोकीक आनी उदात्त विशयाक, फकत आपूण व्यक्तीनिरपेक्ष कथन करपांत अयशस्वी थरिल्ल्यान (वाचकाभिमुख निवेदन केल्ल्यान) एके काणयेच्या जावं नीतीकथेच्या पांवड्यार हाडटा. त्यो रुपकात्मक नदरेन केद्र्योय स्रेश्ठ आसल्यो तरी कवीच्यो 'एव आनी मरी' अटळ आनी पुरातन दैवी भाकिताच्यो प्रतिनिधी म्हूण 'एपीक' तांकीन वाचप्याच्या सामकारा येनात. त्यो सदांच अस्पश्ट आनी मोटव्यो व्यक्तीरेखा उरतात. देवाच्या थारायिल्ल्या खेळांतल्यो खामसुत्री बावल्यो कशो!

देखीक, मरियेक वाचप्यामुखार हाडटना कवी बायबलांतल्या पोरण्या करारांतल्या विंगड विंगड बायल-पात्रांच्या उल्लेखाचेरूच पातयेवन रावता. ही एक बरी एपीक प्रथा खरी. पूण त्या पात्रांची व्हडविकाय खबर आशिल्ल्यान वाचप्याक देवपुताची आवय म्हूण मरियेची महानता समजून घेवपाची आशिल्ली उमळशीक पुराय जायना. हांगा तो मुद्दो स्पश्ट करूंक पर्थून एक फावट मिल्टनाची वा स्पेन्सराची देख घेवची पडटा. मिल्टनाच्या महाकाव्यांतूय देवाची व्हडविकाय जावं व्यक्तीरेखा म्हूण स्रेश्ठताय दाखोवप शक्य ना. पूण मिल्टन देवाच्या प्रतिस्पर्ध्याची व्हडविकाय इतले प्रभावी तरेन आनी प्रतिभाशाली रितीन करता की ताचो सैतान लेगीत एक विसरूं नजो अशें पात्र जावन उरलां. स्पेन्सरय अभिजात ग्रीक रोमन साहित्यांतल्या प्रसंग, व्यक्ती, जागे, वस्तू हांचो इतलो अचूक आनी सक्षम उपेग करता की तांच्या कल्पनाविलासान

मन धादोस जाता. मिल्टनाची प्रतिभासंपन्न शैली ह्या ‘काफिर’ अभिजात साहित्याचो जशातसो उपेग करिना. कित्याक तशें करप हें ताच्या ख्रिस्तभक्तीक अनुकूल अशा विशयाक योग्य न्हय अशें तो मानता. आपल्या महाकाव्याचें मोल Pagan उल्लेखावरवीं उणावत म्हूण तो तांची मजत घेना, पूण तांकां नवे संदर्भ आनी नवीं परिमाणां दिवन तांकां नव्या रुपांत आपल्या काव्यांत सुवात दिता. हांगा देख म्हूण ताच्या सैतानाचे सभेचें वर्णन वा ताच्या सांकेतीक यात्रेचें वर्णन घेवं येता. अशे तरेचे यत्न **एव आनी मरीन** केल्ले दिसून येना.

पूण मिल्टनाचे जडगुळो कशे विद्वत्तादर्शक शैलीपरस ब्रून द सौज हांची म्होंवाळ निवेदन शैली तांचे काव्यकृतीक सोबा हाडटा. तांचे शैलींत स्पॅन्सरासारकेली रंगरंगयाळी भास आनी जिवसाणेन भारावि‍ल्ली उतरावळ आसा. दांते सारकीच संभाषणसदृश्य (conversational) निवेदनशैली आनी तशी गोड थळावी बोली निवेदनाचें माध्यम म्हूण सुफळ करचेली मोख आसा. तांचो विशय मळब-वेंगावपी आसा. पूण ताचें कथानक एकपोडी आसा. तरिकूय तांणी ह्या श्रेश्ठ विशयाक एका उदात्त ध्येयान प्रेरीत जावन एका व्हड काव्याखातीर वेंचलां. तें कोंकणींतलें महाकाव्य आसा वा ना हें कोंकणी वाचपी थारायतलो. पूण दीर्घकाव्याकडेन नातें आशिल्लें हें एक म्हान कोंकणी काव्य आसा इतलें खरें.



## परिक्षणाच्या वस्त्रगाळ नदरेंतल्यान

# नवोदीत कोंकणी कविता

'नवोदीत' ह्या हुलकावणी दिवपी पूण तरिकूय भूल घालपी तकट्याखाला कोंकणी कवितेंतली फुडली वाटचाल तेळूंक वचप भोव गरजेचें आसा, हेविशीं दुमत नासतलें. मात, आगामी कोंकणी कवींच्या पावलटींची सुलूस घेमेरेन ते नवोदितांवेल्यान प्रस्थापितांच्या पांवड्यार पाविल्ले आसतले (न्हय आसचे) ही गजाल नदरेआड जावंक जायना. हें तारतम्य बाळगून आयचे घटकेक सामकी हालींची कविता कशी कितें बळटा हाचो नियाळ घेवंक सोदप्यान, मोस्त्राखातीर विशिश्ट काळमर्यादि भितरली सामुहीक स्वरुपांत भेटिल्ली कविता अभ्यासची पडटली.

हेखातीर म्हाका तरी कोंकणी भाशा मंडळान हालींच घेतिल्ल्या कोंकणी काव्यसर्तींतल्या कवितांचो परामर्श घेवप योग्य दिसता. हे सर्तीचो निर्णय स्वातंत्र्यदिनाच्या शुभ म्हुर्तार जाल्ल्यान ह्या परामर्शाक आनीक एक खास म्हत्व आसा. हे सर्तींत वांटो घेतिल्ले सगले कवी, कवयित्री भारत स्वतंत्र जाले उपरांत जल्मा आयिल्ले पिळगेचे 'फुडाराचे दिवे'. हे सगले कवि-कवयित्री स्वतंत्र गोंयांत जल्मल्ले. भौतेक कोंकणी शिकिल्ले वा शिकतले आनी कोंकणीचो इतिहास, कोंकणीचो वर्तमान आनी तिचो फुडार हांची जाणविकाय आशिल्ले आसतले. निदान आसूंक फावो.

आपल्या तरणाट्या खांदार (कोंकणीचो बावटो मिरोवपाची न्हय तर तिच्या ध्वजस्तंभाची बुन्याद घट करचेली) केदी व्हडली जापसालदारकी आसा हाची तांकां कितली शाबुद्द आसा, हेंवूय तांचे कवितेंत सोदूंक आमकां चुकना. कोंकणी एका काळार जरी तरातरांच्या सांवटांनी गिरासून गेल्ली आसली तरी आयज आमी तिचो विचार एका धुक्यांत लिपिल्ली हयन्हयशी पुसट सासाय असो करूंक जायना. आज कोंकणी एक सुस्पश्ट असो भाशीक साद, एका जनसमुदायाच्या अस्मितायेचो मुक्त हुंकार, ताच्या हावेसांचो सुस्कार जावन आसा. कोंकणीचो विचार जर आजय ललीत बरपांत 'कंसांत तलवार उपसली' ह्या सुरार जायत जाल्यार तें प्रगतीचें न्हय तर अधोगतीचें द्योतक थरतलें. कोंकणी कवीन कविता बरयतना ह्या साबार मुद्द्यांचीय जाणविकाय अवश्य बाळगुची पडटली. कोंकणी कवितेंतली भाशीक गिरेस्तकाय, तिच्या नादाची लय-ताल, तिच्यो तरेकवार मोडी-धाटण्यो, थळावे मातयेवांगडची कवीची नाळ, कोंकणी जनांचें अस्सल अणभव-विश्व आनी त्या अणभव-विश्वाक आपणाल्या

खासा अंदाजान, नीज शैलीन साकार करचेलें कवीफुडलें आव्हान – ह्या सगल्यांचें कवीन भान राखूंक जाय. पूण हें 'भान' राखतना ताणें तंत्राविशीं 'बेभान' आसूंक जायना. मात कवीन कसल्या कसल्या विशयांचें भान दवरलां हें वाचप्यांचे नदरेक खुपूंक जायना. तशें जाल्यार काव्यांतल्या आशयाचो मान उणावता. कवीक भाविल्ल्या विशयाक जेन्ना तंत्राच्या अळंग पांखांनी वाचप्याच्या काळजांत – ताच्या भावविश्वांत – देंवंक यश मेळटा, तेन्नाच काव्याच्या आशयाक जीवसाण, खोलाय आनी सोबितकायेचें रस्मी अस्तर चडटा.

जर कविता सुघड, सुरबूस आनी चैतन्यशील आसली जाल्यारूच ती वाचप्याक ओडलायणी दिसता आनी अंतर्मुखूय करूंक पावता. ह्या तीन गुणांतल्यान कवी कवितेंतल्यान आपणाल्या विशयाफाटलो आशय कलात्मक रितीन आनी आपणाल्या नीज दिश्टाव्यासयत पेश करूंक येशस्वी जाता. नाजाल्यार कविता ही एक कृत्रिम बांदावळ आशिल्लो उतरांचो पोरखेळ आनी विचारांचे पोकळ पुरस्कार करपी पद्य-सदृश्य साहित्यीक प्रगटन इतलेंच जावन उरता. कवीच्या मनाप्रमाण कविता प्रवर्तक विचार आसची, प्रक्षोभक आसची, क्रांतिकारी आनी निग्रही आसची. जाय जाल्यार आत्मनिश्ठ वा आत्ममग्न लेगीत आसची. पूण प्रचारकी थाटाची वा उखलाप्या उत्फर्क्यांची मांडावळ मात निखालस आसूं नये.

नवोदीत कोंकणी कवितेचो सटीक नियाळ करचो जालो जाल्यार वयल्या पुराय मुद्द्यांचें अवधान बाळगप कोणाकच चुकूंक आयिल्लें ना. म्हणूनच, कोंकणी भाशा मंडळाचे काव्यसर्तींतिल्या कवितांकडेन परीक्षणाचे वस्त्रगाळ नदरेन पळोवचेलो एक यत्न केला. अशा थोडेशे चिकित्सक पारखणेंतल्यान उद्भविल्लीं कांय निरीक्षणां अशीं आसात.

नवोदीत कोंकणी कविता विशयांतर्गत विवीधता हाडूंक आंवडेता. देख म्हणून, प्रतिमा राम प्रभू हांची 'मांयभुंयेचे ओडीन परतलो', शुभांगी म. माजगांवकार हांची 'पोस्को', काशिनाथ नायक हांची 'हांव प्रतिनिधित्व करतां', गणाधीश प्रभुदेसाय हांची 'मैफल' ह्या कवितांचो उल्लेख करूं येता. पूण बऱ्याच वेळा कवी त्या विशयाक धरून उदेवपी आशयघनतेक पेलूंक एकतर अनमनल्यात वा तंत्राच्या कसलावण्या आव्हानां सामकारा बागवल्यात. कांयकडेन कविता कसलोय सुस्पश्ट असो दृश्टीकोण फुडें हाडूंक घुस्पल्या. हांगा गणाधीश प्रभुदेसायांची 'खीण-कोंडी' आनी हनुमंत चोपडेकारांची 'मुखार वच' आनी 'हांव गावडो' ह्या कवितांचीं उदाहरणां म्हणून नांवां घेवचीं पडटलीं. वयर घेतिल्लीं कवी-कवितांचीं नांवां तांचें उणाकपण सिद्ध करूंक न्हय तर तांच्यो त्रुटी नदरेक हाडचेखातीर घेतल्यात. पूण विशयावांगडचे आशयघनतेक न्याय दिवपीय कांय कवी-कवयित्रीय हे सर्तींत वांटेकार जाल्यात. हांचेमदीं मिलींद भगत, राजय पवार, उज्वला नायक हे आस्पावतात. पूण हे आनी अशेच एकदोन कवी आमी

वेगळायले तरी एक सत दोळ्यांत खोमता. नवोदीत काव्यांतलो आशयाचो दुकळ आनी दृश्टीकोणाचो घुस्पागोंदळ हीं दोन भावी कोंकणी कवितेक भेकडावपी गाड खतां जावन आसात. अर्थात, हांचें कारण, नव्या कवी-कवयित्रींचो अणभवसंपन्नतेचो अभाव हें आसा. कांय अंशी हें कारण ग्राह्य धरलें तरिकूय तें पुराय लागू जायना. खुबदां तंत्रीक दोश आनी विचारीक उदासीनता हिंवूय ह्या कवितेचीं दोश-थळां थारू येतात, हें तिका बारीकसाणेन अभ्यासल्यार कळटा.

आशयसंपन्नतेचो अभाव, जो बऱ्याच कवितांक गिरासता, ताचेविशीं उलयतना दरेकल्या नवोदीत कवी-कवयित्रीविशीं पुराय आदर आनी आपलेंपण बाळगुनूय म्हणन दिसता की कवी विशय वेंचतना उखलापे नदरेन ताका पळयता. बरेचशे कवी विशयाचें सहजसुलभपण, ताचें चालंत मोल, ताचें भोवचर्चितपण, ताची प्रक्षोभक कुवत वा निखटीच ताची 'नवीदाद' ह्या गुणांनी आकर्शित जावन वा हे निकश लावन तो विशय वेंचतात. हातूंत जरी कांयच वायट नासलें तरी त्या-त्या विशयाक कवितेंत देंवोवचे आदीं ताचें आपल्या अंतर्मनांत चर्वण करून, ताचेफाटली विचारीक, भावनीक वा आत्मीक कीट फुलोवंक खुबशे कवी वचनात काय दिसता. जर अशें आसलें जाल्यार तें काव्याक सेर्त मारक थारता. कारण विशयाचें चर्वण जावन मनांत जी 'जाण' परजळटा, तिच्याच उजवाडांत ताका विशयांतलें मर्म कणसांतलें तन्नें दूद कशें होलमतलें. आनी मागीरच तो कवी विशयाचें कळींवर आशयसंपन्नतेन भारून वडयतलो.

जेमेंरेन कवी विशयाक फकत 'एक विशय' म्हणून हाताळटलो, ताका उतरांत बांदून ताचेर छंद-लय-ताल हांची लयलूट करतलो, तेन्ना कवितेक तंत्रीक कृत्रिमतायेचो वास मारतलो. कविता मेल्ल्या मड्याक सरणार दवरचे आदीं न्हेसयल्लेवरी निष्प्राण जातली. मागीर तिचेर अडेच्या बुद्धीवादाचो करकरीत सूट चडयल्लो आसूं वा भावनीक तरंगांच्या नकली बुटयांचो भरजरी शालू पांगुरिल्लो आसूं! बोटांची कुशळताय आनी कलात्मक मांडावळ जशी हातमागावेल्या वस्त्राक लेगीत उठाव हाडटा, तेचपरी कल्पनाशक्त आनी तंत्राची कुशळताय विशयाक आशयाची जोड दिवन कवितेंत जीवसाण हाडटात. अशे तरेन आपणाले कवितेंत 'जान' हाडिल्ल्यांची गवाय हांगा दिवंक फावो.

*'खंयतरी एक होमकाण पेटतलें*
*तुमी सोंपतले वा आमी तरी सोंपतले*
*होळयेक वेंगेंत घेवन भावणीचीं वर्मां काडीत नाचले*
*धोल बडोवन गड्यारातीं हात आमचे सोलले*
*एका दिसा हे 'भस्टल्ले' हात तुमच्या केस्टांक आसतले*
*तेन्ना आमी नमन गायतले, तुमी खेत्यावरी नाचतले.'*

हो आसा मिलींद भगत हांचे 'नवी फांतोड' हे कवितेंतलो उतारो. हाचेवेल्यान कवीक आशिल्ली काव्याची जाण आनी विशेश नवीदाद नाशिल्लो विशय लेगीत प्रभावीपणान सादर करचेली तागेली तांक दिसता. नकसूद शब्दांत बांदिल्लो तांचो आशय मनाक भिडटा. तेचप्रमाण राजय पवार हांगेल्या 'खण गावड्या' हे कवितेंतलीय देख पळोवण्याजोगी आसा.

*आमचो गावडो*
*सामको बावडो*
*ताच्या आंगांत वाग येना*
*ताका केन्नाच राग येना*
*सुस्त बरो न्हिदता तो*
*ताका केन्नाच जाग येना.*

तांगेल्यो ह्यो वळी 'काव्यांत गेयता आसल्यार आशयाक कसो उठाव येता' हें दाखयतात. हे कवितेंतल्यो आनिकूय कांय वळी पळोवण्याजोग्यो आसात, त्यो अशो.

*भाटकारालो आंबो पाड*
*सगलो ताच्या घरा धाड*
*आंब्यावेले हुमले*
*केसांत घुस्पावन घरा हाड...*
*तुका सांगचें लागना चड*
*पावस आयलो – बांद झड*
*तूंच चुडीत घेवन यो*
*तूंच ओडीत घेवन यो*
*रातीचो दीस कर*
*दिसाची रात कर*
*भाटकाराली दिवली पेटोवंक*
*जिवाची वात कर*

ह्या सोंप्या उतरांतली तांक वाचप्याच्या मनाक स्पर्श करूंक पावता. पूण कांय वेळा राजयाची उतरांवांगडा हुंदडपाची इत्सा तागेल्या काव्याच्या आशयाक मारक थारता आनी कवितेच्या शिल्पाकूय बाधा हाडटा. हें हे कवितेच्या सुरवेकच दिसता. ह्या

कवीन जर उतरान उतर काव्यांची गरज आनी ताचें कलात्मक मोल हांचे दोट्टी कसवटेर घांसून घांसून तिजलें जाल्यार तागेल्या काव्याक उज्ज्वल फुडार आसा. तागेलें व्याकरण-शुद्धलेखनाच्या बारकाव्यांचेर खासा लक्ष आसता, ही तागेल्या काव्याची आनीक एक जमेची वट. हाका लागून, तागेली आज सर्वसामान्य थारिल्ल्या विशयावेली कविता लेगीत एक परिणामकारक रचना जावंक पावता. तिगेलें शब्दीक बळगें आनी अर्थाची तांक वाडटा.

नेमको होच गूण (व्याकरण-शुद्धलेखन) व्यवस्थीत केळयनाशिल्ल्यान जायत्या नवोदीत कवींच्या बऱ्याबऱ्या कवितांक खालतेंपण फावो जालां. कांयकडेन हो दोश फकत एक उणेपणाचें खत कशें तांचे कवितेक बादता. पूण एकएकदां हो दोश कवितेच्या आशयाकच पुरायेन उमथावन उडयता. देखीक, उज्वला नाईक हांच्या सुंदर जावंक शकपाची सुप्त शक्त आशिल्ली कविता. हे कवितेंत विशयाचें वेगळेंपण तर आसाच, खेरीज, आशयाचें एक आगळेंच मोल तिच्यांत आस्पावंक शकतालें. पूण शुद्धलेखनाकडेन आडनदर केल्ल्यान, नकळयां अर्थाचेर अन्याय जाला.

ज्या कवींनी विशयाचें वेगळेंपण राखून आशयाची खोलाय कवितेंत हयन्हयशी हाडल्या, तातूंत 'मोनी सांज' आनी 'चार पावलां मुखार वच' ह्या कवितांक गणूंक जाय. हातुंतली पयली आन्तोनेत मास्कारेन्हस हांची आनी दुसरी गोपिनाथ गांवस हांची आसा. पूण ह्यो कविता उतरां-कल्पनेचें नाजूक नातें सांबाळपांत उण्यो पडल्यात. हांचे पंगतीक जायते हेरूय कवी आसात, जांकां रंगरंगयाळ्या विशयांचो वत-पावशी खेळ खेळन दिसला खरो पूण कल्पनाशक्तीचो फावोसो शिरशिरो नासून वा तंत्राचें मोवसार वत जाय तशें त्या विशयांवेल्यान खेळनाशिल्ल्यान तांगेले कवितेक इंद्रधणुची सोबिताय आनी अप्रुपाय येवंक पावलीना. फुडाराक तांणी आपणाल्या काव्याक एकशिवडी, सुघड रूपकार दिवचेलो अवश्य यत्न करचो. हें विधान जशें काशिनाथ नायकांच्या 'हांव प्रतिनिधित्व करतां' आनी हनुमंत चोपडेकारांच्या 'भार' ह्या कवितांक लागू जाता, तशेंच शुभांगी माजगांवकाराच्या 'पोस्को' हे कवितेकूय लागू पडटा.

कांय कवींनी मात कोंकणी काव्याचे मुळावे अपेक्षेक मातय पाळो दिनासतना, मुदलांतच मराठी दिसपी कविता धाडल्यात (वा पाडल्यात) हें सांगूंक खंत भोगता. हांगा कोंकणी भाशेअंतर्गत आशिल्ल्यो मोडी-शैली हांचेकडेन आडनदर करून हें विधान केलां अशें दिसूं नये म्हणून मुजरत एक उदाहरण दितां. कवी बरयता,

*या शहराच्या*
*भकास जिवनी दिसतात*
*फकत भावनाशून्य चेहरे आणि*

*या शहराच्या...*
*प्रत्येक कोनश्यांत*
*आसता दारिद्रयाचें भांडार*

ह्या वळींनी 'फकत', 'कोनश्यांत', 'आसता' हीं उतरां सोडल्यार बाकी दरेक उतर कोंकणी वा मराठी हें वाचप्यान थारावचें. एक मात उदार मनान मानून घेवंक जाय : उतरां जाय तशीं भास-मोडीची वणत बालांडून वापरचेली आनी कल्पनाशक्तीच्या परिसान विचारांक भांगराकणांत बदलचेली खंयच्याय कवीक मेकळीक आसूंक जाय. पूण तेच बरोबर ह्या काव्यसंकेताचो अतिरेक जाल्यार मात कविता शेणटा, हाचेंय धंगण कवीन मात तरी बाळगूंक जाय.

नवोदीत कोंकणी कवितेचें एक मोटें बळगें म्हळ्यार ह्या तरणाट्या कवी-कवयित्रींक कवितेंतले गेयतेची, छंदताल हांचेवरवीं साध्य जावपी लयबद्धतेची वळख पटल्या. अजून जरी ती गेयता तांणी पुरायेन आपणावची आसली तरीपूण हाची हयन्हयशी जाणविकाय 'चारां-चुन्नां' ह्या अनुराग क्वाद्रूश हांचे कवितेंत तशेंच भारती मडगांवकार हांचे 'दुदावेली साय' हे कवितेंत दिसता. बाय भारती म्हणटा,

*दुदावेली साय चुलींत कशी पडली*
*भरल्या घरांत बायगो तुजी न्हीद कशी अडली ?*

*बायगो सगलें दूद रात्नीचेरच आटलें*
*करपल्ल्या तोपावांगडा विसर सगलें फाटलें.*

प्रतिमा-रुपकां हांचीय नवलाय नवोदीत कोंकणी काव्य दाखयता. तरिकूय जाय तशें प्रयोगक्षम आनी परिपूर्ण रूप ताका अजुनूय मेळचें आसा. मुजरत सांगिसारकी गजाल म्हळ्यार, बरेच कवी आपणालो खासा दिश्टीकोण सादर करूंक येशस्वी थारल्यात. 'खीण-कोंडी' 'नवी फांतोड', 'खण गावड्या' आनी 'मळब' ह्यो हांच्यो सक्षम पती. पूण अजून व्यक्तीनिरपेक्ष दिश्टावो-दिणी कविता ह्या कवींकडल्यान अपेक्षीत आसा.

ह्या नव्या कवींवरवीं सक्षम, तंत्रशुद्ध रितीन काव्यांतलो रोस आनी घीर दोनूय पिक्या फळावरी कवितेंतल्यान वाचप्यांचे होटींत पडटले, तो दीस चड पयस ना. आज तांचेमदल्या बऱ्याच 'सादिल्ल्या' कवितांतल्यान एक आक्रमकता, समजिकाय, जिणेचो आस्वाद, प्रतिकार वा स्विकार अश्यो विंगड विंगड सकारात्मक जाणविकायो दिसून येतात. हाचेवेल्यान तांगेले आशावादी नदरेची, जिवीताक पेलचेले तांकीची वाचप्यांक वळख पडटा. आनी हे वळखींतल्यान तांगेले लजकुरे पूण चैतन्यशील प्रतिभेची

गवाय मेळटा. अशी गवाय दिवपी कविता कितलेय गूणदोश आसले तरी प्रगल्भतायेकडेन वळटा.

अर्थात हें सरसकट सगल्या नवोदितांविशीं म्हणूंक जावचें ना. बऱ्याच जाणांनी अपुरपिके कल्पनाशक्तीचें, अर्दकुट्या विशयाचें आनी तंत्रीक अज्ञानाचें चित्र उकतें केलां. थोड्यांच्या काव्य-मोलाक, शब्दसृश्टीन फावो तसो आदार केल्लो नाशिल्ल्यान उणेंपण आयलां. पूण जायत्या कवींक उतर आनी आशय, नाद आनी अर्थ हातुंतली सोयरीक जाणवल्या. तरी लेगीत शब्द आनी सार हांचेमदली लय फावो तशी सादूंक अजून कळाव आसा. हो कळाव सगल्या काव्यमोगी वाचप्यांक मान्य आसतलो. कारण, कोंकणी वाचपी हो 'उतर भितर शिजलेबगर गीत पानार वाडचें न्हय' ह्या कवीराय मनोहररायांचे परंपरेंतल्यान वयर सरला. तो आशेन वाट पळयतलो हातूंत दुबाव ना.

निमाणें एक खरें. जें काव्य वाचप्याक वाट पळोवंक लायसारकी कमाविशी करून दाखयता, ताचो फुडार आशादायी आसतलो अशें म्हणूंक हरकत ना. ताची वाट पळोवंकूय कांय हरकत नासुंये. मात ह्या 'वाट पळोवपांत' दोन वेगवेगळ्या अपेक्षांच्यो 'वाटो' भरसल्ल्यो आसात. एक वाट कवीच्या कविता बरोवचेल्या संवकळी/ अणभवांकडल्यान भायर सरता. जाल्यार, दुसरी वाट ताचे भितरल्या अणभवविश्वाचे गिरेस्तकायेकडल्यान! पयली तंत्रशुद्धतायेचे कुशळतायेक आशेता, दुसरी परीपक्वतेच्या हुनसाणेक आंवडेता. नवोदीत कोंकणी कवीजनांच्या तरणाट्या खांदार कोंकणी वाचप्यान अपेक्षा आनी जापसालदारकेचें आव्हान दवरलां. जशेजशे हे कवी-कवयित्री पिराय आनी समजिकाय आपणायत कवितेचे वाटेन फुडें वतले, तशेतशे हें आज नवोदित म्हणोवपी कवितेचें दवरणें फाल्यांचे अदीक सक्षम आनी प्रगल्भ कवितेची वाट पळयतलें अशी आस्त बाळगून फुडल्या काव्यसर्तींची वाट पळोवया.



कोंकणी कवितेच्या मळबार गज़ल उदेता

# गज़लप्रभा

**गज़लप्रभा** हो श्री. प्रभाकर नाडकर्णी हांचो नवोताल्ल कवितासंग्रह पळयलो आनी नांव वाचतनाच काळजान 'शोडषवर्षा कुंवर' जाल्लेवरी एक नखरेल गिरकी घेतली. संग्रहाचो माथाळो वाचून **गज़लप्रभा** म्हळ्यार कोंकणी कवितेन जोडिल्लो एक नवो अणभव आसूंक फावो अशी आस्त आपशींच मनांत आंकुरली. कवितेच्या – खंयचेय भाशेंतले कवितेच्या – मळबार गजल उदेवप, तिवूय बी अशी संग्रहबद्ध रुपान, ही ते कवितेचे नदरेन भोव आसदिणी आनी आश्वासक अशी गजाल. ह्या काव्यप्रकाराकडेन ज्या रसिकाचो संगिताच्या वा साहित्याच्या वा दोनूय माध्यमांतल्यान लागींचा संबंद आयला, तोच गजलेची आगळी सुवात वळखतलो. गजल जशी कुपयेंत अत्तर (चेर न्हय) भरूंक जाणा तशीच शिपयेंत सागरय (हाचेर श्लेश आसा) भरूंक जाणा. असलो हो म्होंवाळ आनी गाढ काव्यप्रकार, असो ल्हवपीक आनी नित्य-नवोताल्ल कसो उरूंक पावता हाचें कुवाडें सोडोवपी गजलमोगी घडये जावचो आसतलो.

प्रभाकरबाब नाडकर्णींक हो काव्यप्रकार आपणायन दिसलो हातूंत तशें कांय अजाप ना. पूण तांकां गजल कोंकणींत निस्तायन दिसली हें कोंकणीचें भाग्य! तेभायर गजल ह्या प्रकाराची बांदावळ आनी हेर खाशेलेपणां तांकां शिकन दिसलीं ही गजाल अदीक तुस्त करी सारकी. आर्विल्ल्या काळार कवितेचें मळ रासवळ हमाम कशें जायत चल्लां. संवसारभरचे कवी कवितेचे तळयेंत मनसोक्त बुचकळ्यो मारतात. पूण लक्षांत घेवपा सारकी गजाल म्हळ्यार हातुंतलें चडशें काव्य छंद-बंदमुक्त आसता आनी अर्थ-उतराचो उपेग पासमेकळे तरेन करता. गजलेची गजाल वेगळी. आनी हांगाच **गजलप्रभा**च्या कवीचें वेगळेंपण नदरेंत भरता. गजलकाव्याचो अभ्यास, गजलांचो आशयपूर्ण अणकार आनी मागीर गजलांचो आविश्कार ह्या त्रिविध तासांतल्यान ह्या गजलगोची गजलसेवा उकती जाल्या. हें तोखणायच न्हय तर अनुसरण करीसारकें कर्तुब.

गजलप्रभा ह्या पुस्तकाचें आनीक एक मोलादीक देणें म्हळ्यार श्री. आनंद वर्टी हांचेसारक्या भारदस्त अभ्यासकान केल्ली गज़ल ह्या काव्यप्रकाराची काव्यपूर्ण तशीच अभ्यासपूर्ण चिकित्सा! हातूंत 'मोगिकेवांगडा उलोवप' असो जो गजलेचो चालंत कोषगत अर्थ आसा तो धरून, गजलेची भावनाप्रधानताय, अर्थगर्भताय, शैलीची गिरेस्तकाय, उतरांची रंगरंगयाळी नुरा, शाश्वत-अशाश्वताची एकरूपताय ह्या म्हत्वाच्या आंगांचेर

तांणी ज्युस्ताज्यूस्त उजवाड घाला. गजलेंतलें प्रतिमा-प्रतिकांचें स्थान वर्णायतनाच ते खासा आपुणूय गजले खातीर एक सोबीत प्रतिमा घडोवंक विसरलेनात. तांच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार, ''गजलाचें स्वरूप अशें, सर्वसामान्य समजावरी ना; तर तातूंत एखाद्या लोलकाभशेन अनेक रंग लिपिल्ले आसात.'' हातुंतलें प्रतिकात्मक सार चाखूंक जाय जाल्यार आदीं गजलांतलें म्होंवें अमृत आनी घुंवळावपी मदिरा हांच्या रोसायणाची रूच घेवची पडटली. खासा गजलप्रभांत अशो देखी जायत्यो मेळटात.

ह्या संग्रहांतली पयलीच गजल आसा 'जाता अशी गजल'. तातूंत कवीन उक्तायिल्ल्यो दोन वेगळ्यो वेगळ्यो पती घेतल्यार गजल कशी घडटा आनी तातूंत कितें 'घडूंक पावता' तें सहज कळटा. पयले सुवातेर,

*आंकवाराली नदर समजा मेळली की जाली गजल*
*धडधडलीं काळजां समजा दोगांलीं की जाली गजल*

आनी फुडें

*संशय भारी मनांत धरले सोसत घाव मनां विटलीं*
*भौ निराशेन मन स्वताच मिटले की जाली गजल*

तशेंच

*दुखावेगान गायिल्लीं गितां खंगली प्रीत येतां-वतां*
*जुवानींतली आनंदयात्रा भंगली की जाली गजल*

पयले देखींत गजलकाव्या विशींचे चालंत समज आनी मान्यतायो हांची गवाय मेळटा. फुडल्या देखींनी गजल कवीचेर चडत वता तेन्ना तागेलें अणभव-विश्व पिकतां पिकतां कशें परिपक्व जायत वता हें दिसता. अणभवाच्या संवकळीच्या पावलान चालीक लागिल्ली गजल जून जातां जातां गाढ अनुभूतीचे गर्भकुडी मेरेन पावता कशी हाची हयन्हयशी सुलूस हांगा मेळटा. पूण हेच गजलेच्या मागान फुडें सरल्यार ''मोगा भेट केन्ना दिवशी'' हे गजलेंत एक वयल्या पांवड्यावेली आध्यात्मिक अनुभूति पळोवंक मेळटा.

'गजलप्रभा'ची एक विशेशताय म्हळ्यार हो संग्रह दोन भागांनी वांटला. पयल्या भागांत कवीच्यो तीस (नीज अभिव्यक्तीच्यो पती मिरोवपी) गजलो आसपावतात. जाल्यार दुसऱ्या भागांत, कवीन केल्लो हेर कवींच्या ग़ज़लींचो कोंकणी अणकार वाचूंक मेळटा. ह्या दुसऱ्या भागांत गालिब (असद), मोमिन, जौक़, जिगर हांचे वांगडाच शकील बदायूनी, अकबर इलाहाबादी, फिराक गोरखपुरी, मोहसीन हांच्यो अज़्रंवर

आनी लोकप्रिय गजलो गळ्यांत गळो घालून बशिल्ल्यो दिसतात. अकबर इलाहाबादीची 'हंगामा है क्यों बरपा', शकील बदायूनीची 'ए मोहब्बत तेरे अंजाम पे रोना आया' वा मोहसीनची 'ये दिल ये पागल दिल' सारक्यो कृती अणकारीत रुपांत पळोवन मन उचांबळीत जालेबगर रावना. तशेंच जौक़ हांची 'लायी हयात आये', गालिबची 'उसकी हसरत है' वा फैयाज हाशमीची 'हमें कोई गम नहीं था' हांचें कोंकणी रूप पळोवन मन सुखावता.

मात हे अणकार वाचतना कोंकणी वाचप्यांक कांय कडेन अडिल्लेभशेन वा आडखळिल्लेवरी जावं येता. हाका दोन कारणां आसात. गजल हो आकृतीबद्द असो, आटीव रचनाप्रकार. ताचो अणकार करतना रचनेची फास्की, अनुप्रासाची मिरी आनी आकृतायेची शीम सांबाळप सोपें न्हय. हाका लागून अणकारप्याचेर जबरदस्त बंधनां पडटात. दुसरें, गजल ही मूळ फारसी-अरबी पाळांचेर वाडून हिंदी-उर्दूचे धोलते खांदयेर पानवेल कशी पोसवल्या. तिचे उतरावळीचो बाज, शैलीचो नखरो आनी आशयाचो साज आगळो-वेगळो. कोंकणीच्या वृंदावनांत तिला लावप जरी सोंपें आसलें तरी केळोवप हें एक आव्हान. कोंकणी भाशेचें खाशेलेंपण, तिचो नाद, लय, लवचीकपण हांचो मेळ गजलेचे शोखी वांगडा, तिचे नाजुकसाणेवांगडा घालूंक वेळ वतलो.

पूण ते मेरेन प्रभाकरबाबांचो हो पयलोवयलो यत्न आमी उकते नदरेन आपणावचो पडटलो. ताची उणी वट आनी जमेची वट अशो दोनूय वटी तपासून ताका मोलावचो पडटलो. हें करतना, गोंयच्या कोंकणी वाचप्यान एक चतराय बाळगूंक फावो. कवीची भास आपणाले संवकळीची न्हय हें ताणें लक्षांत घेवंक जाय. खासा कवीनच मेकळेपणान मान्य केलां की ''मुंबयंत अर्द शतक राविल्ल्यान म्हज्या कोंकणी भाशेचेर हेर अनेक भासांचो बरोच दबाव पडून आसा. ताका लागून त्या संवयींचीं उतरां गजलगीतांत दिसून आयलीं.'' हांगा तांगेल्या 'दबाव' ह्या उतराचो उपेग नियाळ्ळ्यार, तांचे उतरावळीचें गोंयच्या वाचप्यांक दिसूंक फावता तें परकेपण वा वेगळेंपण समजूंक आदार जातलो. हेर भासांचो निखटो 'प्रभाव' आशिल्लो जाल्यार घडये तांगेली उतरावळ 'नवशी' वा 'सदची न्हय' अशीच भासतली आशिल्ली. पूण (म्हजेपुरतें उलोवचें जाल्यार) 'गजलप्रभा' वाचतना ह्या 'दबावाक' लागून सुर्वेक मात्सो रसभंग जाता. पूण शब्द-स्वातंत्र्य आनी व्यक्ती-स्वातंत्र्य हीं दोनूय कवीचे अभिव्यक्तीचीं वेगळावं नजो अशीं तासा आशिल्ल्यान आमकां प्रभाकरबाबाचे कवितेचो आस्वाद ह्या वेगळेपणांसयतूच घेवचो पडटलो.

सोबीत सुंदर छापणावळ आनी सूचक आनी आगळ्या रंगांनी सजिल्लें सुरेश जाधवांचें मुखपृष्ठ हांकां लागून 'गजलप्रभा' पुस्तकाची वाचनीयता खूबच वाडल्या. मात पुस्तकांत पानांक आंकडे घालूंक नाशिल्ल्यान वाचप्याक, खास करून अभ्यासकाक, त्रास जावं

येता. कित्याक तर चिकित्सक वाचपी जावं उत्सुक शिकपी हांकां ह्या पुस्तकांतले उतारे वाचूंक दितना पानांचो उल्लेख करूंक मेळचो ना. फुडाराक हें पुस्तक पर्थून उजवाडायतना हें उणेंपण पयस करूंक जाय अशें सुचयन दिसता. पूण हाका लागून 'गजलप्रभा'वेलो वर्तमान वाचप्यांचो मोग मात उणो जावचो ना हें निश्चित!

आनी निमाणें: गजल हो काव्यप्रकार मुळचोच ओडलायणो आनी मनभुलयणो. देखून भाशेच्यो आनी संस्कृतायेच्यो शिमो-मेरो ताका आडावंक पावल्यो नात. आयचे घटकेक, गजल सगल्या आधुनीक काव्यमोग्यांच्या काळजाची बेताज मलिका जावन बसल्या. गायन आनी वाचन हांचीं पांखां लावन गजलेन आज देस-परदेस एक करून उडयल्यात. बैठकींतल्यान मैफल आनी थंयसून रुपेरी पड्डो असो प्रवास करून ती रेडियो-ऑडियो-व्हिडियो वरवीं परती घरा घरांत शिरकल्या. हाचे फाटलें कारण म्हळ्यार, भोवच गेय असो हो काव्यप्रकार चालंत विशयांक जितले उमेदीन आफुडटा, तितलेच निश्ठेन चिरंतन विशयांकूय धरून रावता. बहादुरशाह जफराची 'न किसी की आँख का नूर हूँ' सारकी कविता जशी तत्कालीन संदर्भांकडेन एकरूप जावनय सदांकाळाच्या दुख्खांक आनी व्यथांक वेंगायता, तशीच खंयचीच गजल मोगाची 'तूतू-मैंमैं' वा 'रागाचो लटको झटको' हांच्या खिणयाळ्या पासांत बांदिल्ली आसुनूय अथांग आशयाच्या दर्याचेर मनसोक्त उड्डाण करता.

तिचें उजवेंपण तिच्यांतले सैमीक आत्मियतेंत आनी अनुपचारीक अभिव्यक्तींत आसा. हाकाच लागून, खंयचीय गजल केन्नाय बरयल्ली आसूं, कितल्याय अशीर व्यक्तीगत विशयाचेर विसविल्ली वा केद्याय पयशिल्ल्या इतिहासीक संदर्भांचेर ती हुमकळिल्ली आसूं, वाचतल्याक वा आयकतल्याक ती सामकी लागींची दिसता. जिगर मुरादाबादी सारकेल्ल्या कवीची ही कळाशी हालींच्या साधिर लुधियानवी सारकेल्ल्या शायरांनीय तिगोवन धरल्या आनी बेगम अख्तर, लता मंगेशकरां सावन मेहंदी हसन, गुलाम अली मेरेनच्या गावप्यांनी जतनायेन ती आमच्या पोशांत घाल्या. म्होंवीं समर्पक उतरां ('जैसे हाफिज की गज़ल हो') सहज-जन्य आशयाच्यो सोबीत शाली पांगरून अर्थाच्यो छटा नाचयत रसिकांचे सामकार वतात, तेन्ना कवीपरसूय रसिकांच्याच काव्यमोगाचो कस लागता. हो गोडसाणीन भरिल्लो, घसघशीत वझरो कसो आनी कितलो पिवचो हेंच कळना. एक पोसो पितना गजलेंतली सुरेल मस्ती रसिकाक पिसायता, म्हणटा म्हणसर प्रीत-मोग, राग-रुसव्याचीं झिरझिरीत वस्त्रां पांगुरिल्लो सनातन खेळ ताका खुणायता. तो मोगी-मोगिकेच्या खिणयाळ्या फाटलावांत रमता थंय आसा, तांच्या अनुपचारीक उलोवपांतल्या अंतरीक वेदना-उत्फर्क्याच्या ल्हारांनी तो पुराय भिजता. हांवपण केन्नाच विरून वता आनी गाढ अनुभूतीचीं कोंगरीं कुल्लुकां ताका वेढायतात. मोग आनी व्यथा हे स्थायीभाव केळोवपी काव्यप्रकार अशें गजलेचें आम चित्रण केलें

तरी तें चित्रण मनाचे खोलायेक आफुडटलें जाल्यार वाचपी-रसिकाक ते स्थायीभाव जगूंक येवंकूच जाय. नाजाल्यार गजलेची अदा ही काणयेंतली आडकथा जावं पुराणांतलीं वायंगीं जावन उरतली. कवीन म्हळांच

*वो क्या देख सकते हैं अपनी अदायें*
*हम ही देखतें हैं जो हम देखते हैं*
*निगाहें मुहब्बत दिखाती है सबकुछ*
*न तुम देखते हो न हम देखते हैं*

हेच मोगाचे सर्वसाक्षी, सर्वआसपावणे नदरेन पळयत जाल्यारच **गजलप्रभाचें** म्हत्व आमकां होलमतलें आनी कोंकणीच्या मळबार आनीक एक टवटवीत फांतोड फुल्ल्या म्हणपाचे जाणविकायेन आमी खुशालभरीत जातलीं.



# कोंकणी कवितेंतली अस्तुरेची प्रतिमा

कोंकणी कवितेंतली अस्तुरेची प्रतिमा हो विशय खंयच्याच बरोवप्याखातीर एक भलतेंच आव्हान थरता हें आनी वेगळें सांगूंक नाका. कोंकणी कवितेंतल्यान आंग चोरून वावुरपी अस्तुरी सोदप सोपें न्हय हें खंयचोय कोंकणी कवितेचो जाणकार वादाविरयत मान्य करतलो. खासा म्हाका तर हें किरांगळेचेर गोवर्धन उबारपासारकें दिसता. कित्याक, कोंकणी कविता हो म्हज्या अभ्यासाचो विशय निखालस न्हय! कोणय तिरायत म्हणटलो, तशें जाल्यार नस्त्या वावराक कित्याक माथें मारता? हाची जाप मात जिबेपोंतार आसा. कविता – भास, रूप, काळ हांगां बाडगनाशिल्ली कविता – हो म्हजो नीज मोग. ह्या नात्यान कोंकणी कविता होवूय म्हज्या मोगाचो विशय. खेरीज, अस्तुरी जाल्ल्यान जावं येत, कोंकणी कवितेंत अस्तुरेची प्रतिमा कशे तरेन उदेल्या हें जाणून घेवपाची उमळशीक तर उतरांनी सांगूं नजो इतली उत्कट आसा. म्हूण जाता तितले समजिकायेन, तांकता तितले बारकायेन संबंदीत कवितेचो फाटलाव करून बायलपणाच्या नात्यान कोंकणी कवितेंत बायलेवांगडा संवाद सादचेलो, न्हय हितगूज करचेलो, हो एक नमळायेचो यत्न!

सुर्वेकच ह्या लेखाच्यो मर्यादा मेकळेपणान मानून घेतिल्ल्यो बऱ्यो. दोन सुस्पश्ट शिमांभितर हो म्हजो अस्तुरी-प्रतिमा-सोद चलतलो. त्यो दोन शिमो म्हळ्यार म्हज्या सोद-प्रवाहाचे दोन कांठ म्हळ्यार जातात. ते अशे आसात : मुखेलपणान गोंयांत उजवाडा आयिल्ली देवनागरी लिपींतली कोंकणी भाशेंतली गोंय मुक्ती उपरांतची कविता आनी तातुंतल्यान 'उदेवपी' गोंयकार अस्तुरेची प्रतिमा. वाचप्याचो गैरसमज जावचो न्हय म्हूण एक गजाल सांगूंक जाय. ह्या मर्यादेफाटल्यान उखलापो 'गोंयकारी' आड अभिमान ना वा मोटवी, संकुचित नदरूय ना. आसलोच जाल्यार एक वस्तुनिश्ठ दिश्टीकोण, तशीच एक नीज आवश्यकताय आसा. कवी निमाणें समाजांतल्यानच आपल्या काव्यांतल्या व्यक्तिविशेशांचो वा व्यक्तीरेखांचो संदर्भ सोदता. तो प्रत्यक्ष व्यक्तिवेल्यान घडये आपल्या काव्यांत यथातथ्य खंयचीच व्यक्तिरेखा चुकूनच चितारता आसत. पूण तागेल्या कल्पित (fictitious) मानसचित्रांत वा कल्पनालेखांत (ideograph) नकळटां ताणें प्रत्यक्ष पळयल्या, आयकल्या, अणभविल्ल्या जिव्या समाजाचें चित्र वा समाज-मानसाची सासाय वसता.

म्हणटरीच समिक्षकान वा काव्य-मोग्यान ह्या समाजाक खंय तरी आपले समजिकायेच्या वाठारांत भितर आस्पावन घेवंक जाय. नीला तेलंग हांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार 'साहित्य समाजाचें पडबिंब जाल्यार साहित्य बरोवप्यान हाची जाणविकाय दवरची पडटली.' एक गजाल दुबावाविरयत खरी: साहित्यांत बायलेचीं जीं रुपां आसतात वा बसतात तीं वाचपी आपल्या अणभवाच्या, समजिकायेच्या आनी निरीक्षणाच्या कसाक लावन मागीरच तीं न्याय आनी वास्तवाकडेन सुसंगत आसात वो नात हें थारावंक पावतलो. हें करतना ताची कस लावपाची साण आपली प्रत्यक्ष वळख आशिल्लो समाजच आसता. वाचपी म्हूण म्हजीय निरीक्षणक्षमता स्वताच्या अणभवाचेर पोसवल्ल्यान ती गोंयच्या समाजांत वावुरपी बायलेमेरेन सिमीत उरल्या.

हाचेवेल्यान आपनिर्धारीत शिमांभितर रावन कोंकणी कवितेंतले अस्तुरेक सोदपाफाटलो म्हजो मुळावो उद्देश उक्तो जाता. हांगाची बायल हांव जाणां. तिका हांव पिळग्यां पिळग्यांनी भायर-भितर बेस बरी वळखतां. हे अस्तुरेमदीं हांव आसां आनी ती म्हजेमदीं आस्पावल्या. ते बायलेचो सासणाचो जिणेभार हड्ड्यार मारून हांव जियेतां. हे गोंयकार बायलेंतच म्हाका पुराय विश्वांतल्या अस्तुरी-रुपाचो साक्षात्कार घडटा. तिचेवरवीं हांव विश्वीक थरार बायल हे आदिशक्तीवांगडा बौद्धीक, भावनीक तशेंच आत्मीक एकचार जोडूंक पावलां. म्हणटरीच म्हाका होलमल्ली अस्तुरी ही गोंयची अस्तुरी हें उकत्या मनान समजून घेवप समा जातलें. मागीरच तिची प्रतिमा कितले जिवसाणेन, विविधायेन आनी कितलेमेरेन वास्तवीक रुपान कोंकणी कवितेंत निस्तल्या हें हांवें सांगप वाचप्याक योग्य दिसतलें आनी मान्य जातलें. म्हूण गोंयच्या समाजांतलें बायलेचें जें रूप म्हज्या मनांत ठसून बशिल्लें आसा तें आदीं सामकारायतां. तेखेरीज कोंकणी कवितेंत अस्तुरेची प्रतिमा धुंडाळप अवाजवीच न्हय जाल्यार अप्रामाणिकपणय जातलें.

स. बाकीबाबान कोंकणी कवितेविशीं उलयतना तिका 'ज्ञानसेनी' ह्या उतरान वर्णिल्या. गोंयचे अस्तुरेकूय हेंच विशेशण ज्यूस्त लागू जाता. जे तरेन गोंय मुक्ती-संग्रामाच्या होमखणांतल्यान कोंकणी कविता जल्मली, तेच तरेच्या पूण नांव नाशिल्ल्या अस्तुरी-मुक्तीच्या संघर्शांतल्यान गोंयची आधुनिक बायल घडल्या. ज्या कोणेंय मुक्ती आदली आनी मुक्ती उपरांतची बायल लागींच्यान वळखिल्या तो आयचे बायलेचें खेरीत रूप मान्य करतलो. जरी बायलपण हो सोयीस्कर गूण सगल्या बायलांचे स्थितीक समानपण आस्पावंक पावलो तरिकूय मुक्ति-उपरांतची बायल मुक्ति आदले बायलेवरी निखालस नाशिल्ली आनी आयची बायल वा चली दोन दसकांफाटल्या मुक्त गोंयांतले अस्तुरेवरी ना. फाटले पिळगेंतले बायलेन आपले तरेन जिणेवांगडा, समाजावांगडा इतलें न्हय तर खासा आपल्या मनावांगडा लेगीत झगडून बायलमनशेखातीर जी सुवात जोडल्या तिका तोड ना.

गोंयचे हे अस्तुरेक हांवें सदांच तीन कळांनी नियाळल्या. मुक्तिपूर्व गोंयांतली अस्तुरी ही चिड्डल्ली, चेपिल्ली, भेश्टायल्ली पूण तरिकूय आयिल्ल्या काळाक भियेनासतना धिरान फुडो करपी आशिल्ली. अशिक्षीत जावं अत्यल्प शिक्षीत, परावलंबी, पारंपारीक कुळाचार आनी देवधर्माच्या बंधनांनी जखडून दवरिल्ली अबला, घोव-बापूय-पूत, सोल्दाद-कोमांदांत, हाबशी-पाखले, गोंयकार वा मिस्तीस, घरचे वा भायले सगल्यांच्या पुरूशी धाकाक आनी जांचाक दोळ्यांतलें दूक लिपोवन सामकारा वचपी क्षुब्ध पूण शांत सती! त्या काळार अन्यायाआड उब्यो जावपी नारीय आशिल्ल्यो पूण अभावानच! मुक्तिसंग्रामांत लेगीत सिंधुताई देशपांडे सारक्या तेजस्विनी कडल्यान प्रेरणा घेवन आनी सतीचें वायण घेवन बंदखणींत हाल-विपश्ठा सोंसपी बायलो-चलयोय आशिल्ल्योच, पूण हाताच्या बोटांर मेजपासारक्यो. तांचीं नांवां सगल्यांच्या ओंठार आसातच म्हूण वेगळी वळेरी लायना. पूण मुक्तिआदली सर्वसादारण बायल अशी नाशिल्ली. तशें पळयल्यार बाबडी ती लेगीत झुजताली. पूण सत्याग्रहाच्या वा क्रांतिच्या खर शस्त्रान न्हय, जाल्यार सोंशीकसाण, शादूरपण आनी शिटुकसाणेच्या अदृश्य शस्त्रांवरवीं. ही त्रिगुणी शक्त केळोवपी गोंयची बायल प्रपंचाक जुपिल्ली संवसारीक अस्तुरी आशिल्ली. परिस्थितीन तिका तशी केल्ली.

हे मुक्ति आदले अस्तुरेची प्रतिमा तिजून पळोवंक जाय जाल्यार आज लेगीत आमी कवीकल्पनेन विणिल्ल्या लोकगितांकडेन वचूंक शकतात. जयंती नायक हांणी लोकवेदांतलीं माणकां-मोतयां गुंथून आयज वाचप्याक बायलमनाचे जायते कोनशे उपलापे करून दाखोवचेलो यत्न केला. पूण ह्या लोकगितांवांगडाच कितलिंशींच हेरय गितां, आल्लयो, कांतारां, मांडे, भजनां, शिगम्यांतलीं कवनां, मुक्तिपूर्व अस्तुरी रुपाचीं असंख्य तासां, सपनां, व्यथा, राग-वितराग अचळय उक्तायतात, अशे तरेन बायल-जिणेची जी प्रतिमा लोक-गितांतल्यान उबी जाता, ती भौमिती प्रतिमा आसा. अजाप म्हळ्यार प्रतिमेंत उच्चवर्गीय/उच्चवर्णीय बायल आनी हेर बायलो असो भेदभाव करूंक मेळना. फरक आसा तो फकत गिताचे वा कवनांचे उतरावळीचो, भाशेचो रुपकार-व्याकरण इतल्याचोच. ताचेवेल्यान खंयच्या वर्गान तें गीत घडलां हें कळटा पूण बायलेची प्रतिमा मात समाजाच्या तथाकथीत वयल्या आनी खालच्या थरांचेर एकेच तरेची आसा.

हांव, हे एकेच तरेचे प्रतिमेचें वर्णन करतना 'अस्तुरी' ही एक परावर्तीत अस्तित्व आशिल्ली (बायल) मनीस, स्वतंत्र व्यक्तिमत्व आशिल्ली व्यक्ती न्हय, अशें ह्या लोकगितांनी लेखलां. अशें म्हण तीं मागीर दादल्यांनी घडयिल्लीं कवनां-कांतारां आसूं वा बायलांनी गुंथिल्लीं गितां-आल्लयो आसूं, तांचो विशय सण-परबांची व्हडविकाय गावपी आसूं नाजाल्यार सदच्या सुखदुख्खांचो आलेख मांडपी आसूं. तांचो संदर्भ शिगम्याच्या रोमटाकडेन आसूं, धालांमांडाकडेन आसूं वा कार्नावालाच्या खेळाकडेन आसूं. ह्या सगल्यांत

बायलेची प्रतिमा हेरांच्या आस्तेपणाक (उदरगतीक, खोशयेक, मिलनाक, विरहाक) लागून अर्थपूर्ण वा अर्थहीण थारता. बायल म्हूण बायलेची प्रतिमा सोदून सांपडना. देख म्हणून बायलांचे भौमिती पूण परधार्जिण्या परावलंबी प्रतिमेच्यो कांय पती (samples) पळोवया. एके वटेन ती 'आरत घेवन नारी हांसवत/अहेवपणा जावं तिका सासवत' अशी सोज्वळ सवाशीण आसता; दुसरेवटेन खंयच्याय 'पाखल्याचे' वा 'शिखड्याचे' कामूक नदरेपोंदा 'मडगांवां थेवयागेर रेदोंदो मेजार भेंड वांकडें करून नाचपी' चंचल आनी कामिनी आसता. केन्ना केन्ना ती 'तांबडें कापोड नेसल्यार रुपया दाखोयताय' म्हूण चिटमिट्टली तरणाटी आसता. तर केन्ना 'काय बोरेलो कोंबलो म्हुगेलो, मांयन म्हाका दिलेलो' म्हूण रुपकांतल्यान तिटतिटपी नखरेल नारय आसता. हातुंतल्यान समाजाची तिचेवटेन पळोवपाची नदर होलमता.

हे बायलेच्यो आनिकूय सोबीत प्रतिमा आसात. ती आवय म्हूण, सांगातीण वा मोगिका म्हूणय लोकगितांतल्यान भेट्टा. बालगितां वा आल्लयो हांचो हांगा खाशेलो उल्लेख करूंक जाय. हीं गितां चड करून बायलांनी घडयिल्लीं आसतात. आनी म्हूण हातुंतल्यान बायलेची फकत 'वात्सल्यसिंधु' हीच भूमिका उक्तावता अशें न्हय, जाल्यार तिची कुळाराविशींची ओड, दिल्ल्या घरची व्हडविकाय, शेजारसामान्यांची लक्तुबाय, घोवाघरच्यांची तिडक, वांजेविशींचो तिरस्कार ('वांजेच्या दारा आग लागूं'), तिची भुरगेकान्नी विशींची नसाय, चल्याचो अभिमान, चलयेच्या दुय्यम स्थानाचो स्विकार (आग्गो लिलू ह्रांगा यो, बाळा खेळयी / ना जाल्यार च्याचो उजो मात्र पळयी') अशो हजार भावना ह्या आल्लयांतल्यान अभिव्यक्त जातात. ह्या सहस्त्र भावभावनांच्या रंगबेरंगी चित्रांतल्यान मुक्तिआदली जी बायल भेट्टा, ती दुसऱ्यावेल्यान आपलें अस्तित्व, आपले जिणेचें सार्थक मानपी एक दुय्यम मनीस म्हूण. त्याग, भोग, भोगनाळ हीच जीण अशें मानपी आवय, बायल, भयण वा मोगिका. खासा आपलेंय एक स्वतंत्र व्यक्तित्व आसा ही जाणविकाय आशिल्ली अस्तुरी दिवटी घेवन सोदल्यार वखदाक लेगीत मेळना. ही जाली मुक्तिआदले बायलेची प्रतिमा! पूण मुक्ति उपरांतचे अस्तुरेचें कितें?

मुक्ति उपरांतचे बायलेविशीं उलयतना म्हाका दोन पिळग्यांचो उल्लेख करीन दिसता. पयले पिळगेंतली बायल जागरूक, ध्येयवादी आनी स्वाभिमानी आशिल्ली. चड-उणें शिकप आसून लेगीत तिका आपल्या अस्मितायेची वळख पटिल्ली. पूण पुर्वापार चलत आयिल्ल्या परंपरांच्या बंधनांतल्यान ती पुराय सुटूं नाशिल्ली. आदर्शाच्या वेड्यांनी तिका वेडायिल्ली. तिका दिका कळिल्ली पूण फावोशी धिटाय नाशिल्ल्यान ती नितीक बळगें आनी मार्गदर्शन हांची वाट पळयताली. हे पिळगेफुडली नवी पिळगी म्हळ्यार चालंत

पिळगी. हे पिळगेंतली अस्तुरी धीट, मेकळी, कर्तुत्ववान, वास्तवावांगडा हातमेळोवणी करूंक उत्सूक, आत्मविस्वासपूर्ण आनी बंडखोर अशी युगंधरा आसा. पूण तिका अजून फावोसो दिश्टावो मेळचो आसा. तिका बदल जाय पूण त्या बदलाची प्रत तिणें अजूनय थारायिल्ली ना. क्रांती करूंक ती आंवडेता, पूण क्रांतीचें ध्येय स्पश्ट करूंक पावची आसा. बायलेचे असहाय आवतिकायेचो तिका राग येता, पूण ती सुदारूंक जाय आशिल्ली नदर आनी त्याग अजून तिचेकडेन एकठांय येवचे आसात.

गोंय मुक्ति-उप्रांतच्या ह्या दोनूय पिळग्यांमदीं बेटलाबेटूल कशी शिरकल्ली जी बायल आसा ती म्हजे समकालीन अस्तुरी. ही पुरायेन पयले पिळगेंतली न्हय नी दुसरे पिळगेंतलीय जावंक सोदिना. पयले पिळगेंतले अस्तुरेच्या आदर्शावांगडा तिणें लागींच्यान नातें दवरलां. ते पिळगेंतलीं सपनां आनी हावेस हांचो तिणें आपणाल्या ध्येयां सायासां वांगडा सांगोड घालचेलो यत्न केला. पूण ती काळाभायऱ्या आदर्शांक वेंगावन वास्तवाच्या आव्हानांक भेटूंक कांचवेता. तिका आपणाले शक्तीची पूर्ण जाणविकाय आसा. तेच बरोबर आपणाल्यो मर्यादा आनी उणीं हांकांय ती वळखता. ह्या दोनींचे मदीं सरयेवेली कसरत कशी तिची जीण आसा. आनी जिणेच्या ह्या दोनूय तोंकांमदीं समतोल बाळगुचेलो पिसो हावेस होच तिच्या जिविताचो केंद्रबिंदू जावन आसा. ह्या अवास्तव हावेसाक लागून जाय ते खेपो ती वास्तवाक न्याय दिवंक उणी पडटा. परंपरागत मुल्यांक जिवापाड जपतना तिका भोंवतणचे वस्तुस्थितीकडेन आडनदर तर करूंक मेळना, पूण ते वस्तुस्थितीचे सक्तीक (compulsion) लागून नसत्यो तडजोडी करपूय तिका जमना (काय मान्य ना?) हाका लागून ती हड्डें फुटसर ह्या आदर्श-वास्तवाच्या लोहचुंबकी रस्सीखेचेंत (tug of war) फरफटत ओडत वता... वचत आसा.

अशे हे आयचे अस्तुरेक कोंकणी कवितेन कितपत न्याय दिला? तिच्या भौताशी व्यक्तीमत्वाचे कितलेशे पैलू फाटल्या ३०-३५ वर्सांच्या काळांत कोंकणी कवितेन टिपल्यात? हो एक खास संशोधनाचो विशय जावं येता खरो. पूण हो जालो बायलेक पळोवचेलो एक दिश्टीकोण. हो दिश्टीकोण अस्तुरेक गोंयच्या समाजाचो एक म्हत्वाचो घटक म्हूण पळयता खरो. पूण हातूंत अस्तुरेक कितलीय वाखाणली तरी तिचें एक रासवळ मोलांकन (enmasse evaluation) अभिप्रेत आसता. पूण अस्तुरी ही एक दोळे धांपून पिळग्यांच्या कोंतान वा प्रतिगामित्व-पुरागामित्वाच्या मापान गुणावपाक नाल्लां रास न्हय. अशे तरेन तिची निखटे समाजशास्त्रीय नदरेंतल्यान भलावणी करपाक ती कितें फकत एक समाजीक जनावर व्हय? एकेक अस्तुरी ही एक आगळी व्यक्ती. सैमाची एक अप्रुपाय, जिणेक लाबिल्ली साक्षात अपुर्बाय, जगावेगळी निर्मणी, 'केन्ना जोगूल, केन्ना फूल, केन्ना मोग केन्ना चूल' अस्तुरी ह्या सहस्त्ररुपी अप्रुपाचीं अगणीत

तासां मनासामकारा हाडल्यार वयल्या विधानांत अतिताय ना हें कोणाय सहृदय मनशाक सहज पट्टलें. अस्तुरी जावं गोंयची जावं संवसारांतली खंयचीय, सदांकाळार विरोधाभासाचो उत्कृश्ट नमुनो जावन आसा. ती शोशिता पूण तरिकूय अपराजिता, हिणसायिल्ली फुक्याची वावराडी आनी शेक गाजोवपी रूपगर्विता, मनभुलोवणी कुंवर आनी सोज्वळ लजेव्हंकल; जशी ती मोगिका तशीच उपगोभिता, वात्सल्याची जितीजिवी मूर्त तशीच घट काळजाची कडकलक्ष्मी; ती विरहिणी आनी समर्पिता, सवाशीण आनी विधवा, भुरगेकान्न आनी वांझ, कुळ-शीलवंत घरकान्न आनी भ्रश्ट थारपी कुलटा; संवसारीक बायल आनी घटस्फोटिता वा सोडिल्ली (परित्यक्ता), पूजनीय देवी आनी घृणास्पद शिंदळ. हे सगले परस्परविरोधी दिसपी गूण मांडपाफाटल्यान एक खास कारण आसा.

अस्तुरी हिवूय मनशासारकी मनीस. म्हूणच ती एक क्लिश्ट आनी समजूंक कठीण अशी व्यक्ती आसा हें पयलीं स्विकारूंक जाय. संवसारांतले दरेके बायलेमदीं हीं अपरिमीत रुपां लिपल्यांत. परिस्थिती आनी प्रसंग खंयचेय बायलेक हीं विवीध रुपां धारण करूंक लायता. ह्या सगल्या रुपांक कोंकणी कविता आपणावंक शकूंक जाय. सद्या तरी कोंकणी कवितेकडेन हें घडचें आसा. हांगा टिकेखातीर टिका करचेलो हेतू मातूय ना. इनमीन साडेतीन दसकांभितर खंयचीय कविता येदें व्हडलें आव्हान पेलूंक शकची ना हाची पुराय जाणविकाय बाळगुनूच हें विधान केलां. तरिकूय प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकारांवांगडा विचारीन दिसता,

"कोंकणी साहित्यांत पडबिंबीत जाल्लीं बायलमनशेचीं (हीं) वेगवेगळीं रुपां जेन्ना आमी नदरेखाला घालतात, तेन्ना आमच्या दोळ्यांमुखार बायल-मनशेची कसली प्रतिमा उबी जाता?"

कोंकणी साहित्याच्या संदर्भांत प्रा. नागवेकारांनी विचारिल्ल्या अस्तुरीप्रतिमेविशींच्या 'पेंचीदा सवाला'क जाप दितना हांव तरी म्हणन, कोंकणी कवितेंत दिसपी अस्तुरी, बायल हे नदरेन पळयल्यार एकांगीशी दिसता. आनी गोंयकान्न हे नदरेन तर ती चडावत कवींचे कवितेंत दिसच ना. अस्तुरेचें कोंकणी कवितेंतलें रूप पळयतना, कवितेचीय पयली पिळगी आनी दुसरी पिळगी अशे दोन वांटे केल्यार बरें जातलें. तशेंच कवींयमदींय दादले कवी आनी कवयित्री, अशी फारकत केल्यार ह्या प्रतिमा-पुनर्रचणुकेच्या वावरांत आमकां सुविधा जातली. म्हणून अशी विभागणी गृहीत धरून फुडें सरतां.

अस्तुरेची कोंकणी कवितेंतली प्रतिमा सोदीत मुक्तिउपरांतचे कोंकणी कवितेचो वाठार जेन्ना हांवें माड्डिलो (हातूंत कोंकणी कांतारांचोय आस्पाव अपेक्षित आसा) तेन्ना हाताक थोडींच खरीं पूण सुवासीक ओंवळां लागलीं. पूण तीं चडशीं अस्तुरेन बरयिल्ले कवितेंतलीं. हाचो अर्थ असो न्हय की दादल्यांनी अस्तुरी हो विशय आपल्या

काव्याभायर दवरला. पूण तांणी चड करून आद्य-प्रतिमाच आपले कवितेंत केळयल्या. तांणी हें जाणून बुजून केलां अशें म्हणपाचें हांगा मातय प्रयोजन ना. हें तांचेकडल्यान नकळटां घडलां आनी म्हणून तें खास दखल घेण्याजोगें आसा.

हांगा एक प्रस्न प्रकर्शान विचारीन दिसता, इतले विवीधांगी विशय घेवन तांका येसस्वी रितीन फुलोवपी ह्या कवींक बायलेची बायलमनीस म्हूण वळख पटलीच ना? वा ती पटुनूय तांकां कवितेंत हाडपाइतली म्हत्वाची दिसली ना? पयले पिळगेंतल्या कवींविशीं उलयतना हांव प्रामुख्यान तीन मुद्द्यांचो (ह्या प्रस्नांच्यो जापो म्हूण) निर्देश करतां.

१) कवीची सर्जनात्मक तांक विचारांपरस अणभवांचेर आदारून उरता आनी दरेके व्यक्तीचे व्यक्तिगत अणभव ताच्या अबोध मनाचेर कांय खिणां-कुरवो नकळटां दवरून वतात. पयले पिळगेंतल्या कवींनी बायलेक नियाळ्ळ्या ती आदर्श बायल हेच नदरेन. कश्टत, घश्टत, अन्याय सोंशीत, मोन्यांनी जियेवपी सेवाभावी बायलच तांकां चोंयवटेन दिसल्या. दादल्या भोंवतणीं आपलें पुराय जिणेचें वस्त्र विणपी त्यागाची मूर्त म्हूण! हाकाच लागून तांणी तिचे कवितेंतूय उदात्तीकरण केल्लें दिसता. एक खरें, ह्या दादल्या कवींनी बायलमनशेभितरली अंतर्शक्त पारखिल्या, पूण ती फकत त्याग, मोग आनी भोग ह्या दादल्यांचे जिणेक पूरक थारपी गुणांच्या दुरगाभितर. हो कवीचो दोश वा उणेंपण न्हय तर तागेले अंतर्दिश्टीची मर्यादा जावन आसा. हें कवी – खंयचोय कवी – हेतुपुरस्सर करना. न्हय, तो तशें करुंकूच शकना; केल्यार ताचे कवितेचें मर्म सांडटलें. मागीर अशें घडपाचें कारण कितें?

२) कवी हो हेर समाजांतल्या घटकांपरस अदीक भावूक आसता. तागेली संवेदना-शक्त हेरांपरस चड तरल आसता. आपल्या काळाचो उलो समाजाच्यो गरजो आनी त्या युगाचीं ध्येयां तो बेस बरीं पारखिता, म्हणुनूच तर तो द्रश्टो. पयले पिळगेंतल्या कवींमुखार सुस्पश्ट ध्येयां आशिल्लीं. तांणी तत्कालीन समाजाच्यो मुलभूत गरजो ज्युस्ताज्यूस्त वळखिल्ल्यो आनी आपल्या युगाच्या उल्याक प्रतिसाद दिवचेलो निश्चेव केल्लो. हीं ध्येयां आनी गरजो खंयच्यो हें विस्तारान सांगूंक नाका. तरिकूय वेतां-वेतां तांकांय आफुडप योग्य जातलें. मुक्ति-उप्रांतच्या गोंयाचें एक ध्येय म्हळ्यार गोंयची अस्मिताय फुलोवप, तिचें खेरीतपण राखप. हें करपाक समाज-जागृताय ही काळाची पयली गरज आशिल्ली. तशेंच, कोंकणीची भास म्हूण उदरगत ही तिची जोड-गरज आशिल्ली.

आपल्या युगाचो साद आयकून ह्या कवींनी आपले तरेन कवितेंतल्यान ताका प्रतिसाद दिलो. आनी ज्याका जशें स्फुरलें तशें सर्जन घडलें. खंयी कोणेंय मुजरत अमक्याच विशियार बरयलें. तातूंत मोग, भावनीक नातीं, व्यक्ती-व्यक्तींचे बंद, सैम हांचेवांगडाच

बायल मनीसय काव्यांत पडबिंबीत जाली. आदर्शवादान भरिल्ल्या, ध्येयान प्रेरीत जाल्ल्या ह्या युगांतल्या कवीक समाज हो एकसंघ कोंकणी समाज असोच भावलो. थंय धर्म, जात, लिंग ह्या भेदांक सुवात नाशिल्ली. अशी भेदाळी कविता कितलीय वास्तवीक जाल्यार त्या युगांतल्या गरजांक नखलामी करतली आशिल्ली. पुराय समाजाक एका सुत्रान बांदचेल्या हावेसान झपाटिल्ल्या काव्यांत बायलेक बायल म्हूण पिंतारपा इतली मानसीक सवस्थकाय आनी भावनीक उत्कटताय ह्या कवींकडेन आसची ही अपेक्षाच इल्ली सुबेज जातली. सगल्या देशी-भासांनी इतिहासांत अशोच देखी फाटीं राखून दवरल्यात. जें युग देस-समाज-भास हांचे अस्मिता-राखणेक सर्वस्व ओंपता थंय कवितेचेरय आदर्श आनी हावेस हांच्यो मर्यादा पडटात. तांकां पूरक विशय, तांकां उठाव दिवपी भास-शैली आनी तांकां आलाशिरो दिवपी दिश्टावो आपशींच कवितेंतूय पाझरता. हेर गजाली आयल्योच जाल्यार फाटल्या दारान अप्रत्यक्ष रुपान आनी नकळटां येतात. पूण अशें आसल्यार मागीर कवींनी ह्या काळार मोगाचें कवीत, सैमाचें गीत रचलेंच कित्याक ? बायलेची उदात्त जालीं तरी थोडींभौ रुपां उक्तायलींच कित्याक ?

३) कवी होवूय शेवटाक एक मनीस. ताच्यांतूय एक खेरीत व्यक्ती लिपल्या. आदर्शाचे कठोर कट्टेंत दडिल्लें, भावनांचें मधूर अमृत तागेल्याच काळजांत आसा. हेरांवरी ताचेरय ह्या भाव-भावनांचे, उमाळ्या-उत्फर्व्यांचे, निसर्गीक आघात जायत आसतात वा जाल्ले आसतात. तेन्ना तांचेंय सारें ताच्या काव्याक आपले परीन पिकाळ करता. हाचेय फुडें वचून म्हणन दिसता, सकारात्मक ध्येयवाद मोगासारक्या भावनांचेर पोसवता आनी तांकां पोसवणय दिता. जगाचो इतिहास हेंच दाखयता. म्हूण पयले पिळगेंतलो कवी बायल मनशेकूय काव्यांत येवकार दिता. पूण तिका आदर्शाचे लक्ष्मणरेशेभायर काडूंक वचना. घडये तो (अजाणता) अशें करूंक अनमनतालो जावंये. पूण एक खरें, ताचे कवितेंत अस्तुरी आपले आद्य-प्रतिमेंत (archetypal image) उदेता.

हे आद्य प्रतिमेची वळख आमकां 'मोगिका' ह्या दादल्याक पूरक (compleme-ntary) भूमिकेंत मेळटा. प्रा. नागवेकारांच्या मतान, ''पूण साबार कोंकणी काव्याचो जेन्ना विचार जाता, तेन्ना ह्या काव्यांत पडबिंबीत जाल्ली बायलमनशेची सर्वसादारण प्रतिमा रोखडीच नदरेंत भरता. ही प्रतिमा आसा, मोगांत पडिल्ले, प्रियकराच्या मोगान घाया जाल्ले बायलमनशेची.'' ही अस्तुरी मागीर 'वाट पळैता, दुकां गळैता' म्हणपी बयाभावाचे 'अश्रेकणी'तली विरहिणी आसूं, उदयबाबांचे कवितेंतली 'वात सोपूं रात आसा' म्हूण पराथपी अभिसारिका आसूं वा 'बळयारे तुवें म्हजी भेट चुकयली' म्हूण शिणपी प्रेमिका आसूं; र.वि. पंडितांचे कवितेंतली 'आयज तूं येतलो देखून' भुरकुटून वचपी घरकान्न आसूं; मंद मंद पांयजणां वाजोवपी बाकीबाबांचे कवितेंतली ओडलायणी

चंचला आसूं वा मनोहररायांचे कोंकणी कवितेंतूय उर्दू शोर्खीचे प्राण फुंकपी 'सख्त जिगरवाली माशुका' आसूं – ती पयलीं आनी निमाणें मोगिका आसता.

पयले पिळगेंतल्या कवींचे कवितेची दखल घेतना एक जरूर म्हणन दिसता. तांचे कवितेचें खरें चीज मोगा-कवितांपरसूय चड तांगेले वज्रलिखणेच्या प्रखर निर्धार आनी स्थिर विश्वासान कोंरातिल्ल्या अस्तुरीविरयत कवितांनीच केलां. हांगा नागेशबाबांचे जळजळीत कवितेचो मुजरत उल्लेख जसो आवश्यक आसा तसोच नाजूक हाताक आनी ल्हवपीक उतरांनी अस्तुरेच्या मनांतले उर्मिलेक पितारपी गजानन रायकारांचे कवितेचो आमकां विसर पडूंक फावना. ह्या दोन तोंकांमदीं कोंकणी कवितेंतली अस्तुरी प्रतिमा सामाविल्ली आसा. पूण हो जालो पयले पिळगेंतल्या दादल्या कवींचे कवितेचो आलेख आनी तातुंतल्यो मेजक्योच देखी. हे फाटभुंयेर बायल-कवींचें कितें ? ह्या आदल्या कवींचे वळेरेंत दोळे दिपकावपी अशें एकेच कवयित्रीचें नांव आसा विजयाबाय सरमळकार हांचें. पूण तांकांय पुराय न्याय दिवन म्हणचें पडटा, तांची कविता वाचतना 'एकूच रोटी पूण तुपान' खाल्ल्याचो आनंद मेळटा. अस्तुरेची प्रतिमा प्रभावीपणान तांगेली कवितेंत जशी विवीध रुपान परगट्टा तशी ती तांच्या समकालीन कवींचे कवितेंत परगटना हें सत्य सारासार विचार आशिल्लो कोणूच समीक्षक नाकारचोना.

विजयाबायचे कवितेचो आस्वाद घेतना डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांणी प्रस्तावनेंत म्हळां, 'दादल्यांची लिखणी संवसार जिखून आयली तरी घराच्या हुमऱ्याकडेन पावतकच थारता, मागशेता. विजयाबायचे लिखणीच्या जैताची सुरवात रांदचेकुडींतल्यानूच जाता. एके थरावीक शिमेभितर हें विधान स्विकारलें तरी तातुंतलें गृहीतक पुरायेन मान्य करूंक विजयाबायचे कवितेचो आदार जाय पडटलो. खिणभर 'रांदची कूड' हें अस्तुरेचें विश्व अशें धरलें जाल्यार तें विश्व विजयाबायचे कवितेंत भौरंगी रुपकार आनी जबरदस्त तांकीसयत उक्तावलां. गोंयची जाग्रुत अस्तुरी ह्या काळार कशी आसली, हें तांचे कवितेंतल्यान भौ परिणामकारक तरेन कळटा. तांची कविता (तांच्या हेर समकालीन कवींवरीच) अस्तुरेक 'विशय' म्हूण घेवन फुडें वताच अशें ना, पूण आशयांतल्यान ती कवयित्रीची आनी पर्यायान अस्तुरेची स्पश्ट वळख करून दिता.

तांचे कवितेंतल्यान 'भेटपी' ही नव-जाग्रुत अस्तुरी आदर्शाक वेंगावपी, ध्येयां बाळगुपी आनी व्यक्ती म्हणून चिंतूंक शकपी स्वतंत्र व्यक्ती म्हूण लक्ष वेधून घेता. तिचो एकलो एकसुरो हावेस म्हळ्यार 'जिवाक म्हज्या एकच ध्यास, वैर काडची आवै भास!' ही तेजिश्ठ अस्तुरी ठणकावन सांगूंक शकता : 'गोंयचे खातीर झुजचें आसा, सासाय ताची राखची आसा'. पूण हीच करारी बायलमनीस दुसऱ्याच खिणाक 'नदरेची वाट सारीत... वाट पळयत' रावपी मायेस्त सांगातिणूय जाता. 'तुळशीपरी शिंपल्ली'

ही कंवळी कुंवर तांचे कवितेंत आदर्श नारी जावंचेलें बाळकडू आवयल्या पदराआडच पियेता; 'फुडले पिळगे जा गो दिवो / वाट दाखोवंक फुडाराची/देसाखातीर वावुरपाक दी गो जाणीव हावेसाची.' विजयाबायचे कवितेंतली अस्तुरी सर्वार्थान बायलमनाचे अगणीत (कंगोरे) पैलू समर्थपणान दाखयता. 'साखरपुड्या' उपरांत मुरगट्टली ही व्हंकल फुडाराक नशिबांत वैधव्य येतकीर 'घुस्मटून कर्पलेली' घोवा सांवळी कशी निस्तेज जाता. 'यादस्तीचे दुखा पिले / काळजाबिळांत बसल्या लिपून' हें समजुपी आनी तांकां सांसपीत एकमुळी जीण जियेवपी ही विरक्त योगिनी म्हूण अस्तुरेची सुदारणावादी पुरोगामी व्यक्तींक प्रतिमा अमान्य आसतूय घडये, पूण ती वास्तवीक न्हय हें गोंयांत तरी (खरें म्हळ्यार भारतांतच) कोण खरेपणान म्हणत? ही प्रतिमा योग्य वा अयोग्य हें थारावपाचें काम साहित्यीक-समिक्षकाचें न्हय तर समाजशास्त्री-सुदारकांचें. पूण एक दुबावाविरयत खरें: बायलेची कालातीत, केंद्रवर्ती प्रतिमा (fundamental image) विजयाबायन मोटे कुशळटायेन कोंत्रायल्या. तांगेले कवितेचे हेर गूण-अवगूण, येस-अपेस कशेंय आसूं, हे एके सिद्धीखातीर तांगेले कवितेक मानचीच पडटली.

ही जाली पयले पिळगेची अस्तुरेविशींची आस्था आनी तांकां भाविल्ली बायलमनीस. पूण कोंकणी कवितेंत फाटल्या दोनेक दसकांसावन विचारीक परिवर्तन घडिल्लें दिसता. ८०त पावतां पावतां परिवर्तन एका निग्रहान क्रांतीक आंवडेता हें लक्षांत येता, हातूंत नवल ना. कोंकणीचे उदरगतीच्या कार्यान ल्हवू ल्हवू भाशीक चळवळीचें आनी उपरांत एका खर समाजीक-राजनितीक आंदोलनाचें रूप धारण केल्लें. खंयचेंय आंदोलन जशें निखटें ध्येयाक वेढावन रावंक शकना तशेंच हेंवूय आंदोलन भाशेपुरतें सिमीत उरलेंना. तें कटिबद्ध जालें. हांगा तरणाटे, पुरायेन मुक्त गोंयांतले पिळगेन, बायल-दादलो असो फरक करिनासतना भौसंख्येन काळाच्या उल्याक पाळो दिवंक लिखणी उखल्ली. अस्तुरी आतांमेरेन दादल्याच्या पावलार पावल दवरपी अनुयायी उरूंक नाशिल्ली, ती खांद्याक खांदे लावन चलपी सांगातीण जाल्ली. ह्या सांगाताची कवीनूच दखल घेतल्या हाची पयली सुलूस 'तुजें पत्र पावलें' म्हूण पावती दिवपी पुंडलीक नायकांचे एके सुपुल्ले कवितेंत मेळटा. अजाप म्हळ्यार हरशीं समाजाभिमुख अशें तांचे कवितेंत अस्तुरी चुकून-माकून भेट्टा. भौसंख्य अशा तांचे सकालीन नव्या कवींच्या बाबतींतय दिसून येता.

पूण हे नवे कवितेविशीं कांय खास गजाली लक्षांत घेसारक्यो आसात. हे पिळगेन समाजीक परिवर्तनाची गरज, बंडाचो निर्धार, क्रांतीची प्रतिक्षा, दिसपट्टे जिणेची परवड हे विशय मुखेलपणान हाताळ्ळ्यात आनी ती हाताळीत आसा. हांगा कवी-कवयित्रींनी समसमान तरेन ह्या नव्या युगाची कविता बरोवपाचो पण केल्ल्यान,

तातूंत खासा भेद करूंक मेळना. पूण तरिकूय बायलांचे जिणेक लागींच्यान स्पर्श करपी विशय कवयित्री हाताळटना दिसतात आनी ते वरवीं अस्तुरेचे प्रतिमेच्यो आनीक थोड्यो पती हाताक लागतात. प्रतिभा पै फोंडेकारांचे कवितेंतल्यान अस्तुरेचे बदलते आवतिकायेची दिका स्पश्ट कळटा. 'नशिबांतले खेळ खेळत / कामाक लागले तांबडे हात' अशें खालत्या मानेन म्हणपी तांगेली, बापुडवाणी अस्तुरी 'दीस येवचे आसात म्हूण' आशेत फुडाराक पळयता. नीला प्रभुशास्त्री हांचो 'किंवाटो' आकांताळो खरो 'पूण ताका नाका तुमची काकुळत' म्हणपाइतलो स्वाभिमानी. दीपा पैची अस्तुरी रसरसत्या इंगळ्यांमदीं रावन 'हांवूयबी तांचे मदलें / एक पाशाण जालां / तांबड्यागुंज इंगळ्यावरी / रसरसून पेटपी पाशाण...' म्हूण क्रांतीची घोशणा करता; जाल्यार जयंती नायक 'व्हंकल' जावन आयिल्ले आनी 'वावराडी' म्हूण हो संवसार सोडटले' अस्तुरेक, तिच्या षंढ घोवाक तशेंच समाजाकूय जाब विचारता. नूतन सुखठणकारांचे कवितेंत अस्तुरेच्या 'मनांतली काणी तुजेम्हजे / व्यथेंतल्यान उदेता / आनी उपेक्षांचें वाळवंट पळोवन / मनांतूच तकली मुंगरता'. ही तांची अस्तुरी 'देवालागीं म्हजें जमना' म्हणपाइतपत करारी आसा, पूण 'म्हजें भुरगेंपण' बालिशपणान येवजून तगमगपी हळुवार मनाची व्यक्तीय आसा. 'म्हाका भिरांत दिसता' म्हणपी प्रशांती तळपणकाराची धीट, वेव्हारी, शादूर अस्तुरी, करुणा पाडगांवकाराचे कवितेंत कुळाराचे ओडीन गलबलपी धूव जावन चंद्राबरवीं बापायक 'धूव तुज्या दुसऱ्या घरा' कित्याक दिली हें विचारूंक कांचवेना. कुंदा पैच्या 'दुरगांत आंकवार, वाडून उरिल्ल्या चलयांच्या करपून गेल्ल्या भावनांचो' बाजार भरला, जाल्यार घट काळजान नयना सूर्लकार 'बायलांचोच माण' लायता. शकुंतल आर्सेकार भरणे जावं माया सरदेसाय बायलेचेर बरोवचेपरस क्रांतीचेर बरोवप पसंत करतात खरीं, पूण तेवरवीं अस्तुरेभितरली क्रांतीकारी व्यक्ती वाचप्यामेरेन पावोवपांत येसस्वी थारतात.

ही कवयित्रींचे कवितेची वाटचाल जाली. पूण कवींचें कितें? तेवूय मुखेलपणान बंड-क्रांतीचीच भास उलयतात. पूण आयज लेगीत अस्तुरेक ते आदर्श आवय वा मोगिकेच्या रुपान पळोवन थकलेनात! अतुर र. पंडिताची 'येवचें तुवें' आसूं, कवी प्रकाश आचार्य हांचो 'लामणदिवो' आसूं वा 'देवदासी', तांणी बायलेक मोग आनी भौमानानच पाचारल्या. ते तर स्पश्टच म्हणटात, 'आवय, बायल, धूव भयण रुपांनी / सेवा करिजी तरातरांनी / पुण्य जिची सासाय भोंवतणी / हें काव्यपुष्प ते स्त्रियेपांयार / हे स्त्रिये तुका वंदन त्रिवार!' कवीविशीं उलयतना एक समजून घेवंक जाय. तांणी बायलेक विशय गणून कविता बरयली ना. चडावत कवींची दर्जेदार कविता हेरां विशयांक वेंगायता. म्हणटरीच कशायकशो तांच्यो कविता वापरून बायलेक तांणी न्याय दिलोना अशें म्हणप चुकीचें जातलें. तशेंच बायलांचे कवितेंत अस्तुरेचे

जिणेक आपशींच प्रधानता मेळिल्ल्यान तांणी उक्तायिल्ले अस्तुरी-प्रतिमेक अवास्तव म्हत्व दिवपूय बरोबर जावचें ना. बायलांचे कवितेंतल्यान बायलांचो दिश्टीकोण, बायलांक लागपी विशय आनी पर्यायान बायलेचे प्रतिमेचे खेरीत-खेरीत रंग उकते जावप हें निसर्गीक आसा. ह्या कवयित्रींची कविता अजून फावो तशें आंग धरूंक पावची आसा. आपल्या समकालीन कवींचे 'भोव-प्रसवा' कवितेमुखार तांगेली कविता अजून तुळा करपाइतल्या आंवाठान बळची आसा.

कोंकणी फुडलीं आव्हानां फाटीं पडल्यांत. आतां कवीय हुस्क्या मेकळो कवितेवटेन परतून घुंवला. आतां ताचेर नसते ताण-तणाव नात. तागेले कवितेक स्वच्छंदतेचो बाज आनी वास्तविकतेचें अस्तर आशिल्लें. ताका आतां आधुनिकतेचो वर्ख चडटा. अजून कांय वर्सां आमी समकालीन कवी-कवयित्रींक दिवंक फावो. तेन्नाच तांगेले कवितेंतलें आगळें-वेगळेंपण नियाळपा इतलें विचारीक अंतर आनी भावनीक तटस्थता आमचे मदीं येतली. ते मेरेन आमकां 'आयच्या क्रांतीकारी विचारांक कोंकणी कविताय जाप दिवंक लागल्या. आयचे कालचे अपेक्षेचो ती सोद घेत आसता... आनी म्हणूनूच बायलांचें चित्र आज अडेचें उरनासतना कवींच्या काळजाक सरळ भिडिल्ल्या घायांतल्यान व्हांविल्ल्या उतरांनी देंवता' ह्या नीला तेलंगांच्या मताकडेन सहमत जावन वाट पळोवची पडटली !



# निमाणेंकडेन...

कोंकणींत एक भोव प्रचलीत अशी म्हणणी आसा: 'सांगचे परस केल्लें बरें, नाक आपटून मेल्लें बरें!' जिणेच्या भोवतेक आंगांक जरी ती बेस बरी लागू जाली तरी साहित्य-नियाळाबाबतींत मात ती म्हणणी साप्प उरफाटी थारता. साहित्य नियाळाविशीं 'सांगप' वा तत्वीक भासाभास करप भोव सोपें, पूण प्रत्यक्ष नियाळ 'करप' आनी ताचेय फुडें वचून तो अमकेच तरेचो म्हूण हड्ड्यार हात मारून सांगप हें एक सत्वताळें लचांड. तातुंतूय जेन्ना नियाळ आदींच बरोवन उजवाडायल्लेय आसतात, तेन्ना तर तांगेली 'उपरांतच्या भासाभाशेचेर' आदारून केल्ली रूपगुणात्मक फोडणिशी ही एक साहित्यिक हाराकिरी थारूंक शकता. तरिकूय कोंकणींत दिशीमाशीं वाडटल्या साहित्य-नियाळाच्या भल्याखातीर आनी एकंदर कोंकणी समिक्षेच्या निरोगी भवितव्याखातीर कोणेंय तरी अशें पावल उखलुंकूच जाय. हें चितून आज ह्या पुस्तकाच्या उत्तरार्धांत वाचप्याच्या सुक्षीम निरीक्षणाखातीर आनी सटीक नियाळाखातीर ह्यो पती मांडल्यो. तांकां आदाव म्हूण 'आयची' ह्या पतींविशींचीं ह्या नियाळप्याचीं शक्य तितलीं तटस्थ आनी वस्तुनिश्ठतायेन केल्लीं निरीक्षणांय सादर केलीं. तेच प्रमाण नियाळ बरोवच्या वगतार कितें प्रयोजन ध्यानांत आसलें हाचेर जमता तितलो स्पश्ट उजवाड घालचेलो यत्न केला. हो यत्न घडये आत्मघातकी थारत. अशे आततायी करणेक इंग्लिशींत एक चालंत ओपार आसा: 'देवदूत जंय भियेता दवरूंक पांय / म्हामुर्खांक थंयच वचूंक जाय'. पूण जर वाचप्याचे सानकूळ दिश्टीक लागून हो वावर फाल्यां येसाक पावलो जाल्यार मात ताचें श्रेय खुद्द नियाळप्याक न्हय तर तागेल्या वाचप्याच्या समंजस आनी सहानुभूतीपुराय नदरेक वतलें, हें निश्चीत!



डॉ. किरण बुडकुले. जल्म मडगांवां.

— इंग्लिश विशय घेवन एम्. ए. केल्या. विलीयम गोल्डींग हांच्या साहित्याचेर संशोधन करून पी.एच्.डी. पदवी मेळयल्या.

— १९७६ सावन सातत्यान इंग्लिश विशयाचें अध्यापन. सध्या गोंय विद्यापिठांत, इंग्लिश विभागांत प्रपाठक (रीडर इन इंग्लिश) म्हूण शिकयतात.

— भुरगेपणांतसावन बरोवपाची आवड. कोंकणी वांगडाच मराठी, हिंदी आनी इंग्लिशींतय बरयतात.

— कविता आनी स्फुट बरपाचो छंद. अदींमदीं अशें बरप लिखणेनांवान नेमाळ्यांनी उजवाडा येता. कोंकणींत अणकाराचेंय काम करतात.

— फाटलीं कांय वर्सां नेमान समिक्षात्मक बरप चालू आसा. **समिक्षेकडेन इश्टागत** हें तांचें आगामी पुस्तक नॅशनल बुक ट्रस्टाच्या पालवान उजवाडा येता.

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

श्रीस्थळ, काणकोण – गोंय ४०३ ७०२

ISBN 81-900808-8-1